# हांकां आमचीं आगीं



डॉ. यू. आर. अनंतमूर्ती

जेश्टट कन्नड साहित्यकार, समिक्षक, विचारवं

मर्ण : 22 ऑगस्ट 201

गोंय कोंकणी अकादेमी मांगाळ
243, पाटो कॉलनी
पणजी - गोंय

वर्स : 1; अंक : 1 (जुलै ते डिसेंबर 2014)

# अनन्य

## गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका

संपादक

**डॉ. जयंती नायक**

पालवी संपादक

**पांडुरंग का. गावडे**

संपादक मंडळ

**पुंडलीक नायक**, अध्यक्ष

**भूषण भावे**, उपाध्यक्ष

**रुही रेडकर**, सचिव

स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका

# अनन्य

वर्स : 1; अंक : 1 (जुलै ते डिसेंबर 2014)

प्रकाशक : गोवा कोंकणी अकादेमी

संपादकीय कार्यालय : गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी - गोंय - 403001
फोन नं. : 0832-2437385/87
ईमेल : konkaniakademi@gmail.com

© सर्वाधिकार सुरक्षीत

संपादक : डॉ. जयंती नायक
पालवी संपादक : पांडुरंग का. गावडे
मुखचित्र आनी फाटलें चित्र : श्रीधर कामत बांबोळकार
रेखाचित्रां : गिरीश नंदा बोरकार
टायपसेटर : रिया ग्राफिक्स, ओल्ड गोवा
छापणावळ : लोकमान्य प्रोसेस, खोर्ली, तिसवाडी
मोल : ₹ 50/-

ANANYA :
(A Six Monthly Literary Journal in Konkani)
Vol : 1, No. : 1,
(July - December 2014)
Goa Konkani Akadami, 243, Patto Colony, Panaji - Goa - 403 001
Ph. No. : 0832-2437385/87

*(अंकांतलीं मतां त्या त्या लेखकांचीं, त्या मतांकडेन गोवा कोंकणी अकादेमी सहमत आसाच अशें ना.)*

# अनन्य




गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका
वर्स : 1; अंक : 1 (जुलै ते डिसेंबर 2014)

## मांडावळ

# अकादेमीचे वतीन...

गोवा कोंकणी अकादेमीची स्थापना जावन कोंकणीच्या मळार अकादेमीचीं पावलां थिरावपाक लागलीं, तेन्ना पसून कोंकणीचे जाणकार, जेश्ट लेखक हांचेकडसून अकादेमीची एक साहित्य पत्रिका येवंची अशी मागणी सातत्यान येत आशिल्ली. स्वता हांव अकादेमीचो वांगडी, उपाध्यक्ष, अध्यक्ष जायतपासून म्हजें तें एक सपन आशिल्लें. पूण ताचे खातीर आरंभशूरपणापरस जबाबदारी, सातत्य ह्यो गजाली खूब म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो.

आयजवेरची अकादेमीची सातत्यान उपक्रम राबोवपाची परंपरा आदर्श अशीच आसा. कोंकणी नाट्य महोत्सव (23 वें वर्स), कोंकणी युवा संमेलन (16 वें वर्स) तेभायर 'पयलो चंवर', 'साहित्य प्रभा', 'साहित्य प्रतिभा' आदि येवजण्यो ज्या उद्दीश्टान सुरू केल्ल्यो त्यो अखंडीतपणान चालू आसात. 'अनन्य' पत्रिकाय त्याच मार्गान वतली, हाचेविशीं दुबाव ना.

कोंकणीच्या नेमाळ्यांनी तशेंच आकाशवाणीन आयजवेर कोंकणी साहित्याचें प्रकाशन तशेंच कोंकणी साहित्य समिक्षेची सेवा केल्या. अशा स्वरूपाच्या नेमाळ्यांची एक दीर्घ परंपरा कोंकणीच्या मळार चलत आयल्या. कोंकणीच्या ध्यासान वावुरपी अशा अनेक व्यक्तिनी संपादक, प्रकाशक, धनी जावन पदरमोड करून अशे तरेचीं नेमाळीं चलयिल्लीं आसात. आजुनूय ते सेवा-परंपरेंत खंड पडिल्लो ना.

आयचे घडके 'सुनापरान्त' दिसाळ्याची आयतार पुरवणी कोंकणी साहित्य आनी समीक्षेची उजवाडावणी करता. 'जाग' सारखें म्हयन्याळें फाटलीं कांय वर्सां अखंडितपणान साहित्य-समिक्षेकडेन आपणाली लागणूक जोडून आसा. संपादक डॉ. माधवी सरदेसाय हांगेल्या अकाली निधनांक लागून तातूंत कांयशी खीळ पडल्या. दिलीप बोरकार हांगेलें 'बिंब' म्हयन्याळें विविध साहित्यासयत नेमान आनी दिमाखदारपणान प्रकाशीत जाता.

कोंकणी साहित्याक ओंपिल्लें तुकाराम शेट हांगेलें 'कोंकण टाईम्स' दुर्दैवान बंद पडलें. कोंकणी भाशा मंडळाचें वर्सूकी 'कोंकणी' साहित्याचो करंड घेवन प्रगट जाता. भिकू नायक हांगेलें 'जैत' नेमाळें वर्साक साहित्याचे दोन अंक घेवन भायर सरता. मंगळूर सावन येवपी 'अमर कोंकणी' कोंकणी समिक्षेकूच ओंपिल्लें आसता. तेभायर 'गुलाब' म्हयन्याळें आपले परीन कथा-कविता सारखें साहित्य उजवाडायता. शिवाय अदींमदीं दिवाळी अंक अथवा विशेशांक आसता. आकाशवाणीची साहित्य-सेवा चालूच आसता. हे फाटभुंयेचेर 'अनन्य' उजवाडाक येता. आयजवेर कोंकणी नेमाळ्यांनी जी कोंकणी साहित्याची सेवा केल्या, ताची जाण अकादेमीक आसा.

'अनन्य' पळयनाफुडें कोणाकूय साहित्य अकादेमीच्या 'समकालीन भारतीय साहित्य' आनी 'इंडियन लिटरेचर' ह्या नेमाळ्यांची याद आयली जाल्यार तो फक्त योगायोग अशें समजुचें न्हय, तर त्या दोन नेमाळ्यांचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरूनूच 'अनन्य'ची निर्मणी जाल्या.

'अनन्य' नेमाळ्यात दर्जेदार आनी उंचेले पतीचें साहित्य दिवपाचो हावेस आसा. साहित्य अकादेमीन कोंकणीक मान्यताय दीत पासून आनी भारतीय संविधानाचे आठवे अनुसुचीत

कोंकणीचो आस्पाव जायत पासून, कोंकणी भास भारतीय भासांचे पंगतीक बसल्या. राष्ट्रीय थराचेर हेर भाशांतल्या साहित्याची तुळा जावपाक लागल्या, तुळनात्मक अभ्यास जावपाक लागला, अणकाराच्या माध्यमांतल्यान साहित्याचें आदान-प्रदान सुरू जालां. अशा वेळार कोंकणी साहित्य फकत कोंकणी वाचप्यां पुरतेंच मर्यादीत उरूंक ना, तर तें भारतीय साहित्य जालां.

दर वर्सा कोंकणीतल्या बऱ्या साहित्याची वासपूस वेगवेगळ्या घटकांकडल्यान जायत आसता. कोणांक हेर भाशांत अणकारीत करपा खातीर कोंकणी साहित्य जाय आसता, कोणांक राष्ट्रीय स्वरूपाच्या प्रातिनिधीक संकलनांखातीर साहित्याची गरज आसता. मागीर सोदासोद सुरू जाता. हे सोदासोदींत 'अनन्य' म्हत्वाचो दस्तावेज थारतलो अशी आमकां आस्त आसा.

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत संशोधन सहाय्यक म्हण वावुरपी डॉ. जयंती नायक हांचेर 'अनन्य' नेमाळ्याच्या संपादकपदाची जापसालदारकी दिल्या. त्यो स्वता एक आघाडेच्यो कथा लेखिका आनी लोकवेदाच्यो संशोधक आसात. संपादनाचो अणभव तांचे गांठीक आसा. फाटलीं पंचवीस वर्सां त्यो कोंकणी साहित्यीक आनी भाशीक चळवळीकडेन संबंदीत आसात. पुस्तकां बरोवप, संकलीत करून संपादीत करप, उजवाडावप, वितरीत करप आदि पुस्तक - संस्कृतीच्या सगळ्या व्यापाचो तांकां दीर्घ अणभव आसा. त्या अणभवाच्या आदाराचेरूच तांणी संपादनाचें आव्हान स्विकारलां. तांगेल्या कामाचो भार ल्हव जावंचो देखून 'अनन्य' खातीर उपसंपादक वेंचून काडपाची मेकळीक तांकां अकादेमीन दिल्ली. ते प्रमाण तांणी पांडुरंग काशिनाथ गावडे हांची निवड केली. पांडुरंगबाब फाटलीं चाळीस वर्सां कोंकणीच्या मळार एक साक्षेपी वाचक, लेखक, लोकवेदाचे अभ्यासक म्हण वावुरता. पुस्तक संपादनाचे बाबतींत गोवा कोंकणी अकादेमी, साहित्य अकादेमी तशेंच नॅशनल बुक ट्रस्ट सारख्या संस्थांचो अणभव तांचे गांठीक आसा.

अकादेमीचे वतीन संपादकांक कांय मार्गदर्शक तत्वांचो सांबाळ करपाक सांगलां. पत्रिकेचो हावेस, मोख हे बाबतींत मार्गदर्शन केलां. सदरां, लेख, मांडावळ हांचे बाबतींत सुचोवण्यो दिल्या पूण साहित्य निवडीचो तांकां पूर्ण अधिकार दिल्लो आसा. ते खातीर लेखकांकडल्यान धन्यवाद स्विकारताना तांकां रोषाचेय धनी जांवचें पडटलें.

सद्याक तरी वर्साक फक्त दोन अंक उजवाडावपा इतलीच अकादेमीची साहित्यिक न्हय पूण प्रशासकीय तांक आसा. फाल्यां ती वाडली जाल्यार 'अनन्य' त्रैमासीकाच्या रुपान प्रगट जावन वर्साक चार अंक दिवंक शकता.

'अनन्य' खातीर वाचक, समिक्षक, लेखक हांगेल्या मोलादीक सुचोवण्यांचें स्वागत आसा.

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# संपादकीय...

जिणेंत कांय संदी आपूण जावन म्हज्या म्हऱ्यांत चलत आयल्यो, तांकां फुडो करपाचें धाडस हांवें केलें. निकटें धाडसच केलेंना तर त्या संदींचें भांगर करपाचो यत्न केलो म्हणल्यार ती आत्मस्तुती निश्चीतच थारची ना.

'अनन्य'चें संपादन, हिवूय अशीच ध्याना-मना नासतना आपूण जावन म्हज्या मुखार चलून आयिल्ली संद. गोवा कोंकणी अकादेमी 2014-2015 ह्या अर्थीक वर्साच्यान एक स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका सुरू करपाची आसा हें कळिल्लें, पूण ताचें 'संपादक' हांव आसतलें अशें सपनांतय म्हज्या मनांत आयलें नाशिल्लें. गोवा कोंकणी अकादेमींत हांव फाटल्या पंचवीस वर्सांसावन लोकवेद संशोधक म्हण वावर करता. अंदीं - मदीं गरज पडटा तेन्ना प्रशासकीय कामांय म्हाका करचीं पडटात. लोकवेदा भायल्या ल्हान-मोठ्या पुस्तक-पुस्तिकांचें संकलन - संपादनय हांवें केलां, पूण अकादेमी आपले पयले - वयले साहित्य पत्रिकेच्या संपादनाची येदी व्हडली जबाबदारी दिवपा इतको भरवंसो म्हजेर दवरतली अशें म्हाका केन्नाच दिसलें नाशिल्लें. अकादेमीच्याच मंडळांतलो एखाद्रो वांगडी हे पत्रिकेचो संपादक आसतलो अशें हांव समजतालें... आनी एका दिसा अकादेमीचे अध्यक्ष पुंडलीकबाब नायक हांणी आपल्या कॅबिनांत म्हाका आपोवन व्हेलें, थंय उपाध्यक्ष भूषण भावे हेवूय हाजीर आशिल्ले. तांणी म्हजे मुखार संपादक पदाचो प्रस्ताव दवरलो. एक-दोन खीण हांव आयकून थक्क जालें, मागीर हांवें हयकारार्थी मान हालयली.

तसो अशेतरेच्या वावराचो सामकोच अणभव नाशिल्लो, अशें न्ही. कोंकणी भाशा मंडळाच्या वावुरपी समितीचें वांगडी आसतना 1994 ते 1998 ह्या पांच वर्सांत उजवाडायिल्ल्या 'कोंकणी'च्या शेगीत पांच दिवाळी अंकांचें हांव सह-संपादक आशिल्लें. आघाडेचे पत्रकार राजू नायक संपादक आशिल्ले, तांच्या मार्गदर्शनाखाला अंकाच्या सह-संपादकाचीं कामां हांवें केल्यात. 2007, 2008 ह्या दोन वर्सा कुडचडेच्या दामोदर प्रकाशनान उजवाडायिल्ल्या 'लामणदिवो' दिवाळी अंकाचें कार्यकारी संपादक म्हण हांवें काम पळयलां. पूण 'अनन्य'ची जबाबदारी, त्या वावरापरसय वेगळी. शिवाय ते दिवाळी अंक आनी ही एक पत्रिका, हातूंत साहित्याचो दर्जो, गांभिर्य आनी सातत्य ह्यो तीन गजाली जपप अतीशय म्हत्वाचें. शिवाय हांगा हांव पूर्ण 'संपादक'. सल्लो-सुचोवण्यो करूंक संपादक मंडळ आसाच, तरी शेवटाक मुखेल जबाबदारी आनी अंकाविशींची भूमिका संपादकाचीच उरता.

हांवें हें आव्हान स्विकारलां. खरें हें अकादेमींतल्या म्हज्या हुद्द्याच्या ड्युटे भायलें काम. ह्या कामाक म्हाका गरज त्यो सगळ्यो सुविधा-पालव मेळटलो अशें अकादेमीच्या कारभाऱ्यांनी आश्वासन दिलां. अकादेमीन कांय मार्गदर्शन तत्वांय घालून दिल्यांत, ताच्या म्हालवजाचेर हांवें 'अनन्य'चो वावर सुरू केला.

'अनन्य' चो हो पयलोच अंक. कोंकणींतले आगळें आनी दर्जेदार साहित्य ही अनन्यची मोख मुखार दवरून, तशें साहित्य ह्या अंकांत दिवपाचो यत्न केला, लेखकांकडल्यान तें तें साहित्य खास मागून घेतलां. 'चौकेर', 'स्मृतीशेश', 'कथामंच',' भाशाभावकी', 'ललीत', काव्यमंच, 'नाट्यमंच', 'भ्रमंती', 'मंथन', 'लोकवेद', 'ग्रंथदालन' अशीं सदरां अनन्यखातीर ह्या अंकावरवींच नियोजीत केल्यांत. अनन्यची सगळीं सदरां आप-अपले परीन खास आसातच पूण 'चौकेर'

आनी 'ग्रंथदालन' हीं तातुंतले तातूंत खास. 'चौकेर' ह्या सदरावरवीं एका जेश्ट साहित्यीकांकडेन केल्ल्या सुसंवादाचें शब्दांकन अनन्यांत दिवपाचो आनी ते वरवीं तांची जीण आनी कार्य लोकांमेरेन पावोवपाचो हावेस दवरला. ह्या अंकांत नागेशबाब करमली हांचेकडेन भूषण भावे हांणी केल्लो सुसंवाद शब्दांकन करून आस्पावीत केला. नागेशबाबांची एक पुरोगामी साहित्यीक म्हण, एक विचारवंत म्हण आनी एक स्वातंत्र्य सैनीक म्हण वाचकांक ह्या शब्दांकनावरवीं निश्चीतच वळख जावंक पावतली. 'ग्रंथदालन' हें साहित्यीकांच्या अभिव्यक्तीच्या दृश्यरूपासंबंदी, म्हणल्यार पुस्तकांसंबंदी आसा. दर वर्सा कोंकणींत शंभर वयर पुस्तकां उजवाडाक येतात. तांची मोलावणी आनी वळख जावप गरजेचें आसा. ग्रंथदालन ह्या सदरावरवीं तें करपाचो आमी थोडो यत्न केला. ह्या सदरांत दोन विभाग आसात एक गंभीर मोलावणी, म्हणजे 'समिक्षा', दुसरी पुस्तकाची वळख वा निकटें परिक्षण. कोंकणीत समिक्षेखातीर फावो तें व्यासपीठ ना असो एक कागाळीचो सूर हालींसराक आयकूंक येता, तो आमचेपरीन कमी करपाचो हो एक ल्हानसोच यत्न.

ह्या अंकाचें काम चलतना तीन दुखदिण्यो घडणुको घडल्यो. 22 ऑगस्ट 2014 दिसा जेश्ट कन्नड साहित्यीक, विचारवंत आनी समिक्षक डॉ. यू. आर. अनंतमूर्ती ह्या संवसाराक अंतरले. कोंकणी भाशेचे बाबतींत ते अतिशय संवेदनशील आशिल्ले. तांच्या मरणान कोंकणी भास आनी साहित्याचे एक हितचिंतक आमकां अंतरले.

5 ऑक्टोबर 2014 दिसा केरळांतले कोंकणी कवी आनी लोकवेदाचे संकलक के. के. सुब्रम्हण्यन हे अंतरले. कोंकणी खातीरचें तांणी केल्लें कार्य खूब मोठें आसा. 'श्रवोण' सारको दुर्मीळ लोकगीत प्रकार पुस्तक रुपान उजवाडावन, कोंकणी अभ्यासकांक म्हत्वाची अभ्यास सामुग्री दिवपाचें भोव मोलादीक कार्य तांणी केलां. 22 डिसेंबर 2014 दिसा भासशास्त्री आनी जाग म्हयन्याची संपादक कोंकणीची प्राध्यापक डॉ. माधवी सरदेसाय ह्या संवसारांतल्यान गेली. तांच्या वचपान कोंकणी भाशा आनी शिक्षण क्षेत्राचें खूब मोठें लुकसाण जाल्लें आसा. डॉ. यू. आर. अनंतमूर्ती, के. के. सुब्रम्हण्यन आनी डॉ. माधवी सरदेसाय ह्या तिगांयकय आमचीं मनापसून आर्गां.

'अनन्य'चो हो पयलो - वयलो अंक वाचकाच्या हातांत दितना खूब खोस भोगता. अंकाचे रचनाकार जायते. त्या जायत्यांच्या रचनांक एके वावळेंत गुंथून आपले कल्पकतेप्रमाण ताचो सुंदर 'सर' करपाचें काम संपादक म्हण हांवें केलो आसा. ह्या वावरांत सह-संपादक म्हण पांडुरंग का. गावडे हांणी म्हाका मोलादीक पालव दिल्लो आसा.

अंकाचो वावर सुरू करचे आदीं कांय साहित्यीक इश्ट-इश्टिणीकडेन उलोवप जालें. बऱ्याच जाणांनी 'साहित्यीक बरो प्रतिसाद दिनात गो' म्हणपाची शिटकावणी दिल्ली. पूण म्हाका मात अणभव वेगळोच आयलो. एक-दोन आडवाद सोडल्यार, जांचेकडेन साहित्य मागलें तांणी सगळ्यांनी उत्स्फूर्तपणान धाडलें. बऱ्याच जाणांनी तर वांगडा अंकासंबंदान आपल्यो सुचोवण्योय धाडल्यो. मात हो पयलोच अंक. फुडली स्थिती कशी आसतली हें अणभवानच समजतलें. चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार आनी गिरीश बोरकार हांणी सुद्दा 'अनन्य' अंक येता हाची खोसी प्रगटावन उस्फूर्तपणान चित्रां काडून दिलीं.

सगळे रचनाकार - चित्रकार हांचें हांव काळजांतल्यान उपकार मानता, वाचक-लेखकांच्या सुचोवण्यांक रावतां. शेवटाक, उपकार अकादेमीचे, म्हाका अनन्याचें संपादक जावपाची संद दिल्ले खातीर आनी एका नव्या क्षेत्राचीं दारां म्हाका उगडिल्ले खातीर!

**जयंती नायक**
संपादक

# चौकेर

(सुसंवाद)

भूषण भावे

## जेश्ट साहित्यीक नागेश करमली हांचेकडेन भूषण भावे हांचो वार्तालाप



नागेश करमली. गोंयकारां मदीं जांचें नांव अभिमानान घेवं येता अशें व्यक्तीमत्व. पिरायेच्या ब्याऐंशी वर्सांचेर लेगीत तरणाट्यांक लजोवपी कार्य आनी कर्तृत्व. सडेतोड मतां. तीं मतां सत्याचे बुन्यादीचेर आदारिल्लीं. तीं सत्यां जिणेंत प्रत्यक्षांत हाडपा खातीर तितलेच खर कश्ट. सामाजीक मळाचेर सक्रीय आसून लेगीत सृजनशीलताय मरूंक दिवंक नाशिल्लो सर्जनशील, रसीक कवी, लेखक. गोंयच्या मुक्ती–संग्रमांतल्यो शौर्यगाथा यादींच्या कुरकुटांत घेवन जगपी मनीस.

मुलाखतीक वेळ घेवन घरा पावलों तेन्ना दारांत तांचीं झरिल्लीं पूण परतून भायर सरपाचीं वाट पळयत आशिल्लीं सँडल्स. सकाळ पसून जाल्लो शीण पयस करूंक दनपारची इल्लीशी झेम काडून ताजेतवाने जाल्ले नागेशबाब, आपले अभ्यासिकेंत बसून 'सुनापरान्तां'तल्या सप्तकी सदराची तयारी करताले.

**भूषण भावे** : जल्म : 1968, समिक्षक, संशोधक. *'माटोळी'*, *'गोंयचे पारंपारीक खेळ'*, *'हॉर्तुश इंदिकुश मलबारिकुश'* हीं संपादीत पुस्तकां प्रकाशीत. संपर्क : पीसगाळ, पोस्ट – म्हाड्डोळ, गोंय – 403404, मो. 9423055070

*"आतां म्हाका सर्वार्थान परिपूर्ण जावंक जाय, पूण त्या आदीं बुदवंतकायेन उपाट भरिल्ल्या जिविताची वस्ती म्हजे धरणीचेर जावं नाका? एक सांगात,.. रेंवेंच्या एका कणा भोवंतणी उपजिल्ले जबर दुखींतल्यान उबें जाल्लें मंदिर म्हणल्यार मोती. खंयचे इत्साशक्तीन आमच्यो ह्यो कुडी घडल्यो आनी कसल्या कणा भोवंतणी? जेन्ना देवान म्हाका एक फातर कसो ते विलक्षणा अजापाचे तळयेंत शेंवटून मारलो, तेन्ना थरथरत उदकाचेर कितलेशेच भोंवर उठले, पूण जेन्ना हांव तळाचे खरीक पावलों तेन्ना शांत जालें...*

*म्हाका शांतीकाय दियात आनी मागीर काळखे रातीचेर हांव कशें जैत मेळयता तें पळयात..."*

खलील जिब्रानाची मनीस कुळयेच्या उद्गमाचेर आनी उन्नयनाचेर बरयिल्ली ही चिंतनांनी उपाट भरिल्ली बरपावळ कोंकणींत रूप घेताली. पूण वयलीं चिंतनां खासा नागेशबाबाचेच जिणेक तंतोतंत लागू जातालीं. एकेच न्हय, साबार काळख्या रातींचेर जैत जोडिल्लो हो मनीस, जिणेंत शांतीकायेच्या सोदांत, कोण जाणां केन्ना भायर सरिल्लो? तांच्या ह्या सोदाची वळख करून घेवपाचो हो ल्हानसो यत्नः-

*भूषण : नागेशबाब एक समृद्ध आनी अर्थपूर्ण जीण तुमी जगल्यात. कवी, लेखक, समाजीक वावुरपी, स्वातंत्र्यसैनीक.... हें सगळें कशें जमलें?*

*नागेशबाब :* म्हजें भुरगेपण हांवें निम्नमध्यमवर्गी अर्थीक अवस्थेंत सारलें.... पूण हांवें मध्यमवर्गीयांची वृत्ती केन्नाच स्विकारली ना. भुरगेपणांतच अन्याया आड झगडप, संघर्श करप हें म्हज्या सबावांतच आसलें आनी परिस्थितीनय तें शिकयलें. तरणेपणांतच म्हाका दक्षीण गोंयांतल्या एका मुळचो भाटकार आशिल्ल्या धनयाचे खणीचेर सुपरवायजराचें काम करचें पडलें. तेन्ना सामान्य मनीस कसो जगता तें सामकें लागींच्यान पळोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी, तेच भशेन जे गिरेस्त, धनी वा मालक कोण आसात तांचीय वृत्तीय हांवें पळयली. बापूय भुरगेपणांत भायर पडिल्ल्यान आनी सात भावंडां आमी आवयची जबाबदारी म्हजेर आशिल्ल्यान नोकरी करप म्हज्या वांट्याक आयिल्लें, तेन्ना सतरा वर्सांचें वय. नोकरी करतना सामान्य, अशिक्षीत, गरीब लोकांक तर गुलामां भशेनच वागयताले, पूण थोडें शिकप आशिल्ल्या, समजिकाय आशिल्ल्या म्हजे सारकेल्या मनशांक लेगीत अपमानाची जीण सोंसची पडटाली. एक दीस खण मालकाक खणीच्या कामाखातीर मेळूंक गेल्लों तेन्ना 'राव मात्सो' अशें करीत करीत सबंद दीस उपाशी अवस्थेंत त्या भाटकार मिनेरागेर बसून रावपाची पाळी म्हजेर आयिली. म्हज्या जेवणाची कोणाक चिंता नासली. त्याय प्रसंगान म्हाका घडयलो. पूण तेन्ना कांयच उलोवपाची माणसुकी नाशिल्ली. कारण हेच लोक प्रत्यक्ष, अप्रत्यक्ष रितींन पुर्तुगेजालें सरकार चलयताले. पुर्तुगेज सरकारांत तांचेंच वजन आशिल्लें. देखून जें सोंसले आनी पळयलें, तातुंतल्यान गोंयांतली ही परिस्थिती बदलूंक जाय आनी



**राष्ट्रपती श्रीमती प्रतिभा पाटील हांचे हस्तुकीं स्वातंत्र्य–सैनिक म्हणून दिल्लीत भौमान स्विकारताना.**

ती बदलतली जाल्यार पुर्तुगेजांक हांगाचे धांवडावंकच जाय, हाचे विशीं म्हजी खात्री पटली आनी हांवे 1954 वर्सा ते शिर्विसेचो राजिनामो दिलो. पुराय कुटुंब पोसपाचें आशिल्ल्यान त्यावेळार नोकरी सोडप हें पिशेपणाचें आशिल्लें. पूण म्हज्या मनांत दुसरो विचारच नाशिल्लो.

त्याच वेळार गोंयचे सुटकेची चळवळ नेट धरूंक लागिल्ली. हांव ते चळवळींत पडलों. भूमिगत रावन हांवें काम केलें. म्हजे बरोबरच्या लोकांक धरले. चळवळीचें स्वरूप जाणून घेवपाक हांव बेळगांवां गेलों. थंयच्यान परतून येवन भूमिगत तरेन गोंयात काम करताना म्हाका धरलो. अशे रितीन गरिबी, अन्याय, कितलेंय कश्ट करून लेगीत मेळपी पोटाक पावना तसलें उत्पन्न आनी ही परिस्थिती सुदारपाक कसलेच प्रयत्न जायनात ही खंत, ह्या सगळ्या रसायनान म्हाका 'झुजारी' करून सोडलो. ह्यो सगळ्यो भूमिका हांवे नकळटना, सहजतायेन न्हय तर जाणीवपूर्वक स्विकारल्यात. कुटूंबाचो हुस्को करिनासतना चळवळींत पडलो हाची एक तरेची अपराधी भावना केन्ना केन्नाय जागी जाताली. पूण हांवें कित्याचीच पर्वा केली ना.

*भूषण : वयल्या भुमिकांतली खंयची भूमिका चड मानवल्या?*

*नागेशबाब :* म्हजी स्वातंत्र्यसैनीक म्हूण जी भूमिका आसा ती गोंयचे सुटके उपरांत सोंपली. हांवें सुटके झुजारी म्हूण जो वावर केलो तो उरलो, एका अर्थान तें संग्रामी दायज हांवें केन्नाच सोडलें ना, पूण ते भायर भूमिका सोंपली. पूण कवी, लेखक, समाजीक वावुरपी ह्यो म्हज्यो भूमिका सोपूंक नात. आयज म्हाका जायत्यो अडचणी आसात, शारिरीक कश्ट आसात, तरीय म्हज्यो ह्यो भूमिका सोपूंक नात. समाजीक लागणूक ही स्वातंत्र्य संग्रमांतल्यान आयिल्ली एक दुसरी

जाणविकाय. स्वातंत्र्य संग्रामांत सुमार पाच वर्सां हांव बंदखणीत उरलो. म्हजे वांगडा ज्यो हेर व्यक्ती तुरुंगांत आशिल्ल्यो तांचे मदीं चिंतन, मनन, लेखन, करपाची तांक आशिल्ले, खूब जाण आशिल्ले, तशेंच सादे सामान्याची जीण जगून आयिल्लेय आशिल्ले. ते सामके सादे मनीस आशिल्ले. आत्मगौरवाचो दोश पत्करूनय बी सांगतां, म्हजे भितर जी सृजनाची तांक आशिल्ली, तुरूंगांत लेगीत ती व्यक्त जाली. जायते विद्वान आनी सुशिक्षीत मनीस म्हाका थंय मेळ्ळे. तातूंत अँथनी डिसोजा, मार्क फर्नांडीस, डॉ. एफ. जे. मार्टीन्स, ॲड. श्रीधर तांबा अशे जायते जाण आशिल्ले. तांच्या अणभवाचो म्हाका उपाट लाब मेळ्ळो.

आमी जिविताच्या शिक्षणाचो एक क्लासच बंदखणीत सुरू केलो म्हळ्यार जाता. ताचो खूब परिणाम म्हजेर जालो. बंदखणीत आसतना हांव बंगाली आनी उर्दू भासो शिकलों. आयज ह्या दोनय भासांची म्हाका खूब न्हय थोडी भोव वळख आसा. ह्यो दोन भासो शिकपाचें विशेश कारण आशिल्लें. भारताचें जें मुखेल आंग आसा, ताचें मुख हिंदी-संस्कृत आसा. भारताचो एक कान बंगाली आनी दुसरो उर्दू. देखून हो भरतखंड समजून घेवपाक ह्यो दोन भासो गरजेच्यो आसात, अशें म्हाका दिसता.

*भूषण : गोंयचे समाजीक आनी राजकी जिणेविशीं तुमी समादानी आसात? ह्या मळांवयले खंयचे प्रस्न तुमकां सतायतात?*

*नागेशबाब :* समाजांतलो जातीवाद, धर्मकोल्लीपण आनी मुखेलपणान श्रध्देच्या नांवाखाला चलपी अंधश्रद्धा ह्यो गजाली, हे प्रस्न म्हाका चड महत्वाचे दिसतात. तांचे आड हांव सदांच उबो रावलां. हाका लागून जायते फावटीं अशें जालां की जे श्रध्दावान आसात ते तर म्हाका लागींच धरिनात पूण अश्रध्द आसात तांकांय हांव चड सडेतोड म्हूण मानवना.

*भूषण : तुमचे मदलो लेखक, कवी केन्ना व्यक्त जालो?*

*नागेशबाब :* हांवें केन्नाच धरुंना हांव लेखक वा कवी जातलों अशें. म्हाका भुरगेपणांत शिक्षक मेळ्ळो तो कवी बाकीबाब बोरकार. बाकीबाब ऐन तारुण्यांत आसताना ताचें रुप हांवें पळयलां. ताचें कविता बरोवप, वागप हाचो परिणाम म्हजेर जाला. म्हाका अशें दिसता, प्रत्येक मनशाच्या काळजांत एक कवी आसताच. ताचेर कोणेंतरी इंगळ्यांचेर फूंक मारता तशी फूंक मारुंक जाय. हांवें सुरवेच्या काळांत बरयल्ल्या; दरेकलो नवो कवी बरयता तसल्यो बरयल्ल्यो कविता आयज म्हाकाच आवडनात. तरणेंपणांत ही कविता करपाची आवड आशिल्ली. पूण बुद्धीक आनी भावनेक खतपाणी नाशिल्लें. दीसभर कश्ट-दगदग आशिल्ल्यान बरोवपाची सवस्तकाय नाशिल्ली. पूण फुडें तुरुंगात म्हाका वाचूंक मेळ्ळें. अभ्यास करुंक मेळ्ळो. तुरुंग म्हणल्यार सर्ग न्हय. पूण थंय आमकां पुस्तकां मात वाचूंक मेळटालीं. सगळीं पुस्तकां सेन्सॉर जावन येतालीं. गीता आनी बायबल लेगीत सेन्सॉर जावन येतालें. रेज मागुश आसतना आमी पुस्तकांचें स्वातंत्र्य

चड अणभवलें. मार्क्सावयलीं पुस्तकां हांवें पयले फावट रेज मागुशाक वाचलीं. थंयच एक मासिकाच्या आकाराचें हस्तलिखीत 'जोत' ह्या नांवान आमी लागीं लागीं दोन वर्सां काडटाले. आमी तें जाड पुस्तक हातान बरयताले. ह्या हस्तलिखीताचो एक आगळोच परिणाम जालो. जे लोक केन्नाच कोंकणींत बरय नाशिल्ले, ते लोक कोंकणींत बरोवंक लागले. घरच्यांक कोंकणींतल्यान पत्रां धाडूंक लागले. बंदखणीत वचचे पयलीं हांव बरोवपाचो यत्न करतालों.

पूण अदीक जाणविकायेन थंयच हांव बरोवंक लागलों, कविता करुंक लागलों. त्या मॅगेजिनांत हांवें जायत्या जाणांक बरोवपाक प्रवृत्त केले. हांवेंय तातूंत लेख, काणयो, कविता बरयल्यो. तातूंतल्यान म्हाका बरोवपाची संवकळ जाली.एक तरेन लेखनाचेर हात बसलो.

बंदखणींतल्या आमच्या जायत्या सांगात्यांक इंग्लीश सोडून कांयच वाचूंक येनाशिल्लें. तांकां आमी नागरी लिपी शिकयली. हांतूत ॲन्थनी, मार्क हांचो आस्पाव आशिल्लो. नागरी लिपी शिकतकीच तांकां कोंकणी, मराठी, हिंदी वाचूंक येवंक लागली. मार्क हाणें नागरी शिकून फुडें सगलो शणै गोंयबाब वाचून काडलो. भुरगेपण कराचीक गेल्ल्यान ताका कोंकणी सारकी येनाशिल्ली. आमच्यांतल्या कांय निरक्षर झुजाऱ्यांक आमी वाचूंक-बरोवंक शिकयले.

फुडें स्वातंत्र्य मेळटकीच हांवें म्हजें लिखाण चालूच दवरलें. मुक्ती उपरांतच्या गोंयांत सुरु जाल्ल्या माध्यमांनी म्हजें बरप उजवाडाक येवंक लागलें.

1954 वर्सा बेळगांव आसतना 'दिवया येवकार क्रांतीक' म्हूण हांवें एक कविता बरयिल्ली. तेन्ना 'लोकमान्य' म्हूण एक दैनिक मुंबय/पुण्यांतल्यान चलतालें. ताच्या वार्ताहारान 'स्वातंत्र्यलढ्यातील कवी' म्हूण एक लेख बरयलो. तातूंत गजानन रायकार, नागेश करमली अशी नांवां आशिल्लीं आनी म्हजी कोंकणी कविता ताणें त्या दिसाळ्यांत छापली. अशे रितीन म्हजी पयली कविता एका मराठी नेमाळ्यांत उजवाडाक आयली.

सुटके उपरांत हांवें साहित्यीक-प्रासंगीक विशयांचेर शेंकड्यांनी लेख बरयले. विलीनीकरणा वेळार एकाच नांवान छापप समा न्हय म्हूण काल्पनीक वा हेर नांवांनी म्हजे लेख उजवाडाक आयले.

ओपिनिअन पोल जावपाच्या सुमाराक हांव आकाशवाणीचेर कामाक रुजू जालों. म्हज्या लेखन स्वातंत्र्याचेर इल्ली गदा आयली. कांय गजाली प्रत्यक्ष नांवान बरोवंक मेळ नाशिल्ल्यो, पूण हांवें शक्य जाता तशें बरयले. केन्ना केन्नाय टोपण नांवां घेवन बरयले. अशे शेंकड्यांनी लेख बरयले. कथा, कविता मात खऱ्या नांवानच बरयल्यो.

समिक्षा बरयली, गजल रचली. हांवें पयली गजल1984 वर्सा रचली. हांवें नाटकां बरयलीं, अणकारीत केलीं. रेडियोचेर सुमार दोन वर्सां 'राजाराम राटावळी' आनी 'पाटू पटेकार' ह्या नांवान विनोदी मालिकांचें

लेखन केलें. रुपकां बरयलीं. रेडियोक लागता असो खंयचोय प्रकार हांवे बरोवपाचो दवरूंक ना.

*भूषण : तुमी कोंकणी चळवळी कडेन कशे आयले?*

*नागेशबाब :* गोंय मुक्त जातकीच विशेश करून ओपिनिअन पोला उपरांत जंय जंय कोंकणी लोक आशिल्ले, थंय थंयच्यान तांकां सोदून काडून चळवळीच्या प्रवाहांत सोडपाचें काम हांवें म्हजे कुवतीप्रमाण केलां. तातूंत हांव सामको विरगळून गेलों. तेन्ना जे मनीस हांवें जोडले तातूंतले बरेच जाण आयज कोंकणीतले नामांकीत लेखक जावंक पावल्यात. ते जे नामना जोडूंक पावल्यात तांचो म्हाका आनंद जाता. कोंकणी भाशा मंडळाची बुन्याद आमी रेज मागुश कोटांत घाल्ली. जशी समाजवादी पार्टी तुरुंगांत जल्माक आयली तशेंच कोंकणीक एक संघटीत संस्था आसूंक जाय आनी ते खातीरचें मुळावण आमी रेज मागुशच्या तुरुंगांत घातलें. बंदखणीत आसतनाच 'कोंकणी अभ्यास मंडळ' आमी घडयलें. बंदखणींतल्यान भायर सरले उप्रांत, पुर्तुगेज आसतनाच आमी एक कोंकणी समिती घडयिल्ली. तातूंत हांव, पेद्रु कुर्रेय आफोंस, गुरुनाथ केळेकार, रवींद्र केळेकार, फेलिसियु कार्दोज अशे वांगडी आसले.

*भूषण : आयज कोंकणी भास आनी फुडारा विशीं तुमचें मत कितें?*

*नागेशबाब :* आतां आमी खूब वाट चलून आयले. 21 व्या शेंकड्यांत पावले. 1950 त कितें आशिल्लें? हांव जेन्ना कोंकणी बरोवंक जाय, वाचूंक जाय म्हणटालों, तेन्ना म्हजे कांय इश्ट म्हाका पिशांत काडटाले. कोंकणी फकत उलोवपाची भास, बरोवपाची न्हय असोच समज आशिल्लो. म्हाका तें केन्नाच पटूंक ना. कोंकणीचे जायते ज्येश्ट-श्रेश्ट लेखक सुरवेक हेर खंयचे तरी भाशेंत बरयताले, मागीर तांकां कोंकणीचो दिश्टावो जालो आनी ते कोंकणी वटेन आयले. म्हजे बाबतींत तशें कांय घडलें ना. म्हज्या अंतः करणांतल्यानच म्हाका कोंकणीचो दिश्टावो जालो.

1943-54 च्या सुमाराक हांव 'नॅशनल काँग्रेस, गोवा'च्या संपर्कांत आयलों. ही पार्टी तेन्ना महाराष्ट्रांतल्या समाजवादी फुडाऱ्यांच्या हातांत आशिल्ली. शणै गोंयबाबाचीं पुस्तकां वाचतकीच, कोंकणी विशींचो एक नवो उजवाड म्हज्या अंतरंगांत हांवें पळयलो. कोंकणी खातीर एक नवो संघर्श म्हज्याच लोकां कडेन हांवें सुरु केलो. गोंय महाराष्ट्रांत वच्चें आनी गोंयची भास मराठी अश्याच विचाराचे चडशे लोक नॅशनल काँग्रेसीत आशिल्ले. पूण आमचे सारके फकत गोंयचे सुटकेचो विचार घेवन पक्षांत आशिल्ले. श्री. पांडुरंग मुळगांवकारा सारक्यांनी आमच्या विचारां वटेन रावन आमकां मार्गदर्शन केलें.

फुडें रवीन्द्रबाब केळेकार म्हाका मेळ्ळे. तांची म्हजी पयली वळख 1954 तली. पूण ती पत्र रुपांतली. प्रत्यक्ष रवीन्द्रबाब म्हाका मेळ्ळे ते 1959 वर्सा, पांच-स वर्सां उपरांत. पूण 1954 त रवीन्द्र केळेकरांनीच म्हाका गुरुनाथ केळेकाराची वळख दिली. गुरुनाथ

केळेकारान म्हाका कोंकणी चळवळी विशीं माहिती दिली. म्हज्या विचारांक खोलाय दिली.

1950 सावन 2014 मेरेन कोंकणीचो विकास दोळ्यांमुखार आसा. जे भाशेक भास लेगीत म्हण नाशिल्ले ती भास साहित्य अकादेमीची मान्यताय प्राप्त भास जाली. गोंयची राजभास जाली. संविधानाचे आठवे अनुसुचींत पावली. कोंकणीची हीं सगळीं यशां पळोवपाचें भाग्य म्हाका म्हज्या जिवितांत मेळ्ळें. ते नदरेन हांव म्हाका खूब भाग्यवान समजतां.

*भूषण : आयजची चळवळ योग्य दिशेन चल्ल्या, अशें तुमका दिसता?*

*नागेशबाब :* चळवळ चल्ली, यशस्वी जाली, लोक व्हड संख्येन आयले म्हणटकीच तातूंत मागीर फांटे फुट्टातच. मत मतांतरा येतात, सगळें येता.सगळ्या कामांनी तें आमी पळयतात. यश मेळटा तेन्ना ग्रुपीजम तयार जाता. आयज रोमीचो पांखो घेवन काय लोक उबे रावल्यात. आदल्या तेंपार लोक रोमींत बरयताले, पूण तांणी केन्नाच आपणांक वेगळे मानूंक नात. मोरेन द सौज, आंतोन पैरैर, फेलीस कार्दोज हीं नांवां घेवं येतात. पूण त्या सगळ्यांक दिसतालें, आमी रोमींत बरयत आयल्यात, बरयतात. पूण आमकां नागरीचे वटेन फुडें वचूंक जाय. तांकां दिसतालें, आमचे मदले राष्ट्रीयत्वाचे कल्पनेंत ही चळवळ बसोवंक जाय, हाचेर तांचो विस्वास आशिल्लो. फकत रोमीचो पांखो आयज घेतिल्ल्यांनी हो विचार समजून घेवंक ना. ते राष्ट्रीय नदरेन विचार करीनात. फकत सुवार्था खातीर लिपी भेद चालू दवरला, तो कोंकणीक पोशक न्हय. पूण कोंकणीची सभावीक लिपी नागरी ह्या तत्वाक कोणूच पांयांमुळा माडोवंक शकनात. नागरींतले कोंकणीनच भारतीय भाशा परिवारांत जी सुवात मेळोवंक जाय ती मेळयल्या. तिचें नातें भारतीयत्वाकडेन जोडलां, रोमीक तें शक्यच ना हें स्पश्ट दिसता..

कोंकणी मुखार आव्हानांय जायतीं आसात. आयज कोंकणीच्यो जायत्यो संस्था जाल्यात. सरकार तांकां निधी दिता. पूण हें सगळें जाता आसतना, लोकांच्या थराचेर ह्या संस्थाचो वावर पावूंक जाय. लोकांनी कोंकणी वाचूंक जाय, बरोवंक जाय. आयज कोंकणी ही लागीं लागीं गोंयांतल्या सगळ्याच व्यासपीठांची भास जाल्या. आदल्या तेंपार सभाघरांत, भायर सगळे जाण एकमेकां कडेन कोंकणींत उलयताले.पूण व्यासपीठार चडले रे चडले, मराठींत उलयताले. आतां ती स्थिती उरूंक ना. विधानसभेचे वेव्हार कोंकणीतल्यान करुं येतात हें सरकाराक कळ्ळां. देखून कोंकणी चळवळ आतां फाटीं सरची ना. पूण कोंकणीच न्हय तर सबंद भारतांतल्या भासांक इंग्लीश भाशेचें वर्चस्व खावन उडोवंक सोदता. तें ना करपा खातीर वावुरपाची गरज आसा.

हे नदरेन आमी दक्षिणे कडल्या भारतीय भासांची देख घेवंक जाय. दक्षिणेंतले लोक आपापले भाशेविशीं इतले जागृत आसात, ते आपले भाशेचें एक कूस लेगीत उणें जावंक दिनात. आमी तांचे पद्दतीन काम करुन

भाशे खातीर आग्रह धरुंक शिकूंक जाय.

देखीक, गोंयात इतलीं वर्सां आंतरराष्टीय चित्रपट महोत्सव चल्ला. पूण थंय सगळो वेव्हार इंग्लीशींत चल्ला. एक उतर, फलक, पोस्टर कोंकणी सोड, नागरी लिपींत पळोवंक मेळना ताचे आड आवाज उठोवंक जाय. हे महोत्सव समितीचेर कोंकणीचे कांय वावुरपी आसात. वायट दिस्ता, ते तोंड धांपून पडिल्ले दिसतात. कोण किते म्हण्टा ताचेर विचार करी नासताना भौशीक मळार सगळे कडेन कोंकणी बरयिल्ली दिसतली हाचो आमी आग्रो धरूंक जाय. गोंयांतले गोंयकार अधिकारी जेन्ना प्रशासकीय गजालींचेर उलयतात, तेन्ना प्रसार माध्यमांक – विशेश करून टीव्ही वाहिन्याक मुलाखती दितना जमना जाल्यार पासून इंग्लीश कातरतात. ही वसणुकीवृत्ती, ती आतां बदलूंक जाय. इंग्लीश मारप्यांक लोकांनी जाब विचारपाक जाय. सरकारानय हे विशीं स्पश्ट निर्देश दिवंक जाय.

आमकां मेळ्ळां, चल्लां, आसूं, म्हाका कितें पडलां, ही वृत्ती कोंकणी मनशान आनी संस्थांनी सोडून दिवंक जाय.

*भूषण : गोंयच्या समाजीक आनी राजकी मळावयले खंयचे प्रस्न तुमकां चड सतायतात?*

*नागेशबाब :* समाजीक मळाचेर हांव झगडलां तो जातीभेद, असमानताय, पोन्न्योच गजाली फुडें घेवन चलपाची वृत्ती हांचे आड. ताका लागून हांव करतां करतां पूर्ण विज्ञाननिश्ट जालां. जें विज्ञानाचे कसवटेचेर उतरना तें सगलें अर्थहीन. वेळ होगडावपांचें.

मार्क्सवादांच्या तत्वांचो म्हजेर खूब परिणाम जाला. पूण हांव तसो मार्क्सिस्ट न्हय. हाचें कारण म्हज्या जिवितांत लोहिया आयलो. लोहियाचो लोकशायवादी समाजवाद आनी मार्क्सवाद हांचें मिश्रण म्हज्या जिवितांत तयार जालां. मार्क्साचे विचार स्विकारता आसतनाच लोहियाच्या विचारांतल्यान आयिल्लें जें नवनीत आसा तें म्हाका चड म्हजें कशें दिसता. भारतीय समाजाचें मानस रशिया वा चिना भशेन न्हय. भारतांत मार्क्सवाद हाडलो तरी तो कांय प्रमाणांत धर्माची कडा आशिल्लो कॉम्युनिजम आसतलो. भारतांत धर्माक फांटो दिवंक मेळपाचो ना. रशियेंत चर्चो बंद उडयल्यो तशें हिंदुस्थानांत शक्य ना. हिंदुस्थानात मंदिरां, देव, भारतीय मानसाचे जिणेंतल्यान काडुकूंच जावंचे नात. देव मंदिरातले देवय जिव्या प्राण्यावरी आमचे जिणेचे संबंदीत भाग जाल्यात.

गोंयांत स्वातंत्र्या उपरांत जातीय संघटनां उगडपणान आनी प्रखरपणान वावुरपाक लागल्यो. स्वातंत्र्यांत तें येवंक नाका आशिल्लें. एक तेजवंत राष्ट्रीयत्व घडोवपाचे प्रक्रियेच्या आड हें सगळें चल्लां. लोकांक धर्म शिकोवपी धर्मगुरु, स्वामी, बाबा, बुवा, आई, माताजी लेगीत आपापलीं बेटां करुन बसल्यात. एका बेटांतल्या मनशाक दुसऱ्या बेटांतलो मनीस खबर ना. आमी फकत जातीचे एकेक मजले बांदीत आसात. हिंदू धर्माचे हे भोवमजली इमारतीचे हे मजले. एका मजल्या वेल्यान दुसऱ्या मजल्यार वचपाची वाट ना. देखून अशी वाट नाशिल्लो



हो समाज कसो आयच्या विज्ञान युगांत उदरगत करतलो? असो प्रस्न म्हाका पडटा.

आयज गोंयांत व्हड प्रमाणात आंतरजातीय, आंतरधर्मीय संबंद निर्माण जावपाक लागल्यात, तांचें हांव मनोमन स्वागत करतां. समाज कुडक्या कुडक्यांनी वांटून वचपाचे कृतीक हांवें सदांच विरोध केला. आयच्या युगांतलो समाज एकसंघ बलवान समाज जावंक जाय तर संवसारांत आमकां फुडार आसा.

राजकी मळाचेर, गोंयाक मुक्ती मेळटकीच, गोंयचें पूर्ण भारतीयीकरण जावंक जाय आशिल्लें, तें करपांत आमी कमी पडल्यात. अजुनूय पुर्तुगेजांची याद काडपी लोक गोंयांत आसात. पोन्ने पिळगेंतले न्हय, नवे पिळगेंत लेगीत ते लोक तयार जातात. हाचे आड हांव सदांच आवाज उठयत आसा. गोंय भारताचें एक अविभाज्य आंग आसा हो विचार मनांत धरुनच आमी सुटके झुजांत पडले. हो विचार पयले फावट स्पश्ट रितीन मांडपी मनीस म्हणल्यार त्रिशतांव ब्रागांझ कुन्य. फ्रांसांतल्यान येतकीच, 1928 वर्सा 'गोवा काँग्रेस कमिटी' स्थापन करतकीच, 'फ्री गोवा इन फ्री इंडिया' अशी घोशणा तांणी केली आनी ती सबावीक आशिल्ली. कारण कांयजाण म्हण्टात तशें भारतीय कुळ-परीवाराबगर गोंयाक दुसरी गती ना.

ह्या देशाचेर ब्रिटीश, फ्रेंच आनी पुर्तुगेज अशा तीन परकी लोकांनी राज्य केलें. पूण पुर्तुगेजांनी भारतीयांच्या संस्कृतीक, समाजीक जिवनांत हस्तक्षेप करपाचो आनी तांचें अभारतीयिकरण करपाचो, ते हांगा आयिल्ल्या पयल्या दिसा पसून जो यत्न केलो, तसो हेर परकी लोकांनी करुंक ना. पुर्तुगालान हे सगळें अत्याचारी मार्गान केलें आनी ख्रिस्ताचें नांव घेत अमानुश उपायांनी. देखून हालीं तेंपार पुर्तुगेज संस्कृतायेचें फेस्टीवल करपाचे बी यत्न गोंयांत चल्ल्यात ते साफ चुकीचे. पुर्तुगालाक संस्कृतायेचेर उलोवपाचो अधिकारच ना. तो अधिकार तांकां दिवंक सोदपी लोकांच्या राष्ट्रीयत्वाचोच म्हाका दुबाव मारता. पुर्तुगेजांक आपणापरस कितेंच व्हड दिसना. पंद्राव्या - सोळाव्या शतकांतले दर्यावयले पराक्रम घेवन ते नाचतात. नवें कांयच ना. पुर्तुगाल म्हण्टात तें आज एक दुबळें राष्ट्र अर्थीक बळ नाशिल्लें.

वास्को द गामाची भारतांतल्या प्रवेशाची

पंचशताब्दी आनी पुर्तुगेजांची गोंयांतल्या प्रवेसाची पंचशताब्दी मनोवपाच्या यत्नांक हांवें खर विरोध केलो आनी ती कार्यावळ जावंक दिवना. गोंयच्या स्वातंत्र्याचीं 50 वर्सां मनोवपाची सोडून पुर्तुगालची याद काडपाची कार्यावळ करूंक वताले. तांकां हांवें उगतेपणान नांव घेवन विरोध केलो आनी तांकां वोगी बसयले.

पुर्तुगाला कडेन एक राष्ट्र म्हणून आमचे संबंद आसूं येतात. हेर राष्ट्रांभशेन. पुर्तुगालाक विशेश महत्व दिवपाची भारताक निखालस गरज ना, हें म्हजें स्पश्ट मत आसा. पुर्तुगालाकडच्यान घेवचें अशें कितेंच ना. आज थंय लोकशाय आयल्या तरी पूण तें पोरणे वसणुकी अहंकारांतल्यान मुक्त जावंक ना.

कोंकणींत आयज पुस्तकां येतात, शिक्षण मेळटा, विद्यापीठ पांवड्यार आयज कोंकणी पावल्या. कोंकणी चळवळ सुरु जाली तेन्ना हातूंतलें कायच म्हळ्यार कांयच नाशिल्लें. आतां कोंकणीचो फुडार कोंकणी वावुरपी, कार्यकर्ते, लेखक हांचेर निंबून आसा. आमची शक्ती आयज विभागून वता अशें म्हाका दिसता. प्रत्येक पावंड्यार कोंकणीचो आग्रह धरपाची गरज आसा. गोंयचें प्रशासन सगळें इंग्लीशींत चलता. तें कोंकणीच्या मार्गान व्हरपाक शक्ती निर्माण करुंक जाय. आमच्या रस्त्यांचीं, मार्गांचीं नांवां, बशींचेर आशिल्ले फलक, गोंयच्या गांवांच्या आनी थळांच्या नांवांचें इंग्लीशीकरण जालां, तें बदलूंक जाय. कर्नाटक, केरळ, तमिलनाडू ह्या राज्यांनी तें केलां, तांचो आदर्श आमी मुखार दवरूंक जाय.

**खलील जिब्रान आनी हांव**

खलील जिब्रान फाटलीं 40-50 वर्सां म्हजे सांगाताक आसा. रेज मागुश बंदखणींत तो पुस्तक रुपान म्हाका पयले फावट भेटलो. फेलिसियु कार्दोज होय बी खलील जिब्रानाचो भक्त. ताच्याय मनांत ताचें साहित्य कोंकणींत अणकारीत करपाचें आशिल्लें. पूण ताचे कडल्यान तें जालेंना. फाटले स-सात म्हयने हांवें ताची धाकलीं-धाकलीं पुस्तकां अणकारपाक घेतल्यांत. जिब्रानाचें 'प्रोफेट' बाकीबाबान कोंकणींत हाडलां. पूण ताचीं धाकलीं-धाकलीं गद्य पुस्तकां आनी कविता आजून कोंकणींत येवंक नाशिल्लीं. तें कोंकणीत येवपाक जाय. तेंच काम हांवें हातांत घेतलां.

आयज कोंकणी साहित्य वेगवेगळ्या आंगांनी फुलूंक लागलां. कल्पना करुंक येना इतले लोक कोंकणींतल्यान बरोवंक लागल्यात. म्हज्या मतान हेंच घडूंक जाय आसलें आनी घडटा. ही बरी गजाल. पूण फकत अनुदान मेळटकीच आमी बरयतले ही वृत्ती बंद जावंक जाय. कोंकणीचो विकास लोकशक्ती कडेन जोडिल्लो आसा. लोकांकडेन कोंकणी पावोवपा खातीर यत्न जावपाची गरज आसा.

*भूषण : कोंकणी बरोवप्यांक तुमी कितें सांगूक सोदतात?*

*नागेशबाब :* रवीन्द्रबाबान म्हणिल्लें, कोंकणी लेखक फकत रायटर न्हय तर तो एक फायटरय. दरेकलो फायटर जावपाक



साठाव्या वाडदिसा आपल्या कुटुंबियांच्या सांगातान.

शकना. पूण जंय जंय कोंकणीचेर अन्याय जाता, थंय थंय लेखकांनी उबे रावपाकच जाय. फायटर जावंकच जाय.

*भूषण : कोंकणी भाशेची उदरगत कशी जातली? ते खातीर कितें करचें पडटलें?*

*नागेशबाब :* कोंकणी भास ही भारतीय कुळाची भास. देखून तिचे लागेबंधे हेर भारतीय भाशांवरी भारतीय कुळाच्या भासांकडेन जोडल्या शिवाय कोंकणी फुडें वचपाक जावचें ना. कोंकणीचो शब्दसंग्रह वाडोवपाक गरज थंय संस्कृत वा हेर उतरां घेवप गरजेचें आसा. तशी कोंकणी उतरावळ समृद्ध आसा. आमी इंग्लीश उतरां घेतल्यांत, पूण संस्कृत उतरां घेवपाक फाटींफुडें जातात. संस्कृत भाशे कडेन आमचे भाशेचो लागींचो संबंद आसा. नवें उतर घडयतले जाल्यार आमकां संस्कृत भाशे कडेन वचूंक जाय, तातूंत आमी अनवाळेंपण धरुंक जायना. थायलँड आनी श्रीलंका हांणी लेगीत संस्कृत भाशेचो आदार घेतला.

*भूषण : गोंयांत कोंकणी आनी मराठी मदीं वाद चल्ला, ताचे विशीं...*

*नागेशबाब :* कोंकणी मराठी वादाक आतां कसलोच अर्थ उरूंक ना. कोंकणी आनी मराठी हांचे मदीं संघर्श आसुकूंच शकना. ह्यो दोनय भासो एकमेकाक सामक्यो लागींच्यो. पूण एक भास दुसरे भाशेक खावंक सोदता तेन्नाच संघर्श जाता. आयज कोंकणीक कोणच खावंक शकना. देखून गोंयांत ती मानसिकताय घेवन कोणूय जगता आसत जाल्यार ताका माफ करुंक जाय, मागीर तो कोणूय आसूं.

*भूषण : समस्त गोंयकारांक कितें सांगूंक सोदतात?*

*नागेशबाब :* भारतीय संविधानाचे मांडावळीचे अंतर्गत एक राज्य म्हूण गोंय राज्य निर्माण जालें. पूण आमची मूळ गोंयकारांची लोकसंख्या आनी क्षेत्रफळ दोनय कमी आशिल्ल्यान मूळ गोंयकारांची जबाबदारी खूब व्हड आसा. आयज गोंयांत

भायल्या राज्यांतल्यान येवपी लोकांचो प्रस्न निर्माण जाला. असोच प्रस्न विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक बंगालांत निर्माण जाल्लो. तेन्ना रवीन्द्रनाथांनी बंगाली लोकांक सांगिल्लें, तुमी फकत भायल्या राज्यांतल्यान आयिल्ल्या लोकांक 'भायले' म्हणीत बसूं नाकात. ते बंगाली जावन रावतले, हाचे खातीर यत्न करात. तुमी कोणाक आडावंक शकनात. आयज गोंयकारांनी लेगीत हेर राज्यांतल्यान आयिल्ल्या लोकांक 'भायले' म्हणून चाळयनासतना तांकां गोंयचे मुखेल धारेंत हाडपा खातीर यत्न करुंक जाय. निदान परराज्यीय लोकांची मुखावयली पिळगी तरी गोंयकार जातली हाचे खातीर आमचे प्रयत्न आसूंक जाय.

*भूषण : खंयचे आयडिऑलॉजीचेर तुमचो विस्वास आसा?*

*नागेशबाब :* रेज मागुश तुरुंगांत आसतना हांवें पयले फावट मार्क्साचे विचार वाचले. ते आदीं मार्क्सवादाविशीं अपप्रचार चड प्रमाणात जातालो. पूण जेन्ना हांवें प्रत्यक्ष तो वाचलो तेन्ना ती समजणी कितली फट तें म्हाका कळ्ळें. स्थितीवादी लोक आनी जांकां समाजांत खंयचेय बदल घडिल्ले नाका, तांणीच मार्क्सवादाक विरोध केल्लो. मार्क्सवाद ही विरोधाखातीर विरोध करपाची गजाल न्हय. रशियांत कम्युनिझम कोसळ्ळो तो ताचे कार्यपद्धतीक लागून कम्युनिझम नांवान वेगळे तरेचो फॅसिझम सुरू जालो, तो लोकांच्यो, लेखकांच्यो, कामगारांच्यो गच्यो अंदुपाक लागलो आनी लोकशायेबदला हुकूमशायेचे दिकेन वचूक लागलो तेन्नाच लोक विटले.

**कोंकणीचो आग्रह... दरेका मळाचेर**

मुलाखती वेळार नागेशबाबान गोंयकारांनी दरेका मळाचेर कोंकणी भाशेचो आग्रह करपाची विनवणी गोंयकाराक केली. गोंयांत नवे नवे एफ्. एम्.चॅनल आनी टी. व्ही.चॅनल सुरु जाले. त्या सगळ्यांनी आपसूकपणान कोणेंच तांकां सांगनासतना कोंकणी माध्यम आपणायलें. पूण टेलीफोन खात्यान मात कोंकणी स्विकारूं ना, हे निशेद करपासारखे. फोना वयले सगळे संदेश कोंकणींतल्यान दिवचे म्हूण कोंकणी मनशान संघर्श करपाची गरज आसा अशें ताणीं म्हणलें.

'संघर्श-संघर्श-संघर्श, जिणभर तुमी संघर्शच केलो. पारतंत्र्यांत मुक्ती खातीर संघर्श आनी आतां स्वातंत्र्यांत समाजीक आनी हेर संबंदीत मळांचेर संघर्श. वाज येवं ना तुमकां सतत संघर्श करीत रावपाचो? आतां सुशेग घेवचो अशें दिसना?' असो प्रस्न नागेशबाबाक करतकीच ते उलोवचे पयलींच सगळी मुलाखत शांतपणान बसून आयकुपी तांचे घरकान्नीन-मोहिनीबायन म्हणलें, 'संघर्श म्हणल्यारच तांचो सुशेग. संघर्श केले बगर ताका रातची न्हीदच लागची ना', अशें म्हणून ती आमकां दुसरे फावट च्या हाडपाक उठली.

000

स्मृतीशेश

(स्मरण)

डॉ. जयंती नायक

# अनंतमूर्ती : चिरंतन उजवाडाची मशाल



डॉ. यू. आर. अनंतमूर्ती, जेश्ट कन्नड साहित्यीक. राष्ट्रीय थरावयले एक विचारवंत, विद्वान. लोहिया विचारधारेचे पुरस्कार करपी. समाजवादी चळवळीचे एक कार्यकर्ते. कर्मट समाजवेवस्थे आड बंड करपी एक प्रतिभावंत लेखक, 22 ऑगस्ट 2014 दिसा हो संवसार सोडून गेले. ब्याऐंशी वर्साचे पिरायेचेर ते गेले, पूण अखेरमेरेन तांणी केन्ना आपल्या तत्वांकडेन तडजोड केली ना. निमाणचो कांय काळ ते किडणीच्या दुयेंसान त्रस्त आशिल्ले. तांकां परत परत डायलसीस करची पडटाली, पूण मन मात तांचें जर्जर केन्नाच जालेंना, देखूनच ते 'नरेंद्र मोदी पंतप्रधान जाल्यार आपूण देश सोडून वतलों' अशें निर्भिड विधान करूंक पावले. आनी सार्थ अर्थान तांणी तें खरेंय केलें. नरेंद्र मोदी पंतप्रधान जाले आनी ते अवध्या तीन म्हयन्यांभितर हो देशच न्हय तर संवसारय सोडून गेले.

अनंतमूर्तीकडेन म्हजे स्वताचे खूब जिव्हाळ्याचे संबंद आशिल्ले. 1993 वर्सा तांचे हस्तुकीं म्हज्या

**जयंती नायक :** जल्म : 1962, सर्जनशील लेखक आनी लोकवेद संशोधक. कथा, कविता, नाटक, बालसाहित्य, अणकार, निबंध, लोकवेद अशा साहित्य प्रकारात लेखन. 30 पुस्तकां प्रकाशीत, साहित्याचो जायत्या हेर भारतीय भाशांनी तशेंच इंग्लीश भाशेत अणकार. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : आमोणें, केपें, गोंय – 403 705, मो. : 9823575623

लोकवेदावयल्या तीन पुस्तकांचें विमोचन जालें. त्या दिसा तांणी म्हजें खूब कवतूक केलें, म्हजें कवतूकच न्हय तर म्हज्या बापायक स्टेजीर आपोवन पुस्तकांची पयली प्रत भेटोवन तांचो भोवमान केलो. त्या दिसाच्यान म्हज्या आनी म्हज्या घरच्यांच्या मनांत तांचेविशीं एक आपलेंपणाचें नातें तयार जालें, आदर निर्माण जालो. तांचें खंयीय नांव आयलें, फोटो आयलो तर तो आपल्याच मनशाचो अशी भावना मनांत तयार जाताली. अनंतमूर्तीय म्हजी सदांच व्होडवीक करताले, गोंयचो - कोंकणीचो कोणूय लेखक मेळ्ळो म्हण्टकच म्हजी आवर्जून खबर घेतालें, प्रत्यक्ष मेळ्ळे जाल्यार मायेन वासपूस करताले, म्हज्या लेखनाविशीं आनी खास करून लोकवेद वावराविशीं विचारताले, म्हज्या भावां-बापायची खबर घेताले. राष्ट्रीय पातळेचे एक विद्वान-लेखक समाजांत तांचेविशीं एक दरारो आशिल्लो. मात ह्या दराऱ्या मदींय तांचेमदीं एक मायेन भरिल्लो वडिल दिसतालो.

भारतांतलें राजकारण, समाजवाद, भाशावाद हांचेविशीं परखड मतां मांडपी अनंतमूर्ती कोंकणी भाशेविशीं खूब संवेदनशील आशिल्ले. कोंकणीच न्हय तर भारतांतल्या विकसनील भाशाविशीं तांच्या मनांत खूब आस्था आशिल्ली.

कोंकणी भाशेकडेन तांचो आनी तांचेकडेन कोंकणी भाशेचो पयलो-वयलो संबंद आयलो तो 'संस्कार' ह्या तांच्या गाजिल्ले कादंबरीच्या कोंकणी अणकारा निमतान. हो अणकार 1991 वर्सा, अमीत प्रकाशन, विद्यानगर - मडगांव हे संस्थेन उजवाडाक हाडलो आनी ताचे अनुवादक प्रकाश थळी आशिल्ले. हे कादंबरीवरवीं कोंकणी वाचक - लेखकांक अनंतमूर्ती ह्या प्रतिभावंत वादळाची वळख जाली. पूण प्रत्यक्ष तांचेकडेन सुसंसावद करपाची संद मेळ्ळी ती लोकवेदावयल्या म्हज्या तीन पुस्तकांच्या प्रकाशना निमतान.

23 मे 1993 दिसा अकादेमीच्या लोकवेद विभागावरवीं प्रकाशीत केल्ल्या आनी हांवें संकलन - संपादन केल्ल्या 'कणेर खुंटीं नारी', 'तळय उखल्ली खेळ्यांनी' आनीं 'मानालीं गीतां' ह्या तीन पुस्तकांचें तांचे हस्तुकीं विमोचन करपाच्या निमतान अकादेमीन तांकां गोंयांत आमंत्रीत केल्लें. त्या वेळार तांणी निकतींच केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या अध्यक्ष पदाचीं सुत्रां हातांत घेतिल्लीं. अकादेमीचे त्या वेळावेले अध्यक्ष भाऊ उर्फ पुरुषोत्तमबाब काकोडकार हांची तांचेकडेन वळख आशिल्ली. तांचें साहित्य आनी विचारांविशीं भाऊक खूब आदर आशिल्लो. लोकवेद विशयाकडलो तांचो दृश्टीकोनय भाऊ जाणून आशिल्ले. देखून अकादेमी वरवीं जाल्ल्या वावराचें लोकार्पण तांचेच हस्तुकीं जावचें अशें भाऊक मनापसून दिसतालें आनी तांणी तांकां आमंत्रीत केल्लें. पुस्तक विमोचन सांजवेळां आशिल्लें, पूण तांचेकडेन सुसंवाद करपाची, तांचे विचार जाणून घेवपाची संद कोंकणी लेखकांक मेळची हे हेतून सकाळीं 10.00 वरांचेर 'साहित्यीक गांठ-भेट' ही कार्यावळ अकादेमीन पणजे, कला अकादेमीच्या ब्लॅक

बॉक्सात आयोजीत केल्ली. हे कार्यावळीवरवीं कोंकणी लेखकांक (सर्वसामान्यपणान) तांचे विचार प्रत्यक्ष आयकुवपाची संद मेळ्ळी आनी तांचे विचार आयकून सभाघरांतलो दर एक श्रोतो प्रभावीत जाल्लो.

तांचें व्यक्तीमत्वय तशेंच प्रभावी आनी भारदस्त आशिल्ले. वांटकुळो तोंडावळो, भरदार अंगयष्टी, मध्यम उंचाय, गोरो रंग, वेवस्थीत आकार दिल्लें खाड, तेजस्वी दोळे, तोंडार विद्वत्तेची ओज. प्रसन्न मुखामळ आनी धिरगंभीर आवाजातय एक मोवाळसाण - गोडवो.

अनंतमूर्तीनी म्हाका त्या दिसा दिल्ली वागणूक आनी तांचे विचार आयकून हांव खूब भारावन गेल्लें. तांच्या उलोवपांतल्यान म्हाका त्या दिसा हांवें केल्ल्या ववराचें खरें म्हत्त्व समजल्लें. मुखेल सोयरे म्हण केल्ल्या उलोवपांत तांणी म्हणिल्लें, 'फकत लेखी भाशांचो आनी लेखी साहित्याचोच उदो उदो करून जावचें ना, लेखी साहित्या इतलेंच मौखीक साहित्यय म्हत्वाचें आसा. ताचे मर्दी भाशा समृद्ध करपाची तांक आसा. संवसारांत आजवेर ज्यो भासो तिगून उरल्यात, त्यो ह्या मौखीक साहित्याकच लागून. देखून ह्या मौखीक साहित्याचें जतन आनी संवर्धन जावंक जाय. ताचो अभ्यासय जावंक जाय. पयलीं हें मौखीक साहित्य तोंडी परंपरेन, पाठांतराच्या माध्यमांतल्यान जतन जातालें, पूण आतां काळ बदल्ला, जीवनशैली बदल्ल्या, देखून ताचें डोक्युमेंटशन जावप, तें पुस्तक रुपांत येवप तितलेंच म्हत्वाचें. जयंती नायकान ह्या तीन लोकगितांच्या पुस्तकांवरवीं मौखीक परंपरेच्या सांबाळाचें खूब मोठें कार्य केल्लें आसा. तांच्या नांवान आज राष्ट्रीय लोकवेद मळार एका नव्या नांवाची नोंद जाता.

लोकवेदाविशींच्या तांच्या दृश्टीकोनां-तल्यानच तांणी साहित्य अकादमीचे अध्यक्ष आसतना एक खाशेली समिती नेमून आदिवासी भाशांतल्या मौखीक साहित्याच्या संकलन - जतनाचो प्रकल्प राबयल्लो. ह्या प्रकल्पावरवीं कितल्याशाच आदिवासी मौखीक साहित्याचें डोक्युमेंटेशन जाल्लें आसा, तें उजवाडाक आयिल्लें आसा.

अनंतमूर्तींचे विचार आयकुवपाच्यो कांय संदी उपरांतय म्हाका मेळ्ळ्यो. योगायोग असो, म्हाका 2004 वर्सा साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो, तेन्ना त्या पुरस्कार प्रदान सुवाळ्याक तेच मुखेल सोयरे आशिल्ले. ते सदांच एक विचार मांडटाले. ते म्हण्टाले, 'जें साहित्य तळागाळांतल्या समाजाचें, पिडीत - शोशीत लोकांचे, कश्टकऱ्यांचें जीवन पितारता, तांचे प्रश्न मांडटा, तांच्या दुख्खाक वाचा फोडटा, तेच साहित्य अक्षर साहित्याचे पदवेर पावता. ग्रामीण साहित्यांत ती तांक आसा.'

भारतीयांनी आपली भाशीक विवीधताय जतन करूंक जाय ह्या मताचे ते आशिल्ले. मराठी भाशीक, कन्नड भाशीक, तुळू भाशीक... ह्या सगळ्यांचे विवीधतायेचे जतन जावंक जाय. ह्या भाशीक गटांनी भारतांत खंयच संघर्श जावंक फावना, वा घडूंक फावना. भारतांत विवीध भाशा, धर्म आनी संस्कृती, तिगून उरपाक जाय. वेग-

वेगळे वैचारीक पंथ तिगून उरूंक जाय. ते खातीर प्रत्येक राज्यांत उदारवृत्ती विकसीत करूंक जाय!, अशे तांचे विचार आशिल्लें.

स्व. मधु लिमये हांच्या उगडासाक दिल्ल्या व्याख्यानांत तांणी विचार मांडिल्ले – 'भारतांत मातृभाशा हें उतरच वापरनाकात. तें उत्तर युरोपांत वापरप बरें आसा. थंय एक भाशा, एक वंश, एक धर्म अशी रचना आसा. भारतांत मातृभाशा नासता. भारतांत 'मने मातु' (घरीच भाशा) आसता, रस्तावेली भाशा आसता शिवाय (घराच्या) वयल्या माळ्यावेली (वेगळी) भाशाय आसता. सगळ्या भारतीयांक अश्यो तीन भाशा सदांच उलोवच्यो पडटात. संत कवींनी परमेश्वराकडेन रस्त्यावेले भाशेंतल्यान झगडपाचें थारायलें, रांदचेकुडींतले भाशेंतल्यान तांचेकडेन प्रेमसंवाद करपाचें थारायलें, देखून ह्या भाशांक सामर्थ्य प्राप्त जालें. आज रस्त्यावयली भाशा हीच देवाकडेन उलोवपाची सशक्त भाशा आनी राजकीय सत्तेकडेन उलोवपाची भाशा म्हण वापरूंक जाय आनी तिका ताकदवान करूंक जाय.'

ते म्हण्टाले, 'भारत हो भौभाशीक. हांगाच्या सगळ्या भाशांक मान्यताय – प्रतिश्टा दिवंक जाय. कसलेय गजालींचें गरजे परस चड केंद्रीकरण जालें तर विभाजन जाताच जाता. भाशांचेंय तशेंच, 'विवीधतेंतल्या एकता' – हें वाक्य नेहरूंनी वापरलें, पूण अणभव वेगळो आसा. एकतेचेर गरजेपरस भर दिली तर विभक्तींची गरज भासता आनी विवधता – वेगळेपण अती जालें, म्हण्टकच एकता जाय दिसता. देखून भारतांत, एकात्मता आनी विवीधता दोनींचेर चड भर दिवंक उपकारना!'

आदिवासी, अविकसीत भाशाविशीं तांकां खूब जिव्हाळो आशिल्लो. 'ब्लेक, होमर, वाल्मीकी निर्माण जावपाची शक्यता आदिवासी भाशांनीच आसा. कारण जेन्ना भाशा मागाशिल्ल्यो, मुळावे अवस्थेंत आसतात, तेन्ना तातुंतल्यान काव्य निर्माण जाता. पूण भाशेक शिस्त आनी वळण लागतकच, व्याकरण शुद्ध जातकच तातुंतल्यान गद्य निर्माण जाता,' अशे तांचे विचार आशिल्ले.

भारतीय साहित्यीकांच्या अतियुरोपकेंद्री मानसिकतेचेर ते सदांच टिका करताले. ते म्हण्टाले, भारतीयांनी अतियुरोपकेंद्री न्हय तर भारतकेंद्री जावंक जाय. युरोपी भाशांनी कितें चल्लां ते विशीं जाणचेंच, पूण अती न्हय. तर भारतीय भाशांविशीं तांकां चड खबर आसूंक जाय. एका राज्यांतल्या साहित्यीकान दुसऱ्या राज्यांतल्या साहित्याविशीं जाणून आसूंक जाय. देखीक, महाराष्ट्रांत कन्नड साहित्याचो अभ्यास जावंक जाय, तेच बरोबर कन्नाटकांत मराठी साहित्याचो. आदल्या काळार अशें घडटालें, ते परत घडूंक जाय. कारण अशेंच घडल्यार खऱ्या अर्थान भारत एकसंघ जातलो, शिवाय 'आपूण भारतीय' ही भावनां भारतीयांच्या मनांत जागृत जावंक पावतली.

भारतांतली राजकीय स्थिती, राजकीय आनी सामाजिक – भ्रश्टाचार हे विशीं ते खूब अस्वस्थ आशिल्ले. साहित्यीक

व्यासपिठावयल्यान तांची ही खंत व्यक्त जाताली. 'लोकशाहीत नेहरू गेले फोंडांत म्हणपाचें आपल्याक स्वातंत्र्य आसूंक जाय' ही मागणी करपाची बेडर आनी निर्भयवृत्ती आशिल्ल्या ह्या साहित्यीकाच्यो 'संस्कार' आनी 'घटश्राद्ध' ह्यो कादंबऱ्यो खूब गाजल्यो. एका अर्थान वादग्रस्थ थारल्यो.

ताचेर फिल्मां तयार जालीं. कथा, कविता, कादंबरी, नाटक ह्या साहित्यप्रकारांत तांणी मेजकेंच अशें लेखन केलें, पूण ताचो दर्जो आनी तांक हाचेखातीर ते साहित्यक्षेत्रांतल्या सर्वोच्च अशा ज्ञानपीठ पुरस्कारान सन्मानीत जाले. साहित्य अकादमीचे अध्यक्ष, नेशनल बूक ट्रस्टाचे चेअरमॅन, फिल्म इन्स्टीट्यूट, पुणेंचे संचालक आनी केरळच्या महात्मा गांधी विद्यापीठाचे तशेंच गुलबर्गा विद्यापिठाचे कुलगुरु अशी देशांतलीं महत्त्वाचीं पदां तांणी भुषयलीं म्हणचे परसय पदांच्यो जबाबदाऱ्यो पेल्ल्यो. ह्या सगळ्यापरस तांचो व्हडलो भोवमान म्हणजे राजकीय, सामाजिक, सांस्कृतिक विशयांचेर वेळा-वेळार तांणी केल्लो विधानांक आनी मांडिल्ल्या परखड मतांक लागून तांचेविशीं तयार जाल्लो दरारो आनी सामाजिक विचारवंत म्हुणून तांकां देशांतल्या 'ओपिनियन मेकर्स' वर्तुळांत मेळिल्लो मान.

आज अनंतमूर्ती ह्या संवसारांत नात पूण तांचे विचार आनी साहित्य, वैचारीक अज्ञानाच्या काळखांत गोंदळिल्ल्या समाजाक निश्चीतच उजवाडाची मशाल जावन चिरंतन वाट दाखयत रावतलें.

आदार : साप्ताहिक साधना, संपा. : विनोद शिरसाठ,
अंक – 6, 13 सप्टेंबर 2014.

000



स्मृतीशेश

(स्मरण)

रमेश भगवंत वेळुस्कार

## आयलें तशें गायलें



'आपोवणें येयलां सायबा नाचपाकु' ही कविता म्हजे एक इश्ट आनी ख्यातनाम गोंयचे तशे भारतीय कवी डॉ. र. वि. पंडित हांची. ही कविता एक अक्षर कविता. तांच्याय नकळत ही कविता तांकां आयल्ली. आमच्या शरीरांत रगत आनी रगतांतल्यो पेशी जशो आमचे नकळत आमच्या शरीराची राखण करता तशें आमचें मनूय केन्ना केन्ना आमचे नकळत कांय निर्णय घेता आनी अचळय आमीय ते म्हणून वा बरोवन वा पिशोलान रंगोवनूय वयतात. तें अकस्मात आयलें अशें आमी तेन्ना म्हण्टात वा केन्ना केन्ना आमी ते संबंदान कांयच सांगुकूय शकनात. तांचे हे कवितेंतलें उतरान उतर मनशाच्या मनाक भाविल्लो एक वेगळोच सांस्कृतिक आलेख आमचे मुखार मांडटा. संयोगवश पंडित म्हज्याच गांवचे जाल्ल्यान आमचें एक वेगळेच नातें तयार जाता. आसत तें नातें कवितेचें, आसत तें सांस्कृतिक संबंदांचें, आसत तें कलात्मक जाणीवांचें, आसत तें इश्टागतीचें, पूण तें आमचेय नकळत कोण तरी विणटालो ताचे धागे कितले नाजूक आनी ते कितले

**रमेश भगवंत वेळुस्कार** : जल्म : 1947, जेश्ट कवी. बालसाहित्य, निबंद, नाटक, अणकार ह्या प्रकारांतय लेखन, हिन्दी आनी मराठी भाशेंतय साहित्य निर्मिती, 21 पुस्तका प्रकाशीत, केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2005) सन्मानीत, एकोणिसाव्या अ. भा. साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद. संपर्क : पाळें, शिरदोन, गोंय. मो : 9420688461

नकसूद तशेंच तें कितलें संवेदनशील ताचो हो धागोदोरो.

र. वि. पंडित हे म्हजे शेजारी. तशें घर तांच्या घराक तेंकून बी आसा अशें कांय ना. म्हज्या घराकडल्यान तांचें घर दिसता अशेंय काय ना. पूण चार पावलां चल्लों की तांचें घर लागता. तशे आमी लागींच रावताले. तसो गांवांत 'पंडित' म्हण कोण तरी आसा ही गजाल इल्ली इल्ली म्हज्या कानार आनी मनारुय येत गेली. एक दीस हांव जनेलार बसलेलो. कितें तरी हांव करतालों. आमच्या घराच्या ह्या जनेलाकुशीक आमची बांय. पंडितालो एकूच पूत. पूण तो जयहिंद करता अशें एक दीस हांवें बांयचेर उदकाक आयल्ली बायल दुसरे बायलेक सांगतना आयकलें. आनी ते खातीर खंय ताका धरपाची ऑर्द आसा. तेन्ना हांव खूब ल्हान. तो काळ्ूय पुर्तुगेजाचो. त्यो बायलो जें म्हण्टाल्यो तें हांवें आयकलें खरें तरी ताचो अर्थ कितें तें मात म्हजे तकलेंत बिलकुल गेलें ना. तें कळ्ळें खूब काळा उपरांत. पूण तांचीं, त्या बायलांची पंडितांसंबंदीचीं तीं उतरां मात म्हजे तकलेंत घट बरीं उल्लीं.

आमचो गांव हो तसो सैमसमृद्ध गांव. शेता-भाटांचो, आग्रां-खळयांचो. सरभोवंतणी सांगाताक कितलेशेच दोंगर. गावांत जागर, धालो, फुगडी, रोमटां, शिगम्या गितां. गांवांत कांय लोक शिकपाक लागलेले. आमच्या गांवांत तीन तीन मराठी शाळा आसल्यो. खंयच कोण सरकाराची बी सिर्विस करता अशें नासलें. जण एकलो स्वताच्या पांयार उबो रावपी आनी तोय बी विस्वासान. पंडितांचो गांवांत एकलो एकसुरो भुसारी पसरो आसलो देखून दर दीस उजवाडलो काय पंडित हें उतर दर एका मनशाच्या वंठार आपाप येतालेंच येतालें. पंडित हो असो आदींच गांवभर जावन गेल्लो. तर त्या पंडितांगेर, स भयणांचेर जाल्लो हो एकूच पूत. म्हाकां जेन्ना हें कळ्ळें तेन्ना म्हाका पंडित हो सामको घराच्यांचो मोगाळ आसतलो अशें दिसतालें. लोक-काणयांतले वरी स भयणांचेर एक भाव. हांव म्हजे पद्धतीने हे गजालीचेर चिंत्तालो. बांयचेर आयकल्ली बायलांच्या उलोवपाची गजाल म्हाकां कळूंक नासली, हें मात कळ्ळें. आनी म्हाकां कळूंक ना तें कितें, तें जाणा जावपाची उमळशीक मनांत वाडत गेली. आयज जेन्ना हांव हाचेर चिंतां तेन्ना म्हाका दिसता की ही उमळशीक कित्या खातीर उपरासत गेल्ली काय? पूण एक ल्हान भुरगो म्हण हांव हो प्रश्न उठसूठ कोणाकूय विचारुंक शकनासलों. हो प्रश्न आपुलकायेन आनी आस्थेन समजून घेवपी मनीस मात म्हाका मेळनासलो.

एक दीस शाळेंत कळ्ळें की पंडित एक कवी आसा. हें तशें शाळेंतल्या मास्तरान सांगूंक ना. तर ह्या आमच्या मास्तराक मेळपाक आयल्ल्या एका मनशान उलयतां उलयतां तांच्या कवितांचो उल्लेख केलो तेन्ना म्हाकां पंडित कविता बरयता हें कळ्ळें. वांगडाच आनी एक गजाल कळ्ळी की पंडित कोंकणी बरयता. आनी ही म्हजे खातीर एक नवी म्हायती आसली. पूण तो वेळ मेरेन

म्हाकां बरोवप म्हटल्यार मराठीत, इतलीच एक गजाल कळ्ळेली. हांवें लेगीत तो वेळ मेरेन मराठी कविता बरोवपाचो अयशस्वी प्रयत्न केल्लो. म्हाका बरयन दिसतालें. पूण म्हाका जाय तीं उतरां मेळनासलीं. म्हजे भोवंतणचें जिवीत मराठी ना आनी म्हजें जिवीत म्हाका ह्या मराठी पुस्तकांत मेळना, हें अयशस्वी प्रयत्नांतल्यान म्हाका कळपाक लागलेलें. आनी आतां तर पंडित कोंकणीत बरयता हेंय तातंल्यान कळ्ळें. तो कितें बरयता तें वाचपाची उत्सुकता मनात खेळूंक लागलेली. तितले मजगतीं म्हाका दादान आमगेर हाडलेलो एक दिवाळी अंक मेळ्ळो. तो किर्लोस्कर वा स्त्री वा दीपावली बी कितेंय आसूं येता. ह्या अंकांत म्हाका पंडितान बरयल्लो एक लेख वाचपाक मेळ्ळो. आनी हो लेख दोन भासांनी आसलो. अर्द लेख मराठींत जाल्यार अर्दो कोकणींत. तशें हें आयकपाक कितेंशेंच दिसता. लेख म्हज्याच गांवांतल्या धालांतल्या, जागरांतल्या फुगड्यांतल्या गितांचेर आसलो. हीं गितां पंडितांनी कोंकणीत आसा तश्शीं दिल्लीं. तीं वाचपाक म्हाका मात्तूय त्रास जालो ना. खूब खेपो हांवें जायत्या आमच्या कोंकणी लोकांक सांगतना आयकलां की तांकां कोंकणी वाचपाक खूप कठीण जाता. म्हाका मात तीं अस्सल गितां पयलेच खेपो कोंकणीतल्यान वाचपाक आडखळ तर कसलीच जाली ना वयल्यान वाचपाक मजा आयली. एक तर सगळीं गितां म्हाका तोंडपाठ आसलीं अशें न्हय, पूण तीं खूब खेपो आयकल्ल्या कारणान वाचप सहज जाल्लें. बाकी विशयाचें विवेचन मात मराठीत आसलें. आनी म्हज्या मनात एक विचार आयलो की पंडित कोंकणी जिविताचेर बरयतात पूण मराठीतल्यान. आनी हें कोंकणी लोककाव्यांतले विचारधन आनी समृद्ध समाजमन त्या अन्य लोकांक कळचें म्हण बरयता आसूंक जाय. पूण तो मेरेन तांचें काव्य म्हाकां वाचूंक मेळूंक नासलें. हें म्हजें वाक्य वाचून हांव कोण तरी एक मोटो अभ्यासक आसा अशें दिसूं येता, पूण हांव तर तेन्ना शाळेंत शिकतालों. उठसूठ पुस्तकां सोद आनी ती वाच असलो माहौल तयार जावंक नासलो. आनी पंडितागेर वचून 'तुमचें पुस्तक दी, वाचतां' अशें सांगपाचें तें वयूय नासलें. आनी तशें त्या वेळा म्हाकां दिसुंकूय नासलें. पूण पंडित ह्या मनशाविशीं आनी नावांविशी मनांत एक उत्सुकताय कळत नकळत जागृत जायत आसली.

मदल्या काळाक म्हज्या पाळ्यांतल्या देवळाच्या मंडपात चलतले बिनवंटींचे उकते शाळेंत व्हडले गोंयचे एक व्हायोलीन वादक वामन पंडित, आमचे शाळेचे मास्तर वसंत गो. पाटील आनी मराठी कवी रामदास प्रभू हांचेमदीं पंडितांविशी चल्लेली चर्चा आयकूंक आयली. ते अदीं मदीं मास्तराक मेळपाक शाळेंत येताले. आनी तांची चर्चा हांवें कान दिवन आयकली. ते पयलीं म्हाका तांचो लेखूय वाचपाक मेळ्ळेलो. देखून तांची चर्चा म्हाकां आयकन दिसताली. तातूंत आमचो मास्तर म्हण्टालो की ही कोंकणी खंय चलतली? पणजी-मडगांव सोडलें जाल्यार आनी खंयच ती उपकरा पडची ना.

कविता, साहित्य हें मराठींत येवंक जाय. गोंय तेन्ना पारतंत्र्यात आसलें. तें स्वतंत्र केन्ना जातलें? जातलेंच अशें स्वातंत्र्य प्रेमी पद्धतीचे कांय लोक उलयताले आनी त्याच वेळार वामन पंडित उलोवपाक लागलो. तो बारीक आंगलटीचो आनी मात्सो बसक्या आनी हांसत्या तोंडाचो, माथ्यार केंस बारीक केल्ले. आंगांत मलमलचो, मोटव्या हाताचो अर्द कुडतो आनी पुडवें. ताच्या हातांत व्हायोलीनचें बॅग. एक टिपिकल व्यक्तिमत्व. तो केन्ना आमगेरुय येतालो आनी म्हज्या दादावांगडा संगीताचेर चर्चा करतालो. तो दादाक व्हायोलीन वाजोवनूय दाखयतालो. ताणें सांगलें की पंडित बरयता. तो तसो मराठीय बरयता आनी कोंकणीय बरयता. मराठी बरयल्यार जर कांयच आमी म्हणना जाल्यार कोंकणी बरयल्यार कित्याक म्हणपाक जाय? कोंकणी आमची भास. हे भाशेत बरोवं येता हें इतलें सिद्ध जाता हांगा. वालावलीकारान कोंकणीचो मंत्र पारायणाक घेतलाच, बरोवंदी पंडिताक. म्हाका मात पाळ्यांत आनी कोणूच कोंकणीविशीं उलयतना दिसूंक ना. पूण व्हडले गोंया कोंकणी नाटकां जातात हें आयकल्लें. तीं पळोवपाचीय उमेद आसली पूण आमच्या सारक्या भुरग्यांक थंय व्हरुन हें सगळें दाखोंवचे अशें कोणाक दिसूंक ना. कोंकणीविशीं आकस कित्याक तें मात कळनासलें. आसूं, पूण म्हजे शाळेंत पंडिताच्या कोंकणी कवितेचेर चर्चा जाताली आनी तीय बी गोंयच्या स्वातंत्र्यापयलीं. आयज जेन्ना हांव हें सगळें चिंत्तां तेन्ना म्हाका हें सगळें मुद्दाम कोण तरी घडोवन हाडटालो काय कितें असो वगीच भास जाता. पूण हे जेन्ना घडटालें तेन्ना फुडाराक हांव बी कोंकणींतल्यान बरोवचो आसा हाची म्हाकां मात्तूय सुलूस नासली. ती भारतांतल्या एका घटक राज्याची भास जावंची आसा हें तर मातूय नात नासलें. एका कवीक, कवी म्हण पुराय तरेन वळखुंचे आदींच म्हाका ताची वळख दिवपाचें काम कोण तरी अप्रत्यक्षांत करीत आसलो.

ते मर्दीं एक दीस सकाळीफुडें हांव उठून भायर आयल्लो. पळय जाल्यार आमच्या घरा मुखारलो एक मनीस वाटेन वयतल्या गांवच्याच मनशाकडें गजाली करतालो. ताणें आमच्या शेजाऱ्याक सांगलें की पंडित काल गोंया येयल्ले. उलयतालो तो मनीस पंडिताच्या घराकुशीकच रावपी. ताणें खंय व्हडे राती धप धप करुन धेपां मारीत येवपी आवाज आयकलो आनी तो जागो जालो. तो आपल्या बल्कांवातूच न्हिदलेलो. आनी रोकडेंच पंडिताच्या घराचें दार उकतें जालें आनी झट्ट करून बंद जालें. पंडित गोंयच्या स्वातंत्र्याखातीर झगडटाले, आनी हो गोंयच्या पोर्तुगीज सरकाराविरुद्धचो उठाव आसलो; हे खातीर तांकां धरपाचें सरकारान वॉरंट काडलेलें. म्हणून ते गोंयांत अशे लिपून येताले. ताका पळोवचें अशें त्या वेळार म्हाका दिसलें. ते कशे दिसता काय अशीय उत्सुकता मनात निर्माण जाल्ली. इतक्यात 18-12-1961 हो दीस आयलो. भारतीय सैन्य गोंयचे हद्दींत पावल्लें. आनी दुसरे 19-12-1961 क गोंय स्वतंत्र जाल्लें.

गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत भारताचो पंतप्रधान पंडित नेहरु गोंयांत आयल्लो तेन्ना हांव पिलारच्या फादर आग्नेलो हायस्कुलांत शिकतालों. नेहरुंक पळोवप हाचें जण एकल्या भारतीयाक जबर्दस्त आकर्शण. निकतेंच स्वतंत्र जाल्ल्या गोंयाक तर ब्रिटिशांच्या हातांतल्यान भारताचें स्वातंत्र्य झोमून घेतलें त्या भारत भाग्य विधात्याक पळोवपाचें पिशें. ते दिसा ज्या वाटारांतल्यान नेहरु येतालो त्या रस्त्या रस्त्यार लोकांचे लोट पळोवपाक मेळटाले. कितल्योशोच गाडयो, ट्रक जिपी अशें रस्त्याचें रुपय त्या दिसान पळयल्लें. एका ट्रकाचेर एक दोन फोटो काडपी फोटोग्राफर दिसले. तातंले एक आसले आमचे र. वि. पंडित. ते लोकांचे फोटो काडीत वयताना दिसले. मागीर दुसरे दिसा ताची एक व्हडली सभा पणजेंत जाली. थंयूय पंडित आपले कॅमेरो घेवन वावुरतना दिसताले. एक दीस सांजवेळा पंडित नेहरु पिलारच्या छापखान्याचे नवे बिल्डिंगेचे उद्घाटन करपाक येवंचो आसलो. थंय नेहरुक खूब लागच्यान पळोवपाक मेळ्ळें. पंडीत नेहरू हांगा उक्ते गाडयेन आयल्लो. आमचे र. वि. पंडितूय थंय आपलो कॅमेरो घेवन सज्ज आसलेच. ह्या सगळ्या समयार पंडित आसप म्हटल्यार थंय पाळ्याचें अस्तित्व आसप. तांच्या आसपान मनाक एक आपसूक उबारी मेळ्ळी.

पंडित एक बरेच मोटे फोटोग्राफर आसले. ताचें व्यक्तिमत्व म्हाका पळयनाफुडें आवडलें. त्या काळार तांचे फोटो इलस्ट्रेटेड विकली, टायम्स ऑफ इंडियासारक्या नियतकालिकांनी छापून येताले. आमच्या गांवांत एक कवी लेखक आसा; जे भायल्या पत्र-पत्रिकांनी बरयता हाची एक घटसाण म्हज्या आंगांत बळटा, असो भास म्हाका जालो. तांची वळख म्हाका कोणं तरी करून दीत आसा अशी एक जाणीव नकळटांच जायत वयताली.

पुर्तुगेजांक खो दिल्या उपरांत गोंयांत पंडितांचे दर्शन खूब खेप जावपाक लागलें. एक दीस सांजवेळा तांणी देवळालागीं एक मायक लायलो. रेडिओवेलो एक कार्यक्रम ताचेर आयकूंक आयलो तो धालांचो, फुगड्यांचो आनी जागराचो. थंय जायतीं लोकवेदांतलीं गाणी आयकूंक मेळ्ळीं. हांवें तांचो जो लेख दिवाळी अंकांत वाचलेलो तेच तरेचो हो रेडिओवयलो कार्यक्रम. चड लोकांमेरेन पावपी. आनी मागीर एक दीस ते धालांच्या मांडार कॅमेरो घेवन आयल्ले. थंय चिक्कार फोटो काडले. असो राव, तसो राव अशे फोटो काडच्या वेळार ते सांगनासले. आपल्याक जाय तसोच फोटो घेताले. ते दीस ताचे वांगडा कोण सोयरे लोक आसले. तांणीय थंय धालांतल्या बायलांवांगडा फोटो घेतले. उपरांत एक दीस एका इंग्लीश मॅगझिनाचेर ह्या फोटवांसयत तांचो लेख पळोंवक मेळ्ळो. तशी तेन्ना इंग्लीश व्हडलीशी कळनासली. पूण पंडित हें व्यक्तिमत्व एक तमाम तासांचे एक आगळेंच व्यक्तिमत्व आसा हाची मात जाण जायत वयताली. पंडित स्वातंत्र्यसैनिक, ते लेखक, पत्रकार, कवी, फोटोग्राफर अशा जायत्या तासांसयत तांची वळख जाताली.

हांव जेन्ना 1961 वर्सा सेंट आंड्रयूज बॉयज स्कूल ह्या व्हडले गोंयचे इगर्जेंत चलतल्या स्कुलांत शिकपाक गेलों तेन्ना थंय प्रिंसिपाल आसलो पाद्री आल्वरु रेनातु मेंदीश; जाका हांव थंय इश्कॉला प्रिमारियांत शिकताना वळखतालों. तो तेन्ना व्हडले गोंयचे इगर्जेंत पादविगार आसलो आनी थंयच एक पारोकियल पुर्तुगेज इश्कॉल चलयतालो. एक दीस तो म्हाका मेळ्ळो. तो म्हजेकडें उलयलो. एका ल्हान शिकतल्या भुरग्याकडें एक पाद्री उलोवपाक म्हण पांच मिनटां रावता, हें वेगळे तरेच्या जाणट्याचें लक्षण, अशें म्हाकां जाणवलें. उपरांत केन्नाय आमी एकामेकांक दिसल्यार एका खिणाक रावताले वा हात हालोवन निरोप घेताले. गोंय सुटके उपरांत एक दीस हो पादविगार आमच्या गांवांत दिसलो. हांव थंयच आसलो. ताणें आपल्या नव्या इंग्लीश स्कुलाची खबर सांगली आनी हांवें त्या स्कुलांत येवंक जाय अशेंय म्हाका सांगलें. ताचेवांगडा आनी एक मनीस आसलो. ते दोगूय सायकलीन आयल्ले. हांव तेन्ना आमचे शाळेंतल्या मास्तराकडेच इंग्लीश शिकतालों. ताणे म्हाकां सांगलें की आतां हांवें ताच्या स्कुलांत येवंक जाय आनी म्हज्या इश्टांकूय हाडूंक जाय. इतलें म्हणून ताणें म्हाका विचाल्लें की, 'आर. वि. पांडित खंय रावता?' हांवें तांका तांचें घर दाखयलें. पूण ते वेळार पंडित थंय नासले. तांचें घर बंद आसलें.

26-1-1962 हे दिसा कोंकणी साहित्याच्या इतिहासांतलें एक अप्रुप पान काळान बरयलें. भारतांतले खंयचेच भाशेंत तो वेळेमेरन एका कवीचे पांच कविता संग्रह एकाच दिसा प्रसिद्ध जावंक नासले. संवसारांतल्या कोणा कविचे अशे आनी इतले संग्रह वांगडाच आयल्ले काय ना हेविशीं खबर ना. पूण पाळ्यांतल्या ह्या म्हज्या कवीन आनी एका कोंकणी कवीन तें करुन दाखयल्लें हाचें निश्चितूच म्हाकां कौतुक दिसलेलें. तशी ही खबर म्हाका आमच्या प्रिंसिपालान आपोवन दिली. ताचे सांगाता ते वेळा आमचो शिक्षक शांताराम घार्से थंय आसलो. फादरान म्हटलें, 'हे पळय, पांच कविता संग्रह. तुज्या गावच्या कविचे. 'पांडित ए उं ग्रांद पुएत.'' हें वाक्य ताणे पुर्तुगेजींत कित्या म्हटलें कळ्ळें ना. पूण तें वाक्य आयकूंक बरें दिसलें. पुर्तुगेज भाशेक एक गोडसाण आसा अशें म्हाका जाणवलें. हांवें ते पांच संग्रह पळयले. खरें म्हटल्यार हांव पयलेच फावट कोंकणींतलें पयलेंच पुस्तक तेन्ना पळयतालों. न्हय, हांव एकसणीच कोंकणींतलीं पांच पुस्तकां पयलेच खेपे पळयतालों. आनी तींय बी म्हज्याच गांवच्या कवीचीं म्हण म्हाका मनातल्यान आनंद जाल्लो. तें सगळें अप्रुपच आसलें. हांवें खंयच्या संग्रहाक पयलो स्पर्श केल्लो तें आतां याद जायना. पूण नदरेन मात हांवें सगळ्यांकूच स्पर्श केल्लो. आनी म्हजे यादींत 'धतरीचें कवन' ह्या संग्रहाक हांवेंपयलो स्पर्श केल्लो आसूंक जाय. एका परस एक अशे पांच संग्रह थंय आसले. 'धतरीचें कवन', 'म्हजें उतर गावड्याचें', 'चंद्रावळ', 'उरतलें तें

रुप धरतलें', 'आयलें तशें गायलें' अशे पांच संग्रह खऱ्यानीच म्हटल्यार खऱ्यानीच सुंदर आसले. हांवें हे सगळे संग्रह वाचूंक जाय अशें म्हाका दिसलें. आनी हांवें म्हज्या मनांतलीं हीं उतरां फादर आल्वरु रेनातांक सांगलीं, आनी ताणें म्हाका सगळीं पुस्तकां घरा व्हरपाची परवानगी दिली. म्हज्या मराठी शाळेंतल्या मास्तराचें आनी थंय येतल्या कांय लोकांचे पंडिताविशींचें उलोवप म्हाका याद जातालें. त्या पंडितांची कविता म्हाका आयज पळोंवक आनी वाचुंकूय मेळटाली हो म्हाका आनंद जाल्लो. आपल्या शाळेंतल्या, एका सवेंत शिकतल्या भुरग्यान पांच पुस्तकां वाचपाखातीर मागप आनी तीं य बी कवितेचीं, हें ते शाळेच्या प्रिंसिपालाक एक व्हड अजाप आसूं येता. आनी कालूच आयल्लीं पुस्तकां एका विद्यार्थ्याक दिवप हेंय त्या प्रिंसिपालाचें व्हड मोठेपण आसूं येता. आनी ही घटना सवन भासांचे मजगतीं फकत कोंकणी भाशेच्या जिवितांतूच घडल्या आसूं येता.

हांव ते संग्रह घेवन घरा आयलों आनी ते हांवें म्हज्या बापायक, म्हटल्यार दादाक दाखयले. ताच्या तोंडार हांवें एक अजाप पळयलें. ताणें म्हटलें की पंडित एक व्हड लेखक आनी कवी. हांवें ते सगळे संग्रह एक दोन दिसांत वाचून काडले. हाचे पयलीं हांवें फकत मराठी पाठ्यपुस्तकांतलीच कविता वाचलेली. पांचशीं सयशीं पानांची कविता वाचपाचो अभ्यास खंय आसलो? पूण ते वेळार असल्यो गजाली लक्षांतूच आयल्यो ना. एकाद्रें गद्य पुस्तक वाचचें तशें तें सगळें हांवें वाचून काडलें. पूण तें समजुपाक कांयच त्रास जालो ना. त्या कवितांनी आयल्ले विशय म्हजे भोवंतणचेच आसल्यान ते समजुपाक कांयच त्रास जाले ना. आगर, आगरी, मीठ, शेतां, शेतकार, शिदाव, भात, पोल, भाट, रीण, तुळस, सत्यनारायण, भट, देश, धालो, फुगड्यो, स्वातंत्र्य असले विशय मुक्तछंदात आसले. तो मुक्तछंद आसलो हें मात तेन्ना खबर नासलें. तांतलें काव्य म्हाका तेन्ना कितलें कळटालें हो मुख्य विशय आसलोच. आनी तो म्हाका कितलो कळटालो होय महत्वाचो भाग आसलो. पूण हांवें ते सगळे संग्रह वाचले हें कळटकूच फादराक भोव उमेद जाल्ली हांवें तांच्या तोंडार पळयली. तेच उमेदीचें प्रतिबिंब हांवें सर शांतारामाच्याय तोंडार पळयलें. कशी लागली पंडिताची कविता? अशें म्हाकां फादरान विचारलें. असो प्रश्न येत हें म्हाकां खबर नासलें. पूण तो अकस्मात आयलो आनी हांव एके अद्भूत कात्रेंत सांपडलों. म्हजेमुखार मराठी कविता आसली. आनी तिचो संबंद फक्त कविता पाठ करपापुरतोच चड आसलो. हांवें मराठी पाठ्यपुस्तकांनी जी कविता वाचलेली तिचेसारखी ही कविता नासली. मराठी कविता म्हाका आवडलेली, कारण ती म्हणपाक मेळटाली. तशी ती नासलेल्यान ती म्हजे आवडीच्या कॅप्सुलांत बसनासली. म्हण्टकूच हांवें फादराक सरळ सांगलें की ती म्हाकां मात्तूय आवडूंक ना. ताणें कौतुकान म्हजेकडें पळयलें. एक इल्लोसो भुरगो आत्मविस्वासान येद्या व्हडल्या

कविची कविता आपल्याक आवडली ना म्हण्टा हाचें ताका अजाप दिसतालें. तशें ताणें थंय आसलेल्या शांताराम सराकूय म्हटलें. येद्या व्हडल्या कविची कविता तूं आपल्याक कळना कशी म्हण्टा? अशें ताणें म्हाका म्हटलें. तशी ह्या प्रस्नाची जाप म्हजेकडे नासली. हांवें ताकां सांगलें की त्या संग्रहांतलें तांकां जायतें तांणी म्हांका विचारचें. पूण तांणी म्हाका कवितेंतलें कांयच विचारलें ना. ना म्हण ताणी म्हाका कवितेंतलें कांयच कळना, अशेंय म्हटलें ना. पूण कालांतरान म्हजी मतां कशी अप्रबुद्ध आसलीं तेंय म्हाका कळ्ळें. जस जशीं वर्सां गेलीं, तशो खूब गजाली कळत गेल्यो. मागीर हांवूय कविता बरोवंक लागलों. यस. यस. नाडकर्णी, यस. यस. कुलकर्णी ह्या प्रोफसरांकडे भासाभासो जावंक लागल्यो. ह्या विशयांतलें तमाम समिक्षकांनी बरयल्लें वाचूंक मेळूंक लागलें. ह्या सगळ्या चर्चा चर्वणांतल्यान म्हाका 'आवडप' आनी 'कळप' ह्या घटकांविशींय कळपाक लागलें. आतां पंडितांची कविता म्हाका कळटा, अशें म्हज्यान सांगूं येतालें. पूण दरम्यानच्या काळांत परिसर, वस्तुस्थिती, कालात्मकताय, सृजन हांतल्यो बारीकसाणी कळत गेल्यो तशें पंडिताचें काव्य कितलें महत्वाचें आनी कितलें सुंदर तेंय कळपाक लागलें. तरी पूण आमची प्रत्यक्ष भेट जावंक नासली. तांची वळख आनी संबंद आयलो ती तारीक आसली 27-1-1962. ते दीस तांचें सगळें छापील काव्य वाचूंक मेळ्ळें. तें एके तरेन तांकां मेळपूच आसलें. आनी हें अप्रत्यक्ष आसलें अशेंय म्हणूं येता.

26-1-1969 हे दिसा पंडितांच्या गांवच्या रमेश वेळुस्कार ह्या तरणाट्या कवीक कोंकणी भाशा मंडळान दवरलेल्या स्पर्धेतलो 'कविराज' हो पुरस्कार फावो जालो. ही म्हजी कोंकणी साहित्य विश्वाक जाल्ली पयली वयली वळख. पूण तेयपयलीं हांव धेंपे कॉलेजच्या वॉलपेपरचो संपादक आसलों, ही म्हजी वळख कोणाक नासली. हो पुरस्कार घोशीत जातना म्हजे सामकार बसलेलो पाद्री आल्वारु रेनातू मेंदीश हांणी स्मीत करुन म्हज्या ह्या पुरस्काराचें स्वागत केल्लें. ते वेळार तांकां खबर आसलेलो म्हजो भूतकाळ त्या पुरस्काराच्या निमतान आयल्ल्या स्मितांतल्यान खेळत येता अशें म्हाका जाणवलें. ते वेळार त्या प्रसंगातल्यान ज्यो ओळखी जाल्यो तातूंत मनोहरराय सरदेसाय, रवीन्द्र केळेकार, नागेश करमली, एव्हाग्रीयु जॉर्ज, आंतोनियु पिएदाद मोराईश अशीं कांय नावां आसलीं. पूण थंय म्हाका पंडित पळोवंक मेळ्ळोना.

कांय दिसांनी पंडितान म्हाका आपल्या घराकडे यो म्हण मनीस धाडलो. जाका मेळचें अशें म्हाका कितलेच फावट दिसतालें, त्याच मनशान वेळ येतांच म्हाकां आपोवणो धाडचो हो म्हजो जिणेंतलो आनी म्हजे कोंकणी साहित्यिक जिणेंतलो एक अत्यंत महत्त्वपूर्ण आनी उत्कट प्रसंग म्हणपाक जाय. हें खरें म्हटल्यार कवितेनूच म्हाका आपलेकडे यो म्हण दिल्लें आमंत्रण आसलें. जे वेळार हें आमंत्रण आयल्लें ती वेळ सांजची आसली. गोधुळींची ती वेळ

आसली. ती रात एके आगळेच हुर्हुरींत गेली. पूण म्हाका तांकां दुसरे दीस सांजवेळ मेळचें आसलें. सकाळीं म्हाका कॉलेज आसलें. म्हजें लक्ष मात ते दीस फकत पंडितांचे जावंचे आसले भेटेर आसलें. कॉलेजींत ही गजाल सांगपासारको एक इश्ट म्हाका दिसलो ना. हांव अडेज तिनाक घरा परतलों. जेवन मात्सो शेंदरेर लवंडलो. तितले मजगतीं हांवें कांय कविता तांकां गरज पडल्यार दाखोवच्च्यो म्हण पेपरार बरोवन घेतल्यो.

हांव बरोब्बर चारांक तांच्या घरामुखार उबो आसलों. दारामुखार आसलेल्या धाकटुल्या आंगणांत एक पारजत आसलो. आमच्याय आंगणांत पारजत आसा. ही एक खूण म्हाका आमचेमदीं आसलेल्या साम्याची दिसली. काव्य हीय आनी एक मेजर साम्याची खूण आसलीच. दारार मारतकूच दार उकतें जालें. तांगेर काम करपी एके चलयेन दार उगडलेलें. कांय सेकंदांच्या फरकान स्वता पंडित आयले. म्हजें अभिनंदन केलें, पाळ्यांत पुरस्कार हाडलेबद्दल. म्हणपाक लागले की हो अखिल गोंयचो पुरस्कार आसा. म्हाका आपले माळयेर घेवन गेले आनी आमी थंय बसले. थंय पुस्तकांच्यो अस्ताव्यस्त राशी पळोवपाक मेळ्ळ्यो. एका कवीक, एका पत्रकाराक, एका लेखकाक आनी एका फोटोग्राफराक पुस्तकांच्या सान्निध्य कितलें गरजेचें आसता ताची ती गवाय आसली. थंय एक गांधीजींचो सुंदर फोटो आसलो आनी हांवें मर्दी केन्ना तरी तांकां म्हटलें की हें छायाचित्र तांणी तांच्या कॅमेऱ्यान बिलकूल घेवंक ना तर तें तांणी तांचे सुक्षीम जाणीवेचे संवेदनशीलतायेन घेतलां. पूण त्या वेळार कोणार खबर आसलें की एक दीस अटेन्बरो गांधी हें फिल्म तयार करतलो आनी तें करतना गांधीजींच्या ड्रेसाखातीर पंडितांचो सल्लो घेतलो म्हण.

तांणी म्हाका सांगले की, जो पुरस्कार म्हाका मेळ्ळा तो पुरस्कार मेळोवपी पयलो कवी आसा मनोहरराय सरदेसाय. आनी तिसऱ्या वर्सा हो भौमान म्हजो जाला. तांणी म्हाका फुडें सांगलें की भट निकतो न्हावंक गेला. आनी मुखार जायतें कितें जावंचें आसा. तांणी हांव कितें कितें वाचतां, वाचलां तें जाणा जावन घेतलें. म्हजे साहित्यिक इश्ट कोण, ते कसलो वावर करतात हें जाणा जावन घेतलें आनी मोटे उमेदीन परत एक पावट म्हजें अभिनंदन केलें. आनी म्हाका आपल्या सगळ्या कवितांचो एक संच भेट दिलो. हांवें तांकां हे सगळे संग्रह 27,28 ऑगस्ट 1962 कूच वाचून सोंपयल्या हें सांगतकूच तांकां खीणभर ह्या समयाक कशें सामकार वयचें तें कळना जालें. वाचक हो साहित्यिकाखातीर एक उत्सव आसता ताचो साक्षात्कार म्हाका तांच्या त्या रुपकारांतल्यान जालो. तांकां ते वेळार भरतें आयल्लेवरी जाल्लें. हें सगळें म्हाकाय एक बळगें दितालें. दर खीण खंय मनशाक कितें ना कितें तरी दितच आसता. हांवें तांच्यो कविता केन्ना तरी सात वर्सां आदीं वाचलेल्यो. ताचो परिणाम हांव सात वर्सां उपरांत पळयतालों. हो खीण

सद्‌गदीत जावन गेल्लो. आनी मागीर च्या आयली. च्या उपरांत तांणी म्हाका म्हजेकडे कोंकणी मंडळान पुरस्कृत केल्ली कविता आसल्यार वाच म्हण सांगली. म्हाका तसो दुभाव आसलोच. आनी ते खातीर हांवूय ती आनी कांय हेर कवित्ताय घेवन गेल्लों. हांवें तांकां कांय कविता वाचून दाखयल्यो. तांकां त्यो आवडल्यो. कांय तांकां खास आवडल्यो. त्यो कविता हांवें केन्ना बरयल्यो असो एक प्रस्न ताणीं केलो. ह्यो कविता स्पर्धेक कविता धाडलेल्या कविताउपरांत बरयल्ल्यो.

*'रंगलीं कुपां दर्यामुखार वयताना गे सांज ल्हारा ल्हारार झांजल्ली गे पैंजणांची झांज'*

ही कविता तांकां खूब आवडली. ही कविता बाकीबाबांकूय खूब आवडटाली.

पंडितांकडची ही सांज स्मरणीय जाल्ली आनी आमी दोगूय एकामेकांक न वळखल्यान ती अनपेक्षितूय आसली. कितलींशींच वर्सां पंडितांक मेळचें म्हण आंवडेतालों, ती भेट अत्यंत नाटकीय रुपकारांत आकाराक आयल्ली. आनी आमचे साहित्यिक इश्टागतीचा आरंभ जालो, अशें जरी हांव म्हण्टां तरी नाटकाचो आरंभ नाटकाचो पड्डो वयर सरता तेन्ना जायना तर ताचेय पयलीं, नाटक आतां करुंया असो विचार सुरु जाता तेन्नासावन तो इल्लो इल्लो जायत आसता. तर हे इश्टागतीचो आरंभ केन्नासावन जातालो तें आतां तुमच्यांनीय थारांव येतलें. हांवें तें जशें म्हाकां आयलें तशें सांगलां.

000



# कथामंच

(कथा)

दामोदर मावजो

## यासीन, ऑस्टीन, यतीन

‘‘यासीनमियाँ, गोवा बडा खुबसुरत है ही। पर आप की वजह से बेहतर लगा। आपके साथ घुमने में बहोत मजा आया। अगले साल बच्चों को लेकर आना है। तो आपको पहले इत्तला दूँगा। आपही की गाडी लेकर घुमेंगे हम।’’ डिपार्चर गेटीभायर गाडी थारतासर त्या भोंवडेकारान उलोवन उडयलें.

‘‘आप सिर्फ फर्माइए, जाफरसाब, बंदा हाजीर रहुँगा।’’ ड्रायव्हर सिटावयल्यान देंवत ताणे म्हळें. डिकी उकती केली. सामान देंवयलें. धांवत वचून ट्रॉली हाडली आनी ट्रॉलीचेर बॅगां घालीं.

म्हणसर सेक्युरिटीन पिल्लूक मारली. ‘वतां, वतां’ अशें म्हणून ताणें नमळायेन जाफराक म्हळें, ‘‘विदा चाहता हूँ साब!’’

जाफरान बायलेले पसींत हात घालून पांचशांची नोट काडून ताच्या हातांत दिवन म्हळें, ‘‘ये आप रखिए। हमारी ‘खुशी’ है।’’ ताणेंय ‘नाका-नाका’ करीत ते घेतले. ‘‘अच्छा तो अगले साल फिर मिलेंगे ना, यासीनमियाँ?’’

‘‘इन्शाल्लाः’’ दोन हात वयर करून ताणें म्हळें.

‘‘खुदा हाफिज।’’

‘‘खुदा हाफिज।’’ आनी गाडयेंत बसून ताणें स्टार्टर घुंवडायलो. सेक्युरिटीकडेन पळोवन ‘थँक्यू’ असो हात केलो आनी गाडी सकयल देंवयली.

जाफर आनी बायल ताचेर सुमाराभायर खूश जाल्लीं. ताणें तांकां बेस बरीं भोंवडायिल्लीं. गायडाची बी गरज

**दामोदर मावजो** : जल्म : 1944, जेश्ट कथाकार आनी कादंबरीकार. पांच कथासंग्रह, तीन कादंबऱ्यो आनी पांच बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत, *‘कार्मेलीन’* ही गाजिल्ली कादंबरी. कांय कथांचेर टेलीफिल्मां तयार जाल्यांत. केंद्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार (1983) तशेंच विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर संस्थेच्या श्रीमती विमला पै पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : माजोड्डें, साश्ट, गोंय - 403712, मो. : 9422059509

ना म्हूण पयलींच सांगिल्लें. पूण तेन्ना तांकां तें खरें दिसूंक नासलें. पूण ताणें जेन्ना ठोक भोवंडे थळांभायर आनिकूय खुबशो गजाली दाखयल्यो आनी सांगल्यो तेन्ना तीं दोगांय ताचेर फिदा जाल्लीं. इदालकांव पालास भायल्यानच दाखयिल्ली तरी आदील शहाली राजवट मस्त्या आल्बुर्कर्कान कशी हातासली ताचें रसभरीत वर्णन ताणें केल्लें. मुसलमानांची कत्तल करपी पुर्तुगेज कशे 'बेरहम' आशिल्ले तें आयकून जाफराच्या आंगावयले दाट-राट केंस लेगीत शिरशिरून उबे जाल्ले. उलउयतांना गुजरातेंतले दंगलींत मुस्लिमांक जाल्ले पिडापिडेचीय याद काडिल्ली. फोंडेचे जामा मशिदीचो तोंडपाठ आशिल्लो इतिहास ताणें घणघणीत सांगिल्लो आनी गोंय स्वतंत्र जाल्याउपरांत खंयखंय नव्यो मशिदी उब्यो जाल्यात, फळांचो - भाजयांचो धंदो मुसलमानांनी कसो तेजींत चलयला, हालीं हिन्दुत्ववादी कशे मस्ती करूंक लागल्यात आनी तरी गोंयचे मुसलमान कशे समजिकायेन सुरक्षीत रावतात हाचो मनभुलावणो नियाळ घेतिल्लो. जाफराची अडचण लक्षांत घेवन ताणें तांकां खातरीचें हलाल खाण जेवण मेळटा अशो सुवाती दाखयिल्ल्यो. 'यासीनमियाँ, आप बडे तेज - दिमाग हैं' - 'आप इन्सान बहोत अच्छे हैं, यासीनमियाँ!' अशी तांचे तोंडसून तोखणाय करून घेत ताणें तीन दीस तांकां भोंवडायिल्लीं.

ही स्विफ्ट घेतल्यार चार वर्सां उलगलीं. अडेच वर्सांभितरच सगले हप्ते भरून जाल्ल्यान आतां गाडयेचो हुसको मेटिल्लो. पूण पणजे लागसार स्वताचो एक फ्लॅट आसचो हें तागेलें सपन आजून सपनच उरिल्लें. ताका खातरी आसली - बरें वागून, गोड उलोवन, हुशारेन आनी गिरायकांच्या कलान वावुरल्यार फळ बरें मेळटाच मेळटा. जाफरापयलीं मेळिल्लीं चडशीं गिरायकां अशींच ताचेर खूश आसलीं. गोंयां येवपी भोंवडेकारांक मजा करपाची आसता, हांसून खेळून चार दीस काडपाचे आसतात, बोल्साक परवडपासारकें खावपा-पिवपाक जाय आसता, हें वळखल्ल्यान तो गिरायकाक जाय तसो वागून तांकां खूश दवरतालो. ताचेवांगडा राविल्ल्यान आपणालो वेळ बरो गेलो आनी चार पैशे वांटावले हाचें समादान घेवन ते मागीर ताका टिप्स दिताले. कोणूय चामटो आसल्यार पन्नास - शंबर तरी दितालोच. आनी जाफराभाशेन आसल्यार पांचशांक मरण नासलें. गोड वागतकूच तांच्या खुस्तार जातालें. आठ वरांखातीर गाडी दवरपाची कबलात आसुनूय णव वरां जालीं म्हूण तो कीटकीट करिनासलो. मागीर ते म्हणटाले - ड्रायव्हर बरो आं!

ड्रायव्हर! शाळेंत आसतना ताका हुशार विद्यार्थी म्हूण वळखताले. व्हड जातकच कोण जातलो म्हूण विचारल्यार 'हांव प्रोफेसर जातलों' अशी ताची जाप आसताली. कोंकणीभायर मराठीय ताका बरी कळटाली. हिन्दी, इंग्लीश हे ताचे आवडीचे विशय. पूण एस्. एस्. सी. उपरांत घरचे आवतिकायेक लागून फुडलें शिकप जालें ना. पयलीं खाणीर 'मास्तर' म्हूण रावलो. थंय फुरसतीचो वेळ खूब. तेन्ना

वाचनाची गोडी लागली - इंग्लीश, हिन्दी, कोंकणी, मराठी. पगार मात टापटीप. मागीर ट्रकवाल्यांली जोड पळोवन नोकरी सोडून ताणेंय ट्रक काडलो. मन लावन ड्रायव्हिंग शिकलो. हेर ड्रायव्हर स ट्रिपी मारताले थंय हागेल्यो सात-आठ जावंक लागल्यो. पूण दोन वर्सांभितर ताका खोंकली मारपाक लागली. डिझेलाचो वास आनी धुल्लाचो त्रास. डॉक्टरान विचारलें - 'ट्रक सोडटा? काय जीव?'

ट्रक विकून प्रायवेट गाडी घेतली. गांवचीं लागसारचीं भाडीं मारपाक लागलो. पूण पोलीस सतावपाक लागले. मजगतीं, पणजेच्या टॅक्सी ड्रायव्हरांच्यो वळखी जाल्ल्यो. तांचेच वळखीन पयलीं दुसऱ्याची गाडी चलोवपाक घेतली. मागीर बँकेकडल्यान रीण काडून ही स्विफ्ट घेतली. सिझन आसूं वा नासूं टुरिस्टांचें भाडें ना असो एकूय दीस वचनासलो. फॉरेन टुरिस्ट मेळ्यार तर मजाच. इंग्लीश ताका बरी येतालीच. सुर्वेक भायल्यांले उच्चार कळपाक कठीण लागताले. पूण उपरांत संवय जाल्ली. पणजेच्या घरमालकाकडल्यान लुईस भाटकाराकडल्यान - थोडी पुर्तुगेजय ताणें शिकून घेतिल्ली. मात हालींसराक येवरोपी भोवंडेकार साप उणे जाल्ले. तांचेबदला इंग्लीश समजना असले पोलीश आनी रशियन येवंक लागल्यात. आतां तो रशियन भासूय शिकूंक लागला. पूण ह्या लोकांचे गोरे कातीचेर वचपाचें ना. सामके हिमटे. वाणपण करपाक हुशार. तांचेपरस आमचे इंडियन भोंवडेकार हजार वांट्यांनी बरे. फकत तांकां खूश दवरपाक कळूंक जाय. गिरायकाप्रमाण आपणालो रंग मात बदलपाक जाय.

डिपार्चराकडेन जाफराक सोडून सकयल देंवत गाडी परतितना अरायव्हलाकडेन टॅक्सीवाल्यांची खेट पळोवन ताका दिसलेबगर रावलें ना - परततनाय एखाद्रें गिरायक मेळिल्लें जाल्यार तितलोच फायदो, वाणपण करून थोडेभितर व्हेल्यार दनपारचें झळकें तरी सुट्टलें आसलें. पूण आतां हो नवो विमानतळ जायतसावन आदल्यो तरा बदलिल्ल्यो.

सिग्नल हुंपता थंय आसा ताचो मोबायल वाजलो. सॅबी! ताका याद जाली. जाफराक घेवन येतना कुठ्ठाळचो पूल काडून ताणें सॅबीक ओव्हरटेक केल्लो. रितोच आशिल्लो जावंये - सवकसायेन चलयतालो. आतां फोन कित्याक काय?

"कितें जालें, सॅबी?"

"आरे, पनवत लागली म्हाका. गाडी बंद पडल्या-"

"पॅट्रॉल सोंपलें?"

"ना, रे. स्टार्टर गेलाशें दिसोता. तें भंगों. हांवेन जुझे मॅकानिकाक आफयला. पूण तो येता आनी गाडी सारकी जाता म्हुटल्यार वरभर तरी हिंगाच वयतलें. तुज्या बाराबर कोण आसा?"

"ना, कित्याक? हांव येवूं?"

"तूं ओव्हरटेक करून गेल्लो चयललो हांवेन. एअरपोर्टार मुरे? आतां खूंय आहा तूं?"

"हय. एअरपोर्टारच आसां. गिरायकाक

सोडून परतो येतां-''

''आतां एक काम कर. फिदाल्गोचे गॅस्ट येवपाचे आहाय. तेंकांच हाडोंक वयतालों हांव. आनीक वीस मिनटांनी फ्लायट पावतली तेंगेली. बॉम्बे सावन येवपी जॅट - मिस्टर आनी मिसेस विक्रम पटेल. 'नेमबोर्ड' आहा म्हुजेलागीं. आतां तूं हातीनच एका पेपराक बरोवन अरावला फुड्यांत उबो राव. करता मुरे म्हुगे काम?'' सॅबीन उपकार मागलो.

''तुका ना म्हणूं येता, सॅबी?'' खुशाल जावन ताणें म्हळें.

''कागद आहा मुरे बगलेक? नांव सारकें बरय - विक्रम पटेल. आनी हांव हॉटेलाक फोन करून सांगतां. म्हुगे भाडें तूं घे. पूण लापीट, ... म्हाका पोटाक मारूं नाका. पांयशीं म्हाका. उरलले दवर तुका. ऑके? आनी फाल्यां हांव आहां म्हूण उगडास धर - सांग तेंकां-''

''तें बरें आहा रे. हांव तुज्या उतराभायर आसां?'' आनी गाडी घुंवडावन सकयल पार्क करून दवरून तो अरायव्हल गेटीकडेन आयलो. कोणाकडेन उपकार मागून पेपर घेतलो. ताचेर दाट्ट अक्षरांनी बरयलें - ''मि. विक्रम पटेल'' आनी तखटोसो तो कागद घेवन मुखार वचून उबो रावलो.

विक्रम! पटेल म्हणटकच गुजराती - आनी खातरेन हिन्दूच. ताका देवळां दाखोवपच. तेभायर हरवळ्यां तिर्थार आनी फुसलावन - गुठलावन एक दीस तांबडी सुर्ला व्हरूंक जाय... पूण हें गिरायक सॅबीलें. फाल्यां सॅबीन तांकां भोंवडावपाचें थारायलें जाल्यार? सॅबीकडेन वायटपण घेनासतना हांकांच वश करून घेतल्यारच-

जावं बाबा! फ्लायट वेळार देंवली. तखट्याचेर आपणालें नांव सोदीत येवपी आपणालो प्रवासी वळखुपाक कळाव लागना. आपणालें नांव पळयनाफुडें दोळे लिकलिकतात. एक तरणे जोडपें भायर सरतालें. ताची नदर तखट्यार पडचेपयलींच तिची पडली. तिणें घोवाचो हात ओडून नांव दाखयलें.

''सर, इस तरफ आइये।'' अशें म्हणीत तो मुखार गेलो. तिच्या हातांतलें बॅग आपणें घेतलें. ताच्या हातांतलें व्हडलें बॅग घेवन ताचेवयर तिगेलें तेंकयलें. तांकां घेवन खांब्याकडेन आयलो. सामान खांब्याकुशीक दवरलें. ''सर, गाडी लेकर आता हूँ। स्विफ्ट है। व्हायट! आप यहीं रुकना. और सामान का खयाल रखना,'' आनी तो धांवलो.

तरणें जोडपें! ती ताका तेंक्रून लागोळपणां करता ते भाशेन तांचें नवेंच लग्न जालां आसूंक जाय. हनिमुनाक आयल्यांत आसतलीं. ती लाग करता तें लोक पळयतात - न्हय. लोक तिकाच पळयतात अशें दिशिल्ल्यान तो अस्वस्थ जातालो. कांय पर्वा ना. असल्यांक कशें आपले करप तें ताका बेस बरें खबर आसलें.

गाडी तांचे बगलेक थांबोवन तो देंवलो. सामान डिकींत घालें. तांकां फाटलें दार उकतें करून धरलें. सबंद वेळ ताकाच पळयत उलयलो. तिचेकडेन मात्त पळयलें ना. वाटेर वयल्या हारशांतल्यान लेगीत तिचेर नदर घाली ना.

"सर, आप गुजराती हैं ना?" ताणें विचारलें.

"क्यों? आपको गुजराती आती हैं?"

जाण्टीं कोणूय आशिल्लीं जाल्यार 'थोडु थोडु आवडे छे' म्हणटलो आसलो. पूण तशें म्हणल्यार हो आपणांक समजत म्हूण बायलेकडेन उलयलोच ना जाल्यार–

"नहीं तो। बिल्कूल समझतीच नही।"

विक्रम फुडें उलयलो ना. ताणेंच फुडें सांगलें, "गोवा में हम कोंकणी बोलते हैं। यहाँ के हिन्दू लोगों को हिन्दी आती है। ख्रिश्चनों को हिन्दी उतनी अच्छी नही आती।" फाल्यां सॅबीक पयस दवरपाची ही तयारी आसली.

"सर, कितने दिन रहेंगे आप गोवा में?"

"देखते हैं। कुछ तय नही किया है।"

रिटर्न तिकेट बोल्सांत आसुनूय विक्रम सारकी जाप दिवपाक सोदना हें ताका होलमलें.

"गोवा बहुत सुंदर है, सर. आठ दिन रेहेंगे तो भी पूरा देख नही पाओगे।"

"क्यों? ऐसा क्या देखनेलायक है यहाँ? लोग तो दो दिनों में सब देखकर वापस जाते हैं।"

खातरीन विक्रमाक कोणेंतरी सांगलां आसूंये – गोंयच्या ड्रायव्हरांचेर विस्वास दवरूं नाका म्हूण. आतां हीच संद घेवपाची.

"सर, वो लोग सिर्फ टुरिझमवाले दिखाते हैं उतनाही देखकर जाते हैं। उसके अलावा जो है वही देखनेलायक है। तांबडी सुर्ल का नाम सुना है? वहाँ सैंकडों साल पुराना शीव मंदीर है। तेरेखोल नदी पार की तो बॉर्डर के उसपार रेड्डी का गणपती है – सपने में देखा इसलिए खोदा तो इतना बडा गणपती निकला। समुद्रकिनारे काबु द रामा है। पुराना किला–"

शीवमंदीर, गणपती म्हणटकच तिणें पोल्यांक हात लावन हात जोडले हें ताणें हारशांतल्यान पळयिल्लें. उपरांत रामाचें नांव आयकून परतय तिणें हात जोडले.

"यहाँ पारोडा कर के गाँव है। वहाँ चंद्रनाथ का मंदीर है – पर्वत के उपर। पहले चलकर जाना पडता था – अब गाडी लेकर जा सकते हैं।"

"ठीक है। सोच लेंगे।" विक्रम ताका ब्रेक मारूंक सोदतालो. आतां चड ताणल्यार तुटत अशें येवजितनाच –

"कितना टायम लगेगा – पर्वत के मंदीर जाना तो?"तिणें पयलेच खेपेक तोंड उकतें केलें. घोवाक आवडलें ना जावंये.

"मेमसाब" तिचेर हारशांत लेगीत नदर घालनासतना ताणें सांगलें, "सुबह आठ बजे निकलें तो दोपहर तक वापस। बहूत दूर नही है।"

"टॅक्सी का भाडा कितना होता है यहाँ?" विक्रमान खांकडत – पूण मूळ प्रस्नाक हात घालो.

"हॉटिलवाले बहुत लेते हैं, सर। लेकीन हम अपने हिसाब से लेते हैं। गिरायक अच्वा मिला तो पैसा कम मिला तो भी चलता है।"

‘‘कम माने कितना?’’ विक्रमाक हुसको आसलो ड्रायव्हर फटयतात म्हूण.

‘‘हॉटेलवाले और बाहर कहीं भी आठ घण्टों और अस्सी किलोमिटर के लिए दो हजार लेते हैं, सर.’’

‘‘और तूम?’’

‘‘वैसे हम भी दो हजार ही लेते हैं। मार्केट का भाव है ना? लेकिन आप जैसे धार्मिक वृत्ती के श्रद्धालू लोगों के लिए हम डेढ हजार में भी चलते हैं। लेकिन, ये बात दूसरों को नही बताना, सर!’’

‘‘मैं किसे बताऊँगा?’’

‘‘सर, आज आपको पिकप करने के लिए दूसरा ड्रायव्हर - सॅबी आनेवाला था। ख्रिश्चन है वह। उसकी गाडी रास्ते में बंद पडी इसलिए उसने मुझे भेजा।’’

‘‘चलो, अच्छा ही हुआ।’’ विक्रमान हुसकारो सोडीत म्हळें.

हॉटेलाच्या दारांत टॅक्सी उबी करून ताणें सामान देंवयलें.

‘‘नाम क्या तुम्हारा?’’ विक्रमान विचारलें.

‘‘यतीन, सर.’’

‘‘यतीन?’’ आनी आपणालो मोबायल भायर काडून ताणें फुडें विचारलें, ‘‘तुम्हारा फोन नंबर दे दो।’’

नंबर सांगून ताणें विचारलें, ‘‘आज शाम बीच पर जाना है तो बताइये, सर. नजदिक ही है।’’

‘‘कितना लेगा?’’

‘‘जो मर्जी दिजिए, सर। मैं माँगुंगा नहीं।’’ आनी ताणें निमाणें वाक्य सोडलें, *"Wish you happy Goa, sir!"*

सांजेच्या स वरांचेर विक्रमालो फोन आयलो. ताणें तांकां पयलीं दोनापावला व्हेलीं. मागीर मिरामार सोडलीं. सवाय आठ मेरेन तीं भोंवलीं. दोनापावलाक थंयची म्हायती दिवपाक तो तांचे वांगडा भोंवलो. पूण मिरामार तांकां एकलीं भोंवपाक सोडून तो गाडयेंतच बसून रावलो. परततकूच विक्रमान पैशे विचारले, ताणें खालतेपणान म्हळें - ‘‘कुछ भी दीजिए, सर।’’ तो जाणा आसलो, विक्रमान हॉटेलाच्या काउंटराचेर विचारलांच आसतलें आनी ताणी ताका सातशें सांगिल्ले आसतले.

विक्रमान पाचशांची नोट दिली. ‘‘ठीक है?’’

हरशीं पंदरा किलोमिटर भोंविल्ली गाडी. ‘‘शरमिंदा नहीं करना, सर. आपने दिया सो हमने लिया। गूडनायट सर, गुडनायट मॅडम्.’’ तिचेकडेन पळयनासतनां तो घुंवलो आनी बिराडार परतलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं टॅक्सी उबी करतनाच सॅबी मेळ्ळो. बेजार आशिल्लो. पूण ताचेर न्हय - त्या पटेलाचेर.

‘‘केसो मुनीस रे तो? पयलीं पैशे विंचारता. आनी जाप दिवचेपयलींच सांगता - कालची ती स्विफ्टच जायी. तो ओतीनच जायो म्हुण्टा. वोस, वोस. तूंच बरो त्या चामट्याक.’’

आनी खऱ्यांनीच फुडले चार दीस तो त्या पटेल जोडप्याक घेवन भोंवलो. सकाळीं बोणी पणजेंतच महालक्ष्मी देवळांत व्हरून केली. दोगांय खूश. पणजेसून

भायर सरचेपयलीं आदील शहाली पालास भायल्यानच दाखोवन सांगलें - आदील शहाले मुसलमान राजवटेक विटिल्ल्या गोंयच्या हिंदुंनी आल्बुकॅर्काक कसो आफोवन हाडलो. पडमूर पुर्तुगेज मागीर गोंयकारांचे गोमटेर कसो बसलो. धर्मांतरां कशीं जालीं... हो सगलो इतिहास सांगीत तो तांकां घेवन पयलीं देवळांनी भोंवलो. बाटाबाटीच्या काळार लोकांनी देवांक उकलून अंत्रुजेंत हाडून तांची स्थापना केल्ल्यान हिन्दू देवांची आनी धर्माची राखण कशी जावंक पावली तें रंगोवन सांगलें. देवळां दाखोवन परततनां ताणें तांकां गोंयसायबाचे इगर्जेंत व्हेलीं. हज्जारांनी हिन्दूंक बाटोवपी झेविअर आतां संतपदार पावला हें सांगतकच विक्रमाच्या मुखामळार उदेल्ली तिरस्काराची भावना ताचे नदरेंतसून सुटली ना.

मर्दीं संद मेळली तेन्ना ताणें गुजरात राज्याची तोखणाय केली. पेपरांत वाचिल्लें गुजरातेंतले उदरगतीचेर उलयलो. महात्मा गांधी विर्शींचो अभिमान सांगून उडयलो. सरदार वल्लभबाय पटेल तुमचो दायजी तरी आसतलोच न्हय? असो प्रस्नूय विचारलो. आनी नरेंद्र मोदी प्रधानमंत्री जाल्ल्यान देशाक बरो फुडार आसा हेंवूय उलोवन दाखयलें.

चार दीस गोंय भोंवन परततना विक्रमान ताची तोंड भरून तुस्त केली. ''तुम जंटलमन हो, यतीन. ये हमारी तरफ से -'' अशें म्हणीत - जाका सॅबी हिमटो म्हणटालो त्या विक्रमान ताच्या हातार भाड्याभायर पांचशांची नोट तेंकयली आनी ताणें दिनवासपाक तोंड उकतें करचे पयलींच दुसरी पांचशांची नोट हातार तेंकोवन म्हळें, ''और तुम्हारी भाभी की तरफ से ये.''

पयलेच खेपेक ताणें नदर वयर करून तिचें तोंड पळयलें. बरी सुंदर दिसताली ती... ''थॅंक्यू, भाभीजी' म्हळें. आनी बाग घेवन तांचो निरोप घेवन तो भायर सरलो.

आतां फायचें फाल्यां पळोवंया अशें येवजितनाच ताका वाटेरच हॉटेलांतसून फोन आयलो, 'येवन मेळ' म्हूण.

''ऑस्टीन कोण?'' काउण्टराचेर ताका विचारलें.

''कित्याक, कितें जालें?''

बार्सेलोनासून फोन आयिल्लो - फ्लावियु पाझ ह्या मनशालो. तो पोरूं आयिल्लो आमगेलोच गॅस्ट म्हूण. आतां फुडल्या म्हयन्यांत तागेले फॅण्डस् येवपाचे आसात. ताणें ऑस्टीनच ड्रायव्हर जाय म्हूण सांगलां. आनी गाडयेचो नंबर तुगेलो दिला. तुवें कोण ड्रायव्हर बी दवरला?''

''ना. हय... पूण तांगेलें काम जातलें... फोन आयल्यार सांग. थॅंक्यू.''

ताणें खुशाल जावन म्हळें.

''राव, फाल्यां कितें करता तूं?''

''कांय ना. भाडें आसल्यार सांग. नाजाल्यार रावतलों भायर-''

''आसा. पूण सकाळींफुडें वच्चें पडटलें. सातांपयलीं एअरपोर्टार-''

''वतां हांव.''

''सोमतोच हो तखटो घेवन वच.'' अशें म्हूण गॅस्टाचें नांव बरयिल्लो हॉटेलाचो तखटो ताच्या हातांत दिवन म्हळें, ''आनी त्या ऑस्टीनाचो उगडास धर.''

बार्सेलिनाचो पाझ. उगडास आसा ताका. 'बाँ दीय सिन्योर पाझ' पाचारना फुडें फ्लाविओ पाझ ताच्या जाळांत फारावल्लो. तितलीच पुर्तुगेज ताका येताली. स्पॅनीश फ्लाविओक पुर्तुगेज समजतली अशें येवजून ठोकून दिल्लें आनी तें उपकराक पडिल्लें. फ्लाविओ स्पॅनीश आनी किरिस्तांव. ताका मेळ्ळो तो ऑस्टीन. पाझ गोंयां पयलेच खेपेक आयिल्लो. ऑस्टीनान ताका गोंयभर भोंवडायिल्लो. पालासिउ द इदालकांव दाखोवन सांगिल्लें - 'आदील शहा वॉज अ टायटण्ट. लोकांक खूब सतायतालो. जेन्ना आल्बुकॅर्क आरमार घेवन अरेबिअन समुद्रांत पावलो तेन्ना थळाव्या लोकांनी वचून कसो ताका विनयलो, वीर आल्बुकॅर्कान कसो त्या मुसलमान पातशाक धांवडावन घालो आनी पुर्तुगेजांनी ह्या गोंयांत कशी सवस्तकाय हाडली हें ताका जाता तितले अळंकृत इंग्लीश भाशेंत सांगून वयल्यान म्हणिल्लें - 'पुर्तुगेजांचें हें रीण आमी केन्नाच पावोवंक शकचे नात. आमची संस्कृताय इण्डो - पुर्तुगेज देखून आमी प्रॉग्रेसीव....' सिन्योर फ्लाविओ पाझ ऑस्टीनाचेर खुबच खूश जाल्लो. सां फ्रांसिश्कु शाविएराल्या मिलाग्रीची खबर आयकून तर चडच भारावन गेल्लो. संभाजीन कशें संखेनी सैन्य हाडून गोंयांक वेराडो घाल्लो, रसद तोडटकच व्हायसरॉयान सां फ्रांसिश्काक कशें निर्वाणेचें गाराणे घाल्लें आनी दुसऱ्याच दिसा मोंगलांनी मराठ्यांचेर घुरी घाल्ल्यान संभाजी कसो पळून गेल्लो ताचें वर्णन आयकतकूच ऑस्टीनाचें गिन्यान पळोवन पाझ अजापीत जाल्लो. परततना जाफरान दिल्ले पांचशें आनी विक्रमान दिल्ले हजार फ्लाविओ पाझान दिल्ल्या शंबर डॉलरांमुखार कांयच न्हय म्हणपाचे. आनी आतां - मुजरत उगडास दवरून ताणें आपणाल्या फ्रॅण्डांक भोंवडावपाक ऑस्टीनच जाय म्हळां हाचो ताका अभिमान दिसलो.

फाटल्या तीन वर्सांनी ताणें देशाची सर्वधर्भ समभाव नीती आपणायत सगल्या धर्मांचे लोक जोडिल्ले. धर्म आनी जातीचें कार्ड वापरून कोणाल्याय काळजाक हात घालूं येता हें तो अणभवान शिकिल्लो. ते राती शीत-कडयेचो भूस मारून न्हिदूंक वतना तो येवजितालो - फाल्यांचें गिरायक कोण काय? समीर! म्हळ्यार हिन्दू. म्हण्टकच विक्रमाक भोंवडायिल्लो तीच येसाय आतां पर्थून मारपाची. आनी तो हुसक्याबगर सुस्त न्हिदलो.

सकाळीं विमानतळार वतनां फोन वाजलो. विक्रान्त उलयतालो, "आरे, लापीट, आमगेर बॉम्बेसावन सोयरीं येयल्यांय. तेंकां ओल्ड गोआ व्हरून हाडोंक जाये. येता मुरे?"

"केन्ना?" ताणें विचारलें.

"आयज. णवांक यो." विक्रांतान सांगलें.

"सॉरी. हांव एअरपोर्टार वतां. दोन दीस बिझी आसां. आनीक कोणूय पळय. नेक्स्ट टायम मात सांग आं, विक्रांत."

ही टॅक्सी घेतसावन विक्रान्त ताका नेमान भाडीं दीत आयला. विक्रांत! विक्रांत डायस' तशें जाल्यार हो समीर कोणूय समीर

परैरा बी आसूं येता. तशें आसल्यार ताका कोणें मेळपाचें? ऑस्टीनान? तेपरस - एअर पोर्टाभायर टॅक्सी पार्क करून ताणें सोमतोच हॉटेलाक फोन लायलो.

"'कितें जालें लापीट?' तूं गेलो ना एअरपोर्टार?"

"येदोळ पावलों सर. तुमी म्हाका तखटो दिला ताचेर गॅस्टाचें नांव फकत 'समीर' म्हूण आसा. समीर आनिकूय आसूं येतात न्हय? ताचें सरनेम सांगशात?"

"ज्यस्ट अ मिनीट - अं... समीर... समीर कसबे. पूण तें तुका लागना. तुजेलागीं नेमबोर्ड आसा तो हॉटेलाचो. आमचो एकूच गॅस्ट समीर आसा..."

ताचें काम जाल्लें. कसबे! म्हणटकच महाराष्ट्रीयन आसतलो.

सकाळची फ्लायट सपसप लेट जायना. तरी पंदरावीस मिण्टां वाट पळोवची पडली. ताका दिशिल्लें समीरावांगडा तागेली फॅमिली आसतली. पूण हो एकलोच आसलो. सदचेभाशेन ताका आदबशीर भायर हाडून टॅक्सींत बसयलो.

आंगान लांबरुंद, दाट्ट मिशांचो, केंस क्रॉप केल्लो हो समीर पळोवपाक उग्र कसो दिसतालो. पूण असल्यांकडेनूय गोड वागून तांकां कशे आपले करप हें ताका कठीण नासलें.

"नमस्कार साहेब. एकटेच आलांत? काहीं काम कीं-?"

"व्हॉट?" समीराल्या आवाजात एक तरेची मस्ती आसली. आसता एकेकल्याचो सभाव.

"आपण मराठी ना, साहेब?"

"व्हाय?"

ताणें 'काय' म्हळें काय 'व्हाय' म्हळें समजलें ना.

"सॉरी, सर. युवर नेम, सर - कसबे, कसबेकर आर मराठी, आय मीन महाराष्ट्रीयन नेमस्..."

"सो व्हॉट?" तो फोडणिशी जाय म्हूण विचारता काय आपूण विचारतां तें मानवलें ना म्हूण तापयता?- ताणें मारतें घेतलें.

"सॉरी सर!"

"युवर नेम?" समीरान आतां ताका विचारलें.

फुडें उलोवपाक सोदता तर हो! तो मातसो फुललो, "यतीन! यतीन सर!"

"बेंगॉली?" समीर फकाणां करता काय?

"नो, सर. गोअन." ताणें सांगलें.

"सो, यू नो - नांवावरून जाऊ नका" समीरान मराठींत जाप दिली. बरो हुशार आनी चार गांव भोंविल्लो आसूंये. आतां फुडें कितें उलोवन हाका गुठलावचो हाचो विचार करतनाच फाटल्यान समीरालो फोन वाजलो.

"यस्, यस्, व्हू? जमालुद्दीन? बास्टर्ड ओके. लॅटस् टीच हीम अ लॅसन. मी येईपर्यंत थांबा तुम्हीं. मग बघूं काय तें-"

हो समीर बरो मस्तोय बी दिसता. बजरंगदलाचो बी आसूंये. मुसलमानांक 'लॅसन' शिकोवपाच्यो गजाली करता... बरो दरकार आशिल्लो फुडारीय आसूं येता.

एक धाकलें बॅग घेवन एकलोच आयला. रावपा-भोंवपाक आयला शें दिसना. दुडवांकार बिझिनेसमन जावंये. एक देड दिसावयर रावतलो शेंय दिसना. तशें जाल्यार तो आसा तोमेरेन बरें झडोवन घेवपाक जाय.

वेर्ण्यां हायवे लागीं पावसर कोण कांय उलयलो ना.

"सर, कितले दीस रावतलो गोंयांत?" ताणें मराठींत विचारलें.

"पळोवया. आतां पयलीं फोंड्या या." ताणें सांगलें.

"पूण, सर - हॉटेलान-"

"तांकां हांव सांगतां. तूं पयलीं फोंडेवटेन घे-" ताच्या आवाजांतलो दरकार पर्थून जाणवलो. पैशेकारांचो दरकार हो-

"यस्, सर!" आनी ताणें गाडी घुंवडायली.

फोंड्यां! देवळांनी भोंवपाचें आसतलें. फाटल्या म्हयन्यांत असोच एक गिरेस्त आयिल्लो. सकाळीं मुंबयच्यान आयलो. तागेली टॅक्सी घेवन सोमतोच कवळ्यां गेलो. थंय अभिशेक, प्रसाद बी कितें करपाचें तें केलें. थंयच जेवलो आनी सांजचो भायलेभायर विमानतळार - सोमतोच मुंबय. दोनाचे अडेच हजार ताच्या हातार उडोवन.

"फोंड्यां दोंगुल्लेचेर नवें गणपतीचें देवूळ बांदलां. ब्युटिफूल व्ह्यू आनी देवूळूय. दाखोवं?" फोंड्यां लागीं पावतकच ताणें विचारलें.

"आतां नाका. पयलीं रामनाथीं व्हर."

हाका हेर देवळांनी मज नाशी दिसता. रामनाथी देवळाच्या पार्किंग लॉटांत गाडी थारायतनाच ताणें विचारलें, "हांगा सनातन संस्था खंय तें जाणा तूं?"

"हय तर!" फाटीं एका खाडया जोग्याक ताणें थंय हाडून पावयिल्लो. तो खाडयो कट्टर हिन्दुत्ववादी म्हूण कळटालो. हो तसो दिसना. पूण नांवाचेर कांय आसना तशें दिसपाचेरूय नासता.

"सर, थंय व्हरूं?"

"नाका, नाका. गाडी हांगाच दवर. हांव वचून येतां एकलोच." आनी समीर देंवन ताणें दाखयिल्ले दिकेन चलूंक लागलो.

"सर, कितलो वेळ लागतलो?"

समीरान कपलार मिरी घाली. तापतलो शें दिसलें. पूण ना. ताणें थंडसाणीन सांगलें, "सांगू जायना. पूण तू लागींच राव. म्हगेलें बॅग गाडयेंत आसा. टेक कॅअर."

लागींच वचून च्या मारून आयलो आनी वाट पळयत बसलो. बारा जावन समीर परतलो. मूड पळयल्यार खुशाल दिसलो. ताच्या हातांत 'सनातनप्रभात' पेपर आशिल्लो. खातरीन हो समीर त्या कट्टर हिन्दुत्ववाद्यांमदलो आसूंक जाय.

येतनां तो फाटल्या सिटार बशिल्लो. आतां येवन फुडल्या सिटार ताचे कुशीक बसलो. जावं! मातसो लागीं आयलो आतां आनीक लागीं ओडूंक जाय. वाचिल्लेभाशेन करून समीरान पेपर फाटल्या सिटार उडयलो. सनातनाची विचारसरणी बरी मानवता जावंये हाका.

"हांवूय घेतां सनातन प्रभात. बरो आसता पेपर!' ताणें मराठींत सांगलें.

"तुम्ही वाचता?" ताणें कवतुकान विचारलें, "असं काय असतं त्यांत?" हांव फट उलयतां जाल्यार पळयता आसतलो.

"आमच्या धर्माविशीं चड आसता. हिन्दूंचेर जावपी अन्यायाआड आवाज काडपी हो पेपर -" केन्ना तरी हो पेपर चाळतनां वाचिल्ली एक खबर ताका याद जाली, "तुमी जाणात? गोंयांत मुसलमानांची संख्या तीन पटींनी वाडल्या. मशिदी कितल्यो वाडल्यात. फळां-भाजयांचो वेपार तांच्या हातांत गेला. जर आमी हिन्दुंनी अॅक्शन घेतलें ना जाल्यार कांय वर्सांभितर तेच राज्य करतले आमचेर."

समीर मन घेवन आयकतालो. तो उलयत रावलो, मोती दोंगरार कशो ट्रकभर तरसादी मेळ्ळ्यो, कुडचड्यार कशी रातयांत मशीद बांदून काडली, हुबळीचे आकांतवादी कशे गोंयांत रावन राटावळी करतात, मुस्लीम तरनाटे कशे हिन्दू चलयांची वाट लायतात... सकाळच्यान छुप्प आशिल्लो समीर आतां लक्ष दिवन आयकतालो. मदींच प्रस्न विचारतालो ते पळयल्यार हो बजरंगदलाचोच आसूंये.

दनपरां जेवपाक मडगांवां नव्या तातो फायनडायनिंगांत गेले. समीरान ताकाय वांगडा व्हेलो. जाय तें खा म्हळें पूण ताणें माफकच खालें. उपरांत समीर ताका घेवन लागींच कलेक्टर ऑफिसांत गेलो. बरीं दोन वरां रावचें पडलें. काम खूब म्हत्वाचें आसूंये. घर वा प्लॉट बी घेवंक सोदता काय? जोड भरपूर शी दिसता.

परततना वाटेर पोरने म्हाड्डोळा म्हाळशेचें देवूळ दाखोवं काय विचारल्यार नाका म्हळें ताणें. पुरो जाल्लें जावंये. वेर्ण्यां पठाराचेर बांदिल्ली नवी मशीद दाखोवन ताणें म्हळें, "पहा, ही नवीन मशीद! कित्याक जाय आसली हांगा? द्रेवाचो मोग म्हूण न्हय. हांव सांगतां, सर हांगेली निश्ठा त्या पाकिस्तानाक." मशिदीवटेन पळयत समीर मिशांतल्या मिशांत हांसतालो. ताका नेट आयलो, "सर, फाटल्या सप्तकांत हांगा जाफर म्हूण एक टुरिस्ट आयिल्लो. हांवेंच ताका गोंयभर भोंवडायिल्लो. बारीक बारीक गजाली विचारून खबरो काडटालो. जाम्मा मशिदीक भेट दिल्ली थंय दोनतीन वरां राविल्लो. थंय कोणाकोणाक मेळिल्लो."

"कोणा-कोणाक म्हळ्यार?"

"हांव ड्रायव्हर, सर. चड चवकशी करपाक गेलों ना. पूण ते खातरीन कसलें तरी कारस्थान रचताले..."

"कित्यावयल्यान?"

"अदमास म्हगेलो. पूण फट जावचो ना. परतो वतां वतां तो मुरगांवचें बंदर बी पळोवन गेला... आमचें गोंय म्हळ्यार - सॉफ्ट टार्गेट!"

"असं म्हणाले?"

पयरच रॅड अॅलर्टाची बातमी वाचतना ताणे 'सॉफ्ट टार्गेट' हें उतर वाचिल्लें. बरेऽ लागिल्लें. समीराकूय सॉफ्ट टार्गेट उतर आवडलें जावंये!

"हो, सर. सॉफ्ट टार्गेट! पयरूच बातमी वाचली हांवें- गोंयां रॅड अॅलर्टाची शिटकावणी दिल्या. पूण सरकार कानामनार घेना. सगले बॉल्सां भरपाक गुल्ल. हांव

सांगतां, सर - मोदीनच कितेंय केल्यार माणसुकी-''

पणजे पावतासर तागेल्यो खबरो आनीक रंगार आयल्यो, ''... हांगा स्टॅण्डार कांय मुसलमान ड्रायव्हर आसात. हे टॅरॉरिस्ट जे गोंयां येतात ते तांकांच घेवन भोंवतात. एक दीस कांय टुरिस्टांक हांवें म्हगेलें नांव 'यतीन' सांगिल्लें तें तांकां 'यासीन'शें दिसलें. मागीर ते म्हाकाच घेवन भोवले. म्हजेमुखार बिनधास्त उलयताले. म्हजेकडेन कितल्यो खबरो आसात, जाणा सर! फाल्यां म्हगेलीच गाडी दवरात, सर - आयकल्यार खरें दिसचें ना, इतलें-''

''आतां गाडी पयलीं आझाद मैदानाकडेन घे.'' अशें ताका सांगून समीरान फोन लायलो, ''हॅलो, एस्. पी. डिसौझा? धीस इज एसीपी समीर कसबे खान ऑफ स्पेशल इन्व्हेस्टिगेशन सॅल, मुंबय. हांव आतां यतीन ह्या ड्रायव्हराक घेवन येतां. ताका बेगोबेग कस्टडींत घेयात. इंटरोंगेट करपाक जाय.'' आनी फोन बोल्सांत घालीत सांगलें - ''यतीन, गाडी पोलीस स्टेशनाभितर घे.''

000



# कथामंच

(कथा)

महाबळेश्वर सैल

## एक आशिल्लो राजा!

तिनयवटेन गच्च रान आनी मदींच तें व्हड कुळागर आनी तांचे घर. फाटलेंवटेनचें उक्तें मळ पयसमेरेन पाविल्लें. त्या मळावयल्यान पंदरा मिनिटां चलून गेल्यार गांव लागतालो. दत्तारामाले मूळ घर त्या गांवातच. केन्नातरी ताच्या पूर्वजांनी हे कुळागार वसयलें. हांगा घर बांदले. दत्तारामालो जल्म ह्या रानांतल्या घरांतच जाल्लो.

मुखाल्ले रान गच्च जायत पयस पयसमेरेन पाविल्लें. दोंगर दोंगुल्ल्यो आशिल्ल्यो, व्हाळ, व्हाळयो, झरे आशिल्ले. सूर्या गांवावटेनच्यान उदेवन दोगरांनी पावतालो तेन्ना सगळे रान रुप्या उजवाडान झगझगताले. वेंगेत येयल्लेवरी दिसताले. दत्तारामाक भुरगेपणापसून रानपिशेंच लागिल्ले. केन्नाय रानांनी रिगतालो आनी झाडांतल्यान भोंवत आसतालो. रानाच्या खांची–कोनशांची झाडाझोपांची वळख करून घेतालो. आनी सोदतालो, सुलूस घेतालो रानांतल्या मोनजातींची. एकादरो प्राणी दिश्टीक पडटकीर खूब खोशी जातालो. लिपून ताका पळयत रावतालो. तेका चड उमळशीक लागिल्ली आसताली ती वागांविशीं.

रानांत एकादरो कासादोर भेटल्यार ताचेसरी झगडटालो. ताका धांवडायतालो. तेवय केन्ना दत्तारामासरी झगडूंक उट्ठाले. एकल्यान तर ताका धमकी दिल्ली, 'तूं आमचेमदीं पडल्यार केन्ना ही भरिल्ली बंदूक तुजेरच रिती करतलों!'

रानांत जनावरां खूब आशिल्लीं. हरणां, शिंगाडी हरणां, मेरू, भेकरे, पीसय, बिबटे... पूण वाग नासलो. गेल्ली धा बारा वर्सां रानात वागाची सुलूस लागूंक नासली. वागाविशीं दत्तारामाल्या मनात मोटे आकर्शण आसलें. भुरगेपणापसून वागाविशीं खूब आयकल्लें, बरेच पळयल्लेय.

**महाबळेश्वर सैल** : जल्म : 1943, जेश्ट कादंबरीकार, कथाकार. मराठी भाशेंतय लेखन. भारतीय सेना तशेंच पोलीस दलांत केल्ले सेवेचो लेखनाचेर खाशेलो प्रभाव. पांच कथासंग्रह तशेंच सात कादंबऱ्यो प्रकाशीत. इंग्लीश तशेंच हेर भारतीय भाशांनी साहित्य प्रकाशीत. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार (1993) तशेंच विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर, संस्थेच्या श्रीमती विमला पै पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : नीलतारा अपार्टमेंट्स, आर. टी. ओ. ऑफिसाफाटीं, आर्लें, राय, साश्ट, गोंय. मो. : 9764072908

वाग रानांत रिगतकीर मोटी धांदळ जाताली. वानरां हुप्प हुप्प करून या रुखावेल्यान त्या रुखार हुडंटालीं. मोर झाडांच्या तेंगशेर बसून कुंकार दिताले. शेवणीं किटकिटटालीं. रानात मनशां गेल्ली आसल्यार तीं कांय वेळ एकेच सुवातेर थक्क उबी रावतालीं. मागीर ल्हवल्हव दोंगर देवन रानाभायर येतालीं. मागीर केन्ना वागाली मोटी गरड आयकोंक येताली. तांब्याचें भाण फातरार आपटिल्लेवरी तो आवाज चोयवटेन घुंवतालो. गांवार सगळो कांच पातळतालो. गांवचे लोक रानार बहिश्कार घातिल्लेवरी पयस पयस रावताले. मागीर आठच दिसांनी सगळे विसरून परते रानांत वचूंक लागताले.

वाग रानांत उट्टालो तेन्ना तो दोनतीन तरी गांवच्या लोकालीं गोरवां मारून घालतालो. गांवार आकांत येतालो. गांवचे लोक मठयेत बसोवन वागरो पुजताले. ताची वर्सुकी मान्तूक करताले. अशें म्हण्टाले, खूब काळा फाटीं रानांत वागांची झुंडी पडिल्ली. रानांत गेल्लें एक गोरूं परत येयनासलें. गांवच्या लोकान मागीर वागरो पुजलो आनी आमचीं गोरवां मारूं नाका म्हण गाराणें घातलें. मागीर व्हडले धोल, शेमळ्यो, घुमटां घेवन रानांत आड्डत भोवंडी काडली. तेन्ना वाग हें रान सोडून दुसऱ्या रानांनी गेले. तेन्नासान गांवात वागऱ्याची पुजा चालूच आसा.

तरीय एक दोन करून ते परते परते येतच आसले. दत्तारामान ल्हान आसताना कितलेतरी फावट रानांत वागाली गरड आयकल्या. वाग उठ्टकीर रानात ल्हानमोठ्या जनावरांची जाल्ली धांदळ पळयल्या. एक फावट तेंगेलो एक बैल रानांत गेल्लो परतो येयलोच ना. तीन दीस ते बैलाक रानांत सोदताले. बापाय वांगडा दत्तारामय सोदूक भोंवतालो. मागीर कळ्ळें बैल वागान रानांत एके घळींत मारून घातला म्हण. बापायवांगडा पळोवक तो थंय गेलो. बैलाचीं फक्कत हाडां आसली. बैलाल्या गळ्यांत एक सोबीत बारीक घांट आसली. ती थंय पडिल्ली. तो ल्हवच मुखार गेलो आनी ती घांट ओडून घेवन आयलो.

वागाविशीं खूबखूब उमळशीक आनी इल्ली भिरांत ताच्या मनांत भुरगेपणापसूनच आशिल्ली. व्हड जाता तशी ही उमळशीक वाडिल्ली. केन्ना चित्रात पळयल्लो वाग प्रत्यक्षात पळोवची तळमळ लागिल्ली. पूण वाग झळकीक पडनासलो. मुखाल्ली धा–बारा वर्सां वागाची सुलूस नासली. लोक म्हण्टाले, भायल्या आनी भितरल्या कासादोरांनी वाग मारून उडयलो. गेल्ली शंबर वर्सां भायल्यान येयल्ल्या गोऱ्यांचो बंदूकेन वागाक मारचो एक खेळच जाल्लो. युरोपात गोऱ्यांची घरां भारतांतल्यान व्हयल्ल्या वागांच्या चामड्यांनी आनी मुणक्यांनी सोबयल्यांत. हे दळदिरे लोक कुडीन दादलेपणाचो जोम भरूंक वागाच्या हाडांचो पिठो करून पिताले. तेगेली नाखटां साणीर झरोवन खाताले.

दत्तारामाक दिसताले, अजूनय त्या कास्ताचे लोक आसात गांवांगावांनी. ताका रानांतली झाडां, रानांतली मोनजात मारतल्यांचो खूब राग येतालो. तेगेल्या ल्हानपणा आनी मागीर कांय वर्सां कितले गच्च, कितले पाचवेचार आशिल्लें हें रान! रानांत रिगल्यार चोयवटेन दाट, थंड सावळी

पडिल्ली आसताली. गच्च झाडांतल्यान एक सूर्याचे कीर्ण सकल देवनासलें. हेदीची, किंदळेची, माट्टीची, नाण्याची, शिरसाची, असणाची उबी उंच गच्च पानां-ताळ्यांची झाडां पोंदा दाटीन वाली, झाडांझोंपां. तातुंतल्यान सरसरून धावपी रानांतली जनावरां!

ल्हवल्हव लोक राजकारण्यांक, रान अधिकाऱ्यांक धरून रानांतले रुख मारत गेले. रान विसकळ जालें. जनावरांच पयस गेलीं. दत्तारामाक हाचे उतळताय खूब भोगतात.

पयस खंयच्यातरी रानांत वाग उठिल्ल्याच्यो बातम्यो येताल्यो. दत्तारामाक थंय धांव मारची, वाग पळोवचो अशें दिसतालें. रानाचो राजा तो, मनशां, रानांतली सगळीं जनावरां ताका भिवन, वचकून आसतात. तांकां वागरी पडूटा! एकाच हुडंयेत तो जनावर दावखुलांत धरता, सांखनळी फोडून रगत पिता!

माघ सोपून फाल्गून लागिल्लो. शिंयांचे, उबाळचे असे दीस आसले. एक दीस दत्तारामाच्या घरभाटावयल्या रानांतच वाग उठलो. वेळ माध्यार पावक तेगेली गरड आयकोंक येयली. तीन-चार वेळातरी तो तांब्या आयदन आपटिल्लेवरी आड्डलो. फाटोफाट वांदरांच्यो आड्ड्योय आयकोंक येयल्यो.

दत्ताराम मोटे उमळशीकेन, खोशयेन रानावटेन पळत वतालो. मनांत म्हण्टालो, म्हाका ह्या रानरायाक पळोवक जाय!

तसो तो रानांत भोंवताना कोणाक भियेनासलो. कितले फावट हत्ती, गवे, बिबटे तेच्या म्हऱ्यांतल्यान गेल्यात, पूण तो भिवन केन्ना धांवलो ना. एक फावट एक व्हडलो नागसर्प वाटेरच फाडे उंचावन उबो आसलो. कसोच वाटेवयल्यान कुशीक सरनासलो. दत्ताराम आनी नागसर्प समोरासमोर उबे. कोणच कुशीक सरूंक तयार ना. तेन्ना एक व्हडल्या पांखांचे शेवणे थंय येयले आनी पांखां फडफडायत पींपीक् करीत व्हडान आड्डलें. तेन्ना नागसर्प भांबावन कुशीक सल्लो.

दत्तारामान मनांत थारायले, हांव ह्या वागाक सोदून काडटलो. तेका पळयतलो!

तो आता सकाळ-सांज रानांनी भोंवतालो. घळी, रुखावळी, घोली हांगासरी उबो रावन तेळटालो, सुलूस घेतालो. केन्ना झाडांतल्यान कोणतरी घसघस घालीत धांवन गेला, कसलोतरी कुसड वास पातळ्ळा हें जाणवतालें. पूण नदरेचे झळकीक वाग पडनासलो.

गांवचे लोक रानाच्या कडाकडानीच भोंवताले. गोरवांक रोखडेच हामडून व्हरताले. पूण दत्ताराम रानां माडयत आसलो.

चार दिसान परती एक फावट वागाली गरड रानात घुंवली. दुसऱ्याच दिसा खबर आयली, तेणे रानाकडेन एकल्यालो बैल मारून घातला म्हण! दत्तारामाक चडच उमळशीक लागली. धा-बारा वर्सांन रानांत खरीच जाग आयल्या, चैतन्य भल्लां. ह्या रानाचो राजा परतो रानांत आयला अशें ताका दिसूंक लागलें.

पूण तो ताका पळोवक भोंवतालो. एक दीस खरोच तो ताका दिसलो. एका

घळीच्या माथ्यार चडट्या वोतात तो घोटगी रुखापोनात बशिल्लो. वोत तुकड्या तुकड्यांनी ताचेर शिंपडून पडिल्लें. रानवाटेर चलताना पंदरा–वीस पावलारच दत्ताराम पावलो आनी थक्क एका जाग्यारच उबो रावलो, वागाक पळयत! ताका दिसलें वाग बशिल्लेकडेन आपणाइतलोच उंच आसा. आंगान मस्त भरिल्लो ढाण्या वाग! ताची नितळ तापसी लंव वोतात चकचकताली. आंगार उबे काळे पाट आनी जबड्यासरी वाटकुळे धवे पाट. थंय राजेशाही सोबीतकाय आसली, शक्तिचे चैतन्य आसलें आनी भिरांकूळ क्रूरतायूय आसली!

तांचे दोळे कांय वेळ मेळ्ळे. थंड नदरेन वाग ताका कांय वेळ पळयतालो. मागीर ताणें नदर काडून घेतली. दत्तारामाक दिसलें, आतां तो एकाच धेपांत म्हजेर हुडी घेतलो, म्हजी मान जबड्यांत आंवुळटलो. पूण तो हालनासलो. दत्तारामान आयकल्लें, वागाक पाठ केन्नाच दाखोवची न्ही. मनशाले दोळे ताका पेट्टे वातीवरी दिसतात. तो भिता. ताणें उबो राविल्लेकडेन एकेक पावल फाटी घेवंक सुरवात केली. पावलां फाटीं घेत घेत तो झाडाझोपां आड पावलो. तेतूंतच लिपलो. कांयवेळान वाग उठलो. रानात रिगलो. मागीर घसघस घालीत रानांतल्यान धांवलो.

दत्तारामाले दोळे तृप्त जाले. जीव धादोस जालो. हवेत हुबतच जसो तो घरा आयलो.

तिनसांज कातरेचो वेळ आसलो. रानांतली पाचवी झाडां काळीं काळीं जायत काळखांत भरसून वचूंक लागिल्ली. दत्ताराम भायर ओसरेत उबो आशिल्लो. ल्हवल्हव काळखात बुडून वचपी रानां, दोंगर पळयतालो. त्या काळ्या थंड उजवाडात ते ताका खूब मायाळ मोगाळ दिसले. ताच्या वयल्यान हात भोवंडावचो अशी वानसा जाली. तेन्ना तेणें आयकलें, रानांत खूब पयसुल्ल्यान एक आवाज घुंवता. तो आवाज खंयच्या रानांतल्यान खंयच्या दिकेतल्यान येता, तो कोणाचो आवाज ते कांयच कळ नासले. मागीर बारीक कान दितकीर ताका होलमले, वाग पयस खंयतरी आड्डता. तेणें बायलेक म्हऱ्यान आफयलें आनी तो आवाज घेवंक सांगलें, तिणेंय तो वागाचोच आवाज म्हण सांगलें.

“खंय किते जालां काय?”

“दुसऱ्या रानातलो वाग आपल्या रानांत रिगल्यार वाग झगडटात आनी असेच गरड मारतात.” बायलेन म्हटले.

ह्या रानांनी वागच ना म्हण्टात फोरेस्टाचे लोक. दुसरो वाग आनी खंयचो. हांवें पयर पळयल्लो तो वाग कितल्या वर्सांनी येयला हेवटेन!”

जाण्टो बापूय कुशीन बाकार बशिल्लो. तेणें म्हटले, रानांत चुकिल्लें गोरू केन्ना अशेंच थार दियनासताना हांबेता.”

“हो गोरवालो हांबेवचो आवाज न्ही बाबा. प्रकरण वेगळेंच दिसता.”

ते रातीक दत्तारामाक रातभर झेम म्हण पडली ना. तें उबें बशिल्लें रुबाबदार जनावर दोळ्यामुखार उबें रावतालें. ताच्या तोंडावयले वाटकुळे धवे पाट दोळ्यांत चकचकताले. दोळ्यांक दोळे मेळटाले. तो मदींच भियाल्ल्यावरी उठून बसतालो.

बायलेक म्हण्टालो, “सुमित्रा, कोणेंतरी घात माल्लो त्या वागाचो!”

“असे कित्याक म्हण्टा तूं?”

“तुवें आयकूक नासलो तो आवाज? ताची गरड आनी आरड गळ्याक फांस लागिल्लेवरी येताली.”

बायल सुमित्रा वोगीच रावली. तो जाणा आसलो, ह्या रानाच्या आसपासचे लोक वागाक, दुकरांक, मेरवांक मारूंक रातचे ब्रेकाच्या तारीचो फांस लावन दवरतात. फांस गोमटेक आंवळून जनावर मरता. तेन्ना तेंची तडफड पळोक नज जाता. आड्डत आड्डत तीं मरतात. अशें कितें जाल्लें आसतलें काय त्या वागाविशीं?

दुसऱ्या दिसाच्यान परत एक फावट तो वागाक सोदत रानांत भोवंक लागलो. तो आवाज खंयचेवटेच्यान कितल्या पयसुल्ल्यान येतालो ताचो कांयय अदमास लागनासलो. तरीय तो सोदत भोंवतालो. ताका केन्ना दिसतालें, तो आवाज वागाच्या मरणाचो न्हीच. वाग रानांत आपलो भोंवत आसा. कोणालें तरी गोरुं मारिल्ल्याची फाल्या खबर येता पळय!

दत्ताराम वागाक सोदतालो, ताचे पोंवट्यो सोदतालो आनी ताची हाडां बोडांय सोदतालो. त्या रानांतली जनावरां खंय खंय म्हण उदक पिवंक वयतात थंय वचून वागाल्यो पोंवट्यो लागिल्ल्यो दिसतात काय तें तो पळयतालो. रानांत वास घेतालो, आवाज घेतालो. एक दीस दनपरा तो उबो राविल्लेकडेन मुखारच झाडांनी मोटो घसघस जालो. कांय खिणांतच पंदरा-वीस रानदुकरांची भोवंसळ वयर येयली. ताच्या आंगावयल्यानच गेली. तो थीर उबो आनी ताच्या कुशीच्यान दुकर धांवतात. ताका दिसले वाग फाटीक लागला म्हण ते असे धांवतात, पूण वाग दिसलो ना. ताका जिवो वाग आत्तां दिसचो, अशें दिसतालें.

वागाविशीं विचारल्यार गांवचो - लागींचो, पयसुल्लो कोण कांयच उलयनासलो. ह्या रानांत वाग येयल्लो आपणाक खबरच ना म्हण्टालो.

पाच दीस तो तानभूक विसरून जिव्या वा मेल्ल्या वागाक सोदतालो. आठव्या दिसा तो एके दोंगुल्लेची चडटी चडून वयताना ताका कुसडसो वास येयलो. कोल्यावरी एक जनावरय झाडांतल्यान धांवन गेल्लें दिसलें.

वासाचो माग घेत तो मुखार वयताना वागाचे कलेवर ताका ताच्या मुखारच दिसलें! फक्कत फाटीचो कणो आनी तकलेचो फोडिल्लो बुड्डो तितकोच दिसतालो. ताचो जबडो फोडून कापून दांत काडून व्हयल्यात तें कळटालें. पांयांचे चपके, बरीच हाडांय कापून व्हयल्लीं. चामडें सोडोवन व्हरताना कांय तांबडे, काळेशें केस - लंव इल्ली इल्ली पडिल्ली. दत्ताराम वळखलो, तें सगळे वागाचेंच म्हण. तो थंयच थप्प करून बसलो. तकलेर हात घेवन कांय वेळ बसून रावलो. तेन्ना ताणें पळयलें, थंय लागीं लागीं आशिल्ल्या दोन घट झाडांच्यो साली गेल्यात. थंय मोटो अच्छेव जाल्लेवरी झाडांचे खांदे मोडल्यात. भुंयची माती उठल्या.

तो उठलो आनी वाटेर कांय झाडांचे ताळे मोडत घरा येयलो. घरा येवन आपली मोटरसायकल घेवन धायेक मैलार आशिल्ल्या फॉरेस्ट नाक्यार येयलो. थंयचो

रेंजर जिपीत बसून खंयतरी वचूंक सुटिल्लो. दत्ताराम बेगीबेगीन ताचेसरी गेलो. तेका घाईघाईन सांगले, ''आपल्या गांवावयल्या रानांत कोणें वागाक तारीचो फांस लावन माल्ला. ताचीं हाडां बोडां थंय पडल्यात, हांवें पळयलां.''

रेंजर हांसलो, ''ह्या रानांनी वागच नात तर तो तुज्या गांवात कसो पावलो. आमचो सायंटीफीक सर्वे सांगता, ह्या आशीकुशीच्या रानांनी वागच नात.''

''हांवें तेची गरड आयकल्या. हांवें तेका म्हज्या दोळ्यानी पळयला.''

''तशें जाल्यार तेन्नाच तुवें आमकां सांगचें न्ही. आमी तेच्या मागार रावतासले. तेका प्रोटेक्शन दितासले. आतां तूं तो मेल्ल्याची खबर घेवन येयला. चूक ती तुगेली.''

''त्या वागाक मारिल्यांक सोदून काडूंक जाय. धरून तेका ख्यास्त दिवंक जाय.''

''मेला तो वागच म्हण तूं सारखो जाणा?''

''हय. तेचो जबडो वागाचोच. थंय आंगाची लवय बारीक पडल्या.''

''तूं फाल्या यो. मागीर आमी स्पोटार वचून पळोवया. किते तें.'' तो जिपीर बसून वचूंक गेलो.

दुसऱ्या दिसा सामको सकाळी णवाक दत्ताराम परत तेगेल्या आफीसांत गेलो. णव, धा, अकरा जालीं, पूण रेंजर आफीसांत येवंक नासलो. खंय गेला ते कोणाक खबर नासलें, केन्ना येतलो तेवंय खबर नासलें. दुसऱ्या दिसा तो परतो गेलो तर ताका सांगले सायब व्हडल्या सायबाक मेळूंक दुसऱ्या गांवांत गेला म्हण.

तरीय तेणें फाट सोडली ना. तेका वाग ह्या रानांत येयल्लो तें सिद्ध करून दाखोवंक जाय आसलें. वाग मातरल्यांक ख्यास्त भोगोवंक जाय आसली. तो परतो रेंजराच्या आफीसांत गेलो. रेंजर आफीसांत आशिल्लो. दत्तारामाक पळोवन साळसूदपणान भायर आयलो. 'हं, या चल' म्हणत ताका घेवन जिपींतल्यान रानाकडेन आयलो. वाटेर ताका ह्या रानांत वागाची सुलूस लागिल्ली, वागाक कोणें मारिल्ल्याचें खबर आसा काय म्हण तीग चोवग जाणांक विचारलें. त्या लोकांनी ना म्हण सांगलें. मागीर ते चलत रानांत रिगले, वांगडा एक फोरेस्टर, दोग गार्ड आशिल्ले.

ते जाग्यार येवन पावले तेन्ना थंय कांयच धड नासलें. फाटीकण्याचें हाड कुशीन झाडांत ओडून उडयल्लें. तकलेचो बुड्डो आनीक खंयतरी पडिल्लो आसलो.

रेंजरान विचारले, ''खंय आसा वाग?''

''आतां धा बारा दीस जाले, कोल्यान, हेर जनावरांन ते खावन चाबडावन उडयलां.''

''हीं हाडां दाखोवंक हाडला तुवें म्हाका?''

''हीं पळयात सर, हे रगताचे दाग, तेतूंत वागाची लंवय भरसून पडल्या. आनीक हें पळयात, ह्या दोन झाडांच्यो साली हुडल्यात मोटरसायकलीच्या वायरीचो फांस करून वागाक माल्ला.''

''वागच कसो म्हण्टा तूं? हीं हाडां, ही लंव बिबट्याची, हरणाची, मेरवाचीय आसूं येता.''

''हांवें सोता पळयल्लो तो वाग. फांसाक

सांपडिल्लो तेन्नाची तेची गरड खूब वेळ आयकोंक येताली.''

''केन्ना खंय पळयल्लो तुवें वाग?''

''पावसे दोंगराच्या मुळसांत. हांव त्या रानांत वागाक सोदूंक भोंवतालो तेन्ना म्हज्या समोरच वाग बशिल्लो दिसलो.''

''कितल्या अंतरार आशिल्लो वाग?''

''वीस पंचवीस फूटार.''

''तशें जाल्यार एकच झोपय मारून तो तुका मारून खातासलो.''

''तशें ना सर. वाग समोरासमोर, फेस टू फेस केन्नाच मनशार हल्लो करीना. तो मनशाल्या दोळ्यांक भियेता. आनीक सर, मनशाले मांस हें वागालें अन्न न्ही. मनीसखायरो वाग हो विकृत सोबावाचो आसता. तें सैमीकपणान वागप नासता.

''तें कितेंय आसूं. तुवें कांय गंभीर चुको केल्यात. वाग तुका दिसलो, तेन्नाच तुवें फोरेस्ट खात्याक कळोवक जाय आसलें. तू म्हण्टा तो फांसाक लागिल्लो, तेन्ना खूब वेळ आड्डतालो. तेन्नाच तुवें तातडीन आमकां कळोवंक जाय आसलें.''

दत्ताराम वोगीच रावलो. तेणें मनांत म्हटलें, हो बरोच उद्धट आसा. चड उलोवन उपेग ना.

''तूं ह्याच गांवचो. तुका खबर आसतलें वागाक कोणें माल्ला ते.''

''ना म्हाका खबर ना. ह्या गांवचो नासतलो तो.''

''तूं कितेंतरी लिपयता आमचेपसून.''

''ना, म्हाका कांयच खबर ना.''

''ह्या रानांत वाग आयिल्लोच हें कोणाक मान्य ना. तूं आतां तोंड धांपून वोगीच राव. ना तर तूंच त्रासांत पडटलो. फॉरेस्ट खात्याचे ऑफीसर, गांवचे लोक तुजेच फाटीक लागतले.''

''पूण हांगा आशिल्ल्या अवशेशाचे विज्ञानीक प्रयोगशाळेंत धाडून परीक्षण करू येता न्ही?''

मागीर तें सगळें थाऱ्यार पडूंक तूं म्हातारो जातलो. आमका ह्या झंझाटात घालूं नाका तूं. तूं काणयों सांगता आनी आमी तें खरे धरचें?''

ते अर्दपाऊणवर चलून रानांतल्यान भायर आयले. जिपीन दत्तारामाक तेगेल्या घराचे वाटेर सोडून वचूंक गेले. परत वयतानाय रेंजरान गांवच्या कांय जाणांक वागाविशीं विचारलें. पूण सगळ्यांनी कानार हात घेतले.

गांवात खबर पातळ्ळी, रानांत खंयतरी वाग मारून घातला म्हण दत्तारामान फोरेस्टाच्या लोकाक खबर दिल्या. गांवच्या लोकांनीच वागाक माल्ला म्हण तो तेंकां सांगता. आतां पोलीस आनी फारेस्टांचे लोक येवन गांवच्या दादल्याक बांदून व्हरचे आसात. रेंजराक तेणें रानांत व्हरून मेल्ल्या वागाचो पंचनामो केला. पंच म्हण दत्तारामानच सय केल्या. आतां गांवच्यो बंदुकोय जप्त जावच्यो आसात.''

दुसऱ्या दिसा दनपरा धा-बारा दादले दत्तारामाल्या भाटांतल्या घरा येयले. तेणें मेळूनच दत्तारामाक धपकायलें, ''तूं गांवचे नांव वायट करता. गांवाचो विद्वाट करूंक सोदता. खंय वाग अशिल्लो? खंय वाग मेला? कोणें माल्ला? मोटो पर्यावरणवादी जावंक सोदता. सरकाराकडच्यान व्हडपण जोडूंक. पयसोय मेळटा आसतलो.''

दत्तारामान थंडपणान सांगलें, ‘‘वाग रानात आशिल्लो हावें पळयला. ताका मारून उडयल्लोय हावें पळयला. पूण हावें गांवच्या कोणाचेंच नांव सांगूंक ना.’

‘‘तरीय पोलीस गांवात येतले. दुबावानच धरून व्हरतले. आमच्यो बंदूको जप्त करतले.’’

‘‘वागाक मारतल्यांक ख्यास्त जावंकच जाय न्ही.’’

मागीर त्या लोकांनी दत्तारामाक खूब गाळी संवल्यो. गांवच्या एक मनशाक धरून व्हरून भितर उडयल्यार तुका दवरचे नात म्हण सांगलें. मागीर ते वचूंक गेले.

दत्तारामाक तळमळे लागिल्लें. काय बरें राजेशाही जनावर म्हजे सामकार थीर बशिल्लें. ताका ह्या लोकानी तडफडून माल्लें. ताचें चामडें, चपके, हाडां ओरबडून, चांचोवन व्हयलीं! क्रूरपणां, सुवार्त आनी अंधश्रद्धा!

आठ दिसान तो परतो फोरेस्ट नाक्यार गेलो. तो येयल्लो पळोवन रेंजर ताकतिकेन भायर येयलो. तेणें म्हटलें, ‘‘परतो तूं येयलोच? कसलीं पिशेपणां घेवन बसला? म्हाका दिसता, गांवात तुजें कोणावांगडा तरी दुस्मानपण आसा. एक कारस्थान रचता तूं.’’

‘‘हांव जाणा, तुमच्या अखत्यारींतल्या रानांत कोणें वाग माल्लो म्हण वयर कळल्यार तुमकां वायटाक पडटलें. तुमचेर इनक्वायरी सुरू जातली. पेपरांत येतलें. तुमच्या खात्याच्या आमदाराक असेंब्लींत जाप दिवची पडटली, म्हण भितात तुमी. हांव वोगी रावचो ना. तुमच्या वयल्या अधिकाऱ्यांक कळयतलों.’’

‘‘सोड. तुका कसे गुठलायतात पळयच तूं. सगळे तुजेरच घालतात. काल हांवें पोलीस इन्सपेक्टाराक फोन केल्लो.’’

दत्तारामाक खूब राग येयलो. कितें करचें, कितें उलोवचें सुचना ना जाले. कांय वेळ ताणें रागान रेंजरासरी पळयलें आनी तो परतो येयलो.

दिसतालें, लागीच्या वार्ताहाराक मेळ्ळून प्रकरण पेपरांत घालचें, पूण गांवचें नांव घाण जातलें, गांवचो लोक खुबळटलो. तेणे फोरेस्टाच्या, पोलीसांच्या वयल्या अधिकाऱ्यांक कळोवंक पत्राचो मसुदो तयार केलो...

एक म्हयनो जाल्लो, वागाक मारिल्ल्याक. एक दीस पेपरात एक खबर आयली. राघव कर्की म्हणिल्ल्या एकल्याक शारांतल्या रेल्वे स्टेशनार, वागाच्या चामड्यासयत धल्लो. तो रेल्वेन मुंबय वचूक सुटिल्लो. दुबावान तागेली ट्रंक उक्ती केल्यार तातूत वागाचे चामडें, नाखटां, दांत आनी कांय हाडां मेळ्ळीं. पेपरांनी सामको पाठपुरावो केलो. मागीर पोलीसानी खोलायन चवकशी करून ते पाळामुळां मेरेन पावले. गांवच्याच तीग जाणाक धल्ले आनी तेंकां घेवन वाग मारिल्ल्या जाग्यार वचून पंचनामो केलो.

ते गांवचे तीग जाण, मदलो एजंट आनी चामडे पावयतलो मेळ्ळून पाचजणाक कादयेत उडयले.

पूण म्हयनो उलगलो तरीय मुखारच उबो बशिल्लो वाग दत्तारामाच्या दोळ्यांमुखावेल्यान वच नासलो. मदींच सपनांत येतालो. कानांत तेगेली गरड घुंवताली!

000

# कथामंच

(कथा)

एडवीन जे एफ डिसोजा

## कुसूम

खतकत्या छायेथावन उटच्या पातळ धुव्राचेर आपलें गमन शून्य आनी उद्देश नातल्या जिन्सार खंचवन तो बसल्लो. ताच्या मुकमळार कसलेंच भावन नातल्लें आनी अशीर जाल्ले ताचे दोळे कसलेंच देकूंक नाका म्हण्चेपरीं मंद जाल्ले. सकाळिंचो वेळ तो, निर्मळाय करून तो आयिल्लो तित्लोच जाल्ल्यान ताच्या जिबेचेर कुर्कूरीत पर्मळ आसल्लो. तरी ताची मत मंद जाल्ली. दोळ्यांच्या भंव्तीं काळी वृत्तां उदेल्लीं.

सकाळिंचो वेळ जाल्ल्यान तर्न्या सुरयाचीं किर्णां उग्तें आसल्ल्या जनेलांतल्यान रुप्याळ्या खुंद्यांपरीं बितर रिगोन कम्र्यांतल्या विविद वस्तूंचेर दाव चरय्तालीं. कसलेंगी चिंतून तो हास्लो. जय्ताचो न्हय बगार अवेक्त सलवणेचो हासो. तो उबो जालो आनी भुजां उडवन एका तपकट कबाटा लागीं गेलो. तें कबाट ताणें उग्तें केलें आनी वयर आसल्ली एक रेकोर्ड विंच्ली. नवीच्च रेकोर्ड ती, तिची मोक्ळीक जावन एक हफ्तो जाल्लो आनी ताचें काळीज भेसां जावनयी तित्लेच दीस जाल्ले.

रंगाळ फोरांतली ती रेकोर्ड ताणें भाय्र काड्ली.

'मोगाचें गीत' ताणें रेकोर्डाचें नांव वाचलें.

गावपीणेचें नांव ताणें वाचलें.

पांच वर्सां थावन ताका मोगाचें जाल्लें तें नांव, पांच वर्सां हेव्शीन थावन ताचें सर्वसव जाल्लें तें नांव, पूण हफ्त्या आदीं ताच्या सपणांक ध्वंस केल्लें तें नांव.

कुसूम!

फूला सार्केंच मूकमळ, सोबीत दोळे, रशीम केंस

**एडवीन जे एफ डिसोजा** : जल्म : 1948, नामनेचे कादंबरीकार, कथाकार. मंगळुरी कोंकणी शैलीत लेखन. 100 वयर कथा तशेंच 33 कादंबऱ्यो प्रकाशीत. मंगळुरचे सां लुईस कॉलेजीचे, कोंकणी संस्थेचे वतीन उजवाडाक येवपी *'अमर कोंकणी'* ह्या द्विलीपीय पत्रिकेचे संपादक. विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर, संस्थेच्या श्रीमती विमला पै पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : फाऊंटन हेड हायलँड, मंगळूर, 575002. मो. : 09845083148

आनी तो स्वर्गीय ताळो. रेकोर्डाच्या मदूल्या वर्तूलाचेर तें मूकमळ उदेवन आयलें आनी सांगाताच - कसल्याच आपवण्याविणें, हफ्त्या आदलें तें दृश थापाड मारुल्लेपरीं ताच्या सामकार उदेलें...

रातिचीं वोरां ऑडेज उत्रालीं.

ती रात जावन आसल्ली कुसूमाचे जिणीयेंतली वर्ती रात.

देशद्यंत चलल्ल्या गायान स्पर्ध्यांत प्रथम स्थान जोड्लेल्या कुसूमाक बिरुद, गौरव सांगाताच ताच्या प्रथम रेकोर्डाचें जाल्ल्या संब्रमाचो स्वाद दिंवची रात ती. एका प्रक्यात संगीतकान ताका गावपाचें कंत्राट दिल्लें. सांजेचीं साडे-पांच जाताना कुसूमाक सुवाळ्याक व्हरुंक टॅक्सी आयली. तोयी टॅक्सेंत बस्लो कुसूमाचे दाक्षेणेक लागून. कुसूमाक मेळल्लो स्वागत आनी येवकार अपूर्व. संगीत संसारांतले श्रेश्ट, सिनेमा नट, संगीतकार, निर्मापक-निर्देशक हांणी आनी बात्मीदारांनी ताका वेडो घाल्लोच्च आप्णाक कुसूमाचे बग्लेक कसलोच स्थान ना म्हळ्ळें गमल्लेंच. तो पयस सर्लो, अनामीक वेक्तीपरीं, आपवणें नातल्ल्या सयऱ्यांपरीं. तरी ताचें मोन दुक्लें ना, घायेलें ना. संब्रम सुरू जालो. कुसूम पर्जळ्ळें. संब्रम संप्लो. पूण कुसूम बावलें ना.

ताचे भवंती चिड्काल्ल्या जम्या मदूल्यान लागीं सरोंक पळेवंच्या ताका कुसूमाचे दिश्टीन इसारो दिलो - तूं वच, हांव पाटल्यान येतां!

ताचें मुकमळ बावलें.

तो एक्सूरोच्च पाटीं गेलो.

तरी ताचें मोन घायेलें ना.

कुसूमाचेर ताका पातीयेणी आसल्ली...

आनी आतां रातीचीं अडेच उत्राल्लीं...

तो ताका राकतालो,

ताका अभिनंदन करुंक

ताच्या हातांचो उमो घेवंक

ताका आपलें काळिज उग्तें करुन दाकवंक...

फांत्याचीं तीन जाताना कुसूम भितर सर्लें.

"कसले बांदपास ह्या घरांत!" ताचें कुस्कूट गमन करिनास्तां तें उद्रार्लें.

"खेटीन चिकार जाल्ल्या संब्रमा नंतर तुका हांगासर बांदपास भोगूंक नजो, कुसूम!"

"हो!" तें उद्गारलें. "तूं आनिकी निदूंकनांय, राकेशबाबू?"

"ना, कुसूम. हांव आनिकी निदूंक ना. संब्रम रुचलो?"

"म्हजें सपण ज्यारी जालें, राकेशबाबू."

"म्हजी अपेक्षायी तीच जावन आसल्ली, कुसूम."

"आनी ते दिशेन कितली कुमक तूंवें म्हाका करुंकनांय?" खाटीयेर गळोण ताणें म्हळें. "वाटेवयलें तुंवें विंचलेंय पांच वर्सां आदीं. म्हजेथंय आसचें गायानाचें देणें हांव वापर्तालीं रस्त्यांनी. पोटाचे भुके खातीर हांव गायतालीं. म्हज्या आवय-बापाय थावन हांव मेक्ळीं जाल्या उपरांत वाटेवयली गायाकी हांव जालीं. थोडें म्हज्या ताळ्याक

पिस्वाले आनी थोडे फुलोन येवंचे म्हजे कूडीक...''

''तवळ तुका हांवें राकोन वेलें, कुसूम!'' राकेशबाबून एक लांब स्वास सेव्लो. ताचें काळीज कठीण उड्क्यो मार्तालें.

''पांच वर्सां पर्यांत तुवें म्हजी जतन घेतलीय आनी तुज्या अविरत श्रमावर्वी आज म्हज्या गायानाचें देणें सर्वांच्या गमनाक गेलां आनी मान्वलां. जाणांय राकेशबाबू... आज उध्दाटन जाल्ल्या 'मोगाचें गीत' लॉग प्ले रेकॉर्डांतलें - मोगाचें गीत - म्हज्या बापान शिकयिल्लें, ताचें स्वंत गीत तें. म्हज्या आवयचे मोगाक तें लग्ती जाल्लें...''

''बर्या वेळार तांचो उगडास तुका आय्लो, कुसूम!''

तें हास्लें निर्गमनान.

''तांचे सांगाता हांव आसल्लीं तर आय्ज ह्या माचीयेक पावतीं नां!''

''पूण आवय-पायचो मोग...''

''तूं एक्सुरो आसाय, राकेशबाबू.'' ताणें हासोनशें म्हळें. ''तुजें काम जालें संगीत जालें, गायानांचे पिशेंय जालें. तुजीं मोव सिंतिमेंतां हेरां लागीं उचारोंक तुका अवकास ना आनी असलो अवकास मेळ्ळ्यार तूं हाका मोग म्हणताय?'' तें वर्त्या जाण्वीकायेन उलय्लें.

राकेश शाणेपणी हास्लो.

''तूं नेणांय, कुसूम.'' ताणें म्हळें, 'मोगाचीं दोन उत्रां आयकाल्यार म्हजो दीस प्रसन्न जाता. आनी असलींच उत्रां जिणीबर आयकोंक मेळ्ळ्यार..''

''तुजी जिणी प्रसन्न जाता?'' ताणें हासोन विचालें.

''व्हय, कुसूम!' ताणें मोवाळा गंभीरायेन म्हळें. 'सबार वर्सां थावन असल्या मोगाक आशेल्लें हें एकसुरें काळीज पांच वर्सां हवशीन थावन चड जागृत जालां... तुजे थंय!''

''मत्लब?''

''हांव तुजो मोग करीत आयलां, कुसूम!''

ते रातीचे गंभीरायएंत, मौनतेंत आनी शितळायेंत राकेशान उचारलेलीं हीं खत्कतीं उत्रां कुसूमाचेर कसलोच प्रभाव घालूंक सक्लींनांत.

ह्या पांच वर्सांनी राकेशाचें काळीज कुसूमाच्या मोगान पिग्ळोन येताना जय्ताच्यो शिरो मिसळोन बळिश्ट जाल्लें कुसूमाचें काळीज थोरायेच्या जीवनातंय माल्वोन येतालें.

''तूं एक विचीत्र मनीस, राकेशबाबू!''

राकेशान, आप्लें काळीज उग्तें कर्च्या ह्या वेळीं कुसुमाच्या उत्रांचें गमन केलें ना. ''पांच वर्सांचे हे लांब आवदेंत हरयेक पावटीं म्हजे दोळो तुजेर पडलेले वेळीं नितळ मोगाच्या उज्यान तुका हांव नितळांवनंच आय्लां, कुसूम. पांच वर्सांचे हे आवदेंत तूं जय्ताचीं मेटां चडताना तुजे संगीं मोगाची निसण हांव चडात्त येतलों, कुसूम. पांच वर्सांचे लांब आवदेंत तूं म्हजेसंगी आसल्लेंय, कुसूम. आनी आतां तुजेविणें हांव जियेवंक सकाना...''

''राकेशबाबू'', निर्गमती हास्यान तें उलयलें. ''तुवें म्हजे उन्नतीक जाय्तें केलांय.

हाचे बदलेक तूं मोग विचार्ताय तर...''

''कुसूम!'' ताणे हळ्टाची खिळंच मार्ली आनी त्या वातावरणांत घड्गडो फुट्लो.

कुसूमाचे दोळे वाटार्ले.

''म्हज्या मोगाक हेर नांवां लायनाका, कुसूम!'' राकेशान हात जोड्ले. 'हांवें तुका दळबाराक पावय्लें तरी हांव सादोच्च उर्लों, म्हर्जी सपनां सादींच उर्लीं, म्हजे दोळेयी सादेच्च उर्लें. आनी आजून त्या दोळ्यांक दिस्ता तेंच्च कुसूम - सादें आनी सरळ.'

''राकेशबाबू... तूं चड पयस गेलाय!'' कुसूमाचो ताळो कांपतालो. ''हेर कसलेंयी तूं विचार. तुजें सादें जिवन हांवें उर्जीत करीजे या हेर इतर कसलेंयी... पूण म्हजो मोग मात्र तुका मेळासो ना.''

''कुसूम... कितें उलयताय तूं? एक सुखी जिवन चलवंक आम्कां कितें उणें आसा, कुसूम?''

''तुजी तक्ली दाट जाल्या, राकेशबाबू. म्हजेथंय आसल्लें देणें तुवें ऊर्जीत केलेंय म्हळ्यार हांव तुजींच जालीं म्हण तूं लेक्ताय तर...''

''एक गाव्पीण जावन तुका त्या दिसा देकोंक ना, कुसूम.'' नय्जतेंत दीन जालो राकेशचो ताळो. ''त्या दिसा हांवे पळेलें कामूकी दादल्यांच्या दावल्यांक शिर्काल्ली शेळी जावन, एक अबल चली जावन. हांवें तुका आरायलें, राकलें, म्हाका आसल्ल्या वळ्कींक वापारोन तुका कुसूम म्हळ्ळी गाव्पीण केलें... सांगाताच तुका म्हजेंच करुंक हांव राक्लों... पांच वर्सां...''

''तुजें सपन ज्यारी जांवचें ना, राकेशबाबू. म्हाका गावपाचें सबावीक देणें आसल्ल्यान न्हय आयज हांव इत्तून पर्यांत पावल्यां? देणे, देण्यायितल्याक, मोग मोगायितल्याक. प्रख्यात संगीतकार सोहनाक तूं नेणांय? एका तेंपार तुजो मित्र तो. ताचेलागीं म्हजें लग्न वेगींच जावंच्यार आसा. ताणें म्हजे खातीर तयार केल्ल्या ऐपार्टमेंटाक हांव आजच्च वेतीं! पूण... तूं... सोड्यां ती गजाल. फाल्यांच हांव सोहनान दिल्ल्या फ्लेटाक वेतेलीं...''

''कुसूम!'' राकेशाक आपलींच उत्रां आयकालीं नांत.

''वेच्या फुडें'', कुसूम उलंवनच गेलें, निरदयेन. ''तुजो उपकार हांवें विस्त्रोंक नजो. पांच वर्सां थावन तुवें देकचें तें एक सपन सोडून हेर कसलेंयी तूं विचार, राकेशबाबू. हांव दिवंक तयार आसां''

पूण तसलें कसलेंयी विचारुंक राकेश तयार नातल्लो.

आनी एका हफ्त्या आदीं तें ताका सांडून चल्लें...

भोव सुलबायेन, भोव शांततेन...

जशें तें आयिल्लें, तशेंच, तितल्याच वेगान.

आनी आतां ताचें मोन घायेलें.

तो रडलो, उस्मडलो. कित्ल्या मोगान बांदून हाड्लेल्या हरयेका प्रेमाळ बांदपाचो हर ऐक फातर आतां ताणें निक्ळायलो...

एक हप्तो उत्रालो.

त्या हफ्त्यांत कुसूमाच्या रंगीन ताळ्या थावन भायर आयिल्लें हरएक गीत ताणें रेकोर्डां मुकांत्र आयकाल्लें. पूण हें ऐक

मात्र-मोगाचें गीत-आयकोंक ताका दयर पावनातल्लें. तें आयकाल्यार आपणाचीं मोव सिंतीमेंतां परत जिवीं जावन आपलें जिवीत कोसाळतेलें म्हण तो जाणां आसल्लो तरी... मोगाचीं तरंगां चड आनी चड बळीश्ट जायित्त येतालीं.

रेकोर्ड प्लेयराचेर ताणें ती रेकोर्ड लागयली.

संगीताचे सुर्वीले नोट उदेताना आवेक्त उमाळायांख घेवन तो जनेला लार्गी गेलो.

गीत सुरू जालें.

गदगदीत आनी उमाळ्यांभरीत.

राकेशाचें सर्वांग कांपलें.

तो कितेंगी सोदूंक लागलो. ताचे थंय उदेवन आयिल्ल्या वत्तडाक भायर हाड्ची वाट सोदूंक लागलो. आनी त्या वेळार, सादी तरी एक संगत ताच्या गमनाक गेली... फाटल्या तीन-चार सळालींथावन ताच्या घराच्या दोर्‍याच्या तेवशीन उबी आसची ती प्रायवंत स्त्री आजयी उबी आसल्ली. तिचेर ताचें गमन पडल्लें, पूण ताणें चड्ड गमन केल्लें ना. सदांयी सकाळीं घंटो देड घंटोबर संगीत आयकोंची सवय ताची आनी अशेंच तो जनेलालार्गी उबो जावन संगीत-गीत आयकाताना ते स्त्रीयेन दोळे धांपून, हाळ्वायेन माल्वोन, संगीत-गीत आयकोन दुकां पुसचीं ताणें पळेयिल्लें. पूण निरासलेल्या मोगान ताचें काळीज आनी शिंतिद इत्लें दाट जाल्लें - की ताणें तिचेर चड विंत्रा आटयलींनांत.

पूण आय्ज 'मोगाचें गीत' सुरू जाताना आनी कुसूमाचो ताळो प्रसर्ताना ते स्त्रीयेन आंग काड्लें आनी कसलेंगी परिचीत आवचीत झळकाल्लेपरीं ती हेणेतेणें सांसपोंक लागली, संगीत-गीत ऐंवचे दिकेक मातें ऊबारी लागली.

राकेशाची आतुराय बळ जालीं.

क्षणबर हेर सर्व तो विसर्लो.

"कोण हें गीत गायता? कोण हें गीत गायता?" तिची बोबाट आयकोन तो शेर्मेलो. "दयाकरून म्हाका ताचे सर्शीं व्हरा!" ती रडली.

खिणा भितर तो भायर धांवलो.

घरा थावन येवंचो तरी त्या दोर्‍यालार्गी कुसूमाचो ताळो स्पश्ट आयकातालो.

गेटींत्ल्यान भायर सरोन तो ते स्त्रीये सर्शीं उबो जालो.

"तूं कोणाक सोदताय?"

"तूं कोण?" तिणे विचार्लें.

"हांव तेव्शील्या घर्चो. तूं कसल्या कश्टांत सांपडल्या?"

"तूं त्या घरचो? तें गीत तुज्याच्च घरा थावन...?"

"व्हय."

"तर म्हजें कुसूम..."

राकेशान आपलो स्वास धर्लो.

ही कुसूमाची आवय?

स्पश्टीकरणाच्या ताळ-मेळाक वचून सुक्षीम रिती ताणें तिची परीक्षा केली.

साद्य दिस्लें ताका-कुसूमाचेर आनी तिचे दोळे मेळ्टाले.

"तुजें कुसूम?"

"व्हय, म्हजें धूव, कुसूम! हें गीत आमच्या खानदानाचें. कुसूमाच्या बापय्न तें

म्हजे खातीर घडल्लें. आतां तो संप्लो. धूव शेणोन गेल्ले खंतीन...''

''समादान घे आनी म्हजे सांगाता ये.'' ताणें तिचीं भुजां आरायलीं.

''कुसूम तुजे सर्शी आसा? तें तुजी पतीण जालां?'' तिच्या सवलांनी मुग्दता आनी भर्वासो आसल्लो.

''ना!'' दिगंताक पळेवन ताणें जाप दिली.

''तर तें गीत?''

''तुजी धुव एक प्रख्यात गावपीण जाल्या. ताचो ताळो आतां रेकोर्डांचेर आसा. तसली ताची एक रेकोर्ड हांव खेळटां'' आपल्या जनेला कुशीन पळेवन ताणें म्हळें.

''आमचें कुसूम एक प्रख्यात गावपीण जालां! आमची आशा ज्यारी जाली. पूण वाटेर गितां गांवच्या ताका कोणें इत्ले उबारायेक पावलें जाव्येत?'

राकेशान आपले वोंट चाबले.

''तूं म्हाका कुसूमाक मेळाशें कर्ताय?'' तिणे विचार्लें.

''तूं ताची आवय?''

''तूं आनिकयी दुबावताय, तर्नाट्या?''

''दया करून म्हजे सांगी ये.''

ती ताचे सांगाता गेली, घेवन हजार सवालां.

तो चिंतालो...

हालींच दळबारांत गुटलाल्लें कुसूम चिंदीयांनी रेवडाल्ले हिका आवय म्हण स्विकार करीत? थोरायेचे कायलींत आटोन, अहंकारान दाट जावन येव्चें कुसूम... ''चार दिसां आदीं, पुता,'' तिणें म्हळें. 'हांव हेणेंतल्यान पाशार जाताना कुसूमाचो ताळो थोड्या गायांनांनी आयकालो. ताच्या ताळ्याक हांव विस्त्रोंक सकानां, पुता. पूण हांव कितेंच करूंक सक्लीं ना. पूण आज हांव म्हज्या रगताच्या ताळ्याकच आयकातां म्हळें म्हाका खचीत जालें. आनी तें आमच्या कुट्माचेंच गीत...''

''हांव जाणां जालों!'' राकेशान म्हळें.

''राकेशबाबू आय्ला म्हण तुजे धनिनीक सांग!''

तांचेर एक दीश्ट चरवन चाकर्न म्हणाली, ''तुमीं हांगाच रावा, हां!''

कुसुमाचे आवय्क उधेशपूर्वकीं दारा भायर राववन तो दिवानखान्यांत उबो जालो. उप्रांत ताणें दिवानखान्याचें दार हाळ्वायेन अर्वास धांपलें.

पांच-धा मिनुटां उप्रांत बिस्ळे केंस घेवन बेडरुमा थावन कुसूम भायर आय्लें.

''तूं हांगासर?'' ताच्या उद्गारांत भिरांत भर्सून आसल्ली.

''हय! हांव हांगासर.'' राकेशान हाळ्वायेन जाप दिली.

''काराण?''

'' तूं म्हज्या रुणांत आसात, कुसूम! तें रुण तुवें आतां फारीक करिजे.''

''पर्त्यान तिच्च काणी? कित्ले हजार जाय?''

'मोगाची भीक जाय, कुसूम!''

कुसूमाचें मुखमळ वर्णेलें.

''राकेशबाबू! तुका हांगासरथावन पाटीं येवंक साद्य नातल्ल्या जाग्याक धाडची

शाथी म्हाका आसा म्हळ्ळें तुज्या उडासांत आसूं."

"आनी ती शाथी तुवें ज्यारी करच्या फूडें, कुसूम!" खिणा भितर ताणें फुड्लो दार्वाटो उघडलो. "ह्ये स्त्रीयेक तुजे वेंगेंत घे, तिका मोगाची भीक दी, तिची वळक धर आनी तिका अर्गां दी. कित्याक ती जावन आसा तुजी..."

"मां...!" आक्लासलें कुसूम.

"एका दिसा तुवें म्हाका उतार दिल्लेंय, कुसूम," तो उलयित्त गेलो. "मोग सोडून हेर कसलेंयी म्हाका दिवंक आपूण तयार आसां म्हळ्ळी भास तुवें दिल्लीय. आतां ज्यारी कर ती भास. तुज्या दळ्बारां मदें तुज्या आवय्क तरी स्विकार कर."

थोड्या घडियांचे मौन.

उप्रांत...

"मा!" आप्ले बावळे विस्तार्ले कुसूमान.

दुस्त्रे घडिये आवय आनी धुव येकामेकांचे वेंगेंत सेर्वालीं.

पूण आतां राकेशाक फुडें करून आसल्ल्या तिच्या मुकमळार संतोस बिलकूल नातल्लो.

तिचे वेंगेंत ऊब नातल्ली.

राकेश आनी कुसूमा मदें चलल्ल्या मटव्या संभाशणांत तिका सर्व कळीत जाल्लें... "कसले वेक्तीक तिरसकार दिलोय, कुसूम?" तिचें हें सळ्सळें सवाल कुसूमाक फुगार करिलाग्लें.

"मा!" तें घुंवोन उबो आसल्ल्या राकेशाक पळेलाग्लें.

म्हज्या दोळ्यांनी सर्व सादेंच देक्लां, कुसूम.

म्हजी सपनांयी सादींच उर्लीं, कामुकी दादल्यांच्या हातांक शिर्काली शेळी जावन...

हांवें तुका आरायलें, हांवे तुका राकलें.

हींणें तुका ऐक जिणी दिली.

उप्रांत तुका. म्हजेपरींच करूंक पळेलें.

कुसूमाच्या दोळ्यां दुकां उदेलीं, व्हाळ्ळीं.

ताणें आप्लें मुकमळ आवयच्या मेळ्कट पाल्वांत लिपयलें.

"हांव चुक्लीं, मा!"

आनी ते घडिये आवय्ची खरी वेंग ताका लाबली.

"तर घळाय करिनाका म्हजे धुवे!" तिणें म्हळें.

खिणा भितर तें तिचे वेंगेथावन सुटलें.

"राकेशबाबू!" काळजाथावन ताणें उलो दिलो.

पूण तो उलो आयकोंक राकेशबाबू थंयसर नातल्लो.

दारांतल्यान तें भायर धांव्लें.

"राकेशबाबू!"

ताका जाप मेल्ळी ना.

राकेशाचें मिसांव आकेर जाल्लें.

तो पाटी गेल्लो, आपल्याच संसाराक!

*"रित्या हातांनी ते येतात*
*सबार घांच घडसितात*
*सबार काळ्जां मेळयतात*
*आनी रित्या हातांनींच पाटीं वेतात!"*

000

# कथामंच

(कथा)

रामनाथ गजानन गावडे

## मुदयाळो देंवचार

"... आरे दादो, हांव सोपलो. पाड पडो – निसंतान जांव त्या चोरांचें..." सायदेव बडबडत दादोच्या घरांत ताकतिकेन भितर सरलो आनी घरांत मांडलेल्या देवांक पांयां पडत तेंकाय तेंच सांगपाक लागलो. पूण तेका दादो जाय आसलो. तो आपल्या जाग्यार दिसना जातकच तो तेका हेवटेन तेवटेन सोदपाक लागलो.

तेन्ना तेका दादोचे घरकान्नीन तो भायल्यान गेला म्हण सांगलें, तसो तो नेटान मागील दारांत वचपाक लागलो. पूण तिणेन तेका आडायलो आनी म्हणपाक लागली, "आरे सायदेव, भिजलेल्या आंगान असो घरभर किद्याक भोंवता. गडबड कसली. कोणें कोणाक नागयलो?"

"आगे, दिसा उजवाडे आमचें घर फोडलें. सगलें व्हेलें. आमच्या कश्टाची जोड ती, त्या मेल्ल्या चोरांक कशीच पचपाची ना. आमचो भेरो देंवचार ती तेंकां कसोच पचपाक दिवपाचो ना. तेंकां नांक घाशीत आमच्या पांयांकडेन हाडिना जाल्यार पळय..."

"आरे पुणून, तुमच्या घरांत इतले लोक आसतना चोर येयले खंयच्यान? चार चुलींचें घर तुमचें आनी दिसा उजवाडे फोडलें! अजापूच मरे. तशें चड कांय व्हरूना मरे?"

"सगलें पुसून व्हेलें. पोराचें लगीन करतलो म्हण एकठांय करून दवरिल्ल्या पयशांनी पयरूच दोन कांकणां करून हाडलेली. तेंचेरूय हात मारलो. निसंतान जावं त्या मेल्ल्यांचें! खंय पावलो गे दादो?"

"बस पळोवया मातसो. इल्ली च्याव घे."

**रामनाथ गावडे** : जल्म : 1969, कथाकार. कादंबरी आनी बालसाहित्य प्रकारांतय लेखन. तीन कथा संग्रह, दोन बाल नवलिका, एक नाटक आनी एक कादंबरी प्रकाशीत. स. मेघःश्याम नायक युवा पुरस्कार तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या ग्रंथ पुरस्कारानी (2009, 2012) सन्मानीत. संपर्क : (आर. टी. ओ. ) चेक पोस्टालागीं, मोलें, सांगें, गोंय 403 704, मो. : 9420979010

"नाका नाका, म्हाका कांयच नाका. त्या मेल्ल्यांक बुद्ध शिकयले बगर म्हाका कांयच खावपाची वान्सा ना."

इतल्यान दादो मागील दारांतल्यान भितर सरलो, आनी आपली पावसान भिजलेली तकली पुशीत तेका हटकिलो, "आरे, सायदेव मरे. खूब दिसांनी. किदें म्हण्टा तुजो काम-धंदो?"

"दादो, हांव तुकाच मेळपाक येयल्लो. आरे, चोरांनी म्हाका लीप फटयलो मरे."

"हय आयकल्लें हांवें. काल सांजची पुलिसांची गाडी तुमच्या वाड्यार गेल्ली ती पळयल्ली."

"भांगर-शिंगर कांयच दवरूना. आतां चेडवाचें लगीन कशें करतलो रे हांव?" तेच्या उतरांनी रड, तळमळ, असहायता काकळुतेक येयल्ली.

"पयली मातसो बस पळोवया. आगो, तेका इल्ली हुनहुनीतशी च्याव दी पळोवया."

"पूण, तूं पयलीं देवापाटार बस पळोवया. आयज आयतार आसा म्हण उठनाबराबर तसोच धांवन येयला. म्हाका म्हाजें भांगर बेगीन मेळपाक जाय. त्या बगर जिवाक कसोच सुशेग मेळपाचो ना."

"पुलिसांनी येवन किदें केलें? सुणेय हाडलेले खंय मरे."

"ते किदें करतले. येयले तशे गेले. सुणे मात घरभर भोंवताले. तेन्ना पावस खूब पडटालो, तेंकां भायलो माग कांयच मेळनासलो."

"चारूय वटांनी घरां मरे. मागीर एकल्याकूय दिसोना तो चोर!"

"आमचें एक दार बंद आसलें धर. पूण कुशीच्या भावाल्या बिराडांनी लोक आसलो तो. तेंकाय कशी जाग येवना काय म्हण्टा?"

दादो तेचेकडल्यान जाय ती म्हायती काडून घेतालो. वांगडा आपलींय कामां करतालो. आंगार दोन तांबये उदक ओतून चार फुलां काडलीं. इल्लेशें गंध झरयलें. देवामुकार पेट्टले वातीक आनी इल्लें तेल घातलें, आनी मर्दीं मर्दीं देवाक उलो घालीत तेचेकडेन गजाली करपाक लागलो. तेन्ना तो वयता थंय थंय फाटोफाट सायदेवूय भोंवतालो.

"बरें, तुजो दुबाव तुका किदें सांगता?"

"आतां कोणाचेर म्हणोन दुबाव घेतलो? घरच्या दुस्मानाचेर काय परक्या इश्टाचेर. आतां तुवेनूच किदें तें सांगपाचें. आमच्या भेन्या देंवचाराचें उतर घेवपाक येयला, तोच किदें म्हण्टा तें पळय."

इतल्यान कोणतरी दोग दादले भितर सरले. त्या आपल्या परकी गिरायकाक पळोवन दादोक अचकीत अडेचोसो नेट येयलो. तेंकां कुरवेनूच पडवेवयल्या बांकार बसपाक लावन तो देवस्पण करीत रावलो, "मेळटलें, मेळटलें, सायदेव तुजें भांगर मेळटलें. भेन्या आज्यान सगळें पळयलां. आयज मेरेन कोणूच तेच्या दारांतल्यान रित्या हातीनी परतो वचोना, आनी तुकाय तो फटोवचोना. ही पळय ही मुदयांची माळ गवाय आसा. तेच्या भक्तांनी ह्यो इतल्यो

मुदयो वगीच तेच्या पांयार घालुना, आनी त्यो किदें तांब्याच्यो आनी पितूळच्यो न्हू. तर चडश्यो भांगराच्यो आनी थोड्योश्यो चांदीच्यो...''

अशें म्हणत मांडून दवरलेल्या ल्हान-व्हड पांयजेलां मुकार लांबयल्ली ती माळ हालयत तो नव्यानूच येयल्ल्या भक्तांक देवचाराच्या म्हयम्याविशी सांगपाचो यत्न करतालो. ते भक्त बरे टापटीप आसले. देवाबराबर आपलेंय व्हडपण तेंकां कळचें ह्या उद्देशान तेणेन आपलो आवाज वाडयलो. जणू काय खरेंच भेरो आसलेल्या देंवचाराक सायदेवाची कागाळ सांगपाचो तो खटाटोप करतालो. देवाक गाराणें-सांगणें घालतां घालतां आपशींच तो थरथरपाक लागलो. देवाक सांगतां सांगतां देवूच तेच्या तोंडांतल्यान उलोवपाक लागलो –

''सायदेव, वर्सावळीचें रोट तुवेन दिल्लें काय ना रे?''

'मिरगारूच पावयल्लें न्हू आज्या?''

''मागीर कशें पावत जालें ना तर?''

''अंऽ... तें किदें जालें... आज्या, अंदू साद घालपी कोमोच मेळोना. म्हण मागीर पिलूच...''

''आरे, बोणी आनी घड, भात आनी शीत एक जाता?''

''ना आज्या. आयजूच कोमो फैदासून पावत करता.''

''तशेंच कर. आनी शिमेवयल्याकूय एक दी. तोवूय तुजेर रागार आसा. जावपाक येयल्ली कामां तो आडोवन दवरता. सारकें मरे?''

''हय, हय देवा. सारकें तुजें. चेडवाच्यो सोयरीको किद्याक मोडटाल्यो त्यो कळ्ळ्यो आतां. काल आनी हें घडलें. आज्या, म्हाजेंच चुकलें. आतां तुवेंनूच म्हाका सांबाळपाचो....'' अशें म्हणत तो दादोच्या पांयांर आपलें नाक घासपाक लागलो.

''रडों नाका उठ. तुजें कल्याण जातलें.''

तसो तो उठलो आनी हात जोडून उबो रावलो.

आनी दादो आपल्या आंगांतल्यान एक व्हड शक्त अचकीत गेल्ले वरी गर्भगळीतसो जालो, आनी आपलें घामेल्लें आंग पुसून सावचीत जावन पाटार वेवस्थीत बसलो.

आयज दादो म्हणजे भेरो देंवचार जाल्लो. लोक दादो आनी भेरो देंवचार वेगळे समजनासले. कारण दादो म्हण्टा तेंच भेरो करून दाखयतालो. ते खातीर सगलेच तेका भियेवनशे आसताले.

अचकीत दादोच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटली,

''सायदेव, किदें सांगलें तुका आज्यान-''

''रोट, कोमो परत...''

''चल, आतांच कामाक लाग. आनी एक नवो मातयेचो बुडकुलो, मीठ, सोलां आनी धायेक लिंबू हाडून दवर. हांव मागीर सांजचोसो येता. तुजें भांगर खंयच वचोना. चोवीस वरां भितर तें त्या बुडकुल्यांत येवन पडना जाल्यार पळय.''

''म्हणजे, तें घरच्याच मनशांनी...''

"तें तुका कळटलेंच. पयलीं हांवेन सांगलां तें कर."

"दादोचें उतर म्हणजे देवचाराचेंच उतर. सायदेव आनी आनी थंय रावलो ना."

पडवेर कोण कोण येवन बसत आसले. आदी येयल्ल्या भक्तांक तेणेन विचारलें, "बरें, तुमी किद्याक येयल्ले?"

बऱ्या वगतान आपलो नंबर लागलो तें पळोवन त्या बारीक तोंड करून बसलेल्या भक्तांक उमेदशी जाली. आनी ते बेगिबेगीन उठून आपलेकडली नाल्ल-फुलांची पिशवी घेवन भितर गेले. कुडींत कूडभर देव मांडून दवरिल्ले. खंयच्या देवाक पायां पडप हेंच तेंका कळना जाले. ती पिशवी एका पाटार दवरून पांयां पडले.

"दादो, आमी मडगांवच्यान आयल्या. दोन दीस जाले आमच्या बाबाचो पत्तोच ना. ताका आमी सगळ्याक सोदलो.

"असो कसो ना जालो तर... भलायकेन बी...?"

"तसो बरो आसलो. पूण जाण्टेपणाक लागून..."

"समजलो... झगडीं बी...?" देवस्पण चालूच आसलें.

"झगडीं बी कांय ना. आपले तेच हट्ट करता म्हण मातसो तापयल्लो. तेन्ना उठलो आनी चलूंक लागलो. जायते फावट तो अशेंच करतालो आनी उसरांसो येतालो. पूण पयर भायर सरून गेल्लो तो..."

"सोयऱ्यां-दायऱ्यांगेर बी..."

"सगळ्यांगेर चवकशी केली. आतां आमचेवरी तेय सोदता. पूण..."

अचकीत भार भरपाक लागलो.

"आमी मोठे आशेन भेरेश्वराचें उतर घेवपाक आयल्यात."

"हूऽ हू... पाव रे भेरेश्वरा.... हू - हू - घराफाटल्यान बांय आसा?"

"हय. ती बांय आमी पुराय धवळून पळयली."

"लागीं न्हंय - दर्यो..." दोळे धांपुनूच तो एक एक गणित मांडटालो.

"कांय ना. एक नालो आसा. त्या नाल्यांतूय आमी सोदलो."

"परत सोदा. तो म्हाका घराचे अस्तमतेवटेन उदकांतूच दिसता."

"पूण दादो, तो जिवो तरी आसा न्ही?"

"तेका कांयच जावंचे ना. आज्याक तेका राखचोच पडटलो..." अशें म्हणून तेणेंन मुठींतलो उजवातीचो गोबोर एका नाल्लाचेर मारलो आनी तो नाल्ल एकलेच्या हातीन दीत म्हणलें, "काम जातकीर हो नाल्ल घेवन परत यो. देव वाट पळयतलो."

'पूण दादो, बाबा मेळटलो न्ही?"

"आज्याचेर भरवंसो दवर. हांवेन सांगलां तेका. म्हाजें उतर तेका पाळचेंच पडटलें. म्हाजी लज तेका राखचीच पडटली!"

"पूण दादो...."

"आरे, हुस्को करूं नाका. हें उतर कोणाचें तें जाणां मरे? काल तुवेंन म्हाजो फोटू पेपरार पळोवं ना दिसता!"

"तोच पळोवन आयल्यात आमी."

"ही पळय. ही मुदी दिल्या त्या पात्रावान. एका पोवनाची आसा. तेका हांवेन सांगलेलें,

चोवीस वरां भितर तुजो चेडो परत येतलो म्हण. आपल्या पांयांनी चलोन येयलो काय ना घरा.'' उलयत उलयत तो भायर येयलो. तशे बसलेले लोक उठोन उबे रावले.

''आरे, एका काळार भांगर घालपाक जायना म्हण म्हाजे भयणीच्यो सोयरिको मोडटाल्यो. खावपाक अन्न नासलें, थंय भांगर खंयचे? निमाणे विटोन जीव दिलो बाबड्यान! पूण म्हाजेकडेन आयज कीलभर तरी भांगर आसा. तें वगीच चलोन येवना. तर काम जालां म्हण लोकांनी दिलां. आनी हें तें काम चलता तें देवळाचें. तुमच्या सारके लोकूच बांदतात तें. ह्या भेऱ्याक हांव त्याच देवळांत बसोवपाचो आसा.''

''बरें दादो येता आमी.'' अशें म्हणून ते नवेठे भक्त आपले पतीप्रमाण देवाच्या ताटांत नोटी देवरून भायर सरले. दादो तसो सादो मनीस. आपल्या कुटुंबाक अर्द पोटार न्हिदोवपी एक आडदांड मानाय. जोडटालो तेचेपरस खेळाक चड होगडायतालो. पूण अचकीत तेका खंयचो तरी देव सापडलो आनी रातीं भितर देवाचो मनीस जालो. गांवचे शिमेर एक देंवचाराचें थळ आसा. भेऱ्या देंवचाराचें. लोक स्रद्धेन तेका पांयां पडटात तेचेपरस तेच्या नांवाक चड भियेतात. त्याच थळाकडेन तेका साक्षात्कार जालो अशें म्हण्टात. पूण तो काय गांवचो गांवकार न्हू. मागीर रयताचेर देव कसो येयलो. अशें म्हणून जायत्या गांवकारांनी सुरवेक विरोध केल्लो. पूण निमाणें देंवचारामुकार कोणाचेंच शाणपण चल्लें ना.

रोखडीच तेणेन आपली खोंप मोडून कुशीकशें एक लांबचे लांब घर बांदलें. आयतार - बुधवार तेच्या दारांत गरिबांपरस पयशेकारांच्योच चड गाडयो येवपाक लागल्यो. राजकारण्यांचो गुरू जालो. आयज तेची शक्त वाडल्या. तो एकलो हजार लोकांचें काम करुंक शकता. खोंट मारता थंय उदक आनी चिरपूट मारता थंय रगत काडपाक शकता. कारण भेरो देंवचार तेचो गुलाम जाला अशें लोक उलयतात. तेचें घर-दार, काम धंदोय तोच राखता. घर रात-दीस उक्तेंच आसता. तेच्या दारांत पडलेलो रुपयाय कोण उखलपाचें धाडस करचोना, इतलो तेचो दरारो निर्माण जाला. आदी तेच्या माथ्यार दाट मुदयाळे केंस आसले. तेच तेणेन वाडयले. केसांच्यो आपशींच जटा जाल्यो. पूण पयसो येता येता त्यो जटा आपशींच गळ्ळ्यो. आनी काळो कुळकुळीत खड्डो वयर सरलो...

आयज तेगेर एक पेजाद मनीस येवपाचो आसलो. म्हणून भायर बसलेल्या सगळ्या किरकोळ मनशांच्या प्रस्नांक जापो दिवन तेंकां धांवडायल्लेवरी केले आनी तेची वाट पळोवपाक लागलो.

इतल्यान नेट्टान मारलेल्या गाडयेच्या ब्रेकाचो आवाज येयलो. रोखडोच कोणतरी जड उतरांनी आड्डलो -

''आरे, तुमच्या हातीन गाडी आसा म्हण सगळो रस्तोच सरकारान तुमच्या नांवार केला काय किदें? फाटीं म्हाज्या काय बऱ्या पेट्याक चिड्डिलो. आनी आतां म्हाका चिड्डितलो आसलो!''

‘‘भाऊ, कुशीक सर मरे. आमकां लेट जाता.’’

‘‘खंय मुदयाळ्या घाडयागेर वयता मरे? हांवूय थंयच वयता. आनी तेका विचारतां, आमकां धा जाणांक रस्तो ना, आनी तेका एकल्याक सरकारान रस्तो कसो करून दिलो काय म्हण. मुकार पळय, एकूच घर आसा. आतां आनी कुशीक नवो बंगलो बांदता. पूण लोकांक मात देऊळ बांदता म्हण सांगून पयशे घेता. सामको फटींग! सोताक मोठो देव समजता. तो सांगता तें किदें खरें आसता? शेवटिल्ल्या धा फातरांनी एक आमो पडलो म्हण तेका किदें तिरादोर मानपाचो?...’’

हो बेबदो आमचो वेळ पिड्ड्यार करतलो अशें येवजून तेंच्यानी अळंग गाडी मुकार घेतली आनी दादोच्या घरामुकार लायली. तशे दादोन तेंका उमेदीनशे व्हरोन घरांत बसयले. एका गंभीरश्या विशयाचेर ते उलोवणे करपाचे आसले.

इतल्यान वदोळचो बेबदो दादोच्या दारांत पावलो.

‘‘आरे दादो, ह्या गांवांनी केन्ना चोरी जाल्ली हांवें आयकूं नासली. सगल्यांक भेऱ्या आज्याचो भंय आसलो. पूण आतां तेकाच तुवेन घरांत बांदून दवरला न्हूं! फाटल्या चार दिसांक आठ घरां फोडलीं. आसा तुज्या देवाक एका तरी चोराक धरून दिवपाची हिम्मत? काय तुवूय त्या पुलिसांवरी सामील आसा रे? तुजे मुदयाळे केंस झडल्या तेचे परस चड तुवेंन मुदयो जमयल्यो. पूण आमचें किदें?...’’

तेन्नाच खंयच्यान तरी दादोचो चेडो येयलो आनी तेका गोलाक धरून वडीत व्हरपाक लागलो.

‘‘आरे राव रे, हांव दादोक एक प्रस्न विचारपाक येयला. म्हाका तेची जाप जाय!’’

‘‘यो. हांव तुका जाप दितां.’’ म्हणत तो तेका पयस घेवन गेलो. तेन्ना व्हरतना तो आड्डून म्हणपाक लागलो. ‘‘दादो आयक ह्या बेबद्याची जाप आयक. जर तुवेंन त्या चोरांचो आयच्या आयज बंदोबस्त केलो ना जाल्यार तूं फटींग म्हणपाचो. तेच चोर देंवचार जावन तुका सोपयना जाल्यार पळय. आरे, तुज्यो सगळ्यो करण्यो राखणदारान पळयल्या. आनी आतां तुकाय पळयतालो. त्या मुदयांवरी तुकाय चक्रायना जाल्यार पळय...’’ तेचो तो आवाज कितलोसोच वगत पयसमेरेन घुमत रावलो...

दादो हरशीं कोणाक भिवपी न्हूं. पूण तेच्या त्या उतरांनी कांय खीण अस्वस्थसो जालो. अचकीत धक्को बसलेलेवरी जावन आबूजसो जालो. भियेलो. आयज चोरांनी व्हर सारकें तेचेकडेन बरेंच धन आसलें. आनी तें सारकेंय दवरू नासलें. पूण येयल्लो भक्त खास आसलो. तेका खूश करपाक जाय आसलो. पूण मन भियेल्लें. मनांतलो कच दाखयनासतना तो तेचेकडेन उलयतालो खरो. पूण चिंतनां वेगळ्याच विचारांनी घुस्पल्लीं. काळीजूय वगीच धडधडटालें. तेन्ना तेणेन त्या भक्ताक कसलें तरी वगीच निमीत सांगून चार दिसांनी आपयलो.

दीस मुकार वयता तशी तेची अस्वस्थताय

चडूच वाडपाक लागली. चोरी करतले चोरूय मेळनासले. खूब दिसांनी तेका आपलेकडेन आसलेले धन-दौलतीचो भंय दिसपाक लागलेलो. इतले दीस तो बिंधास्त आसलो. आपलो देंवचार आसतना कोणूच आपले वाटेक वच्चोना अशा आडेच्या नेटान जियेतालो. त्या बेबद्याच्या उतरांनी तेका भानार हाडलो. तेची तीं उतरां उट्ठां-बसतां तेच्या कानार आपटूंक लागलीं.

पूण रोखडेंच तेचें मन तेका समजोवपाचो यत्न करतालें. तो बेबदो तेचें किद्याक मनार घेवपाचें? तो सदांच रस्त्यार किदें किदें बडबडत आसता. तेचो आपल्याक कसलो भंय? तेगेर चोरी जाल्यार आपली किदें चूक?...

तेणेन सांजचें सायदेवाक येता म्हण सांगलेलें. पूण भायर सरपाचें तेका धाडसूच जायना जालें. दनपारां एकूय उणी पोटांत वचूं नासली. ते खातीर जिवूय जड जाल्लो. तो येवना म्हण सायदेवान तेका पळोवपाक मनीस धाडलेलो तेकाय तेणेन तड्डकां केली.

रातभर तेच्या दोळ्यांक दोळो लागना जालो. फाटल्यो - फुडल्यो जायत्यो करण्यो तेच्या दोळ्यांमुकार घुंवपाक लागल्यो. बरें करतां करतां तेच्या हातींतल्यान जायत्यो वायटूय गजाली घडलेल्यो. त्यो गजाली याद जावन जीव आपशींच तळमळपाक लागलो. मेळयल्लें धन पातकांचें वजेंशें दिसपाक लागलें. आनी त्या वज्यापोंदा आपूण चिड्डता असो जळपेवपाक लागलो.

अचकीत तेका आपणे मडगांवचे एक बँकेंत लॉकर मेळचें म्हण अर्ज केल्ल्याची याद जाली. तसो तो फडफडीत उठलो आनी आपल्याक येयल्लें बँकेचें पत्र सोदपाक लागलो. तें पत्र मेळनाबराबर तेका आपणाक व्हड भांगराचो साठो मेळेल्याचें सूख गावलें.

घड्याळींत रातचीं तीन जाल्ली. तरीय तेणेन पुताक, बायलेक, सुनेक सगल्यांक उठयलीं. आनी भांगर, पयशे खंय खंय दवरल्या तितलेंय एकठांय करपाक लायलें. तेन्ना आपूण किदें करपाक सोदता हेंय तो तेंकां सांगनासलो. आनी तीं आबूज जावन सगलें एकठांय करतालीं. जाय तें पिशव्यांनी भरलें अशें दिसतकच तेणेन पुताक गाडी काडपाक लायली.

तो किदें करपाक सोदता तेचो पुताक अदमास आसलो. तेणेन हालींच एका आमदारान दिल्ली गाडी भायर काडली. पूण दादोक ती नाका आसली. तेका पोरनेलेच गाडयेन वचपाचें आसलें.

तशीं उजवाडाचीं आजून कांयच चिन्नां दिसनासली. तरीय ते बँकेंत वचपाक भायर सरले. बायल तेंकां च्यायेक दवरला म्हण सांगता आसतनाय ते सुटले. फिरफिरतल्या पावसानूय अचकीत नेट धरलो. रोखडेच ते बरे मुकार पावले.

वायफर सारको चलनासलो. ते खातीर पावसान गाडी चलोवपाक त्रास जातालें. पूण दादो गाडी कशीच थारोवपाक दिनासलो. तेका केन्ना एकदां बँकेंत पावता अशें जाल्लें.

अवचीत मुकारल्यान फूल लायट मारून एक गाडी येयली आनी खीणभर किदें जालें

कांयच कळ्ळेना. धांवतली गाडी ढम्म करून किद्याक तरी नेट्टान आदळ्ळी आनी समती परतली...

दुसरे दिसा जायत्या दिसाळ्यांनी तेचो फोटो छापलेलो. तो कोणेंतरी तेका शुद्धीर येतकच हॉस्पिटलांत न्हिदलेलेकडेन दाखयलो. तसो तो सावचीत जावन आपली पोटली हेवटेन तेवटेन सोदपाक लागलो. पूण दुसरे खाटीर बँडेजीन गुठलायल्ल्या आपल्या पुताबगर तेका कांयच दिसलेंना. तेन्ना तेणेन तो पेपर घेवन बेगिबेगीन ती बातमी वाचली–

'दादो घाडयान सांगिल्लेप्रमाण शेणिल्लो जाण्टो न्हंयत आशिल्ल्या एका होड्यांत बेशुद्धावस्थेंत सापडलो.'' आनी मुकार तो करतले देवस्पण सेवेची जायती तोखणाय केल्ली. तशेंच वार्ताहारान आदी तेचो सत्कार करतनाचो फोटू खंयच्यान तरी पैदासून छापलेलो. पूण तेका जाय ती बातमी खंयच मेळनासली.

अचकीत तेची नदर एके बारीकशे खबरेचेर गेली – ''चालकाचो ताबो गेल्ल्यान भिरांकूळ अपघात. दोग गंभीर जखमी. गाडयेतलें किंमती सामान चोरयेक गेल्ल्याचो घरच्यांक दुबाव...''

000



# कथामंच

(कथा)

ज्योती कुंकळकार

## तूं जिखलें, हांव हारलें

व्हरांड्यात एका कोनशाक म्हाका हाडून दिल्ल्या आराम खुर्चेचेर हांव सुशेगाद बशिल्ले. म्हजी व्हडली चली प्राजक्ता म्हज्या आंगार एक शाल घालून गेली. सगळे वातावरणूच प्रसन्न दिसतालें. पूण हांव खंय तरी अस्वस्थ आशिल्लें. खंयच्या तरी हुस्क्यान हांव चिंतीत आशिल्लें. कित्यातूच लक्ष लागनाशिल्लें. निरूपाक घरा वचून एक म्हयनो जालो, पूण आजून ताच्या पत्राचो पत्तो ना. दर आठ दिसांनी पत्र धाडपी निरूपान एक म्हयनो जालो तरी पत्र धाडूना म्हळ्यार अजापूच.

निदान हांगच्यान गेल्या उपरांत तरी बरे भशेन पावलें अशे चार ओळीचे कार्ड तरी धाडपाचे न्ही! हांगच्यान तें रागान बी वचूना मूं? ह्या दुयेंसाखातीर हांव हांतुरूणाचेर पडून आशिल्लें. ताचेकडे बरें लक्ष दिवपाक शकले ना. म्हणून ताची अडचण बी झाली ना मूं? काय म्हज्या असवडीं ताका कोणें चड-अदीक उलोवना न्ही? तें शक्य ना. म्हज्या भुरग्यांक निरूपा मावशी म्हळ्यार जीव की प्राण. भुरग्याकडल्यान तिचो केन्ना अपमान जावचो ना आनी हांकां तर सदाच तिचो आदर, अभिमान. तांची विद्धता-सडेतोड आनी स्वतंत्र विचारसरणी आनी स्वालंबी वृत्ती म्हणून सदाच ताची तारीफ, तोखणाय करताले. तेन्ना हांणी कितें म्हळा, अपमान केला अशें जावंकच शकना... कित्याक पत्र धाडूना काय निरूपान? काय एखादे व्हडल्या जबाबदारीचें काम घेतलां? ताणें आपले पुराय आयुश्य बायलांच्या संघटनेक दिलें. बायलांचेर जावपी इलोय अपमान सोसून घेवपी न्हय. पूण सगळ्या कामांतल्यान

**ज्योती कुंकळकार** : जल्म : 1961, कथाकार, अनुवादक, सिने-नाट्य अभिनेत्री, फिल्म निर्माती. कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंत लेखन. तीन कथासंग्रह, एक कादंबरी, तीन अणकाराचीं आनी दोन संपादीत, अशी णव पुस्तकां प्रकाशीत. गोंय सरकारचो यशोदामिनी तशेंच डॉ. टी. एम. ए. पै फावंडेशन, मणीपाल ह्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : डी. 1, सुखनिवास, गौरी कॉ-ओपरेटीव्ह हाऊजींग सोसायटी, जुवारवाडो, तिवरें, माशेल - गोंय 403 107, मो. : 9822161853

जावं, कामा निमतान परदेशात लेगीत गेल्यार चुकनास्तना पत्र धाडपच हो नेम फाटली 30 वर्सां चुकूना. मागीर हेच खेपेक कित्याक कळाव?

खरें म्हळ्यार म्हाका अशें बरें नासतना पळोवन गेल्लें, म्हजी विचारपूस करपी ताची वयले-वयर पत्रां येवपाचीं, तें कुशीकच उरलें. पूण आपूण वेवस्थित पावलें म्हणूनय पत्र ना. काय ताचे स्वताचेंच आरोग्य बिगडलें काय? आनी ह्याच दुबावान हांव चडूच थत्तर-वित्तर जावपाक लागलें. तें बरे ना जाल्यार ताका कोण पळयतलो? हांगा हांव बरें ना जाल्यार सगळ्यांनी म्हजे सामके हाता हातांनी केलें. हांणी तर दोन महिन्याची बँकेतल्यान सुटीच घेतली. भुरग्यांच्यो परिक्षा सामक्यो तोंडाकडेन पाविल्ल्यो, पूण कोणी ताची पर्वा केली ना. उरफाटे म्हणपाक लागलीं, 'आमचे खातीर तुवें सगळें आयुश्य पणाक लायलें ताचे कितें? आमकां तुजी थोडी सेवा करूंदी.'

मर्दींच हांव तंद्रेतल्यान भानार आयलें. सत्वाचो पेलो घेवन जाव आयिल्ली. हांवें पेलो घेवपाक हात मुखार केलो ते पळोवन ती म्हणपाक लागली, "आपूण जावन हातात पेलो घेवन पिवपाची शक्ती ना तुज्यात, त्यापरस हांवूच पिवयता."

इतल्यान भायर वचपाक सरिल्ले हे म्हज्या म्हऱ्यान आयले, वताचें बारीक किरण म्हजे तकलेर नाचतालें, ते विद्याधर बाबान पळयलें. तांणी ल्हवूच म्हजी आराम खुर्ची दुसरे वटेन व्हेली.

"आरे मम्मीच्या पायापोंदा स्टूल दवरपाक सांगिल्लें. पूण दवरू ना? पांयाक कळ आयिल्ली दिसता! ना न्ही? आनी आयल्यार तशें सांगपी तूं?"

अशें म्हणत भितर वचून स्टूल घेवन आयले. पायापोंदा दवरतां दवरतां ताणें म्हळें, "सगळें मुकाट्यानी सोसपाची संवयच लावन घेतल्या. पूण एका शब्दान अमूकच कर अशें केन्नाच म्हणची ना."

"पूण सांगना आसतना सगलें वेवस्थीत जाता न्ही!" म्हज्या माने भोंवतणी शालीचो पदर सारको करत तांणी म्हळें. "कसलें वेवस्थीत करता, जमता तशें करता."

"ना हा, खूब केलें तुमी सगळ्यांनी, सगळ्यो यादी काडल्यार रडपाक येता."

"आनी तुवें जें सगळें आमचे खातीर केलें तें याद केल्यार आमी कितें करपाचें?" आमी तिगांय एकदम हांसली.

"थोडें सत्व उरलां, घेता? तुमकां पातळ सत्व आवडटा न्ही?" टिपॉयचेर दवरिल्लो पेलो हांव उखलपाक लागलें, तें पळोवन तांणी तो पेलो रोखडोच उखल्लो आनी तोंडाक लायलो. रिकामो पेलो घेवन जाव भीतर गेली.

"तें इल्लेंशे सत्व तुका चड जाले? काय तुका खरेच नाकाशिल्ले? काय तुका..."

हांवें दोळे मोटे केल्ले ते पळोवन ते हांसलें, आनी दोनीय खांदे हय-न्हयशे दाबीत ताणें म्हजे तकलेर तोंड दवरलें. त्या सुखसमाधींतल्यान जागे करपाखातीर हांवें ल्हवूच विचारले,

"भायर वतात?"

"हय तुज्यो गुळयो सोंपल्यो."

"मागीर बायक सांग न्ही हाडपाक?"

"ताका जमचे ना. हांगा मेळपाक कुस्तार, स्लॅकान हाडच्यो पडल्यो."

"स्कुटरीन वता?"

"मागीर किते जाले?"

"सांबाळून वच, म्हाका बाये हुस्को जाता."

"तूं जल्मभर दुसऱ्यांचोच हुस्को करीत राव. आता तूं दुर्येत आसा, हो हुस्को मातसो पयस दवर."

ते वतकच परत निरूपा बद्दल विचार म्हज्या मनात घोळपाक लागले. तें खरेच बरें बी ना मूं? तश्यो ताच्यो भयणी आसात. पूण कोणाक खबर, म्हाका बेश्टोच हुस्को जाता.

बसून म्हजी फाट दुखिल्ले भशेन जाली, हांतरूणाचेर न्हिंदतले म्हणून प्राजूक उलो मारलो. इतल्यान टपाल घेवन भितर आयिल्ल्या पोस्टमनान तें हाडून म्हजेकडें दिलें. आयिल्ल्या पत्रावेल्यान आनी पत्त्याच्या अक्षरावयल्यान तातूंतलें एक पत्र निरूपाचेच आसा, हें हांवे रोखडेच पारखिले. तें पत्र हातांत दवरून बाकीचीं पत्रां मेजार दवरपाक सांगिल्लीं. पत्र बरेंच व्हडले आशिल्लें. मदल्या काळांत धाडूं नासलीं ती उणीव भरून काडली निरूपाबायन.

मोगाळ

आरती,

खूप वाट पळयली आसतली म्हज्या पत्राची. गेल्ल्या 30 वर्सांत जें घडले ना तें एका म्हयन्यात घडले. आठव्या दिसा धाडपाचें पत्र आज हांव महिन्यान धाडटां. आरती खरें सांगू! ह्या जगात म्हजो म्हणून कोणच ना आनी आसा जाल्यार तें तूं. फकत तूं हाची म्हाका खात्री पटली. कारण तूं म्हाका पत्रां धाडीत आशिल्लें. केन्ना विद्याधर बाबाकडल्यान बरौवन घेतालें. जाल्यार भुरग्यांकडल्यान. तुजी घालमेल म्हाका कळटाली. हांव जरी तुजें आसलें, तरी तूं म्हज्या एकल्याचे ना, खूप जाणांचे, घरांतल्या दर एका मनशाचें आसा.

तुजेकडल्यान येवपाक भायर सरलें. स्टेशनाचेरच म्हाका थंडी खावपाक लागली. कशेबशे गाडयेत बसलें. मुंबय पावलें तेन्ना बरोच जोर आयिलो. स्टेशनार देवतकच हात-पांय थरथरपाक लागले. तशेंच हांव घरा आयलें. घरा येतकच मागीर कितें जालें तें मात म्हाका सारखी याद जायना.

वीस-पंचवीस दीस म्हाका हांतरूणाचेर काडचे पडले. टायफड जालो. तुका हुस्को जातलो आनी म्हाकाय बरयनासता रावूं जायना म्हणून तुका पत्र बरोवपाक बसलां.

आरती, म्हाका या दुर्येसान पुराय आयुश्याचें सिंहावलोकन करपाक मेळ्ळें. पयसो? तो म्हजेकडे खूब आसा. बरे घसघसशीत पेन्शनूय मेळटलें. आनी दोन-तीन वर्सांनी रिटायर जातकच पयसोच म्हज्या आयुश्याचे ध्येय आशिल्लें काय? तेंच आशिल्लें जाल्यार तो मेळोवपाखातीर एखाद्या श्रीमंत मनशाकडें लग्न जावन सुखी आसतलें आशिलें. म्हत्वाचे आशिल्लें रुप आनी गूण! तांचो तर म्हजेकडे उणाव नाशिल्लो. रुपाच्या बळाचेर आजमेरेन कितलेशाच दादल्यांक म्हज्या मुखार नतमस्तक जावपाक लायले.

म्हज्या समाजीक कार्याची किर्ती तरी कितली व्हडली? कोणाचे जिबेर नाचपी म्हजे नांव म्हणजे म्हज्या लोकप्रियतेची फडफडपी बोनेरांच न्ही? हें सगळें मेळूनय हांवें आयुश्यांत कांयच मेळोवना हो म्हज्या अंतकरणात जाल्लो एक व्हडलो व्हांवपी घाय आसलो.

हांव हांचे पयलीं बरेच फावटी वर्साक दोन-तीन खेपो तरी तुजेकडे येतालें, पूण त्या दरवेळा म्हजो मुक्काम खूब कमी, चार-आठ दीस आसतालो. तेखातीर एखाद्या सोयऱ्याभशेनूच हांव रावतालें आनी वतालें.

पूण हे खेपेक तुज्या दुयेंसाखातीर एक म्हयनोभर तुज्या घरांत रावन तुज्या घरांतल्या सगळ्यांचो स्वभाव आनी तुज्या विशयी सगळ्याच्यो भावना पळोवपाक मेळ्ळ्यो आनी म्हजो भ्रमनिरास जालो.

हय! आरती आयजवेर तुजेविशीं म्हजें मत, हो म्हजो गैरसमज आशिल्लो. तूं म्हणजे ह्या घरातलें गुलाम अशीच म्हजी धारणा आशिल्ली. गाडवा भशेन या घरांत मर-मर काम करपाचें आनी त्या बदलाक अन्न, वस्त्र, निवारो ह्याच दृष्टीकोनांतल्यान हांव तुजेकडे पळयत उरलें. आमच्या दोगांचें भुरगेपण याद जाता तुका? आजल्म लग्न जायना आसतना रावन समाजाची सेवा करपाची हो आमचो संकल्प तुका याद जाता? बी. ए. जातकतच तूं आवय - बापायचे पसंतीन एका मनशाकडेन लग्न जावन ताची जल्माची गुलाम जालां. हांवें तुका कितले समजायलें, तुजें मन वळोवपाचो यत्न केलो, आमची इश्टागत हांचे फुडें सोंपल्या अशेंय सांगलें. पूण तुज्या मनाचेर कसलोच परिणाम जालो ना. निदान लग्न करपाचेंच आसल्यार आपल्याक आवडटा त्या मनशाकडेन, तुवें पसंत केल्ल्या मनशाकडेन जा. जाचे बगर आपूण जगूंकूंच शकना अश्या मनशाकडेन लग्न जा, असो हांवे हट्ट धरून पळयलो. पूण तू वगीच, तेन्ना म्हाका तुजी काकूट दिसली.

लग्नाचो म्हाका मनातल्यान तिटकारो. पूण तुजें लग्न हांवे बारीकसाणेन पळयलें. तांतुतलो एक-एक विधी म्हणजे तुज्या बलिदानाचो उत्सव, अशें म्हाका दिसतालें. होमाच्या रुपान शरीराबरोबर आपल्या मनाचो तू होम करता अशें दिसलें. हाचेफुडें तूं जगतलें दुसऱ्याच्या जिवाचेर आनी फकत दुसऱ्याखातीरूच.

हांव तुमगेर तुज्या लग्नाच्या काय दिसा उपरांत आयलें. तुजो दिनक्रम पळयलो. सकाळीं घरांतल्या सगळ्या जाणट्यापासून नेण्ट्यामेरेन च्या पिवन जातकच उरिल्लो थंडगार च्या तुका पितना पळयलें. मागीर माय-मावांक न्हावपाक उदक काढून दी, तांचे तुवाले, शाबू व्हरून बाथरुमान दवर, न्हातकच मावाक - मायक कॉफी करून दिवप. मागीर जेवणाचो बोवाळ. सगळ्याक वाडून जातकच उरिल्ले तें जेवण जेवपाचें. दनपारचीं सगळीं न्हिदल्याउपरांत मान मोडून तांदूळ वेंचून दवर, कपड्यांच्यो घडी कर, कपडे इस्त्री कर, मागीर सांजेचो च्याचो आक्त जातकच परत रातचें जेवण, तुकाच करचें पडटालें. सदांच उठून त्योच जेवणावळी,

तींच उश्टीं आनी तींच कामां.

तुजी ती नोकरासारखी जीण पळोवन म्हाका खूब वायट दिसतालें. हें सगळें मेळोवप हेंच तुजे ध्येय? अशें हांव सामके थोमणे मारतालें. पूण हें सगळे तूं हांसत व्हरतालें. तुजे त्रास म्हाका दिसताले, हें सगळें तूं कशें सोसता, तें म्हाका कळनाशिल्ले. तूं जर लग्न जावूं नाशिल्लें जाल्यार म्हजे भशेन सगळें सुख तुकाय मेळपाचें, सांग आतां तुका कितें मेळ्ळें? ह्या म्हज्या प्रश्नाक तुजी एकूच जाप आशिल्ली, "लग्न करून पळय म्हणजे कळटलें?"

लग्न? बायलेच्या जिवीताक खिणा–खिणाक त्रास दिवपी, तिका जाळपी चिंता! आनी तुजेकडे पळयतकच म्हजी धारणा आनी चड बळकट जायत गेली. तुजें गुरवारपण, बाळंतपण, वाडत्यो जबाबदाऱ्यो आनी ह्या सगळ्या वज्या सकयल तूं सामकें चिड्डल्लें. तुजो जीव पळोवन म्हाका रडूंक येतालें.

हो संवसार फकत तुजो एकल्याचोच आसा? मागीर घोव ऑफिसांतल्यान घरा येतकच तुज्या कश्टाचो अर्दो वांटो कित्याक उखलीना? पूण हांव कितें करतलें? तुका स्वताक ताची मातपसून खंत नाशिल्ली. सुयेच्या तोंका इतली कागाळ नाशिल्ली. मागीर हांव कोणाकडेन कशे झगटलें आसलें?

तुजो संवसार पळोवन तुजी म्हाका काकूट येताली. लग्नाबगर बायलांचे कांय अडना हें सिद्ध करपाचे हांव खटपटीक लागलें. म्हजे संस्थेचे वतीन खूब कार्य केल्लें. जगभर फिरिल्लें. आपल्या मनासारखें वागपाची म्हाका सवंय आशिल्ली. हांवें स्वता खूब पयशे मेळयले. त्या पयशांच्या नेटार जाय तसल्यो सुखसोयी हांव भोगत आयिल्लें. मनाची खंयचीच आवड मारूंक ना. वयल्या वर्गाच्या समाजाबरोबर वागतना त्या समाजांतल्या बायलांचे उंची कपडे आनी मौल्यवान अळंकारापरस चड उंची कपडे आनी अळंकार वापरून तांका हांवे चकीत केलें. मुळांतच सुंदर आशिल्ल्या म्हज्या रुपाक आधुनीक प्रसाधनांनी नटोवन कितल्याच दादल्यांच्या काळजाचेर हांवे तांडवनृत्य केलें. पुरूश जातीचो सूड घेवपा खातीर कितल्याच दादल्यांक घायाळ केले. खूब प्रवास केलो स्वताचे हिंमतीचेर जग भोंवलें. निती–अनितीच्या भाकड कल्पनांक जुमानीनासतना मनाप्रमाण हांवें म्हज्या शरीराच्योय इच्छाय पुराय केल्यो. म्हज्या बेछूट वर्तनाच्यो गजाली तुजेमेरेन पावल्यो. तेन्ना तुवें पत्रांतल्यान म्हाका बरेंच समजावपाचो यत्न केलो, हें याद जाता तुका? लग्नाचे जबरदस्तीन, आवडनाशिल्या दादल्याबरोबर जल्मभर बलात्कार सहन करपी कितल्याश्याच प्रतिव्रतापरस आवडत्या दादल्याबरोबर मजा करप हें कितलें बरें हें तुका समजावपाचो हांवेय यत्न केलो.

आनी दीस अशेच वेगान गेले. तुज्या जिवीतात म्हाका व्हडलोसो फरक दिसलोना. हें अशेंच सगळे चालूच आशिल्लें. पूण म्हज्या जिवनांत म्हाका बदल दिसतालो. म्हज्या देंवत्या यौवनाबरोबर म्हजें भोंवतणचें चाहत्यांचें वर्तुळ ल्हान जायत गेलें. तांचेमदीं

जाताली चर्चाय म्हाका आयकुपाक येवपाक लागली. निरूपा कितलें प्रौढ दिसता. शरीरान आशिल्ली वीज खंय लुप्त जाल्या, आदी.

आनी हे चर्चेबरोबरच म्हजेखातीर जीव सोडपी लोक ल्हवू-ल्हवू म्हाका दिश्टी पडना जाले. म्हज्या घरच्या पाट्यांक व्हडलोसो अर्थ उरलो ना. म्हाका जाय आशिल्ले लोक येना जाले. एकदां सगळें तुजेकडेन उलयतलें, मन उक्तें करतलें अशें सारखे दिसतालें. खरें म्हळ्यार हांव तुमगेर रावपाक येवपाचेंच. इतल्यान तूं बरें ना अशें कळ्ळें आनी हांव तुमगेर आयलें. आनी तूं बरें जायसर तुज्या घरा रावलें. तुजें दुयेंस भयंकर आशिल्लें. ते दीस सारखे दोळ्यांमुखार येतात. तुजी शुद्ध गेली. हॉस्पीटलांतल्यान मातशें बरे दिसतकच तुका घरा हाडील्लें. घरांत हॉस्पीटल केल्लें. चार दोतोर तुज्या भोंवतणी आशिल्ले. घरांतल्यांनी सगल्यांनीच तुजी आशा सोडिल्ली. त्यावेळार हांवें जें दृश्य पळयलें तें हांव केन्नाच विसरचेंना. तुजी मांय सारखी तुजे तकलेवेल्यान हात भोवंडायत आशिल्ली. तुजो मांव देवाचो जप करीत बशिल्लो. तुजे देर - जावो भरिल्या दोळ्यांनी तुका पळयतालीं. तुजो हात काळजाकडेन दवरून तुझो घोव रात-दीस तुज्या म्हऱ्यांत बशिल्लो. तुज्या पांयांचेर दुकां गळयत तुज्यो दोनूय चलयो बशिल्यो. तें काळजाक हात घालपी दृश्य पळोवन त्या खिणाक लेगीत एक दुश्ट विचार म्हजे तकलेंत येवन गेलो. आपलीं सगळीं कामां करपी जर कोणीय गेली तर आपले कशें जातलें? ह्या स्वार्थी विचारान हीं सगळीं मनशां दुख्खी जाली आसतलीं, अशें म्हाका दिसलें. पूण तें खिणभरच. कारण सगळ्यांच्या दोळ्यांत तुजेविशीची आपुलकी, तळमळ, माया दिसताली.

हे मायेनच तुजी जिवन ज्योत परत पेटयली. मोट्या कश्टान तुवें दोळे उक्ते केले. आनी तुवें सगळ्यांक हांसून विश्वास दिलो आनी तेन्नाच म्हाका कळ्ळे की तुजी दिवपाची भूमिका आतां सोपली. तुवें जांचे खातीर कश्ट काडले, तेपरस कितल्यातरी पटीन तीं सगळीं तुजेखातीर झडटालीं. तांणीं तुजें सगळें वाजेनासतना, वीटनासतना केलें.

दर एकलो दुसऱ्याक म्हणटालो, 'तूं आतां मात्शें न्हीद, हांव बसतां! तुज्या तोंडात दूद, रस, उदक घालपाक संद कशी मेळटली हाची दर एकलो वाट पळयतालो. हें पळोवन, मनांत विचार येतालो, आरतीन लग्न करून, संवसार करून बरेंच कितें मेळयलें, पूण रोखडोच दुसरो विचार येतालो; हें सगळे मेळोवपाक बायलांक लग्न जावपाकूच जाय? बायल समर्थ आसल्यार, पयशांच्या नेटार तिका हें सगळे सहज शक्य आसा. कांय दिसांच्या सोपस्कारांखातीर बायलेक जल्मभर पिचत रावपाची कितें गरज?

अशाच कसल्यातरी चमत्कारीक मनस्थितीत हांवें तुजें घर सोडलें. वाटेरूच बरें ना जाले. हांव घरा पावतकच धांवपळ सुरू जाली. पयशाच्या नेटार घरांत एकठाय केल्ल्या मनशांनी हुस्क्याचें नाटक सुरू केलें. बऱ्या दोतोरांक आपयलें. दर एकलो

आपणें कितें-कितें केलें तें सांगपाक लागलो. वखदाचे सारखें जावचें म्हणून नर्स दवरपाक लायली. कित्याकूच लक्ष लागना, तरी दोन वेळेचें कशेबशे पोटांत धुकलता, अश्या पद्धतीची भाशणा आयकुपाक येवपाक लागली. मर्दी-मर्दी म्हाका ग्लानी येवपाक लागली. दोळे धांपून रावन दिसतालें. तेन्ना लेगीत कोण-कोण उलयता हें म्हाका आयकुपाक येवपाक लागलें. भावजय म्हण्टाली, ''इतले बेगीन कसलें दुखणे हिका जालां? चलयेचे लग्न थारलां, मर्दी ही साडेसाती उप्रासली, कितलीं कामां आसात.'' जाल्यार भयण म्हणपाक लागली, ''म्हज्या भुरग्यांच्यो परिक्षा लागीं पावल्यो. परवां तरी घरा वचूंकच जाय. तरी हांव सांगत आशिल्लें, लग्न कर-लग्न कर. पूण आयकलें ना. समाजसेवा करपाची आशिल्ली. - केली समाजसेवा आतां कोण येता?

म्हाकां जगोवपाची धडपड आशिल्ली ताचे परस म्हज्या फायद्याची तांकां तडफड आशिल्ली. वखदान एकदाचें हांव बरें जालें. पूण म्हाका दिसलें, वोगीच हांव जगलें, ते परस मेल्लें बरें. जें कितें आसा, तें सगळें महिला संघटनेक दिवपाचें. मागीर म्हज्या जितें उरपाक अर्थ उरतलो? कोण म्हाका लागीं करतलो?

आनी हांव मेलेंय जाल्यार म्हजे खातीर कोण कोण रडटलो? आनी कित्याखातीर रडटलो? हांवें कोणाक जीव लायला म्हणून? तांणी म्हजेखातीर रडप? पूण आरती, हेफुडें तूं कायच करूंक शकले ना आनी तू गुळो जावन पडलें, तरीय अनंत काळामेरेन जगूं जाय अशें तुज्या घोवाक आनी भुरग्यांक दिसतलें.

म्हज्या दुयेंसान म्हाका स्पश्ट दाखयलां, फकत पयसो आनी शरीर या माध्यमानी कोणाखातीर कितेय केल्लें तर ते मर्यादितच उरता.

तुवें आयुश्यभर जें केलें तें आपले मायेन धवळून केलें. तेखातीर आयज तुका भरभरून सगळें परत मेळ्ळें. हांवे कोणाकूच प्रेम दिवूंकूच ना, तर तें मेळटलें खयंच्यान?

आरती, तूं खरेंच जिकलें आनी हांव हारलें. सर्वस्व शेणटकच हांव हारलें हांची जाणीव जाली. आतां हांव बरें आसा. हुस्को करू नाका. हांगा येवपाचो हट्ट करूं नाका. तुजे प्रकृतीक तें झेपचेना आनी खरेंच गरज ना. विद्याधरबाबाक हांगा धाडूं नाका. तांकांच पळयतकच कळ्ळें, सगळेच दादले वायट नासता. भुरग्यांक विचारलां म्हणून सांग.

तुजेंच

निरुपा. 000



# कथामंच

(कथा)

जुझे लोरेंस

## बापो काळेचें घर

दनपारच्या तीन वरांचेर बापो काळेच्या घरांतलो कोंबो मातयेच्या दुरगाचेर उबो रावलो आनी साद घालूंक तोंड उगडलें. तकली फाटीं काडून चोंच उगती करपाच्या खिणाक पयसुल्ल्यान एक वेगळीच किळांच आयली. भयानक म्हार-कोंब्या भशेन एक तार स्वर चडत गेलो आनी तसोच त्याच उंचेल्ल्या स्वराचेर वाजत रावलो.

भागी काळेन आपल्या जनेल्यांतल्यान नदर मारली आनी बापोक खांदार थापटावन उठायलो.

"एक बस येता! आनी जीप! आनी एक मोटर. ऊठ!"

बापोन तोंडातली नुती पुसली आनी उठून बसलो. बस आनी जीप? हांगा आनी ह्या वेळार? बायलो आनी भुरगीं धांवतल्याचो आवाज लागीं पावलो. दारार कोणें मारलें.

"घरांतलो भायर यो आनी बसींत चड!" कोणें मोट्यान म्हळें.

"किदें?" बापोनूय तितल्याच मोट्यान विचारलें. सायरनाचो आवाज सगळ्याक गाजतालो.

"ड्रील चालू आसा. कसलोय अपघात जालो जाल्यार माऊशीच्या लोकांक भायर काडपाक."

"अपघात? कसलो अपघात?" बापोन ल्हवू दार उगडलें. भागी ताच्या म्हऱ्यांत रावून तिरशे नदरेन पळयतालें.

"हें फक्त प्रॅक्टीस ड्रील, फॅक्टरींत टेंकेचो ॲक्सीडेंट जालोच जाल्यार तयारी करूंक." एक मोटेल्या पोटाचो मनीस दारार उबो आशिल्लो. ताणें हातींतली फायल उगती

**जुझे लोरेंस** : जल्म : 1967, कथाकार, वेवसायान इंजिनियर. कथा लेखना वांगडाच संपादन आनी अणकाराचो वावर. रोमी तशेंच देवनागरी लिपिंतल्यान लेखन. *'The Perish Churches of Goa'* हें पुस्तक प्रकाशीत. संपर्क : जुझे लॉरेन्स, फ्लॅट नं. 503, सुप्रीम बॉम्बी प्लाझा, कोंब, मडगांव - गोंय 403 601. मो. : 9822184740.

करून पळयली.

"बापो काळे आनी भागी काळे... घरांत दोगूच जाण, आं?"

"आगे बाये! जाले रे जालें!" भागी भिरांतीन फुतफुतली.

"फॅक्टरींतलो गॅस आमकां मारून उडयतलो. दार बंद कर, दार बंद कर, गॅस भितर सरतलो!"

"शू!" बापोन तिका वग्गी केली. त्या मनशाकडेन विचारलें,

"म्हाका सारकें सांग... अपघात जाला वो जालो ना?"

"ना ना!" अधिकाऱ्यान तकली हालयली. "कांयच जाल्ले ना."

"तर आमकां बसींत कित्याक चडपाक लायतात तुमी?"

"तुवें येवचेंच पडटलें. सरकाराचो कायदो तो. मावशेंतल्या सगल्या लोकांनी हे बसींत चडूंक जाय आनी वीस मिणटां भितर गांवचे भायर पावूंक जाय."

"किदें?" बापोचे नाकांतले केंस फुरफुरले. दोळे रागान भरले. "तूं कोण रे, म्हाका म्हज्या घरांतलो आनी गांवांतलो भायर घालपाक? हें किदें तुजे बापायलें घर रे? चेडये सरकाराचें घर हें? हांव खंयच वयचोना."

येदना म्हणसर आनीक एकटो अधिकारी थंय पावलो.

"कितें रे, जालां कितें?" दुसऱ्या मनशान विचारलें.

"हो भायर सरना."

"ये बाप्पा, तुवें भायर सरपाकूच जाय. थोड्याच वरां खातीर. हें सगळें तुज्याच बऱ्या खातीर, कळ्ळें?"

"थोड्याच वरां खातीर? तुमी आमचीं घरां व्हरपाक आयल्या मरे?"

"ना रे बाप्पा. तुजें घर कोणाक जाय!"

"तुमकां जाय आमी भायर सरिल्ले... आनी मागीर तुमी आमचें घर आनी जागो जप्त करतले. हांव तुमकां ज्युस्त वळखतां."

"पुरो जालें जाण्टेल्या," दुसऱ्या अधिकाऱ्यान दार फोरसान उकतें करून बापोच्या सुकिल्ल्या हातीक धरलो.

"ये चेडयेच्या, म्हाका हात लायनाका!" बापोन तिडकीन आपलो हात ओडलो. "तुजो आंड कातरून हातींत दितलों!"

तो अकस्मात भितरले कुडींत नाच जालो आनी थोड्याच वेळान परतो भायर सरलो. ताच्या हातींत गांवठी तुबक आशिल्लें. कांसाक वतना रान दुकरांक मोखपी तुबक आतां ह्या दोन अधिकाऱ्यांचेर जोखिल्लें.

"भायर! भायर सरात हांगचे!" बापोन गरड घाली. दोगूय मनीस आंग काडून धांवले. दारांतल्यान भायर आंगणांतल्यान भायर, तांच्यो फायली हांगा थंय उडयीत धांवले. बापोन तुबकाचो फार तांचे तकले वयल्यान सोडलो.

तुबक कोनशाक उबें करून बापोन दारांतल्यान हेवटेन तेवटेन पळयलें. मागीर भायर गेलो. जमनीचेर पडिल्ल्यो फायली ताणें उबारल्यो आनी परतो भितर आयलो.

"बरें केलें तुवें," भागीन म्हळें. "तशेंच फावो तांकां. चोर खंयचे."

बापोन फायल उकती करून बारीक दोळ्यांनी पळयली.

"तुका हें वाचूंक येता गो भाग्या?"

"ये बापो, म्हाका केन्नाच्यान वाचूं येता?"

पानरंगिल्ले आनी अर्दे मोडिल्ले दांत दाखयत भागी हांसलें.

"हीं सगलीं आमच्याच लोकांचीं नांवां. पळय.. भागो, चिमणो, नवसो... मर्तो... गंगी...'

'त्या गंगीचें नांव घेयच नाका! हलकट! तिचे बरोबर बरो नाचिल्लो तूं." भागी मर्दीच तिडकली.

बापोन फायल सकलाक दवरली आनी तुबक पुसपाचें सवंग केलें.

तोंड लिपोवन तो मुमुरख्यान हांसलो. फाटल्या वरसांची याद जागोवन ताणें मनांतल्या मनांत घोस्त काडलो.

भायल्यान बसीचे आवाज बारीक जायत गेले. मावशेचो गांव ओग्गी पडलो. सायरनाचो आवाज बंद पडिल्लोच. गांवाचेर एक पूर्ण शांतताय पातळ्ळी.

"हे सगले अशे येतले म्हणून धुलो खरवतान आमकां पयलीं कित्याक सांगू ना?" भागीन चिंतेस्त जावन विचारलें.

"च्ये! तो धुलो पोटाचो! बरो दर मेळ्यार तो आपले बायलेकूय विकपी. ताणें त्या नवलाची आनी साकऱ्याचीं भाटां त्या फॅक्टरीवाल्यांक विकली नात? पंच जातकच ताणें कितलें व्हडलें घर बांदलें तें पळय. तो हरशीं आमचे भशेनच काजींनी काम करपी. आयज आमचेकडेन एक बरो संडास तरी बांदपाची तांक आसा?"

हाचेर चिंतीत बापो बरोच वेळ वगीच रावलो.

"पूण तें सगळे सोड, भाग्या. हे आमचे कश्टाचे पयशे. आमकां पोट भरपाक पुरो."

थोड्या वेळान भायल्यान जिपीचो आवाज आयलो. दोन पुलीस हवालदार भायर सरले आनी बापोच्या दारार जोरान मारूंक लागले.

"चेडयेकास्ताचे परत आयले. हांव तांकां कांयच दिवचोंना."

बापोच्या दारार अशें जबरदस्तीन मारप म्हळ्यार बापोच्या काळजाचेरूच मारिल्लेवरी जालें. उलयनासतना बशिल्लेकडेन ताचें तोंड रागान तांबडें जायत गेलें.

हवालदार आनीकय नेटान दार धाडावंक लागले. बापो खाटीवयलो उठलो. ताणें खाट एक वटेन लकयली आनी एक ल्हान पिकास घेवन शेणांची जमीन फोडूंक लागलो. एक मिण्टाभितर ताणें जमनीतल्यान एक लाकडाची पेटी भायर काडली. पेटीच्या धांपण्याचेर झरिल्लीं उक्षरां आसलीं– ब्रिटीश डायनमायट कंपनी लिमिटेड – तीं पुंसलीं आनी पेटी उगडली. ताणें ल्हवूच एक स्पोटाची काडी भायर काडली आनी जनेला कडेन गेलो. फ्युजाक फस्का काडी लायली आनी जाता तितल्या फोरसान ती जनला भायर उडयली.

पूण कांयच आवाज येवूं ना. फकत पुलीस दारार धाडायतल्यांचो आवाज.

'उक्तें कर, ना जाल्यार दार मोडून उडयतले.''

''झक मारना बायघोव खांय सगळे!'' बापोन गाळयांचो शिंवर घातलो. तुबक उबारून आनी निसणेवयर चडून तो कुडीचे माळयेर चडलो. तुबकांत मुनिसांव भरून ताणें माळयेच्या बारीक जनेलांतल्यान तीर धरलो.

''चेडयेच्यांनो! हांव सिनारी आनी कृष्णराव राण्या बरोबर पुर्तुगेजांआड झुंजलो. पोटाच्यांनो, म्हजें शेंट तोडात रे! वार्शीबर हांगचे!''

ठो??? तुबकाचो फार आंगणांत गाजलो.

दोगूय हवालदारांनी घराचे वणटीक वेंग मारली आनी बेगबेगीन कुशींतल्यान धांवून जिपींत बसले. जीप धपक्याक चालू जाल्ल्यान तांणी व्हडलो हुस्कार सोडलो. गाडी टॉप गियरांत घालून ते रोकडेच नाच जाले. काळोख पातळ्ळो. मावशी गांव परत शांत जालो. फकत कोल्यांच्यो हुयेली आयकूंक येताल्यो.

बापो कामाक लागलो. घराच्या तिनूय जनलांचेर ताणें लाकडाचीं फळीं बसयलीं. दाराचेरूय एक फळें आडवें मारून घट्ट केलें. आठ वरांचेर लायट गेली. शिमतरे भशेन जाल्लो गांव आतां किट्ट काळखांत पडलो.

भागी घरांत पोशेत पोशेत भोवंली. भुंयेरांतल्या वागोळ्या भशेन तिणें रोकडीच आपली वाट सोदून काडली आनी पॅट्रोमेक्स पेटयलो. पीठ कालयीत ती चपाती करूंक बसली.

''बापो, ते नळ्यांतल्यान आयल्यार आमी कितें करतले?''

''भियेनाका तूं. म्हजें आर्म घेवन हांव तांचे गांडींत फार सोडटलो.'' बापोन तुबकाक अपुरबायेन हात लायत म्हळें.

''म्हजेकडेन मिरसांगांचो पिठो आसा, तांच्या दोळ्यांत उडोवंया.'' भागीन दनपारचीच भाजी चुलीर दवरली.

''त्या डायनमायट काडयांक ओलसाण लागल्या जायत. ना तर त्या दळदिऱ्यांक बरेंच लिसांव पडटाशिल्लें.'' बापोन तुबकाची नळी साफ करून तितूंत फूंक मारली.

''सुर्ला खणीचेर घुरी घाल्ली त्या वेळाची... एकुणशे पंचावन्नाची दिसता म्हाका... सारकी याद जायना.''

''त्यो काडयो वतांत दवर रे'' भागीन म्हळें.

''हय हय, वतांत दवर. सगळें वतांत दवर. म्हज्यो आणकुल्योय वतांत दवरतां, तुजेखातीर गरम करपाक'' बापोन हांसत तिका चाळयली. भागीय हांसली.

चुलीच्या उज्याक पळयत बापोन म्हळें, ''तुका याद आसा? गेल्ल्या वर्सा सांग्यावयलो तुको आयिल्लो. धरण बांदूक जाय म्हूण थंयच्या सगळ्या गांवच्या लोकांक नव्या घरांनी धाडले. आनी न्हंय पोरन्या घरां वयल्यान व्हांवली. सोंपलें! तांची पुर्वजांचीं घरां उदका पोंदाक गेलीं.''

भागी ताका अजापान पळयत रावली.

''तुको थंय पेंवपाक गेल्लो. घरां सगलीं आशिल्लीं तसींच आसात खंय. माड झाड सगले तशेच आसात उदका पोंदाक.''

जेवन जातकच भागी खाटीर आड पडली. बापो ताच्या म्हऱ्यांत बसलो. तुबक हातीकडेनच आसलें आनी ताचे दोळे घराच्या नळ्यांचेर परत परत फिरताले. पॅत्रेलिच्या दिव्याच्या उजवाडांत ताणें जमनीचेर एक एकसुरी काटमूय पळयली. मूय जमनींतल्या बुराकांतल्यान भायर चडून वण्टिच्या बुराकांत नाच जाली.

"ये भाग्या, जमनीक नव्यान शेण सारावपाक जाय, आं!" ताणें बायलेक म्हळें. पूण भागी न्हिदून पडिल्ली.

"फाल्यां खंयच भायर सरूं नाका तूं" ताणें फुडें सांगलें.

"ते तुका व्हरीत. आनी थोड्याच दिसान करया."

भागी न्हिदांत फुतफुतली. तिच्या सपनांत खोल खोल उदका पोंदाक शेत दिसतालें. भाताच्या कणसां वयल्यान नुस्तीं पेंवतालीं. मंद पाचव्या उजवाडांत तीं झगझगतालीं.

बापोच्या बापायन हें मातेचें घर बांदिल्लें. बापूय आनी हेर वावराड्यां वांगडा ओली माती कालयतनाची याद आयली. तेन्ना तो बरोच ल्हान आशिल्लो. ओले मातयेचेर चमकून आनी धाडावून ती टायपाचे फोरमांत भरताले. मातेचो वास आनी बापायची हूम एकूच जाल्ली. आयज पसून वण्टीक हात लावन वास घेतल्यार बापायच्या हड्ड्याचो वास येतालो.

वर्सा वर्साक बापोन घर बेसबरें सांबाळिल्लें. पावसापयलीं भायले वण्टीक माती सारयतालो. घरा फाटल्या झाडावयलीं कोडू पानां ते मातयेंत मोडटालो. अशें केल्यार वायटी येवची ना म्हणून ताच्या बापायन सांगिल्लें.

भायल्यान कुकडांच्या घुडांत कोंबी आपल्या सपनांत कुंकारली. रोकडीच कोंब्यान जाप दिवन तिका परत न्हिदायली. बापोय न्हिदून पडलो.

सकाळच्या किर्णांनी बापोच्या पोल्यार पडून ताका जागयलो. भायल्यान कोणतरी चलतल्याचो आवाज आयकून तो सडसडीत जागो जालो. तुबक हातींत धरून तो ल्हवूच जनेलाकडे गेलो. रातभर बसून न्हिदिल्ल्यान आतां सारको उबो रावंकय जायनासलें.

ताणें जनेला बुराकांतल्यान पळयलें आनी ताच्या तोंडाचेर हांशें फुल्लें. न्हिदिल्ले भागी म्हऱ्यांत येवन, ताणें तिचें खांद हालयत तिका जागयली.

"चिमणो आनी आबोलें परतीं आयलीं. जानू आनी ताचीं भुरगींय आयलीं परतीं. सगलो गांवचो लोक परतो येता."

ताचे बायलेन अर्दे न्हिदेंत दोळे उकते केले.

"ऊठ भागी ऊठ! आमी जिखलीं, भाग्या, आमी जिखलीं!"

000



# भाशाभावकी

अणकार : गजानन जोग

(मूळ मराठी कथा :
रा. भि. जोशी)

## कवच

तो जेन्ना तिका तशी तरेन न्हिदिल्ली आसताना फाटले वटेन पळयतालो तेन्ना ताका Velazquez च्या व्हिनस ह्या चित्राची याद जाताली. तिची फाट, कमर आनी थंयच्यान सकयल मोडणां घेयत घेयत देंवपी पावलां मेरेनचो फाटलो भाग खूपूच लयदार आनी ओडलायणोच आसलो. आयज कृश्ण पक्षांतल्या रातीच्या त्या हयन्हयशा उजवाडांत जाल्यार तिच्या त्या धव्या पातळांतल्या बांकदार सौश्ठवाक पारदिकाच्या पुश्पराशीचीच नाजुकताय प्राप्त जाल्ली. आयज ताचें चित्तूय इल्लें उचंबळितूय जाल्लें. ताका कारण म्हळ्यार दोगांय एका सिनेमाक गेल्लीं, तातुंतली कांय दृश्यां पळोवन ताचे वृत्तीभितर एक गोड अस्वस्थताय आयली.

तिचे बाजे लागीं वचून तिका मिठयेंत घेवची अशें ताच्या मनांत आयलें. नाय जाल्यार शरद रूतूंतली ती हवाच कोणाक तरी खूब लागीं धरचो अशें दिसपाक लावपीच आसली. पूण तो उठून तिचे लागीं वचूंक ना. कारण जायते फावटीं ताणें मोटे उमळशिकेन तिचे लागी वचचें, तिका लागीं धरची, पूण तिणे मात सामकी निचेश्ट, निर्विकार रावचें असो अणभव ताका आयल्लो. मागीर ताचोच सगळो उल्हास बावून वचचो, थरथरपी रोमांच जंयचे थंय शेळेवन वचचे, मनांत जागपाक लागिल्ली उमेदिची हुनसाण थंड पडची आनी तिका मारिल्ली मिठी आपशीच सदळ जावन ताणें आपणाल्या बिछान्यार येवचें, असोच तो मेरेनचो अणभव. मागीर परतो जिणेचो गाडो सदच्या त्याच नित्यचक्रांतल्यान घुंवत रावचो. परती

**रा. भि. जोशी** : जल्म : 1903, मराठींतले पोरने पिळगेंतले कथाकार, समिक्षक, अनुवादक, प्रवास – स्थळ वर्णनकार, निबंदकार. *'काचेचे कवच'* (1949), *'झम्मन'*, *'अनोळखी वाटा'*, *'मिलाद शरीफ'*, हे कथासंग्रह प्रकाशीत. चार स्थलवर्णनां तशेंच *'साठवणी'* हो स्मृतीसंग्रह प्रकाशीत. *'सोन्याचा उंबरठा'* तशेच आनीकय जायतीं अनुवादाचीं पुस्तकां प्रकाशीत.

अण.: **गजानन जोग** : जल्म : 1952, कथाकार, अनुवादक, *'रूद'*, *'सोद'* आनी *'खांद आनी हेर कथा'* हे कथासंग्रह तशेंच *'गोपी'* आनी *'वर्स फुकट वचूंक ना'* ह्यो बालनवलिका प्रकाशीत. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या आनी साहित्य अकादेमीच्या बालसाहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : मुक्ता कामत पाम ग्रूप इस्टेट, आयडियल हायस्कुलालागीं, ताळगांव, गोंय – 403002, मो. : 942246655.

केन्नातरी ताच्या मनाक कूय मारची, आनी परतोय तोच अणभव येंवचो.

ताका कळनासलें: अशें कित्या खातीर जांवचें. तो अशिक्षित नासलो, अडाणी नासलो; अशक्त नासलो, आपलेंच खरें म्हणपीय नासलो, तिका आवडचें न्हय अशें ताचे भितर कांयच नासलें. ताणें खास परिस्तितीक फुडो करतना, एक मोख मुखार दवरून तिचे कडेन लग्न केल्लें, आनी ती तशी ताचे आवडिचीय आसली. पूण तितल्याच खातीर ताणें तिचे कडेन करूंक नासलें न्हय लग्न!

ते शाळेत जेन्ना तो मास्तर म्हूण आयलो, तेन्ना सरला इंग्लीश पांचवेंत जावं सवेंत आसूंये. सामकें हुशार आनी ताजबाण चली. खेळांत आनी हेर कलांभितरूय तें खूबूच फिशाल. वर्गांत सदांच ताचो नंबर पयलो जावं दुसरो येवंचो. तिचे कडेन नदर वताली तेन्ना ताका दिसचें, शिक्षण दिवंचें जाल्यार तें असल्या चलयांक; त्यो त्या शिक्षणाक बरेतरेन फळादिक करतल्यो. समाजाचें कितेंतरी देणें पावतें करून आपणाले जिणेक कितेंपूण अर्थ दितल्यो. अशा चलयां कडेन ताचें चड लक्ष वचचें हातूंत कांयच नवल नासलें. ताणें दिल्ल्या उमेदिंतल्यान सरलाच्या अभ्यासाक आनी विचारांक वळण मेळत गेलें. आपणें कितें तरी करचें, करूंक शकतलें, अशें ताकाय दिसपाक लागलें, आनी शाळेंतल्या ताच्या सदच्या वावुरपाक एके तरेची नवीन उमेद आयली.

तें मॅट्रिकेक आसतना सरलाचो बापूय भायर पडलो. घरची परिस्तिती सादारण गरीबूच म्हणपा सारकी. ताका लागून ताची शाळा रोखडीच सुटपाची, पूण ताच्या आईन नेट लावन चलयेचें तें वर्स कशेंतरी निभोवन व्हेलें.

परिक्षेंत सरलाक खूबूच बरे गूण मेळ्ळे. रिझल्टा उपरांत ताणें ताका मेळपाक तें आयल्लें तेन्ना विचाल्लें,

"आतां खंयच्या कॉलेजांत वतलें तूं?"

"लग्नाच्या!"

"वा!...म्हळ्यार?"

"म्हाका ह्यानफुडें शिकप शक्य ना सर. आईक लागूनूच गेल्ल्या वर्सा कशीय करून तड गांठली तेंच व्हडलें. आतां म्हजें लग्न करपाचो विचार आसा तिचो."

"अशें जावंचें ना. हांव येवन तुजे आईक मेळटां. तुजेकडेन इतली बरी बुद्द आसा. तिची लग्न जातकीच घडये सामकी वाट लागूं येता."

ते रातीकडेन ताणें खूब विचार केलो. मास्तराचो पगार तो कितलोसो! पूण पैसो ना देखून एका हुशार चलयेच्या शिक्षणाक आडखळ येवंची हें ताका बरें दिसलें ना. ताणें आपणाल्या पगारांतल्यान तिका मजत करपाचें थारायलें. दुसरे दीस वचून तो तिचे आईक मेळ्ळो आनी तिका सगलें समजावन सांगलें. ती एक बिचारी बायलमनीस. चलयेन फुडें शिकचें अशें तिकाय दिसतालेंच, पूण तिची वेव्हारी बुद्द तिका ताचें म्हण्णें मानून घेवपाक दिनासली.

तिणें म्हटलें, "हांव बायलमनीस,

म्हाका तें सोबचें ना. एदें व्हडलें वाडिल्लें चलीभुरगें हांव घरांत लग्नाबगर कशें दवरूं? बरें, तुमी सरूक पैशांची जांव हेर कसलीय मजत करपाक लागले जाल्यार लोक कितें म्हण्टले? एद्या व्हडल्या वज्याचो भरिभार हांवे आंगार घेंवंचो न्हय, हेंच शाणेपणाचें''

अडचण खरीच. ती ताच्याय लक्षांत आयल्ली. आनी तांतुंतल्यान वाट कशी काडपाची हाचेरूय ताणें विचार केल्लो. सरला कडेन लग्न करप हो तो विचार. होच विचार ताणें सरलाचे आईक सुचयलो.

ती खूप वेळ कांय उलयलीच ना.

''तुमी विचार करा.'' ताणें म्हटलें, ''पूण सरलाचो हयकार आसत जाल्यारूच हांव ही गजाल करतलों, हरशीं ना.''

सरला हुशार आसलें पूण कितलें शिक्षण घेतलें, जावं शिकून फुडें कितें करतलें, हे संबंधान ताणें पक्को असो विचार करूंक नासलो. ताचो बापूय आसमेरेन हे संबंदान विचार करपाची ताका गरजूय पडूंक नासली. फुडाराविशीं थोडेभौ उमाळे सरलाच्या मनात फुटिल्लेय जाल्यार ते मास्तराक लागूनूच. देखून सरलाचो हयकार मेळपाक व्हडलीशी अडचण येवंक ना.

लग्न जालें जाल्यारूय सरलाचें शिक्षण सोंपमरेन संवसार म्हण्टात तसो जावपाक दिवप ना अशें ताणें आपल्या मनाकडेन थरोवन दवरिल्लें. आनी तांचें सगलें चलतालेंय तेच तरेन. तो सरलाक अभ्यासांत मजतूय करतालो. ताका लागून दोन घरांत रावचे परस तीं एका घरांत रावपाक लागलीं, हाच्यान चड असो खास फरक तांचे जिणेत पडलो ना.

अशींच दोन वर्सां गेलीं. आनी मागीर हे परिस्तितींत फरक पडपाक सुरवात जाली. सरलाच्या पिरायेंत फरक पडलो. ताच्या आंगांपांगाक आकार मेळपाक लागलो. ताच्या पावलटिची लय बदल्ली. ताच्या हावभावांक वेगळी मुरड येयत चल्ली. तशें तशें हाचें मन चंचल जावपाक लागलें. शिंयाळ्या दिसांनी भितर वग्गी न्हिदून आशिल्ली जीवसाण वसंताची सुलूस लागतरीत जशेपरी सळसळूंक लागता आनी आंकरे-कोमरेंतल्यान भायर फुटूं लागता, तेच भशेन सरलाच्या जुवानपणाची सुलूस लागतरीत ताच्या रगतांत एक उमळशीक उदेली; ताच्या हालचालींतल्यान ती उलोवपाक लागली; ताची सरला कडेन पळोवपाची नदर बदल्ली; आनी ताचे वागणुकेक वेगळेपणाची झांक मारपाक लागली.

पूण ताच्या मोन्या उल्यांक तिचे कडल्यान जाप मेळ्ळी ना, ताच्या जिवन स्पंदनांची सरलाच्या स्पंदनांकडेन केन्ना गांठभेट जाली ना. रुंवा कणकणी फुलून आयल्ल्या ताच्या आंगाक सरला कडल्यान रोमांचीत येवकार केन्ना मेळलो ना. ताच्या मनोवृत्तींक केन्ना सरलाच्या वृत्तींनी फुडो केलो ना.

ताका कळना जालें, अशें कित्याक जाता. ताणें पांखां फुलोवन आपणा वांगडा भोवर मारपा खातीर साद घालचो आनी सरलान आपणालीं पांखां मेटून घेवचीं. अशें कित्या खातीर?

आनी सरलाकूय कळना जालें, अशें कित्या खातीर जांवचें. ताका खबर

आसलीच, दादल्यांची अशे तरेची चलणूक आसता. ताणें तशें आयकल्लें आनी वाचिल्लेंय बी. पूण ताणेंय आपणा कडेन तशेच तरेन वागचें हें सरलाक विचित्र दिसतालें.

सरला कॉलेजांत गेलें म्हळ्यार एका नव्याच संवसारांत गेलें. तें जशें जिणेचे एके नवेच अवस्थेंत पावल दवरतालें, तेच भशेन हेर चले-चलयोय दवरताल्यो. शाळे परस तें जग सामकेंच वेगळे तरेचें आसलें. नव्या नव्या रंगांचें वैभव मिरोवपी नवीं नवीं क्षितिजां थंय साद घालतालीं. विंगडविंगड रूपांचीं, आकारांची तरेकवार मळां जुवानपणाच्या हुमऱ्यावेल्या तरनाट्यांक, तांच्या उत्फर्क्यांक येवकार दिवपाक चारांय आंगांनी मेकळेपणान राविल्लीं. पांखां फुलोवचीं आनी खंयूय उडणां मारचीं. जांच्यो जिणेंत गांठपाच्यो मोखी आजून थरूंक ना अशाः आयज एक जाल्यार फाल्यां दुसरेंच, जावं एकाच वेळार एकमेकांशीं विरूप आनी एकमेकांत घुस्पल्ल्या ध्येयांचो पुरस्कार करपीः अमुरपिक्या पूण शक्तिवान, कसदार आनी उमेदीन भरिल्ल्या रसरशीत तरनाट्यांच्या इश्टागती भितर एक वेगळीच जिवसाण आसता, तांच्या ध्येयविरयत मुक्ततेंत लेगीत एक वेगळें आकर्शण आसता; गरुडाच्या अनिर्बंद विहारांत जें एक मनभुलोवणेपण आसता, तेंच तांचे भितर आसता नव्यान, परतें परतें, कितेंतरी सोदीत रावपाचे वृत्तींतली पुरस्सरता थंय आसता हे गजालीची तिका कॉलेजीचे जिणेत जाणविकाय जाली. पांखाटे फुलोवचे आनी आयज ह्या क्षितिजावटेन जाल्यार फाल्यां त्या क्षितिजावटेन उडाण मारचें अशें तिका दिसतालें. पूण तसो येत्न करपाक लागतरीत तिका आपणालें लग्न जालां ही जाणविकाय सटकरून मुखार येताली आनी मागीर तो कांच मनाकडेन बसत रावतालो.

तो ध्येयवादी आशिल्लो. आगरकरांचे निबंध, हरिभाऊ आपटेंच्यो कादंबऱ्यो, कानिटकरांचे 'बायलांची परवशता' वैद्यांची 'अबलोन्नति लेखमाला' पंडिता रमाबाई हांचे चरित्र आनी तांची पुस्तकां, महर्षी कर्वेंचें आत्मवृत्त हीं सगलीं पुस्तकां वाचून ताचें अशें ठाम मत जाल्लें की बायलांक शिक्षण, स्वातंत्र आनी समता दिलेबगर आमच्या समाजाचो उद्धार जावपाचो ना. ताचीं हीं मतां सरलाक खबर आसलीं. हींच पुस्तकां ताणें तिकाय वाचपाक सांगिल्ली. ताची चलणुकूय ताच्या तत्त्वाक धरूनूच आसताली. तो सरलाक शिक्षण, स्वतंत्रताय आनी समता तिनूय दितालो. कॉलेज जीणेच्या दरेक मळार आनी कार्यांत वांटो घेवपा खातीर तो तिका उमेद दितालो, आनी ती तांतूय वांटोय घेताली. पूण कितलेंय जाल्यार दिल्ली स्वतंत्रताय ती. दोरी कितलीय लांब सोडिल्ली आसत, पूण बांदून घाल्लें जनावर तें निमाणे बांदिल्लेंच, हें तिका जाणवले बगर रावनासलें.

हेच गजालीक लागून तिका दिसपाक लागलें की ध्येयवादी प्रेरणेक लागून काय जायना, पूण आपणाकडेन लग्न जावन ताणें आपणालें आयुश्यूच बांदून घालां, आनी एक फावट ध्येयां थरून वचप म्हळ्यार एका

अर्थान दोळ्यार धांपणां बांदपूच न्हय? आनी हांगा जाल्यार ताणें आपणाल्या ध्येयांची धांपणां तिच्या दोळ्यांचेर घातिल्लीं. ताकाच लागून जसजशे दीस वचत रावले तसतशी घरची आनी कॉलेजींतली अशी दोनूय कडली जीण तिचे नदरे मुखारूच तिचे कडल्यान पैस वचत रावली.

निक्तीच फुलून जिणेच्या अथांग यक्षनगरांत मुक्ततायेन संचार करूं शकता अशी नवयौवनाय न्हय आनी संवसारांत गुल्ल जावन गेल्ली गृहलक्ष्मीय न्हय अशी तिची विचित्र अवस्ता जाली आनी तिचे भोवतणी एकटुकेपणाचें एक कवच तयार जावपाक लागलें.

देखूनय जेन्ना जेन्ना तो तिचेकडेन संवसारी मनशा सारको वावरुंक सोदी, एकाद्र्या जुवान मोग्या सारको तिचे कडेन लागसार सादपाचो प्रयत्न करतालो, तेन्ना तिका तें वेगळेंचशें दिसतालें. ताचे भूमिकेकडेन तें विरूपशें दिसतालें. तिच्या आनी ताचे भितरल्या तो मेरेनच्या संबंदांकडेन तें विजोड दिसतालें. ताच्या स्पर्शान तिचें आंग फुलून उठचे बदला अनिच्छेन आंखडून वतालें. ताणें मिठयेंत घेतरीत तिच्यांतले जीवनरसाचे झरे फुटपा बदला आटून सुकून वताले. ताच्या बावळ्यांचो विळखो पडटकच तिका भितल्ले भितर अंदल्ले भशेन जावंचें आनी तिणें आपणाक ताचे मिठयेंतल्यान सोडोवन घेवची.

आपणाक अशें कित्याक जाता हें तिकाय सारकें समजनासलें. चुकून केन्नाय मात्शें कळ्ळें जाल्यार, आपल्याक अशें तरेन दिसप हें गैर, कर्तव्याक चुकप, आनी ताचे कडेन कृतघ्नपण घडप. एके लग्नाचे बायले कडल्यान जाल्ली ती फटवण थारता ह्या गजालींची जाणविकाय जावन ती गुन्यावकारी भावनेन लजेक म्हारग जाताली. पूण अशा भावनांक लागून चडूच गोंदोळ जातालो आनी आपणें ताचे कडेन वागप कशें हेंच तिका कळनाशें जातालें.

दीस अशेच वताले. एकाद्र्या दिसा ताणें तिका मिठयेंत घेवची, तिणें मिठी सोडोवपाचो येत्न करचो. मागीर ताणें म्हणचें,

“तूं अशें कितें करता गो? हांव तुका बरो दिसना?”

“ना, तशें कांय ना.” तिची जाप.

“मागीर?”

“कांय ना.”

“कांय ना कशें तर? जेन्ना जेन्ना हांव तुज्या लागीं येतां, तेन्ना तेन्ना तूं अशेंच करता. तुज्या मनांत कितेंपूण आसा.”

“कांय ना. म्हाका कांयच समजना.”

मागीर तो कुशीक सरतालो. आयुश्याचो गाडो चलत रावतालो.

हेर बायलमनशेचोच कित्याक, लग्नाचे बायलेचो मोग लेगीत मागून मेळना हें ताका खबर आसलें. तो मेळोवपा खातीर लेगीत अनुराधन करचें पडटा हाचीय ताका जाणविकाय आसली, आनी तो तसोच वावुरतालो. तिचें चित्त खुलचें, फुलचें, तिणें जीणेंत रस घेंवचो हे खातीर तो सगले तरेचे प्रयत्न करतालो. ताणें नाटक–सिनेमाक, भोंवपाक–सहलीक व्हेलें जाल्यार ती ताचे

बराबर वताली. पूण तिचे भितर थंयूय केन्ना उमळशीक दिसनासली. मागीर रोखडीच रबरा भशेन परती आपणाल्या मूळ अवस्तेक येताली. ती आपूण जावन अमकें करूया, तमकें पळोवया अशें केन्नाच म्हणनासली.

देखुनूच आयज जरी ताचें चित्त फुलून आयल्लें, आनी ती फाट करून न्हिंदिल्ली आसतनाचें तिचें तें सौंदर्य मिठयेंत घेवपाची ताका किंवाट्यान इत्सा जाल्ली तरी लेगीत तो आपणाले खाटीर आड पडून रावलो.

कितलोसोच वेळ तो तिच्या त्या फाट केल्ल्या आकृतायेकडेन पळयत रावलो. मदींच ती कुशीवेल्यार उताणी जाली. स्वासान तिची छाती एक फावट वयर सकयल जाली. तिणें हात उशापोंदा घेतलो आनी तशीच न्हिदून उल्ली.

आनीक थोडो वेळ तो तिचेकडेन पळयत रावलो. मागीर एकदम उठून तो तिचे लागीं गेलो आनी तिच्या उकत्या पडिल्ल्या दंडाच्या भितल्ल्या आंगाक वंठ तेकोवन ताणें तिच्या आंगा भोवंतणी ल्हवूच आपणालो हात बांदलो. ते बराबर तिणें आंग काडून म्हळें,

"अं?"

"हांव." ताणें म्हळें!

"कितलें भिलें हांव, दिसलें, कोण काय." अशें म्हणत ताचेकडेन फाट करून ती स्वस्थपणान पडून रावली.

ताणें तिच्या आपल्या सामकाराक घुंवडावपाचो येत्न केलो. पूण ती घुंवली ना. तो सदचे भशेनूच उठून वचपाचो, पूण आयज तो गेलो ना. ताची सगली असंतुश्टताय आनी मनस्ताप जशेपरी त्या खिणाक फुटून भायर आयलो. ताणें म्हळें,

"सरला, हांव तुका कितेंतरी विचारपाक सोदतां."

तो कितें विचारपाक सोदता ताची तिका कल्पना आयली, तिणें म्हळें,

"सकाळीं वो, आतां म्हाका न्हीद येता."

"येंवू दी आयली जाल्यार. फाल्यां सुटीच आसा. म्हाका आत्तांच जाप जाय."

"किदें?"

"हें अशें कितले दीस चलपाचें? ह्या असल्या जगण्याक कितें अर्थ आसा गो?"

"मागीर हांव कितें करूं? सांगा तुमीच."

"कितें करूं म्हळ्यार कितें?"

ती कांयच उलयली ना.

'तूं अशें कित्याक करता गो?"

"कशें?"

"तुका खबर आसा तें"

"म्हाका कांयच कळना जाला."

मात्शा वेळान ताणें परतें विचारलें,

"म्हजे भितर कितें उणाव बिन आसा गो?"

ती वग्गी रावली.

"सांग मगो."

"म्हाका तशें दिसना."

"म्हळ्यार कशें?"

"तुमकां दिसता तें- तसलें."

तें आयकून ताका व्हडलो धपकोच बसलो. इतली स्पश्टपणान तिणें आदीं केन्नाच जाप दीवंक नासली.

"हांव तुजे परस मात्सो व्हड आसा

म्हणून? काय हांव तुजो शिक्षक आशिल्लों म्हणून?''

मात्सो वेळ ती वगीच रावली.

''तशें आसूं येता. पूण म्हाका तशें दिसना इतलें खरें.''

आतां तो वगी रावलो. मागीर ताणें तिका आनीक इल्ली लागीं ओडपाचो यत्न केलो, पूण तिणे आंग चोरून घेतलें.

तेन्ना मात ताका डंख मारिल्ले भशेन जालें.

'तयार पिकेर पावसाच्यो दडको पडच्यो तशें आमच्या संवसाराचें जावपाचें आसा.'

ताचो सूर आतां सामको तिखट आनी कोडू जाल्लो. ताचें तें उलवणें आयकून तिकाय दिसलें, आपणाल्या मनाक जें दिसता, तें आपणे उलोवंक नाकाशिल्लें. मागीर तिणें म्हळें,

'हांव सामकें वायट आसा.'

ताका दिसलें, तिचें आनीक कोणारूय प्रेम बी ना मूं!

'तुका दुसरो कोणूय चड आवडटा गो?' ताणें आडकळत विचाल्लें.

'कित्याय कितें कशें तकलेंत घेतलें तुमी?'

'म्हज्या प्रस्नांची जाप दी, हय काय ना?'

'कसलोच कांय संबंद ना आनी जाप कसली दीवं?'

ताचें मन एका भयंकर दुबावान व्यापून वचपाक लागलां हें तिका कळून चुकलें आनी हें अशेंच चलत रावलें जाल्यार ताचे परिणामूय कितेंतरी कल्पनेभायले जातले हेंय तिका जाणवलें. आपणाल्या आतांच्या उलवण्यावेल्यान ताचो गैरसमज आनिकूच वाडपाची शक्यताय आसा हें वळखून ती फुडें उलोवपाक सोदताली, पूण इतल्यांत–

'अशें? बरें आसा तर.' अशें म्हण्टना ताणें लागींलागीं तिका धुकलूनूच पयस केली आनी तो आपणाले खाटीर वचून आडवो जालो.

ताच्या फाटोफाट सरला ताचे लागी गेली आनी म्हणपाक लागली,

'पळयात हां, तुमकां म्हज्या उलवण्या वेल्यान भलतेंच कितेंय दिसलां आसत. हांव – म्हाका–'

'म्हाका जें दिसपाचें तेंच दिसलां, तूं वच आनी न्हीद, म्हाकाय सवस्तकायेन न्हिदूं दी.'

ती परती आपणाल्या खाटीर गेली, पूण तिका खुबूच अस्वस्थताय दिसताली. तो मेरेन असले प्रसंग आइल्लेच पूण तिका इतली अस्वस्तकाय केन्नाच दिसूंक नासली. 'तयार पिकेर पावसाच्यो दडको पडच्यो तशें आमच्या संवसाराचें जावपाचें आसा.'

ह्या एक वाक्यान आनी मागीरच्या ताच्या उद्गारांनी तिका आपणाल्या आयुश्याकडेन फाटीं पळोवपाक लायलें.

इतले दीस तिणें ताका पयस दवरलो आनी तोय तोंड धांपून पयस रावपाक लागलो. पूण तेच गजालीक लागून ताच्या भावनांक कितली तीख धार चडिल्ली हें तिका आतां कळिल्लें. इतले दीस तिणें आपणाल्या मनापुरतेंच पळयल्लें. पूण त्या काळांत ताच्या मनाची कशी चाळण जाल्ली हें आयज तिच्या लक्षांत आयलें. तीं कितलीं पयसावत वचपाक लागिल्लीं

आनी ताचे परिणाम कितले भयानक जावंक शकता हें तिका आयज कळ्ळें. आपणाल्याय जिणेंत, आपल्याक सोडून, आपणालीय कितें तरी भूमिका आसा हाची तिका एकदम जाणविकाय जाली.

पूण ती भूमिका निभावपाखातीर आपणें कितें करपाक जाय हें तिका कळना जालें. कशेय भशेन ताका वायट दिसचें न्हय, ताका दुख जावंचें न्हय, अशेच तरेची वागणूक दवरपाचो तिचो येत्न आसतालो, पूण तिची वागणूक ताच्यो अपेक्षा पुराय करूंक शकनासली, हें उगतें दिसतालेंच. विचारांनी लक्षांत हाडून दिल्ली कितेंतरी करपाची गरज, आनी भावनांनी निर्माण केल्ली हाताभायली असमर्थताय हांचे कात्रींत ती सांपडिल्ली. ताचे वान्सेक निर्जिवपणान फुडो करप तिका शक्य आसलें, पूण तितल्यान ताचें समाधान जावंचें नासलें. आपणाल्या भोवंतणचें कवच फुटचें, तें फुटलें जाल्यार बरें जातलें अशें तिका दिसतालें. पूण तें कशें फोडपाचें, कशें फुटतलें हाची तिका कांयच कल्पना येनासली.

तिणें ताचे खाटीकडेन पळयलें. तो तळमळटालो. परतो परतो कुशी बदलतालो. आपले खाटीवेल्यान उठून ताचे कडेन वचचें अशें तिका परतेंय दिसलें पूण तशें करपाचो धीर जालोना.

ताचें मन स्वस्थ नासलेंच. विचारांचें घातचक्र ताका बेचैन करीत आसलें. सांपळ्यांत सांपडिल्लें मन भायर सरपाचो येत्न करतास्तना खर्शेवन गेल्लें. खूब वेळ तसोच गेल्या उपरांत तो उठलो आनी वचून खिडके लागीं बसलो. आनी थंयच केन्ना तरी ताचो दोळो लागलो.

चिमण्यांची चिंवचींव कानार पडून ताका जाग आयली. उदेंतेक तांबडसाण दिसपाक लागिल्ली. रातीच्या धुंवरेक आतां उजळसाण येवपाक लागिल्ली. चिमण्यांचीं भिरीं ह्या झाडावेल्यान त्या झाडार भिरभिरत वतालीं. खिडकेच्र्याच सकयले वटेन एक कोंबडी कॅक-कॅक करीत खाण सोदताली. तिचे भोवंतणी तिचीं सात-आठ पिलांय चिंवचींव करतालीं. सामकीं ल्हान, मुठींत रावतलीं अशीं. तांचीं तीं धवशीं, धुंवरेल्ली कशीं पांखां, हळडुव्यो चोंची, हळडुवीं पावलां, सामकीं फुलां भशेन तीं नाजूक दिसतालीं.

म्हणसर ताच्या खांदाक हलक्या हाताचो हयन्हयसो स्पर्श जालो. ताणें वळून पळयलें. सरला ताच्या शेजारा येवन उबी राविल्ली. तिणें म्हटलें,

''हें कितें? हांगाशे बसल्यात? आनी इतलें कितें पळयता थंय?''

तो तिचे कडेन पळयनासतना उलयलो, ''हीं कोंबडेचीं पिलां. काल नासलीं. आयज कवच फोडून भायर आयलीं. तांकां लेगीत आपणाल्या भोवंतणचें कवच फोडपाक जमलें. पूण मनशाक मात तें फोडपाक जमना. ताका भायलें जग दिसता, कांचेतल्यान दिसचें तशें स्पश्ट दिसता, जाय जायशेंय दिसता, पूण थंय हात पावोवपाक जमना. ताका स्पर्श करपाक जमना. हेंच पळयतालों.''

इतलें उलोवन ताणें एक ल्हानसो उस्वास सोडलो.

ताच्या खांदावेलो हात काडून घेवन ती भीतर गेली.

000

भ्रमंती

(प्रवासवर्णन)

दत्ता दामोदर नायक

# परीकथेंतलो भूतान

भूतान हो देस न्हय, भूतान हो एक अणभव. भूतान ही एक अनुभूती.

भूतान ही एक विलोदी याद. सैमाचें ताजें, टवटवीत, कंवळे, कवकवीत, मोव, मुलायम रुप पळोवचें तें भूतानांत. सैमाचें सगळें कौमार्य, सैमाची सगळी व्हर्जिनीटी भूतानांत दिश्टी पट्टा.

भूतान हें भूगोलीक वास्तव न्हय. तें एक सैम - सपन. ती एक अद्भूत परीकथा.

हिमगौर हिमालयाच्या मुकुटांतलें तें लावण्यमंडीत मोरपांख.

भूतानाक वचचें पयलीं दिसतालें - ना भूतानाक वचचेंच न्हय. म्हजे कल्पनेंतल्या भूताना इतलें खरें भूतान सोबीत, सुंदर नासलें जाल्यार?

भूतानाक वतकीर दिसलें ना, भूतानाच्यान परत येवचेंच न्हय. भूतानाची याद भूताना इतलीच सोबीत, सुंदर नासली जाल्यार?

कल्पना, प्रत्यक्ष अनुभूती आनी याद हांच्या द्वैत-अद्वैताचे अजब रसायन हेंच भूतानाच्या भोवंडेचें संचित.

भूतानाक परत वचचें काय भूतानाक परत वचचेंच न्हय ह्या संभ्रमात हांव आतां आसा.

कार्तिकांतले चान्ने रातीं पोरसांतल्या झोपाळ्यार निवांत बसून हांव भूतानाच्या यादींचो आल्बम पळयतां.

भूतानांतल्या पारो विमानतळार ड्रक अॅअरचें विमान देंवतना जनेलांतल्या भूतानाचो पांचवोचार सैम सरते दनपारच्या मोवाळ वतांत मांजराभशेन आपलेंच आंग

**दत्ता दामोदर नायक** : जल्म : 1954, ललीत निबंद लेखक आनी प्रवासवर्णनकार. कोंकणी तशेंच मराठी, भाशेंत लेखन. *'जाय काय जूय?'*, *'कालीघाट ते करुणाघाट'*, *'अरेबियन डेज'* हीं चर्चीत पुस्तकां. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2006) सन्मानीत. संपर्क : आचार्य धर्मानंद कोसंबी मार्ग, पॉ. बॉ. नं. 7, कोंब, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 9822102416.

चाटतालो.

तीन रंग. मळबाचो निळो. सैमाचो पांचवो आनी वताचो हडवो.

ह्या तीन रंगांच्या मखरांत सैम बशिल्ली.

दोंगराचे देंवतेवयलीं सोंपणा, सोंपणाची शेतांची केर. तांचे आलतडीं ल्हान ल्हान घरांची रांगोळी आनी पलतडी दोंगराचे तेंगशेर सुपुल्ल्या बुद्धविहाराची घुमटी.

पारो विमानतळार विमान अळंग देंवलें. भूतानाच्या विमानतळाची सान सुबक वास्तु. संवसारांतल्या विमानतळाची सगळ्या विमानतळामदीं भूतानाच्या विमानतळा इतली सुंदर, सोबीत वास्तु दुसरी नासतली.

भूतानाच्या पारंपरिक वास्तुशिल्पान नटिल्ली ती वास्तू.

ल्हानसो विमानतळ. भूतानाच्या देखण्या राजकुंवाराचो आनी ताच्या सुंदर राणयेचो हांसत्या मुखामळाचो फोटो तुमकां येवकार दिता.

विमानतळावयले राखणे - पुलीस लेगीत हांसतात. खंयच मनीसघाणेंपण ना. सगळ्यांचो कमरेन बागोवन नमळायेचो येवकार.

पारो शार तशें ल्हानशेंच. शार कसलें? गांवच तो.

पाचु न्हयचे देगेर तो वसला. न्हंयचें निळें, नितळ, निवळ, आरस्पानी उदक. न्हंयेचेर ल्हानसो सांकव.

सगळेकडेन निशब्द मोनेळ. खंयच आवाज ना. न्हंयच्या कांठार बशिल्लीं अनामीक शेंवणी. तांचोच मदीं मंद किलकिलाट. आनी न्हंयच्या उदकाचो मंदसो खळखळाट.

ल्हानशे जिपींतल्यान आमी पारोच्यान थिम्पु वतात. वसंत ऋतु निकतोच आयला. रस्त्याचे देगेर जांभळी, निळीं, हडवीं रानफुलां. पयस अनंता भशेन धव्व्याफुल्ल फुलांनी फुलिल्लो ल्हानसो रुख.

तिनसांज जायत आयल्या. दोंगराचे देंवतेर वशिल्ल्या घरांत मिणमीण उजवाड दिसता. हें पळय - थिम्पु शार पयसुल्यान दिसता.

आतां सगळेकडेन गुप्प काळोख थिम्पुच्या घरांचे दिवे लुकलुकतात.

भूतान म्हळ्यार भू- उत्तान. भुंयेवयलो, पर्वतावयलो वाठार. ताका लास्ट शांग्रिला म्हणटात. यक्षभुंयेतलें निखळून धतरीचे व्होंटयेंत पडिल्लें हें सान प्रसादा - फूल.

थिम्पु हें भूतानाचें राजपाटण. चोंग्येल लाम न्हंयच्या कांठावयलें 'हें' शार. चारी वटेन दोंगोर आनी तांचे मदीं न्हंयच्या सांगातान थिम्पु शार वसलां.

भूतानी मनीस घरां बांदना. तो लाकडांत घर कोरांतता. हीं कोरांतिल्लीं लाकडी घरां. तांकां तांबडे, पांचवे, हडवे रंगीत पांखाटे. पांखांट्याक सुंदरपट्टी आसतात. घरांक खूब जनेलां. हांगाचें दरेक जनेल म्हळ्यार भूतानी वास्तुशिल्पाची कुरू. जनेलांक हारशे. जनेलांकय फुलां-वालीचीं नक्षीदार रंगीत सुंदरपट्टी. घराचें दारय ल्हानशेंच. जनेलांमदलें एक जनेलच तें.

भूतानांतल्या घरांची वास्तू एकसारखी. खंयच विसंगती ना. खंयच बेसूर आकार ना. प्रमाणबद्द, जशीं काय कवितेंतलीं



टायगर्स नेस्ट मोनास्ट्री

छंदोबद्द घरां.

भूतान हो असो 'घरावो' देस. थंयच्या सरकारी ऑफिसांक इमारती ना. मात्शीं व्हडलीशीं घरांच तीं.

आमचें हॉटेल ताज ताशी. ताज ताशीची तशीच सोबीत वास्तू. तें हॉटेल कशें दिसचना. हॉटेलाची कसलीच असेंद्रिय, इन-ऑर्गेनीक सया ना ताचेर.

दारांत सुहास्य वदनाचे, भूतानी तरनाटेचो बुद्धीस्ट चालीप्रमाण आमच्या खांद्यार धवें वस्त्र घालून आमकां येवकार. पिवपाक तांबडेशें मिरमिरीत वेलकम ड्रींक.

ताज ताशींत कोनशा कोनशाक फुलां. लॉबींत फुलां, पॅसेजींत फुलां, कुडींत फुलां, रेस्टॉरंटांत फुलां. पोरसांत तर फुलांच फुलां. तें काणयेंतले फुलपरीचे फुलांचें घर कशें.

फुलांचे रंग आनी फुलांचो वास वातावरण सुरंगी, सुवासीक करता.

दिव्यांचो झगझगाट ना. फावो तितलोच मंद, सुखदिणो उजवाड.

रात जाल्या. शीं पडलां - चडय न्हय. उणेंय न्हय. हयन्हयशें. आंग कुडकुडपा इतलें न्हय. जिवाक थाकाय मेळपासारकें जाय-जायशें दिसपासारकें शितळ शीं. पयसुल्यान न्हंयचें थंडगार उदक पिवन आयिल्लो थंड वारो. मंद भूतानी संगिताची धून. आर्त सुरांत बुद्धाक आळोवचें अशे तीव्र सूर. सुरूबूस जेवण.

वायन, मशरुम सूप, सेझर सॅलेड, ग्रील्ड फिश, रोस्टेड चिकन विथ बेक्ड पॉटेटो आनी डेझर्ट अशें कॉन्टीनेंटल जेवण.

हॉटेलांत खेरीत भूतानी रेस्टॉरंट आसा. पूण पयल्याच दिसा भूतानी जेवण जेवपाची धिटाय आमी केली ना. आंगांत गोंय - दिल्ली - पारो ते थिम्पु असो लांबच्या प्रवासाचो शीण आशिल्लो. पोटाक कडकडून भूक लागिल्ली. पोटभर जेवतकीर दोळ्यांर न्हीद आयली.

सुस्त न्हिदलों. सेंसुस्त न्हिदलो. भोंवडेंत अशी गाढ न्हीद पट्टा. मदीं जाग ना. सपनां

नात. बद्द फांतोडेर जाग आयली तेन्ना बरेंच शीं पडिल्लें. गुबगुबीत ब्लँकेटांतल्यान भायर सरप जिवार आयलें. फांतोडेची साकर न्हीद म्हाका जितली प्रिय तितलीच फांत्यापारार उठून दंवांत सुस्नान जाल्या, सचैल भिजिल्ल्या सैमाच्या सांगातान केल्ली फांतोडपावलीय म्हाका प्रिय.

पूण आज कांयवेळ सुस्त न्हिदलो.

ऑरेंज ज्यूस, चीज, मार्मालंड आनी टोस्ट, बॉयल्ड व्हॅजिटेबल्स, चीज ऑमलेट, स्टफ्ड टॉमेटो आनी गोड, झाडपिक्या पोपायेची शीर. मागीर कडक कॉफी, असो मनसोक्त ब्रेकफास्ट केलो.

आज थिम्पु भोंवन पळयलें. जंय एकय ट्राफीक लायट ना अशें हें जगांतलें एकच राजपाटण. थिम्पु लाखभर लोक रावतात. गाडयो तशो खूब आसात. पूण रस्त्यार ट्राफीक लायट नासली तरी कसलोच गोंदळ ना. ट्राफीक जॅम ना. कानफुटके कर्कश हॉर्न ना.

नितळ, निवळ, रस्ते. रस्त्यांक दोशीं दोन मेकळे फुटपाथ. फुटपाथार रंगीबेरंगी भेसांतलीं गुलाबी, सफरचंदी गालाचीं, गुटगुटीत, हांसरीं भुरगीं. शाळा लागींच आसा. पलतडी बाजार, हारीन दुकानां. फुलांची, फळांची, भाजयांची, कपड्यांची, खेळण्यांची, मिठायेचीं.

भूतानाक नुस्त्याचो बाजार ना. बुद्धधर्माच्या दायजा प्रमाण हांगा न्हंयतलें नुस्तें मारूंक जायना. पूण भारतांतल्यान आयात केल्लें नुस्तें हॉटेलांनी मेळटा. नुस्तें मारपाक बुद्ध धर्माचो न्हयकार. पूण खावपाक ना.

बुद्धाचो हो मध्यम मार्ग. स्वता बुद्ध आपले जिणेंत सावदांची हत्या करीना. पूण भिक्षापात्रांत दिल्लें मांस, नुस्तें खाता. दुकराचें मांस खावन अतिसारान बुद्धाक मर्ण आयलें अशी दंतकथाय आसा. थायलंडाकय हांवें बौद्ध भिक्षु नुस्तें, मांस खातना पळयल्यात.

हरशीं 'शिवराक' हें उतरच आमचे भाशेंत 'श्रावक' ह्या बौद्ध उतरावयल्यान आयलां. पूण बौद्ध धर्म शिकारेचेर पोट भरपी रानवासी लोकांचो विचार करता. जीवो जीवस्य जीवनम् हें तत्व मानता. पूण यज्ञांतली, आंगवणेची नाका थंयची सावदांची हत्या त्याज्य मानता.

भूतान हो बुद्धीस्ट देश. सगळे लोक बौद्ध. उदात्त विचारांच्या बुद्ध धर्माचे फास्केंत मेकळ्या मनाचे, पहाडी, भूतानी लोक मुदयेंत थीक कशें जुस्त बसल्यात.

बुद्ध धर्माचे शिकवणेचें पडबिंब पावला कणकणी भूतानी जिणेंत पडला. धर्मविचाराचो एक बाह्याविष्कार आसता. देवमंदिरा, कर्मकांडां, सण, परबो हो धर्माचो दृश्यावतार. पूण धर्मविचाराचें आंतरिकरण, इंटरनलायझेशन जालें ना जाल्यार तो धर्म अडेचो जाता. बेगडी जाता. धर्माचें रुपडें जाता. म्होवाळें जाता. पूण धर्माच्या विचाराचें सार, धर्माचें मुळावें तत्वज्ञान, हाचें जिणेंत, सभावांत, संस्कृतायेंत आंतरिकरण जाता तशें तो तो समाज, तीं तीं मनशां, तो तो देस संस्कृतीक नदरेन गिरेस्त जाता श्रीमंत जाता, शिरवंत जाता.

भूतान हो सैमीक नदरेन सुंदर तसोच

संस्कृतीक नदरेन शिरवंत देस. तो सुखी देश. समाधानी देश, तृप्त, संतुश्ट देश.

बुद्ध तत्वज्ञानाच्या उजवाडांत भूतानान संवसारात पयलीच एक नवी अर्थीक संकल्पना फुडें हाडल्या.

हेर सगळे देस आपली अर्थवेवस्था घटमूट आसा काय ना हें पळोवंक साबार राष्ट्रीय उत्पादनांचो निर्देशांक मेजतात. हाकाच ग्रोस नॅशनल प्रॉडक्ट (जीएनपी) अशें म्हणटात.

भूतान हो संवसारांतलो एकच देस - जो फकत ग्रोस नॅशनल प्रॉडक्ट पळोवन थांबना. तो देशाचो ग्रोस नॅशनल हॅपीनेस (जीएचपी) साबार लोकांचे सुख मेजता.

जीएनएच ही अर्थशास्त्रांतली अभिनव कल्पना. इनोव्हेशनच तें!

देशांतल्या लोकांचे स्वास्थ, तांची भलायकी, तांचे शिक्षण, तांचे सुख, समाधान ही मोख दवरपी हो देस.

भौतिक आनी ऐहिक उदरगती वांगडाच मानसीक समाधान आनी शांतीकाय म्हत्वाची मानपी हो बुद्धीस्ट देश.

देखून ह्या देशान आपलें दायज सोडूंक ना. आपली परंपरा सोडूंक ना. आपली भास, आपलो भेस, आपली संस्कृताय, आपलें वास्तुशिल्प मोखून मारूंक ना. इतलेंय करून ह्या देशान आधुनिकतेकडेन फाट करूंक ना. उदरगतीक आडावंक ना.

भूतानाक आसतना हांवें भूतानची ही राष्ट्रीय सुखाची संकल्पना समजून घेतली.

भूतान आपल्या देशाचे उदरगतीचो सर्वांगीण (होलीस्टीक), सकारात्मक (पॉझिटीव्ह) आनी समतोल (बॅलन्सड) विचार करता.

राष्ट्रीय सुखाचे संकल्पनेक चार तासां आसात. चार आयाम, परिमाणां, डायमेन्शन्स आसात.

देशाची समाजीक आनी अर्थीक उदरगत ही पयली मोख. हातूंत लोकांचें आरोग्य, शिक्षण, लोकांच्या आंगांतली रोजगाराक फावो अशी कुशळताय, तांका फावो तो रोजगार, तांकां फावो ती जोड, तांकां रावपाक घर, न्हेसपाक कपडे, खावपाक पौश्टीक जेवणखाण, भुरग्यांचो सांबाळ, बायलांक दादल्याइतलो पावंडो, जाण्ट्यांची राखण ह्या सगळ्यांचो विचार जाता.

दुसरी मोख सुशासनाची, म्हळ्यार गूड गव्हर्नन्स. भ्रश्टाचार नाशिल्लें, कार्यक्षम, लोकाभिमुख प्रशासन. भूतानाक राजा आसा आनी त्या राजाचेर भूतानी प्रजेचें आनी आपले प्रजेचेर राजाचें खूब प्रेम आसा. पूण भूतानाच्या राजान आपले राज्याधिकार खोशयेन सोडल्यात. क्रांती करून ताका सत्ताच्युत करूंक ना. भूतानाक निरोगी, निरामय लोकशायी आसा. वेंचून दिल्ल्या लोकांचें सरकार आसा.

राष्ट्रीय सुखाचे संकल्पनेची तिसरी मोख म्हळ्यार सैमाची राखण. सावदांची, शेवण्यांची, रुखांची, वालींची न्हंयांची, तळ्यांची, दोंगरांची, दोंगुल्ल्यांची राखण. पर्यावरणाचो सांबाळ.

भूतानाक औद्योगिकरणाच्या नांवान नस्ती करंदाय करपी दोळे फुटको पर्यावरणीय मूलत्त्ववाद (इको फंडामेंटलीझम) ना.

पर्यावरण आनी उदरगत हांचो सुवर्णमध्य सादपी शेतकाम, फळबागो, पर्यटन, उदकापसून वीज निर्मिती, हस्तव्यवसाय, लाकडाच्यो वस्ती करपाचे लघुउद्योग, ल्हान आनी मध्यम पावंड्याचे उद्योग हांचो विकास करपाची मोख भूतानान दवरल्या आनी हो प्रयोग बरे तरेन फळादीक केला.

चवथी मोख संस्कृतायेचे आनी संस्कृतीक मुल्ल्यांचें जतन. हातूंत भूतानी भास, साहित्य, कला, लोककला, लोकवेद, भूतानी खाणाजेवण, वास्तुशिल्प, चित्रकला, शिल्पकला, थळाव्यो परबो, लोकांचे थळावे खेळ, सादेपणान समाधानी जीण सारपाची वृत्ती, कसलेंच वितुश्ट, झगडीं, तंटे नासतना शांतिकायेन चलिल्लें समाज - जीवन ह्या सगळ्याचो आस्पाव जाता.

भूतानचो राजा जिगो सिंग्ये हांणे 1970 वर्सा राष्ट्रीय सुखाचो निर्देशांक मेजपाची ही जी. एच. पी. ची संकल्पना फुडें हाडली. तांचे उपरांत हे संकल्पनेचेर भूतानान बारीक साणेन आनी खोलायेन अभ्यास केला. संशोधन केलां. प्रयोग केल्यात. ते प्रमाण येवजण्यो आंखल्यात. त्यो प्रत्यक्षांत हाडल्यात.

जीएचपी मेजपाचें संख्याशास्त्रीय अंकगणित भूतानान सोदून काडलां.

भूतानान आपली लोकसंख्या चार वाट्यानी मेजपाचें सर्वेक्षण केलां.

शून्य आनी शंबर ह्या आंकड्यांमदीं (शून्य म्हळ्यार सामको दुःखी, शंबर म्हळ्यार सामको सुखी) शून्य ते पन्नास हांचो एक वांटो. म्हळ्यार जांकां आपलें सूख, समाधान हें शून्य ते शंबर ह्या निर्देशकांत पन्नासासकयल आसा अशें दिसता अशे दुःखी, असमाधानी लोक. भूतानांतले 10 टक्के लोक ह्या वर्गांत येतात.

जांकां आपूण 50 ते 66 ह्या मदीं आसा अशें दिसता अशा सादारण सुखी लोकांचो दुसरो वांटो. भूतानांत अशे 49 टक्के लोक आसात.

66 ते 77 हांचेमदीं आपलें सूख आसा अशें दिसपी लोकांचो म्हळ्यार खूब सुखी लोकांचो तिसरो वांटो. भूतानांन अशे 33 टक्के लोक आसात.

जांकां आपलें सूख, समाधान 77 ते 100 हांचेमदीं आसा अशा सामक्या सुखी लोकांचो चवथो वांटो. हातूंत 8 टक्के लोक येतात.

अशे तरेन भूतानाच्या अर्थशास्त्रज्ञांनी एक तक्तो केलो.

| सुखाचें मेजमाप | लोकांची टक्केवारी |
|---|---|
| 0–50 | 10 टक्के |
| 50–66 | 49 टक्के |
| 66–77 | 33 टक्के |
| 77–100 | 8 टक्के |

मागीर राष्ट्रीय सुखाचो निर्देशांक काडप सोपें जाता. ह्या अंकगणिताचें सूत्र अशें

भूतानच्या राष्ट्रीय सुखाचो निर्देशांक
= (0:50 * 10) + (0:66 * 49)
+ (0:77 * 33) + (1.00 * 8)
= 0 : 74

आपल्या देशाच्या राष्ट्रीय सुखाचो निर्देशांक 0:73 अशें भूतानान सोदून काडला



पुनाखा डिझाँग

(0 म्हळ्यार सामको वायट निर्देशांक आनी 1 म्हळ्यार सामको बरो निर्देशांक)

जांकां थोडेंभोव गणीत कळटा तांका हो वयर वयर दिसपी 'कानडी हिशोब' सोपेपणान समजतलो.

राष्ट्रीय सुखाचो निर्देशांक सोदून काडटना भूतानान आपल्या देशांतल्या लोकांचे जिणेचें सर्वेक्षण करतना णव गजालींचो अभ्यास केला.

पयली गजाल म्हळ्यार लोकांची रावपाची स्थिती. लोकांक रावपाक सारकें घर आसा काय ना, घरांत रांदची कूड, फावो तितल्यो कुडी आनी संडास, मान्नें आसा काय ना, कितले लोक बेघर, घरा नाशिल्ले, कितले लोक उपाशीं रावतात, कितल्या लोकांक जाय तशें जेवण-खाण मेळटा.

तें जेवण-खाण भलायकेचे नदरेन कितलें पौश्टीक, लोकांक रोजगार वा वेवसाय आसा काय ना, लोकांची जोड कितली, बेकार लोक कितले ह्या सगळ्यांचो विचार जाता.

दुसरी गजाल लोकांचें आरोग्य, तांची भलायकी. हातूंत कितले लोक अपंग, कितले लोक मनोरुग्ण, कितले लोक दुयेंत, सादारण मनीस वर्सांतल्यान कितले दीस दुयेंत, भुरग्यांची, बायलाची, जाण्ट्यांची भलायकी, तांकां फावो ते वैजकी उपचार मेळटात व्हय, ह्या सगळ्या गजालींचो आस्पाव जाता.

लोकांची मानसीक स्थिती ही तिसरी गजाल. लोकांचे भावनीक आरोग्य, तांकां मेळपी कौटुंबीक स्वास्थ, तांचे नातेसंबंद, शेजाऱ्याकडले, इश्टांकडले संबंद, नोकरे वेवसायांतल्यान तांकां मेळपी आनंद, तांच्यातली उर्जा, उत्साह, तांचो सकारात्मक वा नकारात्मक विचार करपाचो दृश्टीकोन हांचोय अभ्यास जाता.

चवथी गजाल, लोक आपलो वेळ कसो

सारतात. पोटाखातीर तांकां कितलीं वरां कश्ट करचे पडटात. कितलीं वरां ते सुसेग घेतात, कितलो वेळ आवडीच्या कामांत सारतात, कामाचो वेळ आनी सुशेग वा मेकळो वेळ (लेजर) हांचे प्रमाण हीं सगळीं तासां हे गजालींत विचारांत येतात.

शिक्षण ही पांचवी गजाल. साक्षरता, सामान्य गिन्यान, विज्ञान, तंत्रज्ञान, मूल्यशिक्षण, शाळा-कॉलेजांची संख्या हांचे सर्वेक्षण हातूंत जाता.

सव्वी गजाल म्हळ्यार, लोकांची संस्कृतीक गिरेस्तकाय. तांची भास, कला, साहित्य, संस्कृतीक कार्यावळींत तांचो सहभाग, लोकगितां, लोकांकाणयो हांचो विचार हातूंत जाता.

सुशासन ही सातवी गजाल. लोकांचे मूलभूत हक्क, राजकी हक्क, तांकां मेळपी सरकारी सुविधा, सरकारी येवजण्यांचो लाब, भ्रश्टाचारमुक्त प्रशासन, कार्यक्षम शासन ह्या तासांचो हातूंत अभ्यास जाता.

आठवी गजाल म्हळ्यार, समाजीक सुरक्षा आनी शांतिकाय. हातूंत लोकांची राखण, गुन्यावांचे प्रमाण, समाजीक वावरांतलो लोकांचो वांटो, कुटुंब नियोजन, समाजीक शांतिकाय ह्या सगळ्या आंगांचो विचार जाता.

पर्यावरण ही नवी आनी निमणी गजाल. हातूंत सैम, रानटी सावजां, शेवणी, पिकांची नासाडी, सैमीक संकश्टां, शारीकरण, रस्ते, मेकळ्यो सुवाती, येरादारींची सादनां, प्रदूषण हाचें सर्वेक्षण जाता.

भूतानाची लोकसंख्या ताच्या वाठाराच्या मानान खूब उणें. फकत स लाख लोक भूतानांत रावतात. हे सगळे थळावे लोक. हांगा भायल्या लोकांचें स्थलांतर जावंक ना. वर्साक कितले पर्यटक येवचे हाचेरय भूतानान मर्यादा घाल्यात.

भूतानचो सगळो वाठार 38000 चौरस किलोमिटरांचो. तांतूत 72 टक्के रानां. भूतानाचेर केन्नाच परराष्ट्रान राज्य करूंक ना.

1300 वर्सांआदीं हांगा बौद्ध धर्म पावलो. हांगचे थळावे संस्कृतायेंत तो रुजलो. हांगाचोच कसो जालो.

भूतानांतली बुद्धमंदिरां पळोवप हो एक अणभव. सोबीत सैमीक वाठारांत हीं मंदिरां आसात. चडशीं दोंगराचे तेंगशेर, कांय ल्हान दोंगुल्यांचेर, कांय न्हंयचे देगेर.

थिम्पुचे एके सान दोंगुल्लेचेर 14 व्या शेंकड्यांतले बोधीसत्वाचें देवमंदिर आसा. हो बोधीसत्व ल्हान भुरग्यांक आशीर्वाद दिता. थिम्पुतले सगळे लोक आपल्यागेर भुरगें जातकीर बोधीसत्वाचो आशिर्वाद घेवंक येतात. फुलां, धान्याचीं कणसां, ल्हान पुरयो, इतलेंच न्हय तर ल्हान भुरग्यांक आवडपी चॉकलेटी, बिस्कीटी, मिठायो हांचो प्रसाद बोधीसत्वाक दितात. बुद्ध मंदिराच्या सरभोवंतणी धवीं, तांबडी, निळीं, पांचवी, हडवीं बोंदेरां लायतात. ह्या बोंदेरांनी देवळाच्या वाठाराक सोबा येता.

थिम्पुच्यान लागींच दुसरे दोंगुल्लेचेर ध्यानस्त बुद्धाची भव्य म्हूर्त आसा. 70 फुटांची ही म्हूर्त. तिचेवयर कसलीच घुमटी ना. वयर फकत मेकळें मळब. बुद्धाचे



पारो डॉग्ज

मुदयाळे केंस सांसपुपी झणझणीत वारें आनी बुद्धाच्या अर्धनिद्रीत, अर्धजागृत, दोळ्यांचेर आनी मुमुरख्या ओंठांचेर पडिल्ली सकाळच्या मोव वताची सया.

थिम्पु शाराक अभिमुख ही बुद्धाची ध्यानस्त म्हूर्त थिम्पु शाराच्या खंयच्याय वाठारांतल्यान दिसता. दोंगुल्लेवयल्यान न्हंयचे देगेवयलो थिम्पु गांव खेळण्यांतलो गांव कसो दिसता.

हे दोंगुल्लेर कसलोच आवाज ना. आसा ती सर्वपयस अशी निवळशंख निशब्द शांती. कसलोच घंटानाद ना. प्रार्थनेचे सूर नात. फकत ध्यानमग्न, आत्ममग्न असो मोनेळ.

थिम्पु शारांत बौद्ध धर्मगुरुचो विहार आसा. ह्या प्रशस्त विहारांत गडद तांबड्या भेसांतले बौद्ध भिक्षू धर्मशिक्षण घेतात. ह्या भिक्षुंच्या तोंडार सदांच निर्मळ, निरागस असो सदाफुली हांसो दिसता. ते तुमकां फकत दोळ्यांनी हडकितात. गूढ गंभीर स्वरांत बौद्ध मंत्रांचें पठण चलता.

बौद्ध विहाराच्या परिसरांतच भूतानची लोकसभा आनी मंत्रालयाची वास्तू आसा. ताचेर सरकारी इमारतीची झांक मारना. एके तरेचो बौद्ध विहारच कशी ती वास्तू दिसता.

फुडें हालींच बांदिल्ली सुप्रीम कोर्टाची वास्तू आसा. खूबच सुंदर अशी ही वास्तू. भूतानाच्या सगळ्या वास्तुशिल्पाचो अर्क आधुनीक वास्तूविस्ताराचे फास्केंत घालून ही वास्तू बांदल्या.

परंपरा आनी नवता, दायज आनी आधुनिकता हांचो हे वास्तुंत संगम जाता. हे वास्तूक कसलेंच बंदिस्तपण ना. आसा एक मुक्त मेकळें मेकळेंपण. देखून सरभोवंतणींच्या सैमाचो वांटोच कशी ती वास्तू दिसता.

तिनसांजच्या वेळार सुप्रीम कोर्टाची वास्तू, लोकसभा, मंत्रालय, बौद्ध विहार

हो सगळो वाठार दिव्यांनी लखलखता. किट्ट काळखांत दिव्यांचें तें पुरसांव खिणभर थांबलांच कशें दिसता.

ते रातीं हॉटेलांत रुपड्यांचो भूतानी नाच पळयलो. वाग, शींव, हरणां, सोरोप, ड्रॅगन हांचीं रुपडीं घालून भूतानी संगिताच्या तालार हो लोकांनाच जाता.या नाचाच्या शेवटाक वाग-शींव, हरणांक खायनात. तांची इश्टागत जाता. ड्रॅगन मनशांचो इश्ट जाता.

नाचा उपरांत धनुश्यबाण ह्या हांगाच्या थळाव्या खेळाचेंय प्रात्यक्षीक जालें.

भूतानी लोकजिणेन सैमाकडली आपली वार कापूंक ना. मनीस, सावदां, शेवणी, रुख, वाली हीं सगळी इश्ट-सोयरीं हो बुद्ध विचार लोक संस्कृतायेंत खोल रुजला.

थिम्पु शारांत दोन म्युझियम पळयले. एक वन जिवनाचो म्युझियम. भूतानात शेंवण्यांच्यो 770 जाती आसात. दरेक शेंवण्याचो रंगीत फोटो हांगा पळोवंक मेळटा. दरेका शेवण्याचो आवाजय हांगा आयकूंक मेळटा.

म्युझियमाभायर भूतानी सोव्हिनिरांचें दुकान आसा. थ्रीडी स्टॅम्प हें भूतानचें खेरीत वैशिश्ट्य. अशे थ्रीडी स्टॅम्प हेर खंयचोच देश काडना. भूतानांत शेवण्यांचे, सावदांचे, रुखांचे, फुलांचे तरांतरांचे रंगीत त्रिआयामी स्टॅम्प मेळटात. फुलपांख्यांचे स्टॅम्प तर खूब सोबीत. हे स्टॅम्प म्हारग, पूण ते घेतलेबगर रावूं नजो.

भूतानचे हे थ्रीडी स्टॅम्प हो भूतानाच्या यादींच्या आल्बमाचो एक दृश्यावतार. तो घेवंकच जाय.

थिम्पुक भूतानी रेस्टॉरंटांत जेवण घेतलें. तांदळांची वायन, सूप, कोबीचीं भजीं, उकडिल्ले मशरुम मोमोज, स्ट्यू, नूडल्स चीज, चिली, व्हेजिटेबल आग्रातीन अशें जेवण.

दुसरे दिसा थिम्पुच्यान पुनाखा वचूंक भायर सरलीं. दोंगरा दरयांतल्यान रस्तो वता. वाटेर 103 ल्हान ल्हान स्तुपांचें व्हिक्टोरीया यादस्तीक मेळटा. भूतानी राजान शेजारी राज्याचेर मेळयल्या जैताचें हें यादस्तीक.

आटयल्ल्या दुदाच्या फराळाभशेन धवेफुल्ल अशे हे हारीनी बशिल्ले ल्हान ल्हान स्तूप. तांचे भोवतणी रंगीबेरंगी तांबडीं, पांचवीं, धवीं, निळीं, बोंडेरी. दोंगुल्लेचेर चडपाक देंवपाक ल्हान ल्हान सोंपणां. सोंपणांच्या दोनी वटेन वासंतीक रातफुलांचो चवर. दिसलें - थंयच ध्यानस्त बसचें आनी आपलोय एक सुपिल्लो बौद्ध स्तूप जावचो. हे 108 स्तूप म्हळ्यार ध्यानाक बशिल्ले 108 बौद्ध भिक्षुच कशे! दिसलें - आपणेंय तांचो वांटो जावचें.

तीन चार वरांनी पुनाखा पावलीं, तेन्ना दनपार जाल्ली.

पुनातांच्छु न्हंयचे देगेवयलो हो पुनाखा गांव. दोंगराच्या मुळसाक वसला.

पुनाखा हो वाऱ्याचो गांव. अश्टदिशांतल्यान येवपी झणझणीत वारें. थंड, शितळ, सुखदिणो वारो. वाऱ्याचेर हालपी रुखांच्या पानांची सळसळ. वाऱ्याचेर धोलपी शेतांची केर.

शेतांची केर काडून वतकीर न्हंयचे देगेर

एक ल्हान बुद्धमंदिर आसा. देवळाकडेन पिंपळाचो व्हडलो रुख आसा. पिंपळाक इंग्लीशींत 'टेंपल ट्री' हें सार्थ नांव आसा. देवळाच्या प्रांगणांत पिंपळ आनी पिंपळाच्या पारामुखार देवूळ हांचे सान्निध्य हो एक आमच्या संस्कृतीक संचिताचो वांटो.

बुद्ध धर्मांत पिंपळाक खेरीत सुवात आसा. पिंपळाच्या रुखा सकयल ध्यान करून सिद्धार्थाक गिन्यान मेळ्ळें. सिद्धार्थाक प्रज्ञा ऋतंबरा प्रज्ञा मेळी. सिद्धार्थाचो बुद्ध जालो.

भगवद्‌गीतेंतय रुखामदी हांव पिंपळ अशें श्रीकृष्ण म्हणटा. पिंपळ हो पुरातन रुख. संस्कृतांत ताका अश्वत्थ म्हणटात.

पिंपळ हो फकत रुख न्हय. पुरातन संस्कतायेचो तो आदिम ध्वजदंड. मानदंड.

पुनाखाच्यान लागींच न्हंयचे देगेरच पुनाखाचो किल्लो आसा. ह्या किल्याक फोर्ट म्हणतात. ताका फोट्रेस अशें फॅमिनीन नांव दिलां.

किल्ल्याच्या दोशी वटेन पुनातांच्छु न्हंयचे दोन फांटे जातात. एक न्हंयचें पुरुशी रुप आनी एक न्हंयचें स्त्रीरुप. ह्यो मेल, फिमेल न्हंयो. तांच्या मदल्या बेटाक किल्ल्याची वास्तू आसा.

किल्ल्याच्या प्रांगणांत जांभळ्या अनामीक फुलांचे रुख हारीन उभे आसात. तांच्या सांगातान किल्ल्याची वास्तु भरजरी जाल्या.

किल्ल्यांतच बुद्धमंदिर आसा. बुद्धमंदिरांत ध्यानस्त बुद्धाची मूर्त वातींच्या मंद उजवाडांत बसल्या. सगळेकडेन धुपाचो वास. बुद्ध भिक्षुंच्या मंत्रपठणाचे सूर, बुद्धाक लोकांनी पानां, फुलां, फळां ओंपल्यात.

देव न मानपी बुद्धाचें हें देवरुप. ना, बौद्ध धर्म बुद्धाक देव मानना. बौद्ध धर्म बुद्धाक देवमनीस मानता. महामानव, म्हापुरुस मानता. बुद्धाची मुद्रिता, बुद्धाचें कारूण्य बुद्धाची सर्वमंगलाची नदर, बुद्धाचो ईहवाद, बुद्धाचो माध्यममार्ग, बुद्धाचें पंचशील आनी बुद्धाची चिद्‌घनचपला ऋतंबरा प्रज्ञा, भूतानाच्या संस्कृतीक मखरांत बुद्ध सासणाचो वचून बसला. भूतानी मनशाच्या काळजांत रिगला. बुद्धाच्या मैत्रीभावान भूतानाचे समाजवस्त्र विणलां.

पुनाखाच्यान थिम्पु परतता म्हणसर रात जाली.

दुसरे दिसा थिम्पुच्यान पारो आयलीं.

पारो हो सैमीक गांव. थंयचे एके दोंगुल्लेवयल्या लाकडी हॉटेलांत आमी रावलीं.

सांजची पारोची फोट्रेस पळयली. त्या दिसा कसली तरी भूतानी परब आशिल्ली. किल्ल्यार खूब लोक नटूनथटून आयिल्ले. किल्ल्याच्या आंगणांत रुपड्यांचो भूतानी नाच चलतालो. लोक हांसताले, नाचताले, पदां म्हणटाले. भुरगीं खवदळ घालतालीं. बायलां एकमेकांकडेन फुतफुत्तालीं. बोंदेरांनी सगळो वाठार फुलील्लो. भूतानी लोक वेळकाळ विसरून आपली वर्सुकी परब मनयताले.

काळ जसो गोठूनच गेल्लो. 'टायम वॉज फ्रॉजन'. भूतकाळ, वर्तमानकाळ आनी भविश्यकाळ भरसून गेल्ले. वर्सानवर्सां हें

अशेंच चलिल्लें. अशेंच चलतलें.

दुसरे दिसा फांतोडेर उठून टायगर नेस्ट वचूंक भायर सरलीं. टायगर नेस्ट म्हळ्यार उंच दोंगराचे तेंगशेन बांदिल्लें बुद्धमंदिर. वागार बसून थंय बौद्ध भिक्षू गेल्लो, म्हणून ताका टायगर नेस्ट हें नांव पडले.

टायगर नेस्टांत वतना घोड्यार बसून वचचें पट्टा. फुडें मागीर चलत दोंगोर चडेचो पट्टा. वयर पावता म्हणसर खरस मारली.

पूण एक फावट टायगर नेस्टांत पावतकीर सगळो शीण गेलो. वयल्यान भूतानाच्या सैमाचें विहंगम रुप दिसतालें. झणझणीत वारें व्हांवतालें. मळब लवंडल्लें. टायगर नेस्टाक मेळपाक कुपां सकयल देंविल्ली.

टायगर नेस्टावयल्या बुद्ध मंदिरांत हयन्हयसो उजवाड आशिल्लो. कांय खीण बुद्धाचे आत्ममग्न मुर्तीमुखार हांव ध्यानस्त बसलो. मनांत 'सर्वे भवतु मंगलम्, सर्वे भवतु कल्याणम् – सगळ्यांचें बरें जावं, ही बुद्धपार्थना आळयली.

मन शांत जालें. निवांत जालें. चित्त स्थिर जालें. कांय खीण खेरीत अशा शांतीची अनुभूती हांवें घेतली.

टायगर नेस्टाचो दोंगोर कोणाकडेनच एक उतर उलय नासतना मोन्यानी हांव देंवलों. येतना घोड्यार बसपाक मेळना. चलत येवपाचें.

सांजचे पारोच्या व्हीक एन्ड मार्केटांत भोंवलों. कोबीचीं कुरकुरीत भजीं खाली. गरमागरम च्या घेतली. भूतानी सोव्हिनीर घेतलें. बुद्ध तत्वज्ञानावयलीं कांय इंग्लीश पुस्तकां घेतलीं.

रातचीं सुस्त न्हिदून दुसरे दिसा आमी पारोच्या विमानतळार आयलीं. भूतानची भोवंडी सोंपत आयिल्ली.

भूतानच्या विमानतळार ल्हानसो बोर्ड आशिल्लो ताचेर बरयल्लें–

*Leave nothing but foot prints*

*Take nothing but memories*

हांगा कांयच दवरून वचूं नाकात. तुमच्या पांयांच्यो कुरवो तितल्यो आसूं दी. वतना कांयच घेवन वचूं नाकात. फकत यादी व्हरात. भूतानच्यो यादी व्हरात...

000



# काव्यमंच

(कविता)

नागेश करमली

## याद

सूर पयस पयसुले घालती साद
जाणा! तुका केन्ना केन्ना
येता म्हजी याद

व्हाळयो-व्हाळ गायत गायत
व्हांवत चल्ले
कळशे म्हजे आपशींच
उपाट भरत रावले.

सैमच समा
म्हजेखातीर गायता गितां
गायता तेंच दायज
म्हजेखातीर जिखून घेतां

आनी-
दोणो दोणो भरून मागीर
तुमच्याच पांयार ओंपून दितां

जालां अळंग म्हजें अशें
कितेंच उरूक ना
तुमचेंच घेवन
परत तुमकांच दितां.

**नागेश करमली** : जल्म : 1933, गोंयचे सुटके झुजारी, नामनेचे कवी. कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंतल्यान लेखन. *'जोरगत'*, *'सांवार'*, *'वंशकुळाचे देणें'*, *'थांग-अथांग'* हे प्रकाशीत कविता संग्रह. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (1992) सन्मानीत. संपर्क : मानसदीप, भगवती कॉलनी, चिंचवाडो, रायबंदर, गोंय 403 006, मो. : 9420597501

## जिविताची उर्बा

दिवे सगळे पालोवन न्हय-
पेटोवन यो

जिवीत जिवें पिसडावन न्हय-
खेळोवन यो

सूर गितांचे अंदावन न्हय-
आळोवन यो

पर्मळ-शिंसो रकोवन न्हय-
भरोवन यो

उतर-म्हौंव वारोवन न्हय-
पुंजावन यो

बाग फुलांची सुकोवन न्हय-
भिजोवन यो

मनीस-मोग व्हाळोवन न्हय-
मेळोवन यो

काळजांत कोडू घोळयत न्हय-
भायरावन यो

दिवे सगळे वाडोवन न्हय
पर्जळावन यो.

## कुर्कुटांत दिवो तरी लाय

कांय ना जाल्यार
कुर्कुटांत एक दिवो तरी लाय

काळखी रात आसत तेन्ना
तितलोच उजवाड तरी जाय

'यो यो' म्हळें तो घडये
पावनय पावचो ना

नाका नाका म्हळें तोच
आयलेगबगर रावचो ना

घुंगरांचो हो साद - नाद
पयस पयसुलो

कोण जाणां केन्ना तो
लार्गी पावतलो

आनी नाचतां नाचतां
कोण तरी गावपी आसतलो

परमळटली रात राणी
परमळाची सांगीत काणी

कोण जाणा कोणें देखल्या
सदच्यो वाटो, नव्यो पायणी

वाट कितली राखीत रावूं?-
वेळा-काळाक होराय

तूं तुज्या कुर्कुटांतलो
दिवो तरी लाय!

**तेंच पयलीं कळ्ळें ना!**

शिमेपार वचूंक गेलों
पावलों खंय कळ्ळें ना
भोंव भोंव भोंवलों
थारचें खंय कळ्ळें ना

दार फोडूंक कितलेच जाण
येवन गेले

घराक दारच नासलें
तेंच तांकां कळ्ळें ना

मनांत मांडे खाय-खायत
दीस गेले सरून
तरीय पोसो रिकामोच
कित्याक तेंच कळ्ळें ना

कोणा कोणा मोग वजें
घेवन चलत रावलीं
कोणा वजें खंय पावलें
तेंच पूण कळ्ळें ना

माडयले दोंगर हुपल्यो न्हंयी
पावलों पयस
पावलां केन्ना थकलीं
तेंच पयलीं कळ्ळें ना!

माधव बोरकार

## पांयजणा परी पाणी

**माधव बोरकार** : जल्म : 1954, नामनेचे कवी, अनुवादक, *'चंवर'*, *'वताच्यो सावळ्यो'*, *'उजवाडाचो रूख'*, *'परजळाचें दार,'* *'यमन'*, *'अव्यक्ताची गाणी'* आनी *'सिम्फनी'* हीं प्रकाशीत कवितांचीं पुस्तकां. विश्व कोंकणी केंद्र मंगळुर संस्थेचो श्रीमती विमला पै पुरस्कार, केंद्रीय साहित्य अकादमीचो साहित्य पुरस्कार (2001) तशेंच अनुवादाच्या पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : ग्रीन पीस हावसींग बोर्ड सोसायटी, नागळ्ळी, ताळगांव - गोंय, मो. 9422442128.

पांयजणा परी पाणी खळखळपी वझऱ्याचें
येना रेखूंक रूप झणझणपी वाऱ्याचें
कोरता अदृश्य कुरू शुन्यांत दीठ म्हजी
झडिल्ल्या रुखांचेर पालेता सासाय तुजी
आटिल्ले बांयेक फुटली शब्दांची उमळ
खणलो कितलोय तरी आनीक खोल तळ

किणेल्लीं दमळां गेलीं पैलपार हुंपून
लख्ख दिगंत म्हजें अवचीत सकाळून...

## थाव

मळब ओंकार
ओंकार धर्तर
ओंकार भरिल्लें
मातयेंचे घर.

ओंकारता सूर
झंकारता रंद्र
कांतयल्ली सावळी
कुपां आड चंद्र.

सांडिल्लो हांगाथंय
ओंकारून हांव
दोळ्यांत पाणयाक
आपलोच थाव...

## सम

सांजेच्या कुपांचे
रंग जशे मनाचे
न्हाती धुती वतां
येती घरा आतां
पखवाज ताळ
सोदी सम काळ.

## जल्म

येता उमाळून
अंतरांत साद
मन मृदंगाचो
अनहद नाद....

तळ हाताचेर
थेंबो स्वातीचो
शब्द घरा आज
जल्म कवितेचो...

## आवर्तनां

फुट्टा शांतीक सूर
सळसळटात रानां
तापिल्ले सतारेवरी
झणझणपी रंद्रां
काळजांत स्वासाचीं
अनंत आवर्तनां...

प्रकाश पाडगांवकार

---

## कुळार

चान्नें तळ्यार यादेलां
चान्नें मनार वियेलां
माये-उबेचो सांठो गे
यादीन कुळार पर्मळ्ळां

चान्नें सुखा पेरणी
चान्नें काळा तेळणी
जल्माची जंय गांठ गे
थंय जीव एकरूपला

हांव हांगचें हांव थंयचें
दुवो दोन घर कुळांचें
दोन देगांक जोडून रावपी
संचिताचो पूल जाला

**प्रकाश पाडगांवकार** : जल्म : 1948, नामनेचे कवी. चाळीस वर्सां वयर काळ कवितेखातीर योगदान. *'उजवाडाचीं पावलां,' 'वास्कोयान', 'हांव मनीस अश्वत्थामो', 'कविता : काळ रेल्वेच्यो, मन हारशांच्यो,', 'पावस पाणयाच्यो', 'सर्ग घडपाक धतरीचो',' व्हांवती न्हंय काळाची', 'ब्रह्मांड योगी चिंतनाचो', 'पुनरार्थोपनिशद'* हीं कवितेचीं आठ पुस्तकां प्रकाशीत. केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या (1986) पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : मातृकलम, हावसींग बोर्ड, पर्वरी, गोंय 403501, मो. : 9423060384.

## इत्सा

अदृष्टा तुवें म्हाका निर्मिला
तूंच जीण घडयत रावला
विलो म्हजो तूंच लायतलो
तुवेंच म्हाका विश्वात्म केला

खेळ्ळा वाडला तुजे भुंयेर
तुजोच ताबो जीव-प्राणाचेर
जिणे पुर्तीच्या पलतड तीर्थार
पूल कृतार्था तुवेंच बांदला

निराकार तूं आकार साकारता
स्पर्श अळंग आंगार घोळयता
प्रति-विश्वाक म्हज्यांत निर्मून
म्हज्यांतल्यान तूं वावरूंक लागला

म्हाका सांसणाचो तुज्यांत कडय
निमणे घटकेक तुज्यांत मिसळय
तीर्थ काळाचें कुडींत सांचून
'जिणे-कलश' भरत रावला.

## चराचर हांवूच

म्हजे फकत दोळे
दोळ्यांची दिश्ट तूं
म्हजे फकत कान
कानांचे आयकप तूं

म्हजो फकत मेंदू
मेंदूचो उजवाड तूं
म्हजें फकत काळीज
काळजाचो जीव तूं

तुजे बगर फिको
जाडजूड गुळो
एक तुजो स्पर्श
जोगलांचो सळसळो

तुका खंय सोदूं
तूंच म्हजे भितर
तुज्या सांगातानच
हांव सगल्यां भितर

अणभवतां मरण
म्हजो पुनर्जल्म तूंच
तूंच जिवो उरून
जाता चराचर हांवूच.

## मूय

मुये दोळ्यांत
किरणां रिगलीं
मूय सर्वांगान
सूर्य जाली

मूय घडली
पारदर्शी भिंग
मुयेक चडल्या
ब्रह्मांड झिंग.

## दनपार माणकां – मोतयांची

सूर्य शिंवरायता माथ्यार
माणकां – मोतयांची दनपार
सावळी झिळमीळ पागळटा

घुंवघुंवता भोंवरो जसो
एकचित्र जाग्यार तसो
कळस देवळाचो लखलखता

दिगंत विस्तिर्ण रूखावळ
मुळां थीर शान्त शितळ
भीतर साकर-म्हौंव पिकयता

चलता, नित्सयान चलताना
पावल पावलार घालताना
काळार प्रसादा कुरू सोडटा.

मेल्विन रोड्रीगस

---

**गझल - 1**

सुखाचे भरतेंत, दुखाचे सुकतेंत, मेळता रास मयपास
राशिंतलें कुस्कूट पोटलूंक गेल्यार गळ्याक पास मयपास

भिकारी एकलो पेजेच्या निसा भोंवतालो घरान घरा
मेळताले ताका शिराप सोवे, सुण्यांक मांस मयपास

सोनारा लागीं पेटूंक सोनें दितालीं गांवचीं बायलां
पेटताना सोनार खातालो थोडें, जळोवन खास मयपास

पुरासाणेन दिसचे गजडेर निदूंक वेतां सुर्यो
तळमळच्या संवसाराक म्हणालो मागून, एक दीस लास मयपास

सारोवन लोणी दिल्यार उंडो, मोगान म्होंवूच गळता
दुबळ्यान दिलो कण्यारो कुंडो खिणान नास मयपास

तुजोगो हुस्को काळजान पोस्को केला-गो म्हजे राणये

**मेल्वीन रॉड्रीगस** : जल्म : 1962, कवी, स्तंभलेखक, अनुवादक, पत्रकार. मंगळुरी जीवन आनी कोंकणी बोलीचो लेखनाचेर प्रभाव. 'कविता ट्रस्ट' ही कोंकणी कवितेच्या विकासाक ओंपिल्ले संस्थेचे संस्थापक तशेंच 'दायजी वल्ड' संस्थेचे संचालक. *'बेंसां जालीं काळीज'*, *'मोगापेलो,'* *'फितां'*, *'शब्दुलीं,'* *'वाट'* *'प्रकृतीचो पास'* हीं मौलीक साहित्याचीं पुस्तकां तशेंच *'काणी जाली चेली'* हें अनुवादाचें पुस्तक प्रकाशीत. केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारान (2011) सन्मानीत. संपर्क : 403, वेनस प्रायम, कद्री, कंबला रोड (पिन्टो लेन) मंगळूर 575004, मो. : 09980136297

सासणाच्या सासणाक तुजेर वोत्तां म्हजोच स्वास
मयपास

## गझल – 2

दुकां आनी खंती इतल्यो, दारार मरण राकता
वोकतां एकूय नाटवानांत, बोत्लींत वायन राकता

संबंदांचे अर्थ कसलेय आसूं तुका, म्हाका
रांडेगेर गेल्लो घोव येवंच्याक पतीण राकता

घाय केले चांचावन, कोचावन, काळीज सांडून गेलें
पिसो जावून हुंब्रार आतां मुलाम घेवन राकता

वस्तूर उणें चलयेन न्हेसल्यार विणगेपण तरी
दादल्या आंगार येद्दिशी एक काश्टी मान राकता

शेवोट नासचें जिणें पोकोळ, जियेवन कितें फायदो?
भेश्टें हांगा उरल्यात कित्या तुमकां कोण राकता?

आसात जाल्यार दियात थोडीं मायामोगाळ उतरां
मरचे आदीं आयकून वचूं, तुमचो मेल्विन राकता.

## गझल – 3

मरणान मांडलो पास ताचेर, स्वास तुटून गेलो
जिणें आब्रार खर दोनपारां, सुर्या फुटून गेलो

राकतात पारे घरा भोवंती आयल्यार ताका मारूंक
राय म्हजो दिसाक आत्तां, स्वपणांत भेटून गेलो

वरसां थावन वोकताक वेता, वयजाक नाड मेळ्ळीना
बायल घरांत रिगून म्हयन्यान, ताप सुटून गेलो

पुंजायलें धन दिरवें चिंतून मरा काळा खायां
खावंचे आदीं मेलो आतां, चोर लुटून गेलो

घर बदीक दुडू भांगर, सोडतेंत सगळें गेलें

आतां उरल्या बायल फकत, तिकाय लाटून गेलो

‘कवि मेल्विन कविता वाचता’ माचयेर कोणें सांगलें
कवितागोश्टीक जमल्लो लोक, पुराय उटून गेलो.

**गझल – 4**

फुटल्यार हारसो सुरूप केदीं तुजें बदलना
रडून बसल्यार नशीब केदीं तुजें बदलना

चंद्रीम देंवत न्हाणवंक तुका आपल्या चान्न्यांत
कोणी येवूं नाटरूप केदीं तुजें बदलना

कुब्दी रूप धांपून माचयेर सदां दिसताय
रंग कितलोय वोडल्यार काळीज तुजें बदलना

लोंच खावय तांकां हांकां जातलीं कामां
दिल्यार देवाक मरण केदीं तुजें बदलना

शाळेंत कोंकणी शिका म्हणच्या फिरंगी मनशा
हिंदी शिकचें भुरगें कित्याक तुजें बदलना?

मेळजाय जाल्यार पुरस्कार नांव, फाटल्यान धांव
न्हय तर मेल्विन हणेबरप केदीं तुजें बदलना.

**गझल – 5**

मोगाक राकूंक पावट नासचे निदा, सुशेगाद निदा
व्हाळचे झरिची तान नासचे निदा, सुशेगाद निदा

लुटकार भरल्यात गेल्ल्या गांवा पिराण म्हजो कांपता
खजान व्हरूं, गोंयटांय व्हरूं निदा, सुशेगाद निदा

कानडी जाय वा नागरी, रोमी, गांवांत लागलां पिशें
कोंकणी मांद्रेर इंगलीश पोटलून निदा, सुशेगाद निदा

दुबांयत भाडीं मोळबाक तेंकल्यांत जाल्यात सगळे मोने

फाल्यां पडल्यार निदूंक मारगार निदा सुशेगाद निदा

कोंकणीचें एक अधिवेशन परत येतां आंवदूं
ठराव सगळे उशीं करून निदा, सुशेगाद निदा

दुबाय सरगार रात राणयो शिंतीद तुजें फारतात
चुकून पडल्यार बेजार नासतां निदा, सुशेगाद निदा

कवितेचीं झाडां वांटूंक मेल्विन येता पासून रावा
पडतच फुलां, खातच फळां, निदा सुशेगाद निदा

## शरतचंद्र शेणै

---

## एक विनंती

भुंयेर हांवें पांवचे आदीं रडूंक तुवें शिकयलें
जाल्यार म्हजे आवयन माका हांसूंक मरे शिकयलें.
रड रड म्हणून तुवें कित्याक माका रडयलो?
हांस हांस म्हणून तिणें हांसूंक दुशेर लागयलो!
कोटी कोटी नमन तुका तूंच धनी जगाचो
जाल्यार हांव पूत तिजो जगा पशी मोगाचो!
सुख तुवें दिलें माका पळय तुका विसरना
आवय हिकाय तूंच दिली उपकाराक उतर ना!
तुजो आशिर्वाद माका जाय सदाकाळाचो
पुणून आशिर्वाद तिजो ताजेय पशी मोलाचो!
नीज तुजें रूप माका दिकूंकच मेळ्ळेंना
तिजेंच रूप तुकाय म्हणून येद्दोळ कशी कळ्ळेंना!
व्हेली तुवें हांगा थाकून विसव तिका दिवूंक
तरीय ती सोदीत आसा खबर म्हजी घेवूंक!
तुजेच लागीं बेसय तिका दोळे तिमूंक दिवूंनाका
हांव जेन्ना येतलो थांगा तिजीच भेट जाय माका!

**शरतचंद्र शेणै** : जल्म : 1953, केरळांतले कोंकणी कवी. कोंकणी वांगडा मल्ल्याळम, हिन्दी, इंग्लीश, संस्कृत भाशांचें ज्ञान. कवितांचीं स्वतंत्र तशेंच संकलन आनी संपादन केल्लीं पुस्तकां प्रकाशीत. *'अतंरनाद'* हें चर्चींत पुस्तक. केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत (2000). संपर्क : गोकूळ, वेस्टर्न नाडा, पल्लुसती, कोची, केरळ 682006, मो. : 9495012208.

## आवयलो सल्लो

आवयलागीं म्हळ्ळें हांवें 'आंकडे मेजून दाकयतां
एक थाकून धा मेरेन पप्पान माका शिकयल्या!'
गोड गोड हांसली ती अपुरबायेन पप्पी दिली
'आतां पोरा, वेळु ना...' म्हणून रांदूक चमकली
आवय फाटीं गेलों हांव 'कित्या तूंवय शिकयना?
शाळेंत वचून वाचून लिखून तूं कांय शिकलीना?
कितें कितें कळता पप्पाक सगलें हांव शिकतलों
शिकून शिकून व्हडलो व्हडलो डाक्टेरु बी जातलों!'
खळखळून हांसून तिणे वेंगेंत माका घेतलो
काथळेचो कुटको तोडून हातांत म्हज्या दवरलो
'शाण्या म्हज्या, शिकलो मरे धा मेरेन मेजूंक!
आतां एक सांगतां तुका, कान दिवनू आयक
कोपू जेन्ना आयलो तुका, आंकडे याद करका
एक थाकून धा मेरेन मनोमनीं मेजूका
काथळेची याद तेन्ना आयली जाल्यार येवंदी
मनांतुलो कोपू पुराय संथ संथ निवंदी'
आवयकडे शिकललो उपाय हो आंकड्यांचो
जाण आतां सल्लो तिचो भोव भोव मोलाचो!

## हें मन

मन हें धांवता गेल्ल्या दिसांच्या फाटल्यान
माका भोवंडायता उडगासांच्या उद्यानान
उडगास हांसयताय, उडगास रडयताय
उडगास खास हे सहज मित्रांच्या समान.

मन हें मग्न भोगून गेलेल्या अणभवांनी
शेणलेल्या, विसरांत पडलेल्या उतरांनी
खिणभर मुग्ध, साम्य नातलेल्या संतोशान
खिणभर तप्त, साम्य नातलेल्या शोकान.

भूतकालातूं धुकलून घाला माका मनान
जाय जाय म्हूण दिसपी जादूच्या जगान
ओंट पळयताय हांसूंक, दोळे पळयताय रडूंक
हृदय तर भरलां हून हून अश्रेकान.

हांगाच्यान थांगा आनी थंयचेय पेल्यान
मारता उडक्यो एक मर्कडा भाशेन
वेळ काळ चोयना, समय संदर्भ पळयना
भोंवता शीड शेणलेल्या व्हड्या भाशेन.

वर्तमान जागयता, भविश्य आपयता
अमोलिक रे मना दर एक खीण
व्यर्थ सारचें न्हय नेणतां शेणचें न्हय
खिणांनी विणली आसा ही जीण.

## आनंदनटन

आनंदनटन चिदानंदनटन
नंदनंदन नटन
काळिंदीगमन काळीयदमन
नंदनंदन नटन
गोपजन करी नर्तन
जय जय जय घोशण
सुंदर वदन दर्शन
मंदस्मित भुशण
रूप तें मनमोहन
दृष्टी कृपाकिरण
देहान नमन मनान नमन
शरण शरण चरण
आनंदनटन चिदानंदनटन
नंदनंदन नटन.

## नवें फालें

जालेलें जालें जावनू गेलेलें
सोडी रे तें सगळें!
आजी उदेलें नवें फालें
आयचें कार्य वेगळें
काली केलेलें कालच्यान जालें
हात निवळ केले
आजी उदेलें नवें फालें
हात तयार जाले
फाल्याचें सर्वय फाल्याक सोडी
कळता ताचें कसलें?
कार्य फाल्याचें वायट की बरें
सांगू जायना तसलें
आजी आजीचें कार्य जें केलें
जालें बरें तितलें
दिसू गळ्ूनू राती पावतना
थंड मन तितलें!

परेश नरेंद्र कामत

---

## तीं दोन शेवणीं

तीं दोन शेवणीं एकामेकांक पळेत आसात
आनी
त्या शेवण्यांक पळेत आसा तूं
आनी हांव

- आनी हांव
पळेत आसा तुका शेवणें जावन
म्हजेच नकळत

**परेश नरेंद्र कामत** : जल्म : 1968, कवी. *'अळंग'*, *'गर्भखोल'*, *'शुभंकर'*, *'चित्रलिपी'* हे चार कविता संग्रह प्रकाशीत. कवितांचो इंग्लीश तशेंच हेर भारतीय भाशांनी अणकार. कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, जनगंगा साहित्य पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमी साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : पयलो माळो, एफ-6, पराग को. हावजींग सोसायटी, शांती नगर, फोंडें, गोंय 403401, मो. : 9422640210.

आमच्या माथ्या वयलें झाड
पळेत आसा आमकां
आनी घडये
त्या शेवण्यांक लेगीत
आनी झाडाक पळेत आसा
ताच्या माथ्या वयलें मळब
झाडाच्या नकळत

कोणाक कोण पळेत आसा
तें कळच ना निमाणें मेरेन
मळबाक लेगीत!

## आवर्तन

एक पाचवेंचार आवर्तन घे
आनी जा
झाड फुलिल्लें फुलांनी भरगच्च

आंगभर आंगभर आतां
सगळे कडेन
पानां पानांची सळसळ...

आनी
वसंत रूतू फुलांफुलांचो
खोल काळजांत

मळब दिसतकीच
उडून वच
शेवणें जावन काळजांतल्यान

घे आवर्तनां उडत उडत वाऱ्याक वेंगून
आनी यो समेर देवन अळंग
फूल जावन धवेंफुल्ल...

आर. एस. भास्कर

## निशेध चुंबन

### 1

आज आमच्या शारांत एक
अपुरबांत अपुरूब घडणूक घडली
सदाचार नेमाचेर विरोध दाखोवन
चुंबन चळवळी खातीर उजो पेटेयला.

पयर रस्ट्रोरटांत बसून चुंबिल्या जोड्यांक
सदाचार अधिकार्यांनी दंड लायलें
भौशीक चुंबन मारन विरोध दाखोवंक
तरणाट्यांनी आज आव्हान दिलां.

हालींसराक चोंयवशीन हांगा
साबार कार्याचेर निशेध चल्ला
भुरग्यांक सुणयाघुडांत राबयले कारणाक
साळ बंद करपाक मागणी जाली
मायभास उलैलेल्याक दंड दिल्ले म्होण
प्रचार्याक काडून उडोवंक मागणी जाली
पिवपाचें उदक मेळना म्होण
रितें कळशे व्हांवन निशेध उक्तायला
येरादरी खातीर वेवस्था ना म्हणून
उदकांतल्यान पोवून निशेध परगटायले
रुग्णालयांत वैज आनी वखद ना म्होण
लोळती मारन निशेध दाखयलो
नीती जोडपाक आदिवासी लोकांनी
दीस भर पांयार रावन निशेध जाणयलो
जतनाय घेवूंक पूण कोण पावंकना
लोकांची गर्दीय केन्ना जावंकना.

**आर. एस. भास्कर** : जल्म : 1947, केरळांतले कोंकणी कवी, अनुवादक. कविते वांगडा बालसाहित्याचीय रचना. धर्मीक साहित्याचें संपादन. *'अक्षरां,' 'अक्षतां', 'नक्षत्रां'* हीं चर्चीत पुस्तकां. केंद्र साहित्य अकादेमीच्या अनुवाद पुरस्कार (2003) सन्मानीत. 21 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष (2013). संपर्क : 10/539, राममंदीर, जनार्दन मंदिरालागीं, जे. डी. सावूथ लेन, अमरावती, कोची, केरळ, 682001, मो. : 08891306123.

## 2

भौशीक चुंबनमेळावो पळेवपाक
हजारांनी प्रेक्षकांची गर्दी भरल्या
पत्रकार लोक कितलेशे पावल्याय
चॅनल लोक कितलेशे पावल्याय
सदाचार कशेंय राखपाक म्होण
अधिकारी लोक बी पावल्याय
रस्तो भरून व्हांवता
येरादारी पुराय बंद जाल्या
आतां विरोधी लोकांची बी
विंगड विंगड पंगड जमल्याय.

तरुण तरुणी एकमेकांत चुंबन घेताना
सक्षिदार जावपाक पूण
भयण हांगा पावंकना
भाव हांगा पावंकना
आवय हांगा पावंकना
बापूय हांगा पावंकना-
उक्त्या रास्तार चुंबनांत मेसळप
सदाचाराक विरुद जाता म्हणून
चुंबन लैंगिकतेक जागयता म्हणून
लैंगिकता उजवाडांत जावपाचें न्हय म्हणून
गुपीत करपाक जाय आशिल्लें
गुपीत रावपाक जाय न्हूं?

आतां उक्त्या रास्तार रावन चुंबन मारन
सदाचार नेमाचेर विरोध उक्तावंक
उमेदीन पाविल्या तरुण तरुणीयांक
अटक मारन ताणी गाडींत काडून उडयलें.

## एकलव्याचो विलाप

### 1

पुज्यनीय आचार्य द्रोण
तुजी मनांतली घातकाय हांव नकळो
देखून हांवें तुका उतर दिल्लें-
जें तूं मागता रोखडेंच हांव दिता म्होण.
पुण, तुवें मागलो म्हजो आंगठो
आनी हांव तें दिवपाक कर्तव्यदक्ष आशिल्लो
तुज्या सारक्या गुरुस्थानियानी
अशीं घात करूं न्हय आशिल्लें.
आतां म्हजो हो मायेस्त आंगठो
वाडापानार पडून पेडपेडेता
आनी रक्ताळ्यांत बुडताना
अक्रोश मारीत म्हण्टा म्हजकडें,
''चुकले मरे पाप्या तुका
म्हाका अशें कापून उडयला?
ताच्या शिश्या खातीरच जाण तूं
मागलें ताणें गुरुदक्षिण सुवार्तपणान
आतां म्हजें बगार शकना तुका
धनुष्य काडून अस्त्र चलोवंक.''

पयस रावन पळेलां हांवें
पांडव आनी कौरव घेताय अस्त्राभ्यास
इत्सेक लागून पावलो तुज्या सामकार
तुजो शिश्य जावंक अस्त्रविद्या आपणावूंक
हांव निषादरायलो पूत आसूनय
हिरसायलें म्हाका हीणभुजात म्हणून.

### 2

मातयेची तुजी पुतळी दवरून
भावार्तपणान करतालों अभ्यास

अभ्यास सादून धनुर्धर जावंक
पूण आशेवंक ना कोणाक जिकूंक.

सुण्याची भोंकी कानांत पावतकच
भंग जाली एकाग्रताय म्हजी
बोवाळ ताचो बंद करूंक
अस्त्र सात चलयलीं तोंडांत
पांडवांच्या सोदीक जाप दीत हांवें
म्हळ्ळें उमेदीन, तूं म्हजो गुरु अशें
माका अजाप आनी खोस दीत
पावलो तूं आमगेर शिश्यांच्या बरोबर
हांवें केन्ना येवजुपाकच नाशिल्लें
आंगठो म्हजो तूं मागतलो अशें.

जें कितें तूं अर्जुनाच्यान सादपाक सोदतालो
तें म्हज्यानय रोखडेंच करूंक शकतालें
द्रुपदरायाक बांदून हाडून हांव
तुजा पांयामुळांत दवरतलो आशिलो
तुका हें खबर आसूंक जाय
तरीय तुका अर्जुनूच जाय
विद्या तुजकडेसून हांवें चोरूं ना मूं
तुवें तिरस्कारले म्होण स्वंय शिकतालो न्हय?
थुंमेकाल मागूं हांव मुदम आचार्या
असो घातोक तुवें केन्ना करूं न्हय आशिल्लें!

## साणो गांवकार

### 1

आमच्या शेजारच्या
साणो गांवकाराक
अचकीत आज
आंगार भार आयला

गांवकार पुराय
जमल्याय माटवांत
हुको भरीत
कान दीत रावल्याय

खंडे हालोवन
कुंकूम वितरावन
थरथरो घालीत
म्हणटा गांवकार,

"मामय कोपल्या
कोपान तापल्या
गांवांत हालीच
अनाचार जाता

सोडूंना कोणाक
सोडूंना मामायेन
उजो पेटेवन
गोबोर करतली!"

**2**

साणो गांवकाराली
एकीच धूव
कोणाकडेय सांगनाशें
घर सोडून गेल्ली

पारंपरीक कुळाचार
अमान्य करनु
परजाती इश्टाचे बरोबर
लिपून गेल्ली

नव्यान घेतिल्ले

भांगर तितलेंय
देवून वतना
वेल्लां चेडवान

गांवच्या चेडाकडे
लग्नाक दिवपाक
सगली तयारी
केल्लेली गांवकरान

साकरपुडो जालो
म्हूर्तनिश्चय जालो
सोयरेधार्यां खातीर
आपोवणें गेल्ले
भांगर शिंगार
रोखडेंच एकडायिलें

3
मंगळसुत्राक खातीर
मणी घुंतली
आवयक विसरलें
बपायक विसरलें
परजात्याकडे रोखडेंच
देवन गेलें

साणो गांवकार
घडणूक सांगपी
सगट गांवकारांचेय
चलणूक जाणपी

साणो गांवकार
देवीचें मन कळपी
धुवचें मन पुण
ना कळो.

## काळोख उरलो

उपाट काळखेंत
इल्लो उजवाड जावं म्होण
तेल निस्तावन
वाती जळ्ळी
वाती पूण
ल्हवू ल्हवू सोंपली
कळोख मात्र
आजूनय उरलो.

## अस्वस्थ

मनाचें स्वस्थताय
सोडूक म्होण
तो सदां
गीत गायतालो

कोण पूण
आयकवंक ना म्होण
परतून तो
अस्वस्थ जालो.

निला तेलंग

---

## सपनां

त्या अथांग कुकुल्या दोळ्यांत
सपनां हुळहुळ्ळीं
काळजांत खुळखुळ्ळीं
पोटाचे चिमटेंत चिड्डुलीं
आनी
संवेदना सांसणाच्यो सोंपोवन शेणलीं!

**नीला तेलंग** : जल्म : 1950, जेश्ट कवयित्री. *'काळजाची भरती'* आनी *'शुन्यांतल्यान शून्याकडेन'* हे कविता संग्रह प्रकाशीत. संपर्क : आडपय, फोंडें, गोंय 403 401, मो. : 9823575072.

## आमी आनी तुमी

पडचें न्हय मोहाच्या फोंडांत
म्हणूनच तर
ताबो आमचो भावनांचेर
लागीं आसतना भुल्लुशिल्ले तुमी
पयस गेले की अलिप्त मुनी.

## न्हयकार

पळोवन म्हजो उदो उदो जळटात लोक
पातळिल्ली मनांत मात उदासी एक
बुद्धिन मापिल्लें तें आयुश्य
भावनांक ना थंय प्रवेश
सोपोवन मनाक निर्शेल्या, तुज्या न्हयकारान
जगप मेजलें सगलें बुद्धच वापरून
यश फाटल्यान घेवन माळ
कलेवर जिणेचें निर्जीव, निश्चल.

## समानधर्म

आक्रमणाचे वार्तेन आयलो त्वेश
रणभुंयेर धांवलो सगलो आवेश
हिणसायलें अबलेच्या असमर्थतेन
आयलो गळो भरून
खालते मानेन
लिपयले भरिल्ले नयन
विचार आड्डले विकारी
जगपाची कित्याक लाचारी?
इतल्यांत आयलो एक उलो
मातृहृदयाक साद घालो.
लखलखलो इतल्यान वतान
कळस मंदिराचो झेतान

बुनयादीकडेन धांवली नदर
कळसाचो आदार!
आनी वोंठार फुल्लो हांसो
समानधर्मान खुणायिल्लोसो!

## ताजमहाल

लखलखतो तरणाटो ताजमहाल चिरंजीव
आस्वादापरस दुस्वासानच हुळहुळ्ळो जीव
एक दीस मागीर एक ताजमहाल
दोळ्यांतल्या तुज्या हांसपांत हवालदील!
थडग्यांतलो हुस्कार अस्फूट
करता मुमताजची काकूयट!

संजीव वेरेंकार

---

## हांव

कितलीं वर्सां जालीं
कर्पल्ल्या सड्यार
हांव फुलां फुलयता
मातशी ओलसाण जाय आशिल्ली
तळपांक लेगीत
कोंब काडपाचो...!

## करबील

जेवणाक
घमघम येवचो म्हूण
जण एकलो
आमच्या पोर्सांतल्या
करबिलाचीं पानां

**संजीव वेरेंकार** : जल्म : 1959, कवी, पत्रकार, अनुवादक. *'भावझुंबर'*, *'मुंबर'*, *'गांवांतली सांज'*, *'पडवेवेलीं शेंवणी'*, *'चैतन्याच्यो पांवळ्यो'* हे कविता संग्रह, *'मांड ओसाड जातना'* आनी *'तीपय'* हे एकांकी संग्रह, तसें च 'हाडा-मांसाची देवळां' हें व्यक्तीचित्रांचें पुस्तक प्रकाशीत. आकाशवाणीचो नभोनाट्य पुरस्कार (2000) आनी विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर संस्थेच्या तशेच 'श्रीमती विमला पै पुरस्कारान सन्मानीत.' संपर्क : चित्रंगी रेसीडन्सी, मंगेशी, फोंडें, गोंय. मो. : 9422643629.

बुड्डबुड्डून व्हरता
तो मनांतल्यान रडत आसता
ताचीं दुकां कोणाक दिसनात
आमचो समाजूय
मनशांचे बाबतीत
अशेंच करूक लागला
त्या करबिलाचे वेदनेचेर
हांव येवजूक लागता
तेन्ना हांवूय म्हाका
करबीलच कसो दिसता

आर. रामनाथ

---

## सातूय चक्रांतल्यान

सातूय रंगान
रंगय तूं
तुजें सर्वांग
उपरांत-
सात सूर आळयत
सातूय चक्रांतल्यान
मस्तपैकी भोंव तूं...
- आनी तुश्ट जातगीर
मडें कशें पडून घे हे मातयेंत...

तुका
आपशींच
लख्ख बरें दिसतलें
तुजेंच
ब्रम्ह!

**आर. रामनाथ** : जल्म : 1956, कवी, गितकार, पटकथा लेखक. कोंकणी आनी मराठी भाशेंतल्यान लेखन. *'मळब रंगमाची'* आनी *'निसण'* हे दोन कोंकणी कविता संग्रह प्रकाशीत. कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, बिम्ब प्रकाशनाचो पद्मश्री र. वि. पंडित यादस्तीक पुरस्कार, तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारान (2014) सन्मानीत. संपर्क : एम्. ओ-6, गोवा हाऊसींग बोर्ड, कुट्टी, फोंडें, गोंय - 403401. मो. : 9850458763.

## समिधा

म्हज्या जळट्या सरणाच्या उजवाडांत
तूं तुज्या नितळ आनी शितळ दोळ्यांनी
बारीकसाणेन नियाळ
ही अख्खी सचेतन भोवंतण
तांतुतल्यान खुब्ब कितें शीक
गिरेस्त जा
तुका आपशींच
जिणेच्या रंगचित्तरांची
एक नविताल्ल परिभास कळटली
तूं आंगान आंग शिरंगारतलो...

ह्या म्हज्या म्हायज्ञांत
तुवें ओपिल्ली तुज्या हक्काची एक समिधा
घडये -
तुका चिरंतन जिणेचें वरदान दीत
वा निर्वस्त्र मरणाचो साक्षात्कार घडयत...

निलबा अ. खांडेकार

---

## शेश भारत

जें उगत्या दोळ्यांत दिसता
तें मळब हांव
दिकाहीन वाऱ्या वांगडा घुंवत आसता
परिस्थितीक रंग फासून
खिणा खिणांत रंग बदलेलें रूप पळोवपी
म्हासागराचो हारसो हांव
म्हणूनच तर मानवतेचें सत्य
म्हज्या धडधडट्या काळजांत बंद आसा
आनी जिवीताच्या अंतामेरेन तें
बंदूच उरचें म्हूण म्हजी धडपड चालूच आसता

**निलबा अ. खांडेकार** : जल्म : 1959, कवी. *'वेध'*, *'सुर्यवंशी'*, *'अग्नी'*, *'ब्लॅक'* आनी *'दंडकारण्य'* हे कविता संग्रह प्रकाशीत. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांन सन्मानीत. संपर्क : डीपीएस-1, डायना धापणे बिल्डींग, दुसरो माळो, रेल्वे ओवर फ्लाय पुलालागीं, शिरवडें, साश्ट, गोंय - 403 607, मो. : 9637092524.

हे परिस्थितींत
हांव म्हज्या मोनजात कुशेसाक
न्याय-अन्याय, धर्म-अधर्माचे धडे
दिवंक शकतलो?
घडये तुमी म्हज्या कृतींतल्यानूच
म्हजो हिसबा भायर वालोर केला आसतलो
चिंतनां आनी कृती
ह्यो दोन वेग-वेगळ्यो गजाली
तांचे संबंद परिचीत आसताच
अशेंय केन्ना नासना
म्हण हांव म्हज्याच चिंतनांतल्यान चलता

बुद्धमय अशोक आनी गांधी
शांती आनी अहिंसेच्या पुनरस्थापने खातीरच्या
घडये ध्येयपुर्तीच्या जाग्या खातीर
हांव खरेंच चुकीचो देश
घडये आटपाट नगरांचो
अंजटा-एलोराच्या रहस्याचो
स्वकीया कडल्यानूय म्हजो विसवासघात जायत
आयला
तेन्नाच्यान खूबशा प्रश्नांचेर
हांव मौन बाळगपूच योग्य समजता

म्हज्या अंतरींतल्यान मनमोहनसिंग
आनी मोदीय उलयता
राम, कृष्णूय उलयता आनी क्रिस्तूय
बीबीसी आनी अल जजीराय
खूब जाण उलयतात म्हज्या अंतरींतल्यान
फक्त उलयना तो हांवूच
सदांच बफर झोना भायर रावोन लेगीत

म्हज्या हड्ड्यांत धडधडपी काळीज

घडये म्हजेंच आसूं येता
म्हण ताच्यांत एकठांय जाल्ले गरमेचो
हांवें 'एफ डी' केला,
घडये उज्वल इतिहासाचे गोडवे गावपाक
म्हण आवय, भयण आनी धूव
हांचो हिशोब हांवें केन्नाच दवरलो ना
शुन्याचेंच मोल जल्मभर हाताळीत रावलो
हिंसेक लेगीत अहिंसेची धडपड दियत रावलो
गांधील्या दांड्याक हिंसेचें प्रतीक मानपाक लागलो
गीतेंत लेगीत आतंकवाद सोदीत रावलो
तरीय न्हयकारली हांवें कायम बंदी रशियेची
ह्या संस्कृतीच्या भावनीक दैवताखातीर

'विरोधा खातीर विरोध' ही राजकारणाची भास
आनी त्या राजकारणांत
सत्य एक कोल्या दोंगुल्ली
म्हण कित्याक बसोवं दी हांव भगत सिंगाक
शहिदांचे वळेरींत?
कित्याक गावं हांव बलीदान नेताजींचें?
'बी पॉझीटीव' ही संकल्पना तरी
डायजेस्ट करपाक शकतलों हांव?
कॉरपोरेट संस्कृतीचें बस्तान तर
सगळ्यांनीच मान्य केलां
आनी विचारवंत, तत्ववेता चार्वाकाचो सिद्धांत
मुखारूच आसा, विचार करात
'यावत जीवम् सुख जीवेत्।
ऋणम् कृत्वा...' अशेंच खूब किदें किदें
जें म्हाकाय कळना
नीती अशेंय म्हण्टा,
जगा वांगडा जें धांवनात
तांका संवसार विसरून वयता

सगळेंच वांगडा चित्ता चित्ता
हांव कितल्याशाच तत्वज्ञानांचो कोलाज जाता
आनी म्हजे कवितेक इंधन मेळत रावता
पांखे फुटत वयतात शब्दांक इंटरनेटचे,
शेरांचे, डॉलरांचे, इंटरनल-एक्स्टर्नल
कोर्पोरेट गुंतवणुकीचे

अर्थांत मोगाचें कनेक्शन मात खिणा खिणाक
'आउट ऑफ कव्हरेज' जायत वयता
तरीय हांव पितामहा भीष्माची इच्छा शक्त घेवन
कुरुक्षेत्र लडयत आसा
घडये अधर्मांतलो मनीस
निर्मनुष्य जाय सर!

## अग्नी-5 चें प्रक्षेपण

आयजूय सगळें अशेंच आसा
जशें फाटले फावट आशिल्लें
थंडेचो रुतू सैम व्हगडावन बसला
आनी वर्सूयभर गरमीच उरता कुसव्यांत
तातूंकूच आधिवेशनां चलतात
आनी ग्लोबल वॉर्मिंगचें चर्चासत्र
सदचेच भशेन फुडाराचे चिंतेंत बंद जाता
धर्म निरपेक्ष दृश्टीक आयजूय दिश्टी पडनात
काश्मिरी पंडीत, बामण वाडींतलो घाट
अभिजनांनी उबी केल्ली आनी लादयल्ली संस्कृती
आयकूंक येना,
चवदा पिळग्यां सावन गायत आयिल्लो एकूच राग
'राग दरबारी'
नर संहारांत उरिल्ली विधवांच्या वेदनेची सिम्फनी
सामुहिक बलात्कारां उपरांत उरिल्ले

सुसकारांचे प्रतिध्वनी
काळाची शक्त तर इतिहासाक लांच दिवन
इतिहासाची पानां विकती घेवन
त्या जाग्यार नव्या पानांक दसयत चल्ल्या
आनी इतिहास ल्हवूच कूस मारून
कुंभकर्णाचे न्हिदेंत रमून गेला

म्हणूनच तर
रामान केल्ली वाली आनी शंबूकाची हत्या
राम अवतारांतल्या लिलेंत चिड्डत वयता
महाभारतान केल्लो नात्यांचो
संवेदनांचो, नैतिकतायेचो
धर्माच्या प्रतिमानांचो
अहिंसा आनी नितीमुल्यांचो पराभव
जो कृष्णान अमर केलो
अमर केलो भारतीय अत्याचार आनी लुटीचो इतिहास
महमद गझनी, घोरी आनी ब्रिटीस सत्ताधाऱ्यांनी
तशेच शिमेभायल्या आतंकवाद्यांनी
पाकिस्तानाच्या निर्मितीक हात-बोट लावन
निश्पाप रगतांतल्यान पाकिस्तानचे शहिद जाले
शिशुपालाच्या शंभर अपराधांचीच मेर आशिल्ली
पूण आसाराम बापूंच्या शांतम् पापम् हातांक धरपी
कोणूच नाशिल्लो
बेबुनयाद ध्यास मात आशिल्लो
शोभन सरकारच्या सपनांतल्या एक हजार टन
भांगराचो
विस्वास आशिल्लो इस्रोच्या मुखेल्यांक
तिरुपतीच्या आंगवणेंत
वैज्ञानीक प्रगतीच्या जैता खातीर
आनी भारत प्रगती पथार नेटान चलत आसा
अग्नी-5 चे प्रक्षेपण करून भारत खूश आसा

अख्खें पाकिस्तान, युरोप आनी आफ्रिका लेगीत
आपले कक्षेभितर आयल्या म्हण
कायद्याक चुट्टी लावून
दरेक विधायक स्वार्थाची पोटली बांदीत आसा
सरकारी खजिन्याच्या लुटीचो वांटेकार जायत आसा
दिसाक दोनदां तरी गांधीच्या नांवांचो संदर्भ घेवन
कृपाळू महाराज, उपासनी, निर्मल
ह्या बाबांच्या सत्संगांत गुल्ल जातात
तेन्ना लालूंच्या सामोशांत आलू न्हय
कायदो लालूंक जाय तसो आकार घेयत रावता
ओसामान जशें पाकिस्तानांत पाकिस्तान तयार केल्लें
तशेंच पाकिस्तान, दर नवी आतंकवादी संघटना
करीत आसता
तरीय आमी उच्च स्थरीय उलोवणी करतात
कायद्यांतल्यो पळवाटो सोदपाक लायतात

अशें कशें आमी विसरून वयतात
कायद्या खातीर मरण आपणावपी सोक्रेटीस,
लिऑनिडस?
अशें कशें विसरून वयतात आमी
सपनांत लेगीत उतरांचो मान राखपी राजा हरिश्चंद्र
बापायचा आज्ञेचें पालन करपी परशुराम
जननी जल्म भूंयचें रक्षण करपी राजा पोरस
शील संस्कृतीच्या राखणेखातीर राणी पद्मिनीचो
जोहार?

हो देश वेदांची जल्मभूमी
वेदान्ताची मातृभूमी
बुद्धाची पावन भूमी
आनी शिवरायाची कर्मभूमी
आयज तेच भूंयेर आमी विचारीत आसात आमकां

सांडलेल्या नितीमुल्यांची अंतहीन जखम घेवन
कोण रूची कोण तारा?
कोण मधुमिता कोण आरूषी?
कोण मनोरमा कोण भंवरी?
फक्त दोन थानां
एक योनी
पुरुश सोयीची
म्हुणूनच तर कोणूच वाली नाशिल्ल्या
काळखांत करमेत आसता
पश्चातापाचें रडप
भिरांतीच्यो किंळाच्यो
मरणाच्यो हुयेल्यो

जुल्म आनी अत्याचार
हिंसा आनी आतंक
हांच्या विध्वंसांतल्यान उबी जाल्ली रक्तपाताची
कितलीं हीं पाकिस्तानां (?)
घडये दर दिसा सगळें तशेंच आसा
कालचे भशेन आयजूय
भर रस्त्यार युगांच्या हिशोबांत
दुरगांचो तेंक धरून
कलीयुग सगळ्याच युगांची गांड मारीत आसा शेगीत
आनी भारत प्रगती पथार नेटान चलत आसा
अग्नी-5 चे प्रक्षेपण करून
भारत खूश आसा.

नूतन साखरदांडे

**नूतन साखरदांडे** : जल्म : 1958, कवयित्री, अखिल भारतीय स्थराचेर कवी संमेलनांनी सहभाग. *'जीण जाली कस्तुरी'* आनी *'पासवर्ड'* हे कवितासंग्रह प्रकाशीत. *'तन्मयधुली'* हो उडिया काव्यसंग्रहाचो कोंकणीत अणकार. डॉ. टी. एम्. ए. पै, फाऊंडेशनाचो पुरस्कार, कोंकणी कला साहित्य केंद्राचो साहित्य पुरस्कार तशेंच अखिल भारतीय कवियत्री संमेलनाच्या कविता पुरस्कारान (2003) सन्मानीत. संपर्क : एफ-सी-3, बाप्सीन रेसीडेन्सी, इलेक्ट्रीसीटी कार्यालयालागीं, अन्साभाट, म्हापशें - गोंय 403507. मो. : 9422061702.

---

## बळ

सगळेंच मनासारखें घडटा
तेन्ना जगप हें जगप आसता

पूण पापणी तुज्या मनासारखें
केन्नाच कांय घडलें ना
मागीर तू कशें जगलें?

तुगेलो दर्या सदांच खवळील्लो
आनी तातूंत तुवें व्हडें सोडलां
तेंय बी व्हले नासतना
खुबूच कठीण गो बाये!

पूण तुजो आपल्या
हातांचेर विस्वास
आनी पांयांचेर बळगें आशिल्ल्यान
तुवें तड मारली

इतलेंय करून तुजें व्हडें
तडीक पावलें अशें हांव म्हणना
तूं अजुनुय हुमकळटा

कितलेशेच फावटीं
बुडटां बुडटां वाचलें
अशें तुवेंच म्हळें
आनी तूं खो खो करून हांसले

हांसपाकूय बळ लागता न्ही गो?
म्हाका दिशीत इल्लेशें बळ
उशणें?

## ब्रेकअपाच्यो दोन कविता

### 1

एका तेंपार...
कितलीय येवं दी मोडां
कितल्योय येवं अडचणी

तूं राजा आनी हांव राणी
संवसारभर सगळ्यांनी
आयकुची आमची प्रेमकाणी

हालींसरा...
पयर तूं फट उलयलो
काल तुवें फोन घेवंकना
हाचेफुडें तुजें म्हजें जमचेना
वचुंया दोगांय दोन वाटांनी
सोपोंवया आजूच आमची प्रेमकाणी.

2

आयच्या तरणाट्यांच्या
तकलेंत भल्लां वारें...
ते म्हण्टात...
एकदांच डायवोर्स
घेवचे परस
परत परत ब्रेक अप जावप
कितलें बरें?

माया अनिल खरंगटे

**माया अनिल खरंगटे** : जल्म : 1956, कवयित्री, बालसाहित्यकार, कथाकार, अनुवादक. तेत्तीस पुस्तकां प्रकाशीत. *'कयपंजी'* हो कवितासंग्रह तशेच *'घोंटेर'*, *'मळबझेंप'*, *'मृगजळ'*, *'काळीं कुपां रुपेरी देग'* हे कथासंग्रह चर्चीत. एन्. सी. ई. आर. टी., दिल्ली संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी (2010, 2012) सन्मानीत. संपर्क : पीतूल कामत कोओपरेटीव्ह हावजींग सोसायटी, एफ-3, पयलो माळो, आर्के, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 9420685278.

## सांज अशी झिरी–मिरी

सांज अशी झिरी–मिरी
वारेंय आज भिरी–भिरी
याद फुलां शिरी–शिरी
आंगण आज भरी–भरी
सांज अशी झिरी–मिरी
गंध गंधीत खुणो अश्यो
वोंवळिणीच्या मुळांतुल्यो

चांफ्याच्या खांदयांवेल्यो
रंध्रा-रंध्रांत भिरी-भिरी
सांज अशी झिरी-मिरी

जीव तोडून खेळ्ळीं अशीं,
धांवचेल्यांनी, लिपचेल्यांनी
आनी अशीं कितलीं कितलीं
ओली-सुकी शेणली जरी
सांज अशी झिरी-मिरी.

## तूं अशी कशी?

अस्तुरे तूं अशी कशी पिशी-पिशी?
कोणाचेरय तूं जीव उंवाळशी
सगळें वगडावनय तूं जाता खोशी.
दिसता तुका जिविताची हीच सार्थकताशी?
अस्तुरे सोंसता गे तूं गर्भवेणो जीव घेण्यो,
तरीय मगे तुजे छातयेंतल्यान
देंवतात कश्यो गे धारो अमृताच्यो
तोखणायोच करता तूं तुज्या बाळशाच्यो.

अस्तुरे तूं धर्तरेचेंच एक रुप,
तिका मस्तीली, चिड्डीली, हुलपायली
तरीय कोंबान कोंब ती रुजयता.
हातूंतच तिका दिसता धन्यताय

अस्तुरे तुका देवीचें रुप दिवन
दवरली मोनी बावली करून
भांगरा शिंगरांनी तुका नटोवन
बसयली पालखेंत गच्च बांदून
अस्तुरे तुजेर जाले कितले अन्याय

तुज्या बाळरुपाचेरय केले अत्याचार
लासून घुस्मटावन तुका माल्ली
तरीय समाजांत तूंच दोशी थारली.
अस्तुरे तूं अशी कशी पिशी-पिशी?
सगळें सोंसूनय हांसत रावशी
सांतेरमाय जावपाचीच तुका खोशी
पापणी सगळ्यांकच कशी भोगशीत रावशी?

नयना आडारकार

## मनाचो स्पॉन्ज

म्हाका संशोधन करपाचें आसता
दर एकल्याच्या मनाचेर
म्हूण देंवता हांव
दर एकल्याच्या मनांत
पूण, थंय मनाक नासतात
स्पंदनां,
ना कसली ओलसाण
स्पॉन्ज कश्यो मनान
शोशून घेतिल्ल्यो आसतात
सगळ्यो भाव-भावनां
आनी आसता निर्विकार
हांव पिळटा दर एकल्याच्या मनाचो स्पॉन्ज
आनी गळटा काळोकिट्ट रोस
निकोटीन!!!
म्हज्या संशोधनाचो विशय
''संवसार व्याप्त कॅन्सरग्रस्त मनां''
आतां म्हज्या मनाच्यो स्पॉन्ज
थपथपून भिजला

**नयना आडारकार** : जल्म : 1959, कवयित्री, बालसाहित्यकार, निबंदकार. सतरा वयर पुस्तकां प्रकाशीत. *'मनसांवार'* (कविता), *'स्पंदन'* (कथा) आनी *'पोवनां'* आनी *'चांफो'* (निबंद) हीं म्हत्वाचीं प्रकाशनां. डॉ. टी. एम्. ए. पै फाऊंडेशनाचो प्रशस्ती पुरस्कार, अखिल भारतीय कवयित्री संमेलनाचो डॉ. चंपाप्रसाद पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमीचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : द्वारा : सुनापरांत, पणजी बाजार, कामत सेंटर, पणजी - गोंय. मो. : 9823537563.

## तूं आनी हांव

तुज्या पुरुशी अहंकाराचें वागोळें
सदांच उरफाटें हुमकळटा
नाय जाल्यारुय तुका
रातचीच सावजां हेरपाची संवय
तुका दिसना हांव
सुर्याक माथ्यार घेवन
पोटा खातीर कुडीक कांडटना
तुका फकत येता घामसाणीचो वास
दिसता सुकिल्लें देहकाश्ट
मागीर उधळटा तूं जिबेचे घोडे
बेलगाम-
आनी मस्तीत वता
म्हज्या मनाचें पांचवें कुळार
हुमटूनय हांव परतें रावतां उबें
पूण तुजें मात हुमकळटा
उरफाटेंच वागोळें!

ग्वादालूप डायस

---

## पिशी आशा

**ग्वादालूप डायस** : जल्म : 1972, कवयित्री, निबंदकार, लिपयांतरकार. रोमी तशेंच देवनागरी लिपींत लेखन. *'भुंयफोड'*, *'मळब गंगा'* *'जलस्थल'* (कविता), *'ज्वालामुखी'* (निबंद), *'मामाचो गांव'*, ही प्रकाशीत पुस्तकां. अखिल भारतीय कवयित्री पुरस्कार, तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी (2008, 2013) सन्मानीत. संपर्क : एफ - 2, लोटस अपार्टमेंटस्, डोंगरी, माजोड्डें, साश्ट, गोंय - 403713. मो. : 8390908218.

पयस एका सपनांतल्या गांवांत
म्हजी न्हीद सांडल्या
तिका सोदतां-सोदतां
रात काळखांत बुडल्या
रंग-रंगयाळ्यो यादी एकठावन
माळ हांवे गुंथील्ली
उमाशेची जोरगत लागून
आपशींच तुटून पडल्या
पयस एका सपनांतल्या गांवांत

म्हजी न्हीद सांडल्या

नखेत्रांची रास घेवन
सपनांत येवंचो आसलो कुंवर
मर्दी आशिल्ली न्हंय
म्हज्या दुकांनी बुडल्या
जिणें-व्हडेंच कागदी थारलें
येवंचे तरी कशें ताणें
न्हंयेक आयिल्ल्या हुंवारान
वाटूच ताची अडल्या
पयस एका सपनांतल्या गावांत
म्हजी न्हीद सांडल्या

न्हिदेन भारेवपी काळजाक म्हज्या
ताच्याच र्स्पशान आयिल्ली जाग
समजूत काळजाची घालूं कशी
चिंता म्हजी वाडल्या
काल पासून शब्दांक म्हज्या
कसलेंच वेंसन नासलें
ताच्या मोगान पडत पासून
नशा तांकां चडल्या
पयस एका सपनांतल्या गांवांत
म्हजी न्हीद सांडल्या
बरोवची आसली कथा म्हाका
कशें आतां सांगूं ताका
ताचे यादीन गुल्ल जावन
चुकून कविता घडल्या
परमळ तिचो भरला वाऱ्यांत
न्हीद आतां येतलीच म्हऱ्यांत
पाशाण जाल्ल्या काळजांत परत
पिशी आशा वाडल्या
पयस एका सपनांतल्या गांवांत
म्हजी न्हीद सांडल्या.

## तिच्या मनांत आसल्यार

तिच्या मनांत आसल्यार
ती कशीय येता
मळबांतल्यान उडून
दर्यांतल्यान बुडून
खडपां फोडून
दुर्गां मोडून
म्हाका जाय तशी
मात ती केन्नाच येना

तिच्या मनांत आसल्यार
ती खंयूय येता
निळ्या तळ्यांत
काजी मळ्यांत
सपनेवपी दोळ्यांत
फुलां कळ्यांत
म्हाका जाय थंय
मात ती केन्नाच येना

आतां हांवूय बी
तिचे सारकेंच जगतलें
जाय तेन्ना
जाय तशें
जाय थंय वतलें
पूण एक...
तिचे सारकें भुल्लूसून
कागदार मात देंवप ना
थंय म्हाका वाचतलेच
म्हणपाची कितें खात्री?
000

नाट्यमंच

(एकांकी)

डॉ. प्रकाश रमाकांत वजरीकार

# मेकळें मळब

**प्रसंग : पयलो**

(घरांत आवय-बापूय दोगांय कामाक वचपाक भायर सरल्यांत. कामाक वचपाची गडबड. दोगां भुरगीं. चलो चली. प्राथमीक शाळेंत वचपी, पूण सुटी आशिल्ल्यान तीं घराच आसात. भुरग्यांक घरा दवरून आवय-बापूय कामाक वतात.)

**मम्मा** : आतां आयकलां तुमी? तें फ्रिजांतलें उदक काडून भायर उडयात पळोवया.

**पप्पा** : भायर कित्याक उडोवं? सकाळीं फुडें.

**मम्मा** : आमी घरा नासताना भुरग्यांनी थंड उदक पिलें जाल्यार तांची थंडी काडटलो कोण? तुमकां आनी मात लेगीत कळना.

**पप्पा** : आं. पुरो पुरो. सकाळीं फुडेंच गरम जावं नाका. उडयता हांव थंड उदक. खंय उडोवं?

**मम्मा** : वोतात म्हजे तकलेर. सगळें हांवेंच सांगूंक जाय. सांगल्या परस केल्लें बरें आनी नाक आपटून मेल्लें बरें.

**पप्पा** : बरें बरें करता हांव. (उदक काडपाक भितर वचपाक आनी बायल)

**मम्मा** : आनी एक काम करात. ते फ्रिजांतलें रातचें हुमण

**पप्पा** : तेंवूय भायर उडयता.

**डॉ. प्रकाश वजरीकर** : जल्म : 1966, नाटककार, समिक्षक. चवदा कोंकणी आनी आठ मराठी स्वतंत्र नाटकांचें लेखन. सगळीं नाटकां स्टेज जाल्यात. भौतेके नाटकांक लेखन पुरस्कार प्राप्त. *'आनी एक बुटो फुल्लो,' 'साद अंतर मनाचो', 'घट्टाण कोणाचें?'* नाटकां पुस्तक रुपान प्रकाशीत. *'वज्रघात'* हें समिक्षेचें पुस्तक प्रकाशीत. कोंकणी भाशा मंडळ - गोंय उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार (2005) आनी कोंकणी कला साहित्य केंद्र. उत्कृश्ट नाट्य पुरस्कारांनी (2007) सन्मानीत. संपर्क : वामन हॉटलालागीं, कारापूर, विठ्ठलनगर, साखळी, गोंय 403505. मो. : 9923245603.

मम्मा : नाका, नाका, नाका, ते हाडून हांगा गॅसीर दवरात. थंड आसा तें.

पप्पा : मजा बाये तुमची बायलांची. एक थंड जालां म्हण भायर उडोवपाचें आनी दुसरें थंड आसा म्हण गरम करपाचें.

मम्मा : तुमकां कितें कळटा तातुंतलें? तुमकां सगळें आयतें जाय मेजार आनी तेंवूय बी हुनहुनीत.

पप्पा : तसो तुजो हातगूण बरो गो. फकत नांवाचेंच रुच्चीक न्हय. खावपाकय रुच्चीक. रुचिका.

मम्मा : वगी रावात पळोवया. म्हाका चण्याच्या झाडार चडयतात?

पप्पा : ना गो. तुवें केल्लो चण्याचो रोस लेगीत काय बरो लागता तुका सांगू?

मम्मा : आसूं. हो वेळ जेवणाच्यो रुची काडपाचो न्हय. चलात पळोवया सांगलां तें काम करात. आदींच पयलीं ऑफिसाक वचपाक लेट जाता.

पप्पा : कितें म्हणिल्लें तुवें फ्रिजांतलें थंड हुमण भायर उडोवपाचें आनी थंड उदक गरम करपाचें.

मम्मा : आसूं आसूं हांवूच करता. आळश्याक सांगलीं खंय भिकणां भाजून खा म्हण. (वचपाक)

पप्पा : आसूं, आसूं, सॉरी. वता करता हांव. चल तूं चपाती कर. (तो वता.)

मम्मा : वता बाये हांव. कितलेंय सकाळी उठलें तरी कामांच सोंपनांत. आयदनां घांस, हें पूस तें पूस, हें कर आनी तें कर. कितलींय शिकलीं सवरलीं तरी आमकां बायलांक घरचीं कामां चुकल्यांत? दिसभर ऑफिसांत काम करपाचें आनी मागीर घरा येतकच घरचीं कामां. (घडयाळीकडेन पळयत) आगे म्हजे बाये, वेळ जालो पळय म्हाका. सकाळीं फुडें गजाली केल्यो म्हण कामां जातात? गजालींनी घोव सांडलो म्हण्टा तसली खबर... (अलार्म वाजता) चला बाये, भुरग्यांक उठोवंक जाय. उठात गोऽऽऽ भुरग्या बाळांनो.... (वता...)
(भुरग्यांचें एक सोबशें गीत)

(प्रसंग सोंपता.)

## प्रसंग : दुसरो

(प्रसंग दुसरो. मम्मा पप्पान कामाक वचपाक बॅगां घेतल्यांत. भुरगीं दोगांय मेजार बसून च्या घेतात. आवय-बापूय आपआपले तयारेक लागल्यांत. भुरगीं थोडीशीं खंती. भुरग्यांचीं नांवां पिंकी, पप्पू.)

मम्मा : बाय पिंकी आयज सुटी मगो तुमकां.

पिंकी : हय मम्मा.

पप्पू : मम्मा आयज हॉलीडे. आमच्या स्कुलाचें आयज फेस्त म्हुणून सुटी.

पिंकी : पप्पा, तुमच्या ऑफिसात फेस्ताची हॉलीडे बीं आसना रे?

मम्मा : पप्पाच्या मगो ऑफिसांत सदांच फेस्तां आसतात बाय.

पप्पा : वगीच भुरग्यांक कित्याक कितें सांगू नाका.

पिंकी : ना रे पप्पा हां, हांव खऱ्यानीच विचारता. आमच्या स्कुलाचें फेस्त आसता तेन्ना आमकां सुटी आसता. ती तुमकां कित्याक आसना? कितली मजा जावपाची न्हय तुमकांय बीं सुटी आसल्यार.

पप्पू : हय तर. काय बरीं आमकां सगळ्यांक वांगडाच घरांत रावंक मेळपाचें. जाय थंय भोवूंक मेळपाचें. मम्मा तुमकां हॉलिडे केन्ना गे?

मम्मा : आमकां आनी मेळ्ळी हॉलिडे! आनी मेळ्ळी जाल्यार हें आसाच न्हय हॉलीडे होम. आसूं - तुमी च्या घेयात.

पप्पा : हांव दाराक लॉक करून येता. कलयातां खंय गो... आसूं आसूं पळयता हांव.

मम्मा : हें पळयात, हॉलीडे आसा म्हण घरांत मस्तीबीन करूं नाकात.

पप्पू : मम्मा घरांत आनी मस्ती करपाक खंय चान्स आसात. मौज-मजा मस्ती करतलो जाल्यार घरा भायरूय वचूंक जाय न्हय गे.

मम्मा : वगी राव थंय. चड मस्तो जाला तूं. हांव सांगता तें मुकाट्यांनी आयक.

पप्पू : आयक आयकय लायफ फुलय.

पिंकी : सांग गे मम्मा आयकता आमी.

मम्मा : पळयलें म्हजें बाय कितलें गुणांचें तें.

पप्पू : मम्मा म्हाकाय बीन बरे गुण पडल्यात परिक्षेक. हें पळय म्हजें प्रोग्रेस कार्ड - रिपोर्ट.

(इतल्यान पप्पा येता आनी रिजल्ट आपल्या हातांत घेता आनी पळयता.)

पप्पा : पळोवया तरी, पप्पू पास जाला जाल्यार.

पप्पू : पप्पू पास हो गया.

पप्पा : आरे वा, मार्क्स सारखे पळोवया.

मम्मा : व्वा... शाब्बास.

पप्पा : आरे, हें कितें? कम्युनिटी लिवींग सब्जेक्टांत उणे मार्क्स पडले मरे.

पप्पू : कम्युनिटी लिवीगांत मातशें वीक आसा.

पिंकी : आसूं. दुसरे फावट ट्राय कर.

पप्पा : पप्पू, हे फावट आसूं भंगूं म्हण सय करता आं. दुसरे फावट रिपोर्ट कार्डाचेर

कशीच सय करचो ना. सांगता पयलींच.

**मम्मा** : अशें तुमी ताका सदांच म्हण्टात रिपोर्ट कार्ड आयलें काय हीं तुमचीं मुक्ताफळां आयकुपाचीं.

**पप्पा** : आगो तूं म्हजोच गुन्यांव करता मगो? ताका कांयच म्हणिना. तो पळय कसो ज्युस्त कामाक भायर सरपाच्या टायमारूच रिपोर्ट कार्ड दाखयता. गडबडीन कोणाक फावता. मारली सय.

**मम्मा** : तुमकां फकत सायन करतानाच गडबड दिसता काय कितें? हरशीं घरांत येतकच तांचो मातसो होमवर्क घेयात म्हणल्यार तुमी पांयार पांय उडोवन टी. व्ही. पळोवंक बसतात.

**पप्पा** : हय, सांस भी कभी बहू थी...

**मम्मा** : ज्योक केले काय जालें. भरलीं पोटां.

**पप्पा** : जिरवणेक हाजमोला आसाच न्हय. ना जाल्यार पुदीन हरा...

**मम्मा** : ऑफिसाक भायर सरपाच्या वेळार आनी आनीक जायराती करूं नाकात. वचात पळोवया स्कुटर स्टार्ट करात ना जाल्यार ती तुमकां स्टार्ट करपाकूच वरभर जाय. ती बागयता, कीक मारता, म्हणसर बैलगाडी लेगीत पणजे पावतली...

**पिंकी** : आसूं गे मम्मा. मागीर आमी गाडी घेवया फोर व्हिलर.

**पप्पा** : हय. घेवयाच.

**मम्मा** : आतां भितर वचून पयलीं जेवणाचे डबे घेवया आनी या.

**पप्पू** : मम्मा, हांव तुमच्या ऑफिसांत येवं गे?

**मम्मी** : बाबा शाण्या, थंय ल्हान भुरगीं वचनात. तुमी घरातूच रावात. (पिंकीक) हें पळय पिंकी, दारांत भितरल्यान खिळी घाल. जाय जाल्यार टी. व्ही. पळयात. जेवण करून दवरलां तें दनपरां जेवात, मस्ती करूं नाका. कोणेंय कितेंय दिल्यार घेवं नाका. हटकिल्यार उलोवं नाकात. घरा भायर सरू नाकात. वता हांव. बाय, बाय, टाटा... (भितरल्यान) जेवात गो घेवन. (वतात. भुरगीं तांकां पळयत रावतात).

(प्रसंग सोंपता.)

**प्रसंग : तिसरो**

(प्रसंग घरांतलो. बंद घरांत दोगांय भावंडां पप्पू आनी पिंकी आसात. तीं टी. व्ही. पळोवन वाजेल्यांत.)

**पप्पू** : (टी.व्ही. बंद करता.) शी... वाज आयलो ही टी. व्ही. पळोवन पळोवन.

**पिंकी** : पूण राव रे.

**पप्पू** : राव आसा पणजे.

**पिंकी** : फकाणां करू नाका आं. पूण मिठायवाल्या काका, तूं आमकां खंय व्हरतलो? तूं आमकां चोरून बी व्हरचो ना मूं. तूं आमकां शेणयचो ना मूं?

**पप्पू** : मिठाय खावंक दिवन आमकां...

**मिठायवालो** : भुरग्यांनो, तुमीच भुरगीं म्हळ्यार म्हाका फुलां समान. नाजूक, कोमल, परमळीत, रंगीत, आनी निश्पाप, तुमकां कोण्णाक हांव कांयच करिना. म्हजेर विश्वास दवरात.

**पिंकी** : तशें जाल्यार आमी या रे हाचे वांगडा खेळूंक?

**पप्पू** : या, पूण तूं मम्मा-पप्पाक सांगचें ना मगो.

**पिंकी** : हांव... ना. पूण तांकां कळ्ळें जाल्यार?

**मिठायवालो** : तुमी कांय भियेवं नाका. आनी फट केन्ना उलोवं नाका.

**पिंकी** : पूण आमी भायर कशी येवं?

**मिठायवालो** : भियेवं नाकात हांव तुमकां व्हरता आनी हाडटा.

(भुरगीं येतात)

*या हो या, आमी खेळ खेळुंया*
*वोंवळीच्या झाडा पोंदा खेळ खेळुंया*
*आमी मेळ धरुंया*
*आमी वोवळां गुथुंया...*

(प्रसंग सोंपता)

## प्रसंग : चवथो

(एक आवय आपले चलयेक भरयता - मिठायवालो पिंकी आनी पप्पूक घेवन थंय पावला.)

**आवय** : (चलयेक) बाय, शाणू तें म्हजें, कुकुलें, बाबुलें, ही घे, ही उंडी घे. (भुरगें घेयना).

घे आं.

**चली** : नाका, म्हाका नाका.

**आवय** : (रागान) खा आं पयलीं, आं. नाजाल्यार हावको येतलो. हावक्या यो रे. हें पळय बाय जेविना.

**मिठायवालो** : हांव तुमकां खावंक दिवं?

**पप्पू** : खावंक? कितें तें?

**मिठायवालो** : हें पळय बुढी के बाल – म्हळ्यार म्हातारेचे केंस...

**पिंकी** : शी... म्हातारेचे केंस. आवंय आवंय.

**पप्पू** : म्हातारेचे केंस म्हुणून कोण खाता?

**मिठायवालो** : हय तर, एके तरेची मिठायच ही.

*लई बरी आसा*
*लई गोडी आसा*
*मुंबयची मिठाई*
*खाऊन तरी बघा.*
*खावंक दितां हांव*
*गावंक शिकयता हांव*
*माणकुल्या भुरग्यांनो*
*खेळोवंक व्हरता हांव*
*भुरगीं तुमी माणकुलीं*
*इल्ली शीं कुकुलीं*
*घरा भायर सरात*
*म्हजे वांगडा खेळात.*

**पिंकी** : *दार आमचें बंद केलां*
*खेळपाक टी. व्ही. दिला*
*वाज आयल्यार न्हिंदूक आमकां*
*मोव मोव उशें दिलां.*

**पप्पू** : *भूक लागल्यार जेवण आसा*
*खेळपाक जायतीं खेळणीं आसा*
*मेकळें मळब पळयतलीं म्हणल्यार*
*हीं घरां-दारां बंद आसात.*

**मिठायवालो** : *येता जाल्यार येयात भुरग्यांनो*
*मिठायकार गोडू म्हजें नांव*
*दाखयता हांव भुरग्यांनो*
*तुमच्या सपनांतलो गांव.*

**पिंकी** : तरीय पूण...

**पप्पू** : पूण बीन कांय नाका.

*कोणाच्या माथ्यार*
*किर कावळो*
*किर कावळो*
*एकल्याच्या माथ्यार*
*थेयलो नळो*
*थेयलो नळो...*
(पिंकी रडपाक लागता तेन्ना पप्पू परतून ताका चाळयता).
*आपटी धोपटी*
*खावचें पान*
*सांग गो बेबी*
*म्हजें नांव*
*आ... पो... झींगा पो*
*ताडी मिडी पो...*
(पिंकी रडटा आनी पप्पू चाळयता.)

**पिंकी** : ऍं...

**पप्पू** : पॅं...

(इतक्यान जनेलांतल्यान एक मिठायवालो तांकां पळयता आनी आपलें पद म्हणटा.)

**मिठायवालो** : *लई बरी आसा*
*लई गोडी आसा*
*मुंबयची मिठाई*
*खावन तरी बघा.*
(ताचें हांसतें मुखामळ पळोवन दोगांय खोशी जातात. रोकडेंच पिंकी सादूर जाता.)

**पिंकी** : पप्पू. मम्मान कितें सांगिल्लें याद आसा न्हय?

**पप्पू** : आरे देवा, हांव विसरलोंच. (मिठायवाल्याक) ए.. आमी तुमचे कडेन उलोवचीं नांत, आमी तुमचेकडेन पळोवचीं नात आनी तुमी कितें म्हण्टात तें आयकुचींच नात.

**पिंकी** : हें सगळें करूं नाकात म्हण आमचें मम्मान आमकां सांगलां.

**मिठायवालो** : आनी म्हजे आईन म्हाका सांगिल्लें - दुसऱ्याचें बरें तें आयकुचें, बरें तें उलवचें आनी बरें ते पळोवचें.

**पिंकी** : तरीय पूण...

आयिल्ल्या दिसा तेच प्रोग्राम. तेच कार्टून्स. वाज आयलो.

**विकी** : म्हणून तुका हांवें सांगिल्लें हे कॉमिक्स वाच, ना जाल्यार हीं पुस्तकां वाच. हें पळय, राष्ट्रपती डॉ. अब्दुल कलाम हांचेर पुस्तक. ते खंय भुरगेपणांत खूब काम करताले. रेल्वे प्लेटफॉर्माचेर सकाळीं फुडें वचून पेपर विकताले. अशें कश्ट करून ते शिकले आनी व्हड जाले.

**पप्पू** : म्हाकाय बीं दिसता सकाळीं फुडें आंगणांत झाडांक उदक घालचें, तांकां माती घालची, गावांतल्या भुरग्यावांगडा मातयेन खेळचें, आनी खूब कितें... करचें. ओके आमी धांवचेल्यांनी खेळूंया.

**पिंकी** : धांवून धांवून आमी खंय धांवतलीं घरांतल्या घरांतूच न्हय? ते बदलाक आमी रांदचेल्यांनी खेळूया. यो पप्पू यो. तूं म्हण बाजारांत वच. हांव घरा रावता.

**पप्पू** : बरें आयलां तूं. आमी दोगांय बाजारांत या कामावेल्यान. मम्मी आनी पप्पा हाडटात तशीं. घरांत येतकच मागीर तूं जेवण रांद.

**पिंकी** : हांवूच...

**पप्पू** : घरांत मम्मीच रांदता न्हय! आनी पप्पा सारखो टी. व्ही. पळयता.

**पिंकी** : आं... ना. ना. बरो आयला तूं! हांवें एकल्यानूच रांदप? हांव तुजें नांव सांगतलें. मम्मीक येवंदी.

**पप्पू** : आनी हांवूय पप्पाक सांगतलो तुजें नांव.

**पिंकी** : कितें म्हण सांगतलो. सांग पळोवया.

**पप्पू** : हांव, म्हळ्यार पप्पा पांयार पांय उडोवन टी. व्ही. पळयत बसता म्हूण.

**पिंकी** : ए, हांवें तशें म्हुणूंक ना आं. तूं फट उलयता. टिचरीन सांगलां फट उलोवंक जायना म्हण.

**पप्पू** : पूण हांव तुजें नांव सांगतलों.

**पिंकी** : तूं रडी मरे. राव मम्मीक येवंदी, हांव सगळें सांगतलें.

**पप्पू** : सगळें म्हणजे कितें?

**पिंकी** : तूं म्हाका चाळयता तें. आनी पप्पाकूय कितें कितें म्हणटा तें. आनी तूं फटींग उलयतां तें.

**पप्पू** : सांग... हांव भियेना. हांवें अशें म्हणलां म्हण कोणें पळयलां सांग? कोणें आयकलां सांग आमी तर ह्या घरांत बंद आसात. आमी कसल्यांनी खेळटालीं तें कोणेंच पळोवंक ना. कोणेंच आयकूंक ना आनी हांवूय कांयच उलोवंक ना. (पिंकी रडपाक येता. तकली सकल घालता तेन्ना पप्पू ताच्या माथ्यांत कितें तरी उडयता आनी म्हण्टा.)

**चली** : नाका गे माँ.

**आवय** : नाका जाल्यार जेव पयलीं, जेवता काय ना? जेवता काय आपोवं हावक्याक, हावक्या....

**मिठायवालो** : हांव आयलों, पूण हावको न्हय आं. हांव तुमचो फ्रेंड.

**आवय** : पळय मरे मिठायवाल्या हें जेवीच ना. तुजी मिठाय मात बरें खाता.

**मिठायवालो** : (उदकान आपले हात धुता) राव हांव पळयता. हांव भरयता ताका. (पिंकी आनी पप्पूक लागीं आपयता) येयात बसात. (ताट घेता)
आं. बाय गो जाणां मगो, एका रानांत एक कोलो आशिल्लो. एक दीस त्या कोल्याक खूब भूक लागली.

**चली** : त्या कोल्याचे मम्मीन जेवण करूंक नासलें तर?

**मिठायवालो** : राव... सांगता. कोलो बसलो जेवपाक. ताची मम्मी ताका भरोवंक लागली आनी कोलो म्हुणूंक लागलो, म्हाका भाजी नाका. इतल्यान थंय आयलो एक व्हडलो वा...ग. तो म्हुणूंक लागलो, कोण तो मस्ती करता? भाजी खायना म्हण्टा. कोल्याचे आवयन म्हळें...

**आवय** : कोण्ण ना... आमचें बाय भाजी खाता रे, वागा...

**मिठायवालो** : (चलयेक भरयता) आं. त्या कोल्यान मागीर भाजी खाली, मागीर एक एक उंडी तो जेवपाक लागलो (चलयेक भरयता - भरयता).
आं ही उंडी-कावळ्याची.
वाग म्हुणूंक लागलो...

**सगळीं जाणां** : आं बरें आसा.

**मिठायवालो** : आं. व्हेरी गूड. आतां ही उंडी मामाची. वागमामा म्हुणूंक लागलो...

**सगळी जाणां** : आं बरें आसा.

**मिठायवालो** : आनी आतां ही उंडी मामीची, (भरयता) ही उंडी दिदीची... आनी ही आतां निमाणी - लास्ट उंडी बाबूची... जालें... सोंपलें. फिनीश! गूड गर्ल!चल चल. गूड गर्ल मगो? तूं आतां तोंड धूव पळोवया आनी आमचे वांगडा यो.
सगळीं भुरगीं म्हण्टात...

**मिठायवालो** : *भुरगीं तुमी माणकुलीं*
*इल्लीशीं कुकुलीं*
*घरा भायर सरात*
*म्हजे वांगडा खेळात*

(प्रसंग सोंपता)

## (प्रसंग पांचवो)

(एक ल्हान चली एक बावली घेवन एकटेंच बसलां आनी पद म्हण्टा).

**ल्हान चली** : *म्हजे बावलेचे गूण*
*म्हजे बावलेचे गूण*
*हांव कोणाक बाये सांगचिना*
*ती दिसता कशी*
*ती न्हेसता कशी*
*हांव कोणाक बाये सांगचिना.*

**मिठायवालो** : (आतां तिगांय भुरग्यांक घेवन येता) आरे वा रे वा. आमची शोनुली हांगा एकटीच खेळटा.

**ल्हान चली** : हांव उलयना.

**पिंकी** : तुजें नांव कितें बाय?

**ल्हान चली** : म्हजें नांव सोबीता, पूण हांव सांगचें ना.

**पप्पू** : तूं हांगा एकटेंच आनी वगी कित्याक बसलां?

**ल्हान चली** : कोण्ण म्हाका आपल्या वांगडा खेळूंक घेना. पूण हांव सांगचें ना.

**मिठायवालो** : *तूं म्हाकाच सांग.*
*हांव कोणाक बाये सांगचो ना.*
*तूं रागार कित्याक? तूं फुगार कित्याक?*
*हांव कोणाक बाये सांगचो ना.*

**ल्हान चली** : ना. ना. ना. कट्टी. हांव उलोवचें ना.

**मिठायवालो** : रागार गे फुगार - घोवान दिली कातली. फुस्स करून हांसलीं.

**ल्हान चली** : (हांसता) मिठायवालो काका, तूं बरों न्हूं, तूं कुस्को.

**मिठायवालो** : (लाडान) हय गो बाय हांव बरो न्हय, कुस्को हांव. पुणून हांवें तुजे वांगडा खेळपाक पळय कांय बरीं बरीं गोड गोड भुरगीं हाडल्यांत तीं. पळय आं - हाचें नांव...

**पिंकी** : पिंकी.

**मिठायवालो** : हाचें नांव...

**पप्पू** : पप्पू.

**मिठायवालो** : आनी हाचें नांव...

**चली** : रिंकू.

**मिठायवालो** : आनी भुरग्यांनो, हें आमचें बायुलें. नांव ताचें साळूबाय, म्हळ्यार साळोरी.

**ल्हान चली** : आनी हो आमचो सगळ्यांचो...

**सगळीं जाणां** : मिठायवालो काका!
*लई बरी आसा*
*लई गोडी आसा*
*मुंबयची मिठाई*
*खावन तरी बघा.*

**मिठायवालो** : भुरग्यांनो हांव तुमकां आतां खेळगितां शिकयता. येयात. अशीं येयात. गोल गोल. दिमकुऱ्यांनी - (पद बडबडगीत)
*आंदग्या मांदग्यांनो*
*खुबे काडूंया*
*वाग मामा येतकूच*
*धांव मारूंया.*
(दर एका भुरग्याकडेन वाग कसो जावन वता आनी तांकां भेशटायता - परतून तेंच पद म्हण्टा.)
*आंदग्या मांदग्यांनो*
*खुबे काडूया*
*वाग मामा येतकूच*
*धांव मारूया* - पळात, धावात, वाग आयलो, वाग आयलो
(भुरगीं भियेतात. धांवतात.)

**मिठाईवालो** : भित्रीं गो भित्रीं - भुरग्यांनो येयात. आतां तुमकां सगळ्यांक हांव एक खेळ शिकयता. बसात अशीं.
म्हणात - *हर हर हर बोटयो.*
(भुरगीं म्हणटात)
हात ओमथे घालात. (भुरगीं हात ओमथे घालतात)
*आवन माणकुल्यो, सावन माणकुल्यो*
*कुर्कूटांत माजर बसलां, पेज कर गो माजरा*
*शिरोडेची कायल, बांदोडेचो दोवलो*
*कोणाक जाय, चिमटो काय धुमको?*

**ल्हान चली** : चिमटो.
(मिठायवालो ताका हळूच चिमटो काडटा तेंवूय म्हण्टा.)

**मिठाईवालो** : आतां हात उदारे धरात.
*आवन माणकुल्यो, सावन माणकुल्यो*

*कुर्कूटांत माजर बसलां, पेज कर गो माजरा*
*शिरोडेची कायल, बांदोडेचो दोवलो*
*कोणाक जाय चिमटो काय धुंमको?*

**भुरगीं** : (म्हाका नाका, म्हाका नाका म्हणटात.)

**मिठायवालो** : बरें आसा. आतां हात फाटल्यान. धरचेल्यांनी खेळूंया. हात फाटल्यान धरात पळोवया (भुरगीं हात फाटीं धरता) आतां सांग पिंकी - तुजे हात खंय गेले - म्हण, कोंकणांत गेले!

**पिंकी** : कोंकणांत गेले.

**मिठायवालो** : कोंकणांत कितें दिलें?

**पिंकी** : केळीं - खोबरीं दिलीं.

**मिठायवालो** : केळीं-खोबरीं कितें केलीं?

**पिंकी** : बरीं बरीं खालीं, वायट वायट आड्या भायर उडयलीं.

**मिठायवालो** : आड्यान कितें दिलें?

**पिंकी** : चार दिली.

**मिठायवालो** : चार कितें केली?

**पिंकी** : गायेक घाली.

**मिठायवालो** : गायन कितें दिलें?

**पिंकी** : दूद दिलें.

**मिठायवालो** : दूद कितें केलें?

**पप्पू** : फ्रिजांत दवरलें.

**मिठायवालो** : तशें न्हय, तशें न्हय. फ्रिजांत न्हय.

**पप्पू** : आमची मम्मा दूद हाडलें काय फ्रिजांतूच दवरता.

**पिंकी** : राव रे पप्पू. कांय बरीं आमी खेळ शिकतालीं. तुवें कित्याक कितेंय उलोवन आमचो खेळूच भंगयलो.

**पप्पू** : सॉरी. म्हाका खबरूच नाशिल्ली. खरें म्हळ्यार म्हजेंच चुकलें.

**मिठायवालो** : तुजें कांय चुकूंक ना. चुकलीं तीं आमीच. आसूं हांव तुमकां आनीक एक खेळ शिकयता. हांवें हुमाणें घालप आनी तुमी तें सोडोवप.
आं, सांगात आतां. साळूबाय तूं सांग आं.
*आराटून ताराटून बांदलो भोरो,*
*म्हजें हुमाणें सोडटल्याक कट्टीभर सोरो -*

**चली** : शी... सोरो, सोरो पियेवंक जायना.

**पप्पू** : आगो हुमाणें गो तें. खरेलो सोरो न्हय. बेठें चिंतपाचें.

**ल्हान चली** : गुरूजी सांगतात, सोरो पियेवप वायट खंय.

**मिठायवालो** : सोरो पियेवप वायटूच. पूण हें हांव म्हण्टा तें फकाणांनी गो.

**पिंकी** : हांव खऱ्यांनीच सांगू?

**पप्पू** : सांग पळोवया तर. पळोवया तुका कळटा जाल्यार

*आराटून ताराटून बांदलो भोरो,*

*म्हजें हुमाणें सोडयतल्याक*

*कट्टीभर सोरो.*

**ल्हान चली** : हाची जाप म्हळ्यार माथ्यांतल्या केंसांचो आंबाडो...

(सगळीं भुरगीं होऽऽ म्हण बोवाळ घालता.)

**मिठायवालो** : वेरी गूड. आतां दुसरें.

*एका झाडाक कोळशेच*

*कोळशे*

(भुरगीं चिंततात. मागीर ल्हान चली म्हण्टा - जांबळां... भुरगीं खोशी.)

**मिठायवालो** : (पिंकीक) *घाटावेल्यान आयलो जोगी*

*आनी सात कांबरुणां घेवन*

*न्हिदलो वोगी!*

सांग पळोवया कोण तो? येना? एक, दोन आनी एक म्हण्टा तो - (इतल्यान)

**ल्हान चली** : (पिंकीक) बँ म्हण पयलीं. बँ म्हण (पिंकी बँ म्हण्टा.) हांव सांगता हाची जाप - कांदो.

(भुरगीं खोशी)

**मिठायवालो** : (पप्पूक) *घाटावेल्यान आयलो बुकलो*

*आनी घराकडेन ओंकलो.*

सांग-म्यांव म्यांव, कॅव मॅव घरे खावं, पातोळेचें उदक पँव - सांग नाजाल्यार बँ म्हण.

(पप्पू बँ म्हण्टा)

**ल्हान चली** : हांव सांगता, हांव सांगता. पणस... (भुरग्यांचो बोवाळ)

**पिंकी** : (पप्पूक) ए, काय बरें न्हय खेळपाक हांगा.

**पप्पू** : हय तर! हे असले खेळ आमकां घरांत खंय खेळपाक मेळपाचे आनी शिकयतलो कोण?

**चली** : मिठायवालो काका आमकां सदांच असले खेळ शिकयता.

**ल्हान चली** : आनी केन्ना केन्ना आमकां खावंकूय दिता.

**मिठायवालो** : चलात हांव तुमकां आनीक एक खेळ शिकयता. येयात अशीं. पिंकी तूं यो. (ताच्या दोळ्यांक लेंस बांदता. तें पयलीं भिता.) आं. आतां तुवें तुज्या ह्या वांगड्यांक सोदून काडपाचें. (खेळ गीत म्हण्टा)

*आपा लिपा साळ लिपा*
*साळचो गोंडो सोदून काड*
*हातान किदें मुदी*
*चल भावाचे सोदी.*

(अशें म्हुणून पिंकीक घुंवडायता. तें भियेता. काळोख काळोख दिसतां म्हण बोवाळ घालता. रडटा. तो ताका सोडयता.)

**पप्पू** : कितें जालें पिंकी? कित्याक भियेलें तूं?

**पिंकी** : सगळो काळोख दिसलो. म्हाका भंय दिसता. (मातश्या वेळान) पूण हांगा खेळपाकूय मजा येता.

**पप्पू** : आमकां सदांच अशें खेळूंक मेळिल्लें जाल्यार काय बरें जावपाचें न्हय? आमी आनीकूय अभ्यासूय करून खूब खूब खेळपाचीं.

**चली** : मिठायवाल्या काका, तांकां सद्दां घेवन येवन यो मरे.

**मिठायवालो** : ना रे भुरग्यांनो, आयज हांवें तांकां जादवान हांगा हाडल्यां. तांच्या मम्मा-पप्पाक कळत जाल्यार तीं म्हजेर बेजार जातलीं. ना गो ना.

**पप्पू** : आमी आमच्या मम्मा-पप्पाक सांगतलीं की आमकां सदांच तुमचें वांगडा खेळपाक येता म्हण.

**ल्हान चली** : मागीर आमी सगळीं जाणां मेळून, घोटांनी खेळुंया, गुंड्यांनी खेळुंया, आट्या-पाट्यांनी खेळुया, लोगोऱ्यांनी खेळुंया...

**चली** : आमी हांसुया, खेळुंया, नाचुंया आनी मज्जा करूया.

**पप्पू** : म्हाकाय बी मम्मा पदां म्हणपाक शिकयता.

*Hot Cross buns*
*Hot Cross buns*
*One a peny, two a peny*
*Hot cross buns*
*If have no daughters*
*Give them to your sons*
*One a peny, two a peny*
*Hot cross buns.*

**मिठायवालो** : (पद म्हणटा - बडबड गीत)

*"आमच्या बाबूक*
*कापां आवडटात*
*कापां केपेचीं"*

**चली** : (बडबड गीत मुखार व्हरता.)
*आमच्या बाबूक*
*लाडू आवडटात*
*लाडू लाडफेचे*

**ल्हान चली** : *आमच्या बाबूक*
*नेवऱ्यो आवडटात*
*नेवऱ्यो नेवरेच्यो*

**मिठायवालो** : *कापां, लाडू*
*नवेऱ्यो, मोदक*
*सगळीं खाणां*
*हाडल्यांत मामान* (थांबता)

**सगळीं भुरगीं** : *मामा म्हापशेचो.* (बोवाळ)

**मिठायवालो** : (पिंकू आनी पप्पू) चलात भुरग्यांनो, तुमची मम्मा आनी पप्पा येवचीं जालीं आतां हांव तुमकां घरा पायता...
*कदम कदम*
*बढाये जा*
*खुशी के गीत*
*गाए जा...*
(सगळीं भुरगीं गोलाकार कदमताल करतात.)

(प्रसंग सोंपता)

## प्रसंग : सवो

(रातची वेळ. मम्मा, पप्पा आयल्यांत. तांकां पयलेंच कळिल्लें की भुरगीं नदर चुकोवन भायर गेल्लीं म्हण. तीं बेजार जाल्यांत. भुरगीं वग्गी.)

**मम्मा** : एक दीस सुटी पडली जाल्यार तुमची ही मस्ती?

**पप्पा** : म्हुणून तर दिवाळेचे आनी एप्रीलाचे सुटयेंत तुमकां आमी क्रेश कोर्साक धाडटात.

**मम्मा** : एका दिसाची सुटी मेळ्ळी कितें? तुमकां चोरपांखां फुटलीं.

**पप्पा** : नातलांचे सुटयेक जशें हांकां मामागेर धाडटात, तशें ह्यान फुडें एका दिसाचे सुटयेक लेगीत राखूंक दवरचें पडलें.

**पिंकी** : (हळूच) पुणून आमी खऱ्यांनीच मस्ती करूंक ना गे.

**मम्मा** : तर मागीर मजा करूंक गेल्लीं? तुमकां सांगिल्लें मगो हांवें, घरा भायर सरप

ना म्हण.

**पप्पू** : तो मिठायवालो... मम्मा (भियेता)...

**पप्पा** : वग्गी राव थंय. कोण खंयचे कडलो मिठायवालो येता आनी तुमी ताचे फाटल्यान धांवतात?

**मम्मा** : आनी ताणें तुमकां मिठाय खावपाक दिवन गुंगी दिल्ली जाल्यार? कितें करपाचें आमी?

**पिंकी** : पूण मम्मा तो बरो मनीस. ताणें आमकां एका दिसाचें कांय आसना, पूण वेगळेंच जग दाखयलें.

**पप्पू** : ताणें आमकां गावंक आनी खेळूंक शिकयलें.

**मम्मा** : तुमकां सांगिल्लें मगो, दुसऱ्याकडेन उलोवप ना. दुसऱ्याचें कांय आयकप ना. पळोवप ना म्हण?

**पिंकी** : पूण आमी तशें कांयच वायट करूंक ना. खऱ्यांनीच सांगता मम्मा, पप्पा आमी कितेंच वायट पळोवंक ना. आयकूंक ना. उलोवंकूय ना. आमी फकत ताचे वांगडा बाकीचीं भुरगीं आशिल्लीं तांचें वागडां हांसत खेळत शिकल्यांत.

मम्मा : चूप थंय. आनी आनी कांय उलोवंक नाका, फाल्यांच्यान एक वावराडी हाडटा आनी तुमकां घरा भायरूय सरपाक दिना.

**पप्पा** : इस्कोलाचीं येतकच, जेवन जातकच, बदूद ट्युशनाक. सांजे साताक परत घरांत, तुमकां बंदूच करून घालता.

**मम्मा** : पळेता आनी तोंड म्हजें? चलात अभ्यास करूंक बसात. आयज तुमकां टायमार जेवण बीन कांय ना. चलात अभ्यासाक.

(दोगांय जाणां दोन कोनशांनी बसतात. मदीं भुरगीं. पिंकी पुस्तक काडटा. पप्पू चित्रां काडटा.)

**पिंकी** : (कविता वाचता.)

*''देवा म्हाका मदत कर.*
*देवा वण्टींक म्हजे कडेन उलोवंक शिकय*
*म्हाका सांगपाच्यो आसात तांकां कितल्योश्योच गजाली*
*शाळेच्या इश्टीणींच्यो हांगा थंयच्यो*
*मम्माक सांगल्यार मम्मा म्हण्टा - राव गो मातशें*
*डाडाक सांगल्यार डाडा म्हण्टा - राव गो मातशें.*
*भाऊक सांगल्यार तो म्हण्टा - कितें सांगता गो?*
*म्हज्या कुशीक चार वणटी*

*बाग ना, फुलां ना, पाखें ना*
*म्हाका कोणाकडेनूच उलोवंक मेळना*
*देवा वण्टींक म्हजेकडेन उलोवंक शिकय."*

(मम्मा, डॅडी आयकत आयकत मुखार भुरग्यांकडेन येयात.)

**मम्मा** : बाय, पिंकू, शाणू, हें कितें वाचता तूं? अभ्यास गो?

**पिंकी** : हय मम्मा. युगा आडारकार म्हूण एकलें चली आसा, ताची कविता सुनापरान्त पेपरांत छापून आयिल्ली. आमचे टिचरीन ती सगळ्यांक वाचपाक दिल्या.

**पप्पा** : हो, असलो म्हण होमवर्क आसूं येता?

**मम्मा** : (खंती जावन) हो होमवर्क आमकां. हय आमकांच.

**पप्पा** : तूं आनी कितें उलयता गो?

**मम्मा** : हय, खरें तेंच उलयतां हांव. आमी आमच्या भुरग्यांचें खंय आयकता? आमी सदां आमचेच विचार आनी इत्सा तांचेर लादतात. आयज ही कविता आयकल्या उपरांत म्हाका कळ्ळें.

**पप्पा** : तूं (पप्पूक) तुवें कितें केला रे अभ्यास, पळोवया. (चित्र घेत) हें कितें?

**पप्पू** : चित्र तें.

**पप्पा** : कळटा म्हाका. पूण हें कितें. शेत, न्हंय, खोप, हीं उडटीं सवणीं आनी सूर्या. पूण सगळें सोडून तुवें दोन सुर्याशे कित्याक चित्रायल्या?

**पप्पू** : चड उजवाड जाय म्हुणून.

**मम्मा** : कितें?

**पप्पू** : हय पप्पा, दर एकलेल्या दारान एक एक सूर्या आसता न्हय?

**मम्मा** : पळेलें. आमच्या भुरग्यांकडेन आमी केन्ना सारखें पळोवंकूच ना.

**पप्पा** : हय तांचेंय म्हण मेकळें मळब आसता हें आमकां कळुंकूच ना.

**मम्मा** : आमी तांकां केजींतूच दवरल्यांत. पयलीं इस्कोलाचे केजींत मागीर ह्या चार वणटींचे केजींत.

**पप्पा** : आयज तीं आमची नदर चुकोवनकांय आसना मेकळ्या मळबांत उडलीं.

**मम्मा** : तीं उडलीं म्हण आमकां मळबाची उंचाय कळ्ळी, हें मळब, हें जिवीत विशाल आनी सुंदर आसा. येयात (तांकां कुशीन घेता) आयजसावन हांवूय तुमचे वांगडा भुरगी जाता.

**पप्पा** : आनी हांवूय भुरगेपणांत वचून तुमचे कडेन पळेता. तुमचे वांगडा उलयतां. येयात आनी एक खेळ खेळुंया. खूब वर्सां आदीं खेळिल्लो खेळ...

(सगळीं येयात. पप्पा मम्मीच्या दोळ्यांत काळें रिबीन बांदता. म्हण्टा)

*आपा लिपा*
*साय लिपा*
*साळचो गोंडो*
*हातांत कितें*
*मुदी*
*चल भुरग्यांचे सोदीक*
(मम्मा तांकां सोदता. इतल्यान भायल्यान मिठाईवाल्या काकाचो आवाज आयकूंक येता.)
*लई बरी आसा*
*लई गोडी आसा*
*मुंबईची मिठाई*
*खावून तरी बघा* (घंटा वाजयता.)

**पिंकी** : मिठायवाल्या काका, हांगा यो. आमी तुमकां खेळ शिकयता. यो बेगीन यो. मम्मा आसा, पप्पा आसा.

**पप्पू** : आनी मजा म्हणजे आमच्या घराचें दार आतां उगडें आसा.

(सोंपता.)

000



ललीत

(निबंद)

मीना काकोडकार

# दुरगाचो पुनर्जल्म

नेमाळें वाचूंक बशिल्लें तेन्ना एके बातमेर नदर पडली.

``When the guns fell silent - On Tuesday, Europeans Paused, on the 11th hour of the 11th day of the 11th month, to remember the moment the guns fell silent to end world war I in 1918."

नदरेमुखार 11.11.11 हे आंकडे आयले आनी यादिचीं चाकां आपसूक घुंवक लागलीं.

तरेकवार घडणुको.

कांय आपल्या जिवितांत घडिल्ल्यो तर कांय हेरांच्या पूण आपले यादींत उरिल्ल्यो.

त्या सगळ्या घडणुकांचें मागीर एक जाळें जाता - नेटवर्क! अचकीत केन्ना तरी कसलोय उल्लेख, एक गंध वा एकादरी तारीख नदरेसामकार येता आनी पोन्न्या यादींक स्पर्श करून वता. जादू-ई-छडीचो स्पर्श जाल्ली ती घडणूक मागीर नदरे सामकार परत उबी जाता. 11.11.11 ही तारीख नदरेसामकार आयली आनी आमच्या दुरगाच्या पुर्नजल्माची याद जाली.

दुरगाचो पुनज ल्म म्हणटकीर मुळांत तो आसचो पडलो.... मागीर तो कोसळून पडप आनी परतो उबो जावप म्हळ्यार ताचो पुनर्जल्म जावप हें ओघान आयलें. पूण हें दुरीग केन्ना कोसळ्ळें, कशें कोसळ्ळें किद्याक कोसळ्ळें हे सांगतलें जाल्यार दुरगाचो इतिहास भुगोल थोडक्यात सांगचो पडलो.

सगळ्या घरांक आसता तशें आमच्याय घराक चारीय वटेन दुरीग आसा. मुखावयल्या दुरगाक दोन गेटी. एक फुडल्यान घरांत भितर सरूंक आनी दुसरी पोर्चांत उकती

मीना काकोडकार : जल्म : 1944, नामनेची कथाकार, ललीत निबंद लेखक, बाल साहित्यकार, नाट्यकलाकार. साबार पुस्तकां प्रकाशीत. *'दोंगर चवल्लो'*, *'सपन फुलां'*, *'आमी'* हे कथासंग्रह तशेंच 'शब्दसूर' हो निबंद संग्रह, ही म्हत्वाचीं पुस्तकां. दिल्लीच्या कथासंस्थेचो कथा पुरस्कार. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार, 'वात्सल्य पुरस्कार' तशेंच शाश्वती पुरस्कारांनी सन्मानीत. विसाव्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद (2011), संपर्क : 'श्रेयस' 1158, विद्यानगर कॉलनी, विद्यानगर, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 8087708050.

जाता. घराचे दावे आनी उजवेवटेन एक एक वणत आनी फाटल्यान चवथी वणत. गजाल सांगची आसा ती हे चवथे वणटीची.

आमच्या घराच्या दावेवटेनचो प्लॉट भाटकारान जांवयाक दवरिल्लो आनी उजवेवटेनचो प्लॉट सय्यदभायन विकतो घेतिल्लो. ह्या तिनय प्लॉटांचे भायले वटेन चार मिटर रुंदायेची अशी एक पायण आशिल्ली. आमच्या पोरसापरस ती एक मिटर उंचायेर आशिल्ली. पायणीच्या एका पोंतार एक घळ आशिल्ली. थंय खूब बोरी आनी तरेकवार झाडां मातिल्लीं. सवण्यां-सुकण्यांक आनी सकाळचे विधी करुंक वापरतल्यांक थंय बेस बरो आडोस मेळटालो.

हें पायणींत पांच स माड आशिल्ले आनी तांच्या चुडटांक सुकण्यांचे सोबीत घोंटेर लांबताले. घळींत मुंगसांय रावतालीं आनी अदीं मदीं आमच्या पोरसाक भेट दितालीं.

पायणीचे पेलेवटेन दुसऱ्या एका भाटकाराचो व्हडलो मेकळो जागो आशिल्लो. तो ताणें फातरांचो आडो घालून खोडून घेतिल्लो. आमच्या आनी त्या दुसऱ्या भाटकारामदीं ते पायणीच्या मालकी हक्का खातीर देमांद चलतालो देखून माडांचो पाडो जायनासलो आनी चुडटांक लांबपी घोंटेर भंयाविरयत वाऱ्यार धोलताले.

उपरान्त केन्ना तरी ती पायण कोमुनिदादीची म्हणून थारलें आनी केस भायर पडली अशें कानावयल्यान गेलें. कांय वर्सांनी फाटल्या भाटकारान आपलो जागो बिल्डराक विकलो आनी एक व्हड प्रोजेक्ट उबो करपाची तयारी सुरू जाली. ताणें फातरांचो आडो काडून उडयलो. आनी पायणींतले सगले माड मारुन उडयले. मनशांचे शिमिटाचे घोंटेर उबे करचे खातीर सुकण्यांच्या घोंटेरांचेर हावळ आयली.

प्रोजेक्ट उबो जावंक लागलो. पायणीचें रुपांतर रुंद रस्त्यात जालें. त्या रस्त्यार वच्चे खातीर आमी फाटल्या दुरगाकय एक ल्हानशीच गेट केली. पायणींतल्यान घळी कडेन वचपाची वाट बिल्डरान दुरींग बांदून बंद केली.

आतां हांगा आमच्या वाठारांतले ड्रेनेज सिस्टीमाविशीं थोडेशें सांगप गरजेचें. ती फकत कुकुमाक आदार कशी नांवाक आसा. पावस पडलो रे पडलो सगळे रस्ते न्हंयो कशे व्हांवंक लागतात. रस्त्यावयले फोंड उदकापोंदा वतकीर कोण केन्ना फोंडांत पडत हाचो अदमास येना. गाडयो, स्कूटरी ह्या 'उदकाळ' रस्त्यांवयल्यान वतना कुशीच्यान चलपी लोकांचेर उदकाचे फवारे उसळायत वतात. लोकांच्या घरानीं लेगीत उदक भितर सरता.

'सिव्हीक्स' हो विशय शाळेंत शिकून आमी व्हड जातात. पूण परिक्षेखातीर शिकप आनी जिणेंत तो आपणावप ह्यो दोन वेगवेगळ्यो गजाली जाल्ल्यान 'सिव्हीक्स' शिकलीं तरी मनशांक 'सिव्हीक सेन्स' आसताच अशें ना. नगरपालिके सारकिले सिव्हीक बॉडीकय तो आसा काय ना असो दुबाव येवपासारखी तिचीं कर्तुपां.

एका काळार पावसाचें उदक वचपा खातीर आशिल्यो खळयो नव्यो नव्यो

बिल्डींगी सामक्यो रस्त्यार बांदिल्ल्यान पुरवल्यात. तातूंत भर म्हणून फुटपाथांचेर पेव्हर बसोंवपाचें काम करतना तारतम्य बाळगूं नाशिल्ल्यान उरिल्ल्या सुरिल्या खळयांचेय पाडा घट्टण जालां, आनी खळयांतल्यान वचपाचें उदक रस्त्यावयल्यान व्हांवोवपाच्या म्हान कार्याक नगरपालिकेन आपलो हातभार लायला.

हें सगळें सांगपाचें कारण म्हळ्यार रस्त्यावयलें उदक आमच्या पायणीवजा रस्त्यार भितर सरून थंयय बी धोंपरभर उदक जावंक लागलें कारण हे पायणीक खळीच ना आनी एका तेंपार उदक घळींत वचपाची जी वाट आशिल्ली ती बिल्डरान दुरीग बांदून आडायिल्ली. चोंय वाटांनी 'आनंदी आनंद गडे' आशिल्लो.

प्रोजेक्ट पुराय जातकीर पायणवजा रस्त्याचें सोबितीकरण करचेखातीर बिल्डरान आमच्या आनी सय्यदभायच्या दुरगाक सामके तेंकून बदामाचे रोपे रोयले. रोयले तेन्ना जरी ते हातभर लांबयेचे रोपे आशिल्ले तरी व्हड जातकीर ते केदे जातले, तांची पाळां खंय मेरेन पावतलीं आनी खांदयो आपले हात कितले लांब करतल्यो हाचो अदमास करप कठीण नाशिल्लें. आनी दुरगाक तेंकून रोयिल्ल्यान आमच्या दुरगाक मार बसूं येतालो. आमी बिल्डराचे नदरेक तें हाडलें. पूण ताणें ते रोपे काडले नात. म्हणटकीर आमच्या दुरगाभायले रोपे आमी काडून उडयले. पूण सय्यदभायन आपल्या दुरगाभायल्या रोप्यांकडेन आडनदर केली. कांय वर्सांनीं जेन्ना हे रूख दांगानी वाडले तेन्ना एक दीस सय्यदभायचें दुरीग वेंगांत घेवनच घो जाले.

तें पळोवन आमकां दिसलें आमी शाणी पूण दुरीग कोसळपाचें आसल्यार बदामाच्या रुखांचीच गरज ना म्हणपाचें मागीर कळ्ळें.

ही जाली दुरगाचे भायले वटेनची थोडीशी भौगोलीक म्हायती. आतां दुरगाचे भितरले वटेन पोरसांत कितें कितें आशिल्लें तें सांगप गरजेचे, ना जाल्यार दुरीग कोसळटकीर पोंदा कितें कितें चिड्डुलें हें कशें कळटलें?

तर पोरसांत दोन माड आसात. तांचे मदीं एक जाण्टेली दशीण आसा. जाण्टी म्हळ्यार ती रोयल्यार बरींच वर्सां जाल्ल्यान ती दांगानीं उंच वाडिल्ली आनी ग्रीलांवयर तकली काडून भायले वटेन नदर मारताली. तिजे मातशे फुडें एक लिंबीण आपशीच रुजून आयिल्ली. तिका तेंकून एक गार्फाची लिंबीण रोयिल्ली. दुरगाचे कडेन ओळीन कितल्योशोच तरेकवार रंगांच्यो दशणी रोयिल्ल्या. पांच पाकळ्यांच्यो, दोट्टी पाकळ्यांच्यो, केसरी, हळदुवे आनी गुलाबी इझोरा आशिल्ले. हांचेभायर क्रोतोनाचीय पोरसांत हजेरी आशिल्ली. अदीं मदीं करबेल जाल्लो. पॅशन फ्रुटांची वाल ग्रीलांचेर बरी मातिल्ली. ही पॅशनफ्रुटां पिकतकीर हळडुवीं जातालीं आनी ग्रीलीचेर लांबपी कुचकुचीत पॅशनफ्रुटां सोबीत दिसतालीं. फळ धरचेपयलीं तांका जीं फुलां येतालीं तीं जांभुळशा रंगाची कृष्णकमळां आशिल्लीं.

हांव खंयचेय झाड रोयता तेन्ना तें खंयच्यान हाडलें, केन्ना रोयलें तें याद दवरतां. सवंय ती म्हजी. कांय झाडां विकतीं हाडटां, कांय

सोसऱ्यागेच्यान, इश्टांकडल्यान हाडटां. दर एका झाडाचो केस पेपर म्हजे तकलेंत आसता.

सकाळीं झाडां शिंपतना म्हाका हें सगळें याद जाता. शिंपपा वांगडाच दर एका झाडाचेर तोखणायेन नदर भोवंडावप, कीड बी लागल्या जाल्यार पळोवप हेंय काम हांव करता. सांगपाचें म्हळ्यार हीं सगळीं झाडां म्हाका जितीं जिवीं जिवाभावाचीं कशीं दिसतात. तरेकवार रंगीबेरंगी फुलां फुलतकीर आमचें पांचवेचार पोरसूं सोबीत दिस.

जुलैचो म्हयनो आशिल्लो. आठ दीस पावस एकसारको पिशाबशेन पडत आशिल्लो. ताचे जोडीक वारोय आशिल्लो. गोंयभर तांचे थैमान चालू आशिल्लें. वचत थंय उदक तुंबलें. गोंयांत खूप कडेन झाडां पडलीं. हुंवार आयले, घरां आनी दुरगां कोसळीं. पूण इतलें करूनय पावसाचें समाधान जाय नासलें.

आमच्या वाड्यार तर 'काश्मीर' जाल्लें. 'शिकारा' घेवन जाय थंय वचूंक हरकत नाशिल्ली. पायणींतल्यान वचपाची माणसुकीच नाशिल्ली. तेवटेंतले गेटींतल्यान उदक भितर येत बी म्हणून आमी भायल्यान पत्रेबी लायले. दुरगाचो आमकां सामको हुसको जावंक लागिल्लो.

चार-पांच दीस दुरगान आपल्याक सांबाळपाचो आटोकाट यत्न केलो आसतलो आनी सव्या दिसा फांतोडेर ताणें 'राम' म्हळो. आनी घो... जालें. आमच्या बेडरुमा भायल्यान ती वणत आशिल्ल्यान आवाजासरशीं आमी जागी जालीं. पावसाचो आकांत चालूच आशिल्लो. जनेला भायर नदर मारल्यार मुखार दुरीगच ना. एके कुशीक आशिल्ली व्हानशी गेट मात पावसांत भिजत थरथरत उबी आशिल्ली.

पायणींत -तुंबिल्ल्या उदकाक बेस बरी वाट मेळिल्ल्यान आमच्या पोरसांत ताचो नायगारा धबधबो जाल्लो आनी पायणींतलो सगळो कोयर कचरो घेवन उदक आमच्या पोर्चांतल्यान फुडल्या रस्त्यार व्हांवतालें. पोर्चींनय मोटारीचे टायर बुडपा इतलें उदक जाल्लें. उदकाच्या लोटावांगडा व्हांवून आयिल्ल्यो तरेकवार वस्तू गेटीक आडखळून थंय उरिल्ल्यो.

उदका लोटांतल्यान वाट काडीत आमी मोडिल्ल्या दुरगाकडेन पावलीं. म्हज्या अपुरबायेच्या झाडांचें एक पान लेगीत दिश्टी पडनासलें. पुराय दुरीग ग्रिलींसकट मातये भरवणा जाल्लें आनी ताचे पोंदा म्हजीं जिवाभावाची सगळीं झाडां चिड्डुलीं. म्हजे दोळे भरून आयले. पोरसांतले दोनय माड मात राखणदार कशे तायट उबे आशिल्ले. आनी एका माडाच्या आदारान जाण्टेले दशणीची वांकडी जाल्ली तेंगशी तितली दिसताली.

ल्हवू ल्हवू सकाळ जाली. दुरीग उडोवपाचें म्हान कार्य करून जातकीर पावसय मातसो आसरूंक लागिल्लो. बातमी कळटकीर आशीकुशीचे शेजारी धांवन आमगेर आयले. म्हजो झाडां वयलो मोग खबर आशिल्ल्यो म्हज्यो शेजान्नी मुखावयलो देखाव पळोवन चुरचुरल्यो.

पूण कितेंच करुंक मेळपासारखी परिस्थिती नाशिल्ली.

दुरगाचे चिरे फाटले वटेनची माती आनी मोडिल्ल्यो ग्रीली हांणी सगळे पोरसूं व्यापिल्लें. आनी तें काडलेबगर पोंदा पडिल्लीं झाडां वाटवप शक्यच नाशिल्लें. पायणींतलें उदक वचपाची वाट म्हळ्यार आमचें पोरसू जाल्यान कितेंच करुंक मेळनासलें.

सगल्यांत पयलीं भायलें उदक वचपाक खळी मारल्याशिवाय दुरीग बांदपांत कायच अर्थ नाशिल्लो. सकाळ जातकीर आमच्या वाड्या वयल्या नगरसेविकेक ही गजाल सांगली आनी म्युनिसिपालटीन आतां तरी खळयो मारपाचें काम हातांत घेवंचें म्हणून सांगलें. तिणें उतरांनी सगल्यो खळयो मारल्यो पूण कितें घडलां तें पळोवंक लेगीत आयली ना. तिचीय चूक ना. वेंचणुकेवेळार मतां मागूंक येवप इतलीच आपली लागणूक अशें तिका दिसता आसूंये. पूण उल्याक धांवन आयलो तो आमचो आमदार आनी खळयो मारपाच्या कामाक तातडीन सुरवात जाली.

जंय आमचें दुरीग आशिल्लें ताचेपसून मिटरभर अंतरावयल्यान खळी मारचेलें काम सुरू जालें. पावस घोग्यांनी पडनासलो पूण ताचें शेनप सामकेंच बंद जावंक नाशिल्लें, देखून काम मातशें सवकाश फुडें वतालें. खळी पुराय बांदून जायीसर दोन म्हयने लागले. रस्त्यावयलें उदक खळयांतल्यान वचूंक लागलें आनी आमच्या पोरसांतलो धबधबो कमी जालो.

उपरान्त दुरगाचे बरे चिरे कुशीक काडून उरिल्ली ‘मोडामोड’ ट्रकांत भरून उडोवपाचें काम सुरू जालें. पोरसूं निवळ जालें. पोंदा चिड्डुलें एकय झाड जिवें उरूंक नाशिल्लें. सगळ्या यादीं सकट तीं ना जाल्लीं. ह्या जाग्यार जांबळी दशीण आशिल्ली त्या जाग्यार क्रांतोन आशिल्लो अशें म्हणत हांव चुकून खंयतरी तांची आंकरी जिवी उरत्या काय कितें हें पिशावरी पळयतालें. आंगावयलो पेज कुशीक सरतकीर जाण्टेली दशीण मात एकलीच परती उबी जाली.

चिऱ्या खणींनी उदक भरिल्ल्यान चिरे मेळनासले. देखून आमचें दुरीग बांदपाचें काम फुडें फुडें वचत आशिल्लें. चिरे मेळटासर आनीक एक म्हयनो गेलो आनी मागीर ल्हवू ल्हवू दुरीग उबें जावंक लागलें.

मजेची गजाल म्हळ्यार ज्या जाग्यार लिंबीण आशिल्ली (गार्फाची न्हय. सादी!) थंय ल्हवूच एक आंकरी वयर सरली. म्हणटासर करबेलान तकली वयर काडली. त्या सांवारांतल्यान वाटाविल्लीं ती दोन झाडां. वाटाविल्लीं म्हणचेपरस नव्यान जल्मल्लीं म्हणप चड बरोबर जातलें.

हावाशिवा करून सगळीं आडमेळीं हुंपून आमचें दुरीग परतें उबें जालें. ते गजालीक ह्या नोव्हेंबरात सारकीं तीन वर्सां जालीं.

आतां आमच्या पोरसांत नवे केसपेपर करून नवीं झाडां रोयल्यांत. तातूंत धवो आनी तांबडो चांफो आसा. तरेकवार दसणी आसात. जुयेचें झोंप आसा. पॅशन फ्रुटाचीं वाल मेळ्ळी ना. पूण तिच्या जाग्यार दुसरी वाल ग्रिलांचेर चडल्या. तिका

कृश्णकमळांवरीच तांबडीगूंज रक्तकमळां फुलतात. हाका फळां धरनात.पूण हातुंतल्या म्होंवाचे आशेन मोट्टे गुंरगुटे आनी तरेकवार कोमुले ह्या फुलांभोवतणी घिट्ट्यो घालतात. लिंबीण दांगांनी वाडल्या. करबेल बरो मातला. नवे क्रांतोन, नव्यो बेगोनिया, इझोरा पोरसांत रसरसल्यात. परत एक पावट पोरसूं पावचेंचार आनी रंगीबेरंगी जालां.

आमचें दुरीग आनी भायली खळी हांचे मदीं जो एक मिटर जागो आसा तातूंतय आमी तरेकवार झाडां रोयल्यांत थंयय धव्यो, तांबड्यो आनी गुलाबी कणेरी फुलांनी रसरसतात. एके कुशीक आपशीच एक पोपाय किल्लून आयल्या आनी तिका कुचकुचीत पोपायो लागतात. आमच्या पोरसांत हरशी मुद्दाम रोयल्यार लेगीत पोपाय मूळ धरना. दर पावसांत मूळ घेवन 'घोड्ड' जाता. पूण भायलेवटेन आपशीच जाल्ली ही पोपाय आमकां गोड गोड पोपायो दिता. येद्यो व्हडल्यो 'कर्दी' कशीं पोपायो. सुरवेक हातानीं काडूंक मेळटाल्यो. आतां ती बरीच उंच जाल्या. हात पावना देखून पोपाय पिकल्यार काडूंक मेळना. म्हणटकीर आतां ती सुकण्यांची जाल्या. पिकून बरी मोव जाली म्हणटकीर तरेकवार सुकणीं येवन ती पोखरुन खातात, आनी फकत भायलें कल्ल दवरतात. खावूं बाबड्यांक कोणाच्याय पोटांत पडटकीर जाल्यो.

आमचें दुरीग मोडटकीर पयशांचे नुकसान जालें खरें. पूण दोन फायदेय जाले. एक म्हळ्यार फाटल्या रस्त्यावयलो उदकाचो प्रस्न सदांखातीर सुटलो. आनी दुसरो म्हळ्यार दुरगा भायलो पुराय दुरगाइतल्या लांबायेचो आनी एक मिटर रुंदायेचो जागो आमचो नासनूय आमकां झाडां रोवंक मेळ्ळो.

एक गजाल सांगचेली उरुनच गेली. जेन्ना सगलें दुरीग बांदून पुराय जालें तेन्ना निमणे दिसा गंवड्यान गेटीकडेन शिमिटाचेर तारीख बरयली. 11.11.11 म्हळ्यार जुलै म्हयन्यांत कोसळिल्ल्या दुरीगाचो 11.11.11 हे तारखेक पुनर्जन्म जाल्लो.

आतां ही तारीख जेन्ना केन्ना नदरेसामकार येता तेन्ना तेन्ना दुरगाच्या पुनर्जल्माची गजाल याद जालेबगर रावना.

000



ललीत

(निबंद)

मुकेश थळी

## कारतोस

आकाशवाणीचेर बातम्यो अणकारीत करीत बशिल्लों. सुभाष जाण ड्युटेर आशिल्लो. तोवूय भितर सरलो. येनाफुडें ताणें मुठींतली पोलोची कारतोस मुखार धरली. फोडिल्ली आशिल्ली. एक पिपिरमीट हांवें काडलें आनी तोंडांत उडयलें. ताणें बाकीच्यांकूय पोलोची कारतोस मुखार धरून एकेक पिपिरमिट दिलें. तोंडांत बरी मिरमिरसाण घोळपाक लागली. तोंड ओलें जालें. ताळो ओलो उरपा खातीर बी सुभाषान पोलो हाडल्या आसूंये, अशें दिसलें. बातम्यो वाचप्याक ताळो ओलो खणखणीत दवरप गरजेचें. धर्मानंद खोलकार बातम्यो वाचपाक येतना सदांच हॉल्स, विक्स वा तसलीं पिपिरमिटां वा चॉकलेटी घेवन येतालो ताचीय याद जाली.

रातचे बातम्यो सोंपोवन घरा वतना मात सुभाषान खरो फोड फोडलो. ताणें सांगलें-

"आयज येता आसतना बाबा मेळ्ळो रे. तो खंय तरी गेल्लो. मेळना फुडें ताणें ही पोलो दिली. प्रवासाक खंयूय भायर सरून वतना तो सदांच पोलो कारतोस बाळगिताच."

एकदम याद जाली. हालींच आमी सगळीं दौऱ्यार गेल्लीं. वता आसतना प्रवासांत माईक कितें जाय अशें तयारी करतना विचारलें. माईन सांगलें - तोंडांत उडोवपाक एक कारतोस हाड. बाजारांत गेलों. थंय तीन आकाराच्यो कारतोशी आशिल्ल्यो. आदीं आर्मांत घालताले त्या आकाराची म्हणजे नॉर्मल. मातशी ल्हान आनी ताच्याकूय तीन गुळयांची सामकीच ल्हान. माईक दोन आकाराच्यो

**मुकेश थळी** : जल्म : 1963. ललीत निबंदकार, अनुवादक, स्तंभलेखक, *'वळेसर'*, *'हंसध्वनी'*, *'अक्षरब्रह्म'* आनी *'जीवनगंध'* हीं निबंदांची तर *'आमचीं झाडां अजून वाडटात'* तशेंच *'एॅव्हरेस्ट तेमकां वयली म्हजी भोवंडी'* ही अणकाराचीं पुस्तकां प्रकाशीत. 'संपर्क : एफ-2, राजांगण, शांतीनगर, फोंडे, गोंय 403401. मो. : 9423056755

कारतोशी हाडल्यो. वाटेर प्रवासांत तोंड सुकता म्हूण तोंडांत उडोवपाक माई कारतोस सदांच वांगडा बाळगिता. कितलींशींच वर्सां जालीं हांव तिची ही संवय पळेत आसा.

कारतोस हें उतर आयच्या भुरग्यांक कळटा काय कोण जाणा. मूळ पुर्तुगेज कार्तूश ह्या उतरावेल्यान हें उतर कोंकणींत घोळटालें. इंग्लीशींत कार्टीज्य आनी मराठींत कारतूस. आर्मांत घालपाची गुळी. कागदांत रेवडायल्ल्या मिरमिरीत पिपिरमिटांचो आकार कारतोशी भशेन म्हूण हें नांव. आर्माच्या म्हणजे तुबकाच्या कारतोशींत मुळशांव आसताले. कांय जाण ताका मुनीसांव अशेंय म्हणटात. इल्लेशे लोखंडी गुळे कशे. सायकलीच्या बेरींगांत बी आसतात तसले. खावपाची कारतोस मात अजुनूय उरल्या.

तोंड सुकता म्हूण क्रिकेटर च्युईंगम तोंडांत घालून चगळीत आसतात. प्रोग्रामाक बी खूब जाण अशे तरेचीं च्युईंगमां तोंडांत घालून चगळटात. आमी भुरगेपणांत ताका चिंगमां म्हणटाले. एका काळांत बबल – गमां आयलीं. मोटीं च्युईंगमां. तोंडांत चगळून जिबेर मुखार हाडून तीं फुलोवपाचीं. ठप्प करून बोमाडो फोडपाचीं. उपरांत कितलेशेच तरेचीं हीं तोंडांत चगळपाचीं च्युईंगमां आयलीं.

सुभाषालो बाबा आनी म्हजी आवय माई हीं आदले मुस्तींतलीं. तांकां तोंडांत उडोवपाक आदल्या तेंपार सावन खायत आयिल्ली कारतोसूच जाय. मिरमिरीत अशीं तीं कारतोशींतलीं पिपिरमिटां. आमच्या भुरगेपणांत एकाच आकाराच्यो कारतोशी येताल्यो.

भायल्यान पाचवो कोर. ताचेर वागाचो एक फोटो आसतालो. हालींसराक आयल्यात तीं पोलो. ह्या पिपिरमिटांत मदीं एक बोतो आसता. मदल्या काळांत पॉपिन्स नांवाच्यो गोड पिपिरमिटांच्यो कारतोशी आयल्यो. पूण माईक त्यो आवडल्योना. तांकां मिरमिरीत तोंड ओलें दवरपी कारतोशीच सदांच जाय जाल्यो.

आमच्या भुरगेपणांत चाकलेटी आसताल्यो. पूण खूब्ब तरेच्यो न्हंय. हालींसराक खूब तरेच्यो चाकलेटी आयल्यात. तरेकवार फ्लेवर. तरेकवार आकार. तरेकवार कागदां आनी फोली आनी बेगडी. फॉरैन चाकलेटीय मेळटात. कोणूय फॉरैनाक सावन येतकच भेट म्हूण तरेकतरेच्यो चाकलेटी दुसऱ्याक हाडून दितात. आमचेय इश्ट अशे तरेच्यो चाकलेटी हाडून दितात.

ल्हान भुरग्यांक चाकलेटी खूब आवडटात. आवय-बापूय भुरग्यांक दुकानांचेर घेवन गेल्यार पुरो, ही चाकलेट घे, ती घे, हे फोलीची नाका, त्या फ्लेवराची जाय अशीं तेमां भुरगीं करतात. मागीर आवय-बापायक तांचे ते हट्ट पुराय करचेच पडटात. आमचोय एक इश्ट सर्गेस्त हरीश्चंद्र देसाय हो प्राथमीक शाळेंत हेडमास्तर आशिल्लो. एकदां कसलें तरी भुरग्यां खातीरचें शिबिर आशिल्लें. ते टिमींत हांवूय आशिल्लों. बसके वेळार देसायबाबान सुरवातीकूच एक गजाल सांगली. भुरग्यांक दोन गजाली आवडटात – खाऊ आनी खेळ. मागीर आमी ह्या दोन गजालींचेर भर दिवन बाकिच्यो गजाली, सत्रां आंखलीं. भुरग्यांक खावपाचें म्हळ्यार चाकलेटी, मिठाय आवडटा आनी खेळपाक, मजा करपाक आवडटा हो देसायबाबान

सांगिल्लो बालमानसशास्त्रांतलो सिद्धांत हांव केन्नाच विसरचोना.

म्हज्या भुरगेपणांत तरेतरेच्यो चाकलेटी नाशिल्ल्यो. पारदर्शक प्लास्टीक फोलींत गुटलायल्लीं पॅरीस चाकलेट फामाद आशिल्ली. गड्डे आनी पिपिरमिटां आशिल्लीं. आयच्या भुरग्यांक हीं दोनूय नांवां कळचींना. शाळेंत आसतना चाकलेट वा पिपिरमिट दोगां मदीं वांटून घेतना आमी ती आमच्या बुशकोटाच्या पोंदा गुटलायताले आनी बुशकोटाच्या कपड्याचो तो भाग चाबून ताचे दोन भाग करताले आनी वांटून खाताले. ती मजाच वेगळी.

साहित्यीक लक्ष्मणराव सरदेसाय म्हज्या आजोळा येतालो. ताका आमी काका म्हणटाले. तो अक्षर बरें आशिल्ल्यांन म्हाका डिक्टेशन घालतालो. मागीर चाकलेटी दितालो. पॅरीस ही तेन्नाची सामकी फामाद चाकलेट. काका ताका पारी म्हणी. काका सगळ्या भुरग्यांक चाकलेटी वांटी.

हालींसराक भुरग्यांक जितले तरेच्यो चाकलेटी खावपाक मेळटात ताची गणती करूं नजो. टीवीचेर जायराती येतात. त्यो पळोवन भुरग्यांक थोड्या दिसां खातीर त्यो खावपाचो मोह जाता. विविधता खूब आशिल्ल्यान मागीर तांकां हेर तरेच्यो चाकलेटी चोखपाचो मोह जाता. आमकां भुरगेपणांत जितलो मोह आशिल्लो तितलो आयच्या भुरग्यांक ह्या अमर्याद निवडीच्या जगांत ना अशें दिसता. कारण मूड मारता तेन्ना तसले तसले तरेच्यो चाकलेटी तांकां जाय आसतात. केन्ना आंब्याचे रूचीची, केन्ना चिंचेच्या रूचीची तर केन्ना पेराचे रूचीची.

एसएससीक आसतना आमकां इंग्लीश पाठ्यपुस्तकांत रॉबर्ट लिंड हांचो स्वीट्स हो निबंद आशिल्लो. रवीन्द्र नमशीकार सर इंग्लीश शिकयताले. तांची शिकोवपाची शैली आगळीवेगळी. केन्ना केन्ना सबंद धडो एकाच पिरेडांत सोपोवप. केन्ना एकेक परीच्छेदाचेरूच घांसून पुसून बारीकसाणेन विस्कटावणी करीत एक पिरेड घेवप.

स्वीट्स निबंद शिकोवंक घेतकच ताणी पयले दोन पॅरा एका पिरेडांत शिकयले. दुसऱ्या दिसा येतना ताणी चाकलेटींची प्लास्टीक पोती हाडिल्ली. सगळ्यांक एकेक चाकलेट वांटली आनी तांणी लिंड सांगता त्या वेगवेगळ्या चाकलेटींची आनी पिपीरमिटांची गजाल आनीक दोन पॅरा घेवन शिकयली. तिसरे दिसा तांणी फुडलो पॅरा शिकोवपाक घेतलो. तातूंत एक वाक्य आशिल्लें. कोणाकूय चाकलेटी वांटात आनी पळेयात कितलेशे जाण तुमकां देव बरें करूं अशे धन्यवाद दितात ते. तांणी तें वाक्य शिकयलें आनी फुडें गेले. तातुंतल्यान तांणी एक अंतप्रवाह आनी संदेश सोडलो. कोणेंय कसलीय चाकलेट दिली जाल्यार ताका धन्यवाद दिवंक जाय. आमी कोणेंच सराचे चाकलेटी दितकच उपकार मानूंक नाशिल्ले. सराचो सभाव मातसो विनोदी आनी कांय गजाली वेगळेपणान शिकोवपाची तांची धाटणी आशिल्ल्यान म्हाकाय कॉमीकूचशी दिसली. चवकशी करतकच कळ्ळें की दर वर्सा सर हेच पद्धतीन स्वीट्स निबंद शिकयताले खंय. सुभाष जाणान कारतोशीचे पिपिरमिंट दितकच मात ह्या संस्कारांक लागून हांव ताचे उपकार मानूंक विसल्लोंना.

000

ललीत

(निबंद)

सुमेधा कामत देसाय

# पाळणीवाड्यावेले मानशेर...

सरकार जेन्ना नुस्तेमारी बंदी जाहीर करता तेन्ना म्हजे हाल-उपाद्रे सुरू जातात. तशें हांव नुस्तें व्हडलेशें खावपी, चड घोस्तान खावपी अशें मनीस न्हय. पूण म्हाका वासाक तरी नुस्तें जाय. खंयच्याय नीज गोंयकाराक नुस्तें आवडना म्हण आसा? हांवूय बी तातुंतलेंच. म्हजी आवय, भयण बी, 'नुस्तें आसत जाल्यार गोंयकार वीर, ना जाल्यार व्हीर.' ह्या कातागोरीतलीं.

नुस्तेबंदी जाहीर जातकीर हांवें एक पावट पणजे नुस्त्या बाजारांत पावल घालें. थंयचें 'फॉसिल्स' जाल्लें नुस्तें पळोवप, खावप म्हळ्यार एक भिरांकूळ ख्यास्त कशी. ह्या नुस्त्याचे तांबडे, खदूळ, मेल्ले दोळे पळोवन म्हज्या पोटांत धवळटा. केन्ना केन्ना गांठ विटली जाल्यार दोतोराचीं वखदां दोन दोन म्हयने घेवंचीं पडटात. म्हज्या भुरगेपणांत, तरुणपणांत, हांव मडगांवा आसतना दर्याचें बरें बरें नुस्तें येतालें. मानशेचेय येतालें. आतां लोकसंख्या वाडल्या, हॉटेलांय वाडल्यां. भोवंडेकारांचीय दाटी जाल्या. तेन्ना मडगांवातय 'हळद लागू या नुस्त्याक' अशें म्हणपाची पाळी आयल्या. म्हजो भाव जाल्यार आयतरा सकाळीं नुस्त्याच्या होलसेल मार्केटांत वचून केरळ, मद्रास ह्या थळांतल्यान आयिल्ल्या नुस्त्याची पाटली विकती घेवन नुस्तें फ्रिजांत भरून दवरता. हरशीं ट्रॉलरवाले ट्रॉलरांभितरुच ह्या नुस्त्याक पंदरा दीस फ्रिजांत दवरतात. मागीर फ्रिजांत बसून हें नुस्तें गोंयांत येता. परत गरम जावन पाटल्यांनी वा बोक्सांनी बसता. आनी मागीर घरांघरांनी वचून परत फ्रिजांत बसता. रुमटेंपरेचराचेर येवन हुमणांत बसून परत आशिल्लें तशें फ्रिजांत वता. मागीर ते हुमण फाल्यां,

**सुमेधा कामत देसाय** : जल्म : 1957, ललीत निबंदकार, प्रवास वर्णनकार. कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंत लेखन. लेखनाक विनोदाची झालर. कोंकणी-मराठी मेळून सोळा पुस्तकां प्रकाशीत. *'विवेकानंद पुरमांत'* (प्रवासवर्णन) तशेंच *'तेंफळां घोंस'*, *'निवल - कांडयेचीं बोंडां'*, *'पालवापान'*, *'आंबाड्यांच्या घरांत'* हीं कांय कोंकणी पुस्तकां चर्चीत. कला अकादमी-गोवा, तशेंच डॉ. टी. एम्. पै फाऊंडेशनच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : जी-2, पंखराज, कॉर्पोरेशन बँकेलागीं, तोंक, करंझाळे, गोंय. मो. : 9767414106.

परवां, अवेरां खायत रावप.

आमकां दुयेसां जांवची ना जाल्यार आनी किते जातलें? फाटलीं वीस वर्सां हांव शिवोले तारीवेल्यो कल्ल्यो, मोरजेचे-कांयसुवचे मागाचे बांगडे, आर्ली-शिरोड्याचे सरंगे, चोपडेचीं करपेची कालवां, आनी वायडोंगरावेल्यो कुल्ल्यो खातां. तेभायर बेबी[1], वेरेंच्यो कल्लावन घेतिल्ल्यो तिसऱ्यो आनी केगदीवेळेवयले शेंवटे धाडटा. हें असलें नुस्तें खावन म्हजी जीब मातल्या. म्हणून म्हजी पणजे बाजारांतलें, नुस्त्याबंदीच्या दिसांतले 'फॉसिल्स' जातीचें नुस्तें खावपाची मातूय तयारी ना...

पर्याय खूप थोडे आसात.

लोक म्हणटात, "शिवोली तुका लार्गी. तुजी नुस्त्याची मजा" पूण शिवोले नुस्तें साप्प थोडें आनी नुस्तें खावपी धा वांट्यांनी चड. व्हडले व्हडले गिरेस्त किरिस्तांव भाटकार, विदेशांतल्यान थोड्या दिसांखातीर आयिल्ले किरिस्तांव लोक, मुंबयच्यान गांवांत आयिल्ले हिन्दू लोक, अशेतरेचीं गिरायकां नुस्त्याचो पाटलो बाजारांत तेंकलेबरोबर ताचेर माजरांभशेन झोपय मारतात. वांटपणपसून करनात. थोडे लोक जाल्यार तडीक लागपी व्हड्यार वचून आडवे पडिल्ले आसतात. व्हडे तडेक तेंकले रे तेंकले काय मानग्याभशेन धरलेंच तांणी दाडेक व्हडें. आतां शिवोली कोण नुस्तें उजरावन पसून दिना. नुस्तें उदकांतल्यान भायर आयले रे आयलें काय पावलेंच तें गिरायकाच्या पोटांत. शिवोलेच्या नुस्त्याक लोकांच्यो उडयो सामक्यो!

चोपड्यां-आगरवाडो रस्त्यार कोणूय गरवणेचें चणक, घोळशी, तांबोसो (एकलो एकसुरो) हातान लांबयत उबो रावता. प्रेस विचारल्यार आठशीं - हजार रुपया सांगता. तीनसांज जाता. काळोख देंवता. तरी तो प्रेस सकयल देवयना.

"आरे आतां रात जाली मरे! दी मरे पांचशी रुपयांक!' अशें कोणें गिरायकान सांगल्यार म्हणटा, 'रात जावूं ना जाल्यार दीस उजवाडूं. मियां फिरिजांत ठेयतलंय, आनी फाल्यां सकाळीं पुनान तिठ्यार उबो रवतलंय आनी बाराशीं रुपया म्हणान सांगतलंय." अशें तो सांगता. दुसरे दिसा ताची ती चणक हजार रुपयांक वताय बी. कोणागेर जांवय येवपाचो आसता. कोणाक बॉसाक साग्वाद धाडपाची आसता. कोणाक भाटकाराकडल्यान फुकट जमीन खावपाची आसता...

म्हण्टकीर पावसा दिसांनी आमकां ऑब्शन्स लिमिटेड उरतात. शेनवारा पार्शां वतना आमी पाळणी वाड्यावेली मानस घेतिल्ल्या भगताक फोन करून सांगतात. ऑर्डर दितात आनी ते प्रमाण नुस्तें हाडून घेतात. शेनवार - आयतार खातात. आनी थोडे कुडके तळपाखातीर पणजे येतना बरोबर घेवन येतात.

अंदूच्या वर्सा तर बेबीनय सांगलां, 'आपल्याकूय कसोय करून हजार बाराशींचो एक वांटो हाड. ह्या दिसांतलें पणजी बाजारांतलें नुस्तें खावन पोटांत घांस मारता. माजर पासून खायना खंय तें!' (सगळीं माजरां नुस्त्याक संवकल्यात,

ते भायर बेबीच्या माजराकूय खंय पार्शेचे मानशेचें नुस्तें खावपाचे दुवाळे लागल्यात) मागीर वेऱ्यां नुस्त्यापोटलेची होमडिलिव्हरी करून हांव पणजे येतां. कोणाकोणाचीं कसलीं कसलीं ओब्रां घेवन संवसारांत दीस काडचे पडटात. शंकर भांडारीच्या 'शोफेर' व्यक्तिचित्रांतलो शोफेरूय असोच कोणाकोणागेर नुस्तें पावोवन येतालो. तशें हांवूय प्रत्येक आयतरा, नुस्त्याबंदीच्या दिसांनी (हरशिल्या दिसांनी हांव भोव वतां!) नुस्ते पावोवंक वतां.

हांव नुस्त्याचो दोन दिसांचो पुरुमेंत घेवन पणजी येता. मंगळार–बुधवार, दोन दीस बरे वतात. बिरेस्तारा हांव नुस्तें खायना. शुक्रार असो तसो सुक्या सड्यार कसो वता. शेनवार हांव पावलेंच पार्शां.

***

आमी पार्शां वचपाक भायर सरलीं. शेनवारा सांजवेळार. फाटले दोन तीन दीस उटंगाराचो पावस पडटालो. हांवें हाका म्हळें, ''मात्सो भगताक फोन मारुन नुस्तें केन्ना मेळूंक शकतलें, तें विचार.'' मागीर भगतान फोनार रिप्लाय दिलो. ''आयतरा सकाळीं साडेइकरांक मानशेर येयात.'' आमी आमची गरज ताका पयलींच सांगिल्ली. आमकां घरांत, पणजे व्हरपाक आनी बेबीक दिवपाक अशे तीन वांटे जाय म्हणून सांगलें. शेतकां, काळुंदरा आनी शेवटेच जाय हेंय सांगलें.

दुसरे दिसा सकाळीं उठून हांव गांव भोवंडेक भायर सरलें. मांद्र्या म्हज्या आजोळा गेलीं. मागीर मदल्या माजावयल्यान 'बिद्रूबाग' गेलीं. थंय आमची खूब व्हडली प्रॉपर्टी आसा. थंय अर्दी मर्दी पासय मारपाक आमी वतात. कोण कोण, किदें किदें लिपचोरयां करतात, ताचो नियाळ करपाक मेळटा. हाणें म्हाका थंय दोन मिण्टांपासून उबें रावपाक दिवूना. 'आमकां व्हडें चुकतलें. लोक नुस्तें सोंपयतले. कांयच हाताक लागचे ना.' (बेबी नुस्त्याक माजर, जाल्यार हो बुकलो), अशें सांगून सांगून म्हाका बचकुलाक धरून धांवडायत व्हेलें.

आयज पावसाक नेट नासलो. सकाळीं सकाळीं जाल्यार मात्शें वतूय पडिल्लें. काल टॅक्सीन पार्शां येतना गोवा वेल्हाच्या विशांत हळदणकारान 'थंड पाणी' म्हणजे कितें तें म्हाका सुलेस्तार करून सांगिल्लें. म्हणून आयजूय जर 'थंड पाणी' बिजनेस आसंत जाल्यार नुस्त्याचो वेपारूय थंडूच आसूं शकतालो. पूण हें सगळें हांव कोण थारावपी? मुकट्यांनी हाचेबरोबर गेलें.

बोडकी न्हाणी जातकीर देंवतेर थोडीं घरां आसात. थंय कोण कालवां विकतालो, 'निमाणी, निमाणी' म्हणत. तींय थोडीं घेतलीं. आई लागीं आशिल्ली जाल्यार म्हण्टली आसली, 'तुजे जिबेक लाय चुट्टी!' पावसांतलीं कालवां खावप आरोग्याक वायट. एक तर तीं उदकांत फुगिल्लीं आसतात. खदूळ उदकान फुगून तीं तांबडींच कशीं दिसतात. ते भायर तातूंन जीव पडटा. ती आनी खायत जाल्यार शुअर हागवण! (आनी पंदरा दिसांची लीव.)

ड्रायव्हरान मांद्रेच्या व्होल्तावेल्यान गाडी पार्शां वटेन देंवयलीं. आनी आमी

उजवे वटेनच्या धाकल्या रस्त्यान मानशेर गेलीं. थंय एक बारीक, अशीर, दांबरी रस्तो फुडें गेला. ड्रायव्हरान मदींच खंय तरी आमकां सोडलें आनी तो कोणाक तरी सोदूंक (आमचीच गाडी घेवन) पसार जालो. आनंदरावूय आपले सदचे चालीन तुरतुरीत फुडें गेलो आनी नाच्च जालो. इतले मेरेन तो, थंय वचून त्या भगताच्या जाळान पसून वचून पडला आसतलो. हांव बाबडें त्या पावसान थंड जाल्ल्या, काळखी वातावरणांत, शेळ्यावेल्यान निसरत निसरत वाट काडीत फुडें फुडें चलतालें. सुटयेच्या दिसांनी हांव हातान घड्याळ घालिना. कोण जाणा कितलीं वरां जाल्यांत तीं! म्हाका आजून भूक लागूना, म्हणचे दनपार जावूं ना. ल्हान भुरग्यांचेय बी अशेंच आसता. भूक लागतकीर तीं व्हडल्यान किंळच्यो मारून रडटात. आवयक टायम कळचेपयलीच तीं आवयक टायमाची याद करून दितात. तशेंच म्हजेय पोट. हांवें घड्याळींत पळोवचें पयलींच म्हजें पोट म्हाका टायम सांगता.

हें नुस्तें केन्ना मेळटलें, तें केन्ना हुमणान पडटलें? तें खावन हांव पणजे केन्ना पावतलें, देवाक खबर! मागीर विचार केलो. पावूंदी आयच्या दिसा केन्नाय पणजे! (कॉलेज फाल्यां सकाळीं पावणे आठांक. तो मेरेन पसून पणजे पावल्यार चलता.) ते भायर पणजे आमची वाट कोण पळयत बसला? पयलीं एक बुकी आसलो, तोय ना आतां.

(आसानी तडें... कांयय. माजां बावड्याचां काय आसा ह्या सौसारांत. मियां बावडां असांच सादां.)

***

ते भायर आयज पोट आजून गच्च आसा. खरें म्हळ्यार हरशीं हांव सकाळीं पार्शां चटणी, तांदळाची भाकरी, कांद्या भाकरी–लोणी, तिखट सानो आनी गोड शिरो, पोळे–चटणी असल्या कॉम्बिनेशनाचो नाश्तो घेता. पूण कालच्यान आमची सदची रांदपीण खंय तरी गेल्या. त्या जाग्यार सबस्टिट्युशनार दुसरी आयल्या. ताका लागून तिचें आजून रांदचे कुडींत बरें जाग्यार पडूंक ना. हेर जर कोणूय रांदूंक पावलीं जाल्यार तांकां तो 'रोस' (सादो, दाळो, आपरोस) प्रकरण जमना. मागीर तीं वाजेतात. पळून वचूंक सोदतात. सकाळींय आयज तशेंशेंच कितें घडलां आसतलें. आयज सकाळीं नाश्त्याक पदेराच्यो पोळयो आनी कडयल्ल्या लोणयाचें वांटलें.

बुकल्याभशेन सगळो पाव लोणयान खावपाक म्हाका आवडना. मागीर म्हाका राती, तोपूलभर 'कांदो'[2] हाडून दिल्लो. तो खावन खावन इल्लो उरिल्लो. तो हांवे अखरेकाक म्हण फ्रिझांत दवरिल्लो. ताची याद जाली. तो घेवन हांवें पाव खालो. म्हण म्हजें पोट घट जालां. ते भायर आजोळा सेकंड ब्रेकफास्ट म्हण पोळे आनी भाजिल्ले सोयेची चटणी खाल्या.

पोट सांजमेरेन सदळ जायतशें दिसना.

मानशेर पावलें. थंय उदकाकडेन थंड वारो मारतालो. बारीक पावस पडटालो. म्हजें आंग शिरशिरुंक लागलें. म्हजेकडेन सत्रीय नासली. भिजत भिजत हांव थंय कुशीक उबें रावले. आई म्हणटा तशी, चुट्टी लागूं म्हजे हे खादोळे जिबेक. गांवांतले शेशंबर

लोक थंय आसले. आमी थंय अचकीत दैत्य कशीं आयिल्लीं पळोवन ह्या लोकांक आमचो खूब राग आयला आसतलो. पूण आमी तरी कितें करू? आमच्याय पोटाक उजो पडला.

थंय एक बांद आसलो. ताचेर एक सांकव आसलो. सांकवापोंदच्यान तांबडें भडंग उदक चों चों करीत, वेगान मानशेंत वचून पडटालें. ही मानस हांवें फकत पावसा दिसांनीच पळयल्या. हे पयलींय खुबदां पावसांतच पळयल्या. पूण हेर ऋतूंनी तिचें स्वरुप कितें आसता, तें हांव नकळो. एक व्हडलें तळें कशें आसलें. सगळ्याक तें तांबडेंच उदक गच्च भरिल्लें. थोड्यो गायो त्या तांबड्याच उदकान आपलें तोंड पळयत तडीर थंडसाणीन उब्यो आसल्यो. गायो खुबश्यो निर्लज्ज आसतात. थोड्या चंचाळ बायलांभशेन लज ना, भीड भाड ना, मर्यादा ना. खंयूय घुसतात आनी कितेंय करतात. केदो थंय बोवाळ आनी हीं आपलीं मदींच आपली सगळी फामिल घेवन. म्हजे मनांतले विचार त्या पाळणीवाड्यावेल्या गायांक कळिल्ले जाल्यार म्हजे फाटल्यान म्हण्टलीं आसलीं. ''बरी मवो ती देसायांगेल्ली! मी आपली तिका म्हनंय सादीशीच आसा म्हणान. असां काय काय तिच्या मनांत इलांच कसां?'' मागीर थंयची दुसरी फाजील गाय म्हण्टली, ''आतां तिच्या मनांत काय येवंचा, तां तिची ती थरयतली. मी जानंय काय गो, तिचा काय तां. चल दी सोडून. असलां काय आमी मनांत घट धरून रवांचां न्हय...'' आदि, आदि.

***

तडेक एक फायबराचें व्हडें बांदिल्लें. आमी पावले बरोबर तें तडेवेल्यान सुटलें. तातून दोन मानाय आनी धनयाचो एक मनीस चडलो. पडत, लकत ते लोक व्हड्यान चडिल्ले. ते झोतीक व्हडें आडवें तिडवें जातालें. सांकवापोंदच्यान जें उदक ते मानशेंत रों रों करींत येतालें, ते झोतीक व्हडें लटालटा हालत उबें आसलें. त्या व्हड्याक म्हज्या हाताच्या रुंदायेचो नायलॉनाचो दोर बांदिल्लो. सांकवाकुशीच्या बांदार एक जमो आसलो. तांणी फाटल्यान हातभर लांब, भोंक भायर काडून तो राजू घट वोडून धरिल्लो. पूण तांणी हो राजू व्हड्याक कित्याक बांदिल्लो काय? ऑफिसांनी बी पेनांक दोरी बांदून दवरतात तसो. पेनाक दोरी बांदपाचो हेतू वेगळो आसता. लोक पेन घेवन पळटात म्हण. (म्हजें मेजावेलें पेन घेऊन तर कोण कोण पळटातूच. तेय भायर पर्स आनी सत्रीपसून 'चुकून' व्हरतात.) पूण हें येदें व्हडलें व्हडें कोण चोरुन व्हरतलो? व्हरताय आसत. ह्या व्हड्यांचो प्रेस लाखांनी रुपया आसता. दोनापावलच्या नुस्तेकार भावंडांची भुरगीं म्हजे विद्यार्थी आसात. ते आपापल्या व्हड्यांचे फोटो बी हाडून म्हाका दाखयतात. लोक नव्या मोटारींकडे बी उबें रावन फोटो काडटात तशे हे लोक व्हड्यांत बसून फोटो काडटात. एक फावट गॉडफ्रीन म्हाका आपल्या फायबराच्या व्हड्याचो फोटो दाखयलो म्हण दुसरेय घेवन आयले, आपापल्या व्हड्यांचे, जाळांचे फोटे घेवन (फकत फोटो हाडटात, नुस्तें मात ना.)

***

विशय म्हाका सोदीत येतात. 'खंय आसा सुमेधा म्हण्टात तें? आमचेर बरय गो, बरय गो,' म्हणीत रावतात. म्हज्या भुरगेपणांत हांव एक काणी वाचतालें. 'एका भुरग्याचो खेळाचो पाटलो आसता. तांतून हती, उंट, घोडे, शिपाय असलीं खेळणी आसतात. सूर्य उदेतकीर नळ्यांचे खांचींतल्यान वताचें एक किरण येता आनी त्या खेळा पाटल्याचेर पडटा. किरण पडल्याबरोबर तीं सगळीं खेळणी जितीं जातात. उलोवंक लागतात. झगडूंक लागतात. सांज जातकीर किरण वता आनी खेळणी पाटल्यांत थंड जावन पडटात. वर्सासंकी ही काणी हांव परत परत वाचतालें. तांतल्या काल्पनीक जगांत स्वताक विसरून वतालें. म्हज्या मनांतल्या खेळण्यांचेर असोच एक दीस वताचें किरण पडलें आनी तीं खेळणी जिती-जिवीं जावन उठली. आपल्या उमाळ्यांचे परगटण करपाक लागलीं..

लोक सोऱ्याचे भकीक पडटात. तशें हांव आतां बरोवपाचे भकीक पडलां अशें म्हजो घोव म्हणूंक लागला. (ताचेकडेन म्हजें दुर्लक्ष जाता म्हणून) म्हणू बाबडो, म्हज्या नशिबान म्हाका जो मार्ग आंखून दिला, त्या मार्गावेल्यानूच हांव चलता, चलत रावतलें.

ग्रीक लोककथेंत एक मनीस दोंगराचे चडतेर एक शिळा वयर चडोवपाचो यत्न करीत रावता. तसलो म्हजो हो लेखनाचो वावर... तो एक जडगुळो पाशाण पडत झडत, चिड्डून घेत म्हाका दोंगरार चडोवपाचो आसा. तातुंतल्यान आतां म्हजी सुटका ना. सासणाची ना...

***

त्या लोकांनी जिवाच्या आकांतान राजू वोडून धरिल्लो, ताचें कारण म्हळ्यार व्हड्यान झोतीर होळून वचचें न्हय म्हण. व्हडें एका विशिश्ट जाग्यार उबें आसलें. लकत लकत, पडत-झडत, तिरकें-तिरकें. पूण राजवान खिळायल्ल्यान एकाच जाग्यार उबें आशिल्लें. फुडें वचनाशिल्लें. उदकांतच पांय रोमून उबें रावपाचो यत्न करतालें.

आमी झोतींत व्हांवून वचचे न्हय म्हण परमेश्वरूय आमकां अशेच तरेन दोरयेन घट बांदून दवरता आसतलो. पूण आमकां ताची जाणिवूच नासता. म्हाकां इल्लें उणें मेळलें म्हण रडत रावतात.

हें व्हडें आलतड सोडून फकत तीन-चार हातूच फुडे गेल्लें. थंयच झोतीक जाळ बांदिल्लें. तें उफेवपाक फुटबॉलाभशेन गुळे लायिल्ले. व्हड्यांतल्या तिनूय मनशांनी जाळ चारूय वाटांनी उखलून घेतलें. दोन पांयांचेर कसो तरी तोल सांबाळत ते व्हड्यांत उबे रावपाचो प्रयत्न करतालो. व्हड्यांतूय उदक भरिल्लें. वयल्यान भिरीभिरी पावस पडटालो. थंड वारे मारतालें. काळखी सांज जाल्लेभशेन वातावरण. व्हड्यांत उब्या आशिल्ल्या मनशांचे आंग, कपडे उदकान चिप्प भिजिल्लें.

आमी श्रीखंड करतना पयलीं दुदांत मेळाय घालतात. मागीर ताचें धंय जाता. ते धंय मागीर भाणशिऱ्यान गुठलावन गांठ मारून वयर खुंटयाक हुमकळायतात. थेंब थेंब उदक सकयल गळटा आनी मागीर ताचो घट्ट 'चक्को' (पार्शी 'मेवा' म्हणटात.) तयार जाता. हो 'चक्को' गृहिणी

जे शादूरतायेन म्हणजे भाणशिरें वेवस्थित उगडून, ताचीं चारय पोतां हातान घट धरुन तोंपात घालता, तेच रीतीन व्हड्यांतल्या मनशांनी जाळ्याचे सगळे पोंत घट धरून, एकठांय करून मागीर तातुंतले बारीक-मोटें नुस्तें व्हड्यांत रकयलें. तातुंतलें नुस्तें ते हातांनी धरून व्हड्यांत उडयताले. कांय थिगूर, शेंवटाळ्यो जाळाचे जाळयेक घट धरून बशिल्ल्यो. जाळाक त्यो सोडीच नासल्यो. आपूण जाळ सोडलें जाल्यार आपूण मरत अशें बी कितें तांका दिसता आसतलें. कोण जाणा किदें तें! कामदार तांकां जाळांतल्यान तोडून काडून व्हड्यांत उडयताले.

काकळूत! म्हज्यान तें दृश्य पळोवं नज जालें.

***

हांवूय बी पाळणी वाड्यावेल्या त्या मांयांभशेन 'मुयतु सुबेज'. मानशेर फकत दादलेच आसले. एक तरी गांवांतली बायल मनीस थंय आसली? हे लोक म्हण्टले, "देसायांच्यो बायल्यो तसल्योच! हांका उद्देग ना, कांय ना. दनपार ना, तीनपार ना, भोंवता आपल्यो दोंगरांनी आनी मानशांनी."

हांव खूब बरें, म्हजे छंद वेगळे. आदल्या पसून कांय (चडशा) देसायणींचे छंद दुसरेचआसले. आजूनय आसात. तातूंतच त्यो अभिमान बाळगितात.

***

व्हड्यांत एकठांय केल्लें नुस्तें तांणी बालदेंत भरलें. जाळ आनी ते फुटबॉल कशें तें, परत उदकांत उडयलें. तें झोतीचें उदक म्हाका दिसता, शापोरा न्हंयेंतल्यान मानशेन येता आसतलें आनी न्हंयेंतलें नुस्तें ह्या मानशांनी भरून उरता आसतलें.

हांव ओदिशा गेल्लें. थंय चिलिका सरोवर पळयलें. मैलोगणती हें सरोवर पातळ्ळां. हें सरोवर न्हय. हो 'लॅगून'. दर्याचें उदक जमनीच्या पृश्टभागाचेर भितर रिगलां. चिलिका सरोवराचेर आमी बोटींतल्यान सफर केली. सरोवराच्या तोंडाचेर दर्यावटेन रेवेंचे मोटमोटे बांद तयार जाल्ले आमी पळयले. रेवेंचे लोट एकसारके सरोवरावाटेन येतात आनी ताचे तोंड बंद जाता. ह्या लॅगुनात जर खारें उदक एकसारकें भरत रावलें जाल्यारुच नुस्त्याची बरी पोसवण जाता. सरकार लॅगुनाच्या तोंडार पडिल्ले रेवेचे बांद मशिनरीन फोडून वडयत आसता आनी खारें उदक लॅगुनांत येवचें हाचेखातीर प्रयत्नशील आनी कार्यरत रावता. ह्या लॅगुनान कोट्यांनी रुपयांचें नुस्तें, सुंगटां, कालवां, कुल्ल्यो पोसवतात.

ओदिशाचो सामान्य मनीसपसून नुस्तें खावन तृप्त आसा. ओदिशाच्या स्टेशनांचेर कुल्ल्यो विकपाक आसतात. सगळें पळोवन म्हजो नीज गोंयकाराचो नुस्त्यार पोसवल्लो आनी आतां नुस्त्याखातीर तळमळपी जीव तृप्त जालो. जावं कोणाक तरी पोटभर नुस्तें खावंक मेळटा! म्हण हांवें समाधान मानलें.

***

व्हडें परत एकदा तडीक लागलें. आनी हांवें थंयच्यान कूस मारली. व्हड्यांत

फडफडपी तें नुस्तें म्हज्यान पळोवं नज जालें. केरळांत - थंयच्या जनमानसांत नुस्तेकारांभितर एक संकेत आसा. नुस्तें मारपी लोकांक खंय पातक लागता... म्हाका वाल्या कोळ्याच्या घराब्याभशेन हांवूय ह्या पातकांत वांटेकार आसा कशें दिसता. समजा जर हांवें नुस्तें खावप सोडलें जाल्यार नुस्तेकार नुस्तें धरपाक कित्याक वतले?

पूण हांव आतां म्हज्या वयाचे हे पिरायेचेर सांगतां, खऱ्यानीच सांगतां, हांव नुस्तें सोडूंक एका पांयार तयार आसा. म्हज्या रुचीचो त्याग करून. पूण आठ-पंदरा दीस सेगीत शिवराक जेवलें जाल्यार पोटांत गुडगुडटा आनी त्रास जावंक सुरवात जाता. हांव आईक विचारतां, ''तुवें जर म्हाका पयलींच नुस्तें खावपाक शिकोवंक नासलें जाल्यार हें 'टू बी ओर नॉट टू बी', जावपाचो प्रश्नूच नासलो.'' म्हाका नुस्तें खातना खऱ्यानीच खूब अपराधी दिसता. म्हण हांव नुस्तें उण्या वेळा, उण्या प्रमाणांत खातां. आनी कितें करूं?

***

व्हड्यांतल्यान बालद्यांनी भरून हाडिल्लें तें नुस्तें कामदारांनी तडीचे धडेर आशिल्ल्या साकांचेर वतलें. खुबशीं बारीक बारीक भोपशीं, मागीर मद्दम आकाराचीं शेतकां (तांकां मोटीं जावपाक चान्स मेळ्ळूना), काळुंद्रा आनी शेवटाळ्यो मातशेशो आकारान व्हडल्यो.

चार तरांचे वांटे तांणी घाले. भोपशांचो वांटो पन्नासांचो. मागीर मिक्स नुस्त्याचो शंबराचो, आनी उंची नुस्त्याचे प्रत्येकी दोनशीं (ल्हान) आनी पांचशी रुपयांचो (व्हडलो. ते भायर नुस्त्याचो आकार आनी प्रमाण पळोवन) अशे वांटे घाले. गांवांतल्या लोकांनी सरसकट पन्नासाचो वांटो उखल्लो. गांवांत शेतकार, कामदार, गंवडेकाम करपी लोक चड. नोकऱ्यो, बऱ्यो नोकऱ्यो करपी लोकांचे प्रमाण उणे. बरें जोडकार लोक शारांनी स्थायिक जाल्यात.

हांवें प्रत्येकी पांचशी रुपयांचे (शारांचे तुलनेत खूब सवाय) तीन वांटे घेतले. मानशेचें ताजें तट्टटीत नुस्तें. खंय ट्रॉलरावेल्या फ्रिजांत साठवण वा घराकडल्या फ्रिजांत दवरप ना. व्हड्यांतल्यान डायरेक्ट तुमच्या पानांत. एक वांटो हांवें पणजे व्हरपाखातीर दवरलो. दुसरो घरांत तर तिसरो बेबीखातीर. (तिसऱ्यो आनी शेंवटे पावोवपाखातीर. जगांत कोणाचें, किदें फुकट खावंक मेळना. सख्खी भयण जावं ना जाल्यार आनी कोण जावं.)

बेबी नुस्त्याक माजर. तांगेर सगळी भुरावळ खब नुस्तें खातात. केगदी वेळेवयले शेवटे ही वेरेंची खासियत. तरीकूय आगरवाड्यावेल्या मानशांच्या नुस्त्याची रुचच वेगळी!

त्या वेळार हांव थंय प्रत्यक्ष आसलें म्हण देड हजाराचे नुस्तें घेतलें. हरशी तो पन्नासांचो ताज्या भोपशांचो वांटो म्हाका कोणें पणजे हाडून दिल्लो जाल्यार म्हजे जिबेक स्वर्गसुख दिवन वचपाचो. आमली (नासल्यार तोराची सोलां घालून ह्या भोपशांचे तांबडेंच दबदबीत करूं येता.) पूण दाने दाने पर लिखा है

खानेवाले का नाम. म्हज्या खाजगी जिवनात पणजे असल्या बारीक नुस्त्याक स्थान ना. एक तर तें म्हाका उजरावपाक येना आनी आमची लखम्मा नुस्तें आनी तिसऱ्यो करपाच्यो सोडून, म्हाका न्हाणोवंकपसून (जाय जाल्यार) घालता. फकत कोणें पार्शी उजरावन दिल्यार हें नुस्तें हांव खावपाक शकता.

असलें नुस्तें पार्सेच्या कामदारांनी म्हाका उजरावन दिवचें म्हण केन्ना केन्ना हांव तांचेखातीर वेगळो वांटो घेता. (नाजाल्यार तें उजरायना) तीं म्हणटात, 'कितले दीस जाले, मी सवराकानच जेवतंय.' नुस्तें आनी ते भायर एक नाल्ल दिता. म्हण ह्या दान धर्मान म्हजी बारीक नुस्तें खावपाची उमेद भागता. हॉटेलान गेल्यार आनी पांच वाट्यांनी पैशे मेजचे पडटात. तेय भायर हॉटेलान वचपाक जिवाक त्रास.

व्हडें ओडून तडेक हाडपी चोनसायच्या दिलीपाक हांवें विचारलें, "अशें तरेन व्हडें कितले वेळा उदकान सोडटात?" ताणें सांगलें, 'दर पंदरा मिण्टांनी.' हांवें मागीर ही सगळी माहिती बेबीक रिपीट केली जाल्यार (दुदांत मीठ घालपाची संवंयच ताका) म्हाका म्हणटा, "ओगीच तांच्या नशिबाचेर जळूं नाका. सगळे पावटी सगळें कितें बरेंच जाळ्यान गवसता, अशें नासता." आगो खरेंय आसत तें. म्हाका म्हळें, बरें आसा, त्या मानशेकाराक आनी म्हणशीत. असल्या लोकांखातीर उपनिषदांत सांगलां, 'सत्यं ब्रुयात्' खरें उलयात. आनी तेच बरोबर 'प्रिय ब्रुयात' म्हणचे लोकांक आवडटा, तशें उलयात.

***

वाटेर ड्रायव्हर विचारता, 'फुकट मा, ह्या निस्त्याक?" तें आयकून म्हाका अजाप जालें. देड हजार रुपया मेजून हाडिल्लें नुस्तें हो पापी फुकट काय म्हणून विचारता. हांवें हाका म्हळें, "ताणें अशें कित्याक म्हळें?" मागीर हाणें सांगलें, "एका काळार ह्यो आमच्यो मानशी आसल्यो. मानशी मारपी लोक आमचे भागेली आसले. तेन्ना तसो कारभार चलतालो. आतां तें तशें कांय उरूंक ना." म्हाका अजाप दिसता. हो ड्रायवर तसो मात्सो सादोसो. पूण हे लोक स्वता भाटकाराक कांय हाडून दिवचे नात. दुसऱ्यांनी (भायलेभायर) तें दिवचें आनी आपणें भितर कावळ्याभशेन चोंच मारची, इतलेच विचार.

तशे असले कावळे आमच्या सरभोवंतणी सदांच आसतात, ती गजाल वेगळी!

आमी घरची वाट धरली. नुस्तें ताजें फडफडीत आसा. पोतयेन फडफडता. आजून जितें आसा. म्हाका खूब खूब वायट दिसता. हांव थरयतां, अत्तपर मानशेर वचप ना. घरा पावलें. घडयाळांत पळयलें. दनपारचें देड वर जालां. सकाळच्यान मांद्रे, बिद्रूबाग, पाळणीवाडो करीत वेळ कसो गेला, कांयच कळूंक ना. पोटाक चुरचुरीत भूक लागल्या.

संगीता आज सबस्टिट्युशनाचेर रांदूंक आयल्या. ती एकदम हुशार बायल. आमच्या घराकुशीच्या आमच्या दायज्यांच्या 'भाटलें' ह्या वाड्यार ती रावता, आनी आमकां वेळावेळार आदार दिवपाक धांवून येता. फकत तोंडान म्हणटा, 'वेळावेळार म्हाका बोलव नाकंत. मी काय तुमची भागेलीण

न्हय.' अशें म्हणटा आनी आदार दिवपाक देवी कशी धांवून येता. संगीता आसतली म्हजेपरस मात्शी ल्हान. काशेचे न्हेसण न्हेसून कपलाक येदो व्हडलो तांबडोच तिबो लावन, मोठो आंबाडो घालून, ताचेर फांती माळून देवता कशी आमच्या घरांत लुटूक लुटूक वावरता. वांटकुळ्याच तोंडाची, प्रसन्न मुखामळाच्या संगीताक पळोवनच जीव खुशाल जाता.

काल हाडिल्लीं भोपशीं आनी कवळे आंबाडे घालून रसगुळयेचें अप्रतिम सुंदर हुमण केलां. मोतयाळ्याचे वडे (म्हणचे दांगर, कट्लेस) तळल्यात. आमी हाडिल्लें नुस्तें तळलां. कुड्डुकेची भाजी केल्या. हांव न्हावंक वता म्हणसर संगीता नव्या घरांत जेवण घेवन आयली. तिच्या हातान मानशेवेलें नुस्तें पडलें केन्ना? तें घट फडफडीत नुस्तें (ताची खवळां) काडटना खूप त्रास जाता. घट नुस्तें आदोळेक पसून लागना. मात्सो हात निसरल्यार हातांक - बोटांक आदोळी लागपाची शक्यताय आसता) तिणें केन्ना उजरायलें आनी केन्ना तव्यार घालें, देव जाणा! हांव न्हावचेपयलीच ती म्हजे खातीर 'देवाचें ताट' घेवन आयलीपसून.

***

जेवतना हांवें हाच्या पानावेल्या शेवट्याच्या पोटांत गाबोळ्यो पळयल्यो. म्हाका खूब वायट दिसलें. हांव शेवटो खायना. म्हाका ताची रूच आवडना. म्हाका धोडी, पाप्लेट आवडना. तसो विस्वणूय आवडना. (पूण चलता) बाईबायूय[3] शेंवटो खायना. गुंगलच्या[4] वेळार तिका खर दुवाळे लागिल्ले. तेन्ना घरच्या मानशेच्या-घरच्या शेवट्यांची चौकेच्या कांडयार घाल्ली रास पळोवन तिका धवळिल्लें खंय. म्हण ती आयजमेरेन शेवटो खायना. (गुंगलाकूय विचारुंक जाय, तो शेवटो खाता काय म्हणून? कित्याक? आमचे लोकसंस्कृतीन एक म्हणणी आसा, पोटांतल्या भुरग्याची इत्सा घेवन आवयचो दुवाळो परगटता खंय.)

***

गोंयांत सरकार समुद्रांतली नुस्तेमारी साठ दीस बंद करता. नुस्त्याचें प्रजनन वेवस्थीत जावचे म्हण. तशें हें मानशेचेंय जावंक जाय. जागतीक तापमानवाड, प्रदूशण, उणो पावस ह्या कारणांक लागून हे फुडें नुस्त्याचो खूब व्हडलो दुकळ पडपाचो आसा असो निसर्गतज्ज्ञांनी संकेत दिला.

सागरी आनी हेर जलीय पर्यावरणाचो सांबाळ करपाखातीर आमी आमचो वांटो कशे पद्धतीन उखलतले हाचो विचार जण एकल्यान करूंक जाय.

हांवें केलां. तुमीय करतले!

**टीप :**

1) बेबी-भयण
2) 'कांदो' - फकत 'कांदो' (केन्ना केन्ना बारीक सुंगटां) घालून केल्लें मसाल्याचें घमघमीत तोंडाक. तें फकत पावसा दिसांनीच करतात. थंडेक बरें हरशिल्या दिसांनी खाल्यार साउदीक माल पडटा.
3) बाईबाय - बापोलमांय (आमी पार्शां एकाच घरांत रावतात.)
4) गुंगल - (टोपण नांव) तिचो पूत.

000

# मंथन

(लेख)

हेमा नायक

## कोंकणी साहित्यांत अस्तुरेची प्रतिमा

कोंकणी साहित्यांत बायलांचे विशय पोटतिडकीन येवपाक लागले ते 1970 च्या उपरांत. तो मेरेन बायल ही साहित्यांत एक तर भावनाशील व्यक्ती वा तिका एक मनोरंजनाची व्यक्ती म्हण मानताले आनी ते प्रमाण लेखन जातालें. अस्तुरेच्यो चेतना जागोवपासारखें लेखन जालें ना वा तिच्यांतली निर्भिडताय पारखून साहित्यांतल्यान तें वाचकांमेरेन पावोवपाचें काम जालें ना अशें म्हणचें पडटा. 1980 च्या काळांत चित्रंगीचे वतीन बायलांचे साहित्य मेळ गावांगावांनी घडून आयले तेन्ना बायलांक हे पारखणेची नदर आयली आनी तातुंतल्यान उलोवपाचें धाडस आयलें आनी तेन्ना सावन स्त्रीवादी साहित्याकडेन एके वेगळे नदरेन पळोवप जावपाक लागलें.

समाज आनी साहित्य हाचो सामको लागींचो संबंद आसा. समाजांत जें घडटा तें साहित्यांत येता आनी साहित्यांत जें वर्णन जाता ताचो प्रभाव समाजाचेर पडटा. आपणा भोवंतणी जें कितें घडटा ताचें निरीक्षण करून वास्तवतायेक अळंकारीक उतरांनी लालीत्याचो साज चडोवन जी सृजननिर्मिती जाता ती साहित्यकृती. आनी जेन्ना वास्तवतायेचो आमी विचार करतात तेन्ना समाजांत बायले बगर एखाद्रें पान हालपाक कठीण. आनी हेंच चित्रण साहित्यांत येता. कथा, कविता, कादंबरीका, कादंबरी, नाटकां, एकांकी हातुंतलो साहित्याचो खंयचोय प्रकार घेतलो जाल्यार तातूंत बायलेचो अंतर्भाव आसले बगर रावचो ना. कुटुंबात बायलेक जितलें म्हत्व आसा तेंच म्हत्व साहित्यांतय प्रकट जाता. लेखक ताचेर आडनदर

**हेमा नायक** : जल्म : 1952, जेश्ट कथाकार, कादंबरीकार, अनुवादक. *'पसय'* आनी *'दुर्गावतार'* हे कथासंग्रह, *'निर्बला आनी मुक्ती'* तशेंच *'भोगदंड'* ह्यो कादंबऱ्यो, *'भायल्ली गोडी'* हो एकांकी संग्रह, *'अस्तूरी-मृग'* आनी *'अप्रूप'* हीं संपादीत पुस्तकां प्रकाशीत. पांच अनुवादाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. कला अकादमी, गोंय साहित्य पुरस्कार, शास्वती पुरस्कार आनी केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारांनी (2002) सन्मानीत. संपर्क : वळवय, सावय – वेरें, फोंडें, गोंय 403 401, मो. : 9764597628.

करूंकच शकना.

आमच्या साहित्यांत बायलेचीं वेगवेगळीं रुपां तिच्या धोंगापोंगा सयत येतात. कोणाची बायल, आवय, भयण, इश्टीण, मोगिका, विधवा, धूव, कामदार, वावराडी आनी अशा वेगवेगळ्या नात्यांनी अस्तुरी साहित्यकृतींतल्यान येता. तें मागीर कुटुंबांतलें नातें आसूं, मोग्यांचें आसूं वा एखादे सामाजीक समस्येंतलें आसूं. बायल ही हे वा ते भुमिकेंतल्यान येता. साहित्यीक तें नातें निर्माण करताना, ताका वास्तवतायेचो आकार दिवप कितलो यशस्वी जाला हेंच पळोवप म्हत्वाचें आसा. हिंदू समाजाचेर पुरुशप्रधान संस्कृतायेचे मानसिकतायेचें वर्चस्व आशिल्ल्या कारणान दादल्यांच्या विचारांकूच पुराय प्राधान्य आशिल्लें दिश्टी पडटा. तिचें बंधेपण गळ्यांतल्या मंगळसुत्रांत आनी कपलावयल्या कुकुमांत आसा हें पारंपारीक शास्त्रांतल्यान चलत आयिल्लें. देखून एखादे बायलेचो घोव मरता तेन्ना ताचें मडें दारांतल्यान भायर काडचे पयलीं तिच्या आंगावयले अळंकार देंवोवन कपलाचो कुकूम पुसून तिका विधवा जाल्ल्याचें भासोवपाची मानसीक विकृती समाजांत उणी जाल्या अशें म्हणपाचें धाडस आजून जाल्लें ना. कित्याक तर आजूनय बऱ्याचशा गांवांनी ह्यो घडणुको घडटात. घोवाबगर बायलेचें जिवीत अर्दकुटें ही मानसिकताय आजूनय समाजांतली पुराय पुसून गेल्ली ना. आनी देखून ह्या समाजांतल्यान निर्माण जाल्ल्या लेखकांनी अशा दुबळ्या बायलांचें चित्र आपल्या रचनांनी केल्लें आसा. भावनीक नदरेन वाचकांचीं काळजां जिखपाक ते यशस्वी जाल्यात पूण समाजांत नवो विचार मांडपाचें कार्य तांचे कडसून घडिल्लें ना आनी तिच्या आंगांतले तोखणायेचे गूण नदरेआड जाल्यात. आदल्या साहित्यिकांनी तर बायलेक भांगरां शिंगरां घालून व्हंकल कशी सजवन हुमऱ्या भितर दवरली. पुरुशप्रधान संस्कृतायेचें पुराय पडबींब तांच्या साहित्यांत पडिल्ल्यान बायल ही सदांच सोबेची म्हुर्तच जावन रावली. घोव मरतकूच निराधार जाल्ली बायल, बलात्कारीत बायल, घरांत धोशी घालपी बायलूच, अशेच समजिकायेच्यो कृती साहित्यांत आयिल्ल्यान ताचो परीणाम साहजीक समाजाचेर पडत रावलो आनी बायलेचें हें चित्र कायम उरले. एक क्रांतीकारी बायल साहित्यांत सोदची पडटा. भारताच्या स्वातंत्र्यावेळार अरुणा असफ अली. गोंय मुक्ती वेळार लिबिया लोबो सरदेसाय सारक्या बायलांनी दाखयिल्ल्या धाडसाचेर पात्र निर्मिती जाली ना. गोंय मुक्ती संग्रामांत बायलो पोटतिडकीन वावुरल्यात. समाजाआड केल्लीं अस्तुरेचीं क्रांतीकारी कर्तुपा साहित्यांत येवपाक जाय आशिल्लीं. आमचें साहित्य हें वाचकांच्या काळजाक हात घालता, तांच्यो भावना जागयता. पूण बायलांचें मनोबळ वाडोवपा इतलें बायलेंच्या धाडसाचेर उजवाड घालपी साहित्य निर्माण जावंक ना. बायल खंय आसा हें एखाद्या दादल्याक कळप कठीण. बायल ही वयल्यावयर पळोवपाक कितलीय जरी सुदारिल्ली दिसली तरी तिचें मन बदलूंक ना, तें तशेंच आसा. ती तीच अस्तुरी आसा. दुबळी, संवेदनशील, मायेस्त, स्पश्ट उलोवपी, छक्केपंजे कळनाशिल्ली, सूड न

घेवपी, घोवाचेर मोग करपी, भुरग्यां खातीर आपलें सर्वस्व ओंपून दिवपी. अस्तुरेचीं हीं सगळीं लिपिल्लीं रुपां. प्रत्यक्षांत साहित्यांत आयिल्ली अस्तुरी मात केन्ना केन्ना वेगळीच पळोवपाक मेळटा ताची खंत भोगता.

**कवितेंतली बायल**

कोंकणी साहित्यांत कवितेक एक आगळी अशी सुवात आसा. कवितेंत आयिल्ली बायलेची प्रतिमा नियाळीत जाल्यार तिच्यांतल्या गुणांक योग्य तरेन न्याय मेळ्ळा अशें म्हणपाक जावचें ना. कवितेंत येता ती बायल एक तर कोणाची तरी मोगिका म्हणून येता, तर केन्ना मोगांत अपेशी थरिल्ली येता, जाल्यार केन्ना समाजांतली एक दुर्बळ घटक म्हण येता. मागीर तिचेर घे म्हण दोश आनी आरोप थापिल्ले आसतात. कोंकणींतले म्हान कवी बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, र. वी. पंडीत हांच्या कवितांनी अळंकारानी शिरंगारील्ली बायल दिसता. तिचें लावण्य, सुंदरताय हांचें रसभरीत वर्णन येता. अस्तुरेच्या अंतर्मनांत लिपिल्ल्यो व्यथा कांय प्रमाणांतच उकत्यो जातात. माधव बोरकार, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार हांच्या रचनांनी ही जाणीव दिसून येता. विजयाबाय सरमळकार हांच्या कवितांनी अस्तुरेचेर घडटल्या अन्यायांक दार्शनीक रूप दिलां. त्या उपरांत आयिल्ल्या कविंच्या कवितांनी अस्तुरेच्या जिवितांतले हे वेगळे घटक दाखोवपाचो यत्न जाला. हो काळ समाजांतल्या बदलाचो काळ अशें जमेक धरचें पडटलें. देखीक आवय बापायचे मायेचे सावळे खाला वाडिल्ली एखादी चली आपल्या कुळाराक फाट करून अचळय घोवाल्या घरांत आपलें बस्थान मांडटना तिच्या मनाची जातली घालमेल हो बदल स्विकारपाक तिचे जातात ते कश्ट कांय कविंनी आपल्या कवितांनी मांडल्यात आनी हातूंत चडशो कवियित्री आसात. हो बदल स्विकारपाचें धाडस आंगांत आशिल्ली बायल दुबळी कशी आसूं येत? ह्या प्रश्नाची जाप नकळटाना तातुंतल्यान मेळटा. आपल्या घोवाल्या घरा आपल्याक कसो येवकार मेळत हाची मात लेगीत कल्पना नाशिल्ली बायल जेन्ना तें घर घोव आनी ताच्या मनशांसयत आपलें म्हण स्विकारता तेन्ना तिच्या चित्तवृत्तींतलो बदल कांयजाणांनी कवितेंतल्यान दाखयला. जयंती नायक, नयना आडारकार, नूतन साखरदांडे हांणी ह्या विशयाक हात घालून बायलेचें अंतर्मन कवितांतल्यान उकतावपाचो यत्न केला. जो मेरेन अस्तुरेचें खरें खुरें चित्र साहित्यांत येवंक नाशिल्लें तोमेरेन अस्तुरेचें काल्पनीक सुशोभीत रुप वाचकांनी खरें मानलें आनी साहित्यांत वास्तविकताये परस अशो कल्पना रंगोवन खऱ्यो आसतात अशी कल्पना जावन उरली.

**कथेंतली बायल**

अस्तुरेचे वेगवेगळे आयाम कथासाहित्यांत हाडपाचो कथाकारांनी यत्न केला. कथेचे संहितेक धरून कथाकारांनी कथेंत आयिल्ले अस्तुरेची भुमिका साकारपाचें काम केलां. हुंड्याखातीर आडावन उरिल्ले चलयेची मनोव्यथा, घोव हो फकत कुकमाक आदार आशिल्ल्या एखाद्या बेबद्या घोवाची बायल, पैशांक लागून वेश्यावेवसायाक बळी पडिल्ली बायल, बेबद्या घोवाचो मार खावपी,

सामाजीक रितीरिवाजांच्या मर्यादांक लागून अस्तुरेचेर जातले अन्याय आनी अत्याचार हीं समीकरणां सांबाळीत रंगयिल्लीं बायलपात्रां कथा साहित्यांत आयल्यांत. आतां प्रश्न आसा तो ह्या भुमिकांक खरो न्याय मेळ्ळा काय कितें ताचेर विचार करपाचो आनी हे खरो संशोधनात्मक विशय.

समकालीन काळांतल्या घडणुकांच्यो नविदादी स्विकारताना समाजांतली बायलांची वागणूक कांय लेखकांक तांच्या मर्यादांचे फास्के भायर गेल्ल्याचें जाणवून आयिल्ल्याचें दिसता. आर्थिक नदरेन बायलेचें स्वातंत्र्य तांणी मान्य केलें पूण तांचे कुडिचेर पडिल्ल्यो दादल्यांच्यो नदरो तांच्यांनी ताळपाक जायना जावन अस्तुरेक अनैतीक मार्गार वचचें पडलें. एके वटेन शिक्षणांतल्यान मेळिल्ली नोकरी आनी आपल्या पांयांचेर उबें रावपा इतलें स्वातंत्र्य मिळूनय अस्तुरी घुस्मटिल्ले अवतिकायेंत लेखकांनी दाखयली. आदल्या साहित्यिकांनी अस्तुरेक अडाणी आनी पैशे नासून दुबळी दाखयली जाल्यार मागीरच्या लेखकांनी तिका शिकून आनी आर्थीक स्वातंत्र्य मेळूनय समाजाचे अनैतिकतायेक बळी पडिल्ल्याची दाखयली.

सत्य आनी वास्तव पचोवपाक कठीण आनी ताका लागून कांय वेळा साहित्यकृतीक फाव तसो न्याय दिवप शक्य जायना. केन्ना केन्ना अशें दिसता, एखादे बायलेन अमकेच तरेन वागपाक जाय असो खासा आग्रो लेखकाचोच आसता आनी मागीर ते विचारधारणे प्रमाण त्या त्या पात्राक साहित्यिक साज घडत वता. बायलेक तिचे स्वताचे विचारच नात अशेंच जाणवून येता. आपल्या विचारांचो विस्तार करपाक ती असमर्थ अशा दुबळ्या अस्तुऱ्यांचो आस्पाव कथाकारांनी जायत्या कथांनी केल्ल्याचें जाणवता. अशी समाजाचे चौकटींत रावून संस्कारी बायल कथाकार चंद्रकांत केणी हांच्या कथांनी दिसून येता. तांच्या कथांतल्यो बायलो समाजाच्यो मर्यादा हुंपिनात. आनी देखून त्यो स्वतंत्र नात. पूण ही जाणीव बाकीच्या कथाकारांक जाल्या आनी ताका लागून सशक्त बायल, कथांनी हाडपाचे यत्न केल्ले दिश्टी पडटात. वेदनांनी आनी दुख्खांनी पिडीत जाल्ल्या मध्यमवर्गीय आनी कश्टकरी समाजांतल्या बायलांचो आस्पाव कथा साहित्यांत हाडला तो हालींच्या लेखकांनी. तातूंत आस्पाव जाता तो दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, एन्. शिवदास, शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, महाबळेश्वर सैल, जयंती नायक, वसंत सावंत ह्या कथाकारांचो, हेमा नायक आनी जयंती नायक हांच्या कथांतलीं बायल पात्रां हीं अन्यायाआड बंड करून उठपी आनी समाजांतल्या बंदनांतल्यान मुक्त जावपाक सोदपी.

**नाटकांतली बायल**

सुरवातेच्या काळांत कोंकणी नाटकांतली बायल म्हणल्यार विनोदी पात्र आशिल्लें. रांदचेकुडींत रांदता ती व्हनीबाय वा भुरग्यांचो सांबाळ करपी काकीबाय तशेंच एखादी अडाणी आतीबाय अशा भुमिकेंतल्यान तिका फार्सिकल पद्दतीन रंगयिल्लें. कांय वेळा चार लोकांगेर कामां करपी वावराडी आनी तिचे ते गरीब

अवस्थेक लागून प्रेक्षकांच्या चुरचुऱ्यांचे भकीक पडिल्ली अशें पात्र. पूण आयच्या आधुनीक नाटकान एक वेगळें मोडण घेतलां आनी मनरिजवणे वांगडाच समाजांतली खरी परिस्थिती प्रेक्षकां मुखार सादर करपाचो यत्न जाला. सगळ्याच लेखकांक हें सादलां अशें म्हणपाक जावचें ना. आयचे घटकेक पुंडलीक नायक ह्या सिद्धहस्त नाटककाराक ही अवस्था बायल पात्रांच्या संवादांतल्यान रुपकाराक हाडप जमलां. तांच्या नाटकांनी मागीर तीं सामाजीक आसूं वा कुटूंबीक, पूण बायलेक वेगवेगळ्या आयामांनी आपल्या नाटकांत न्याय दिवपाचो तांचो यत्न बरोचसो फळादीक जाला अशें म्हणचें पडटलें. आपल्या जिवितांत कितलेशेच अपमान मोन्यानी गिळीत आनी सोंशिकतायेन अन्याय झेलीत, निमाणेकडेन ती कशी आक्रमक जाता हें योग्य रितीन दाखयिल्ल्यान पळयतल्या रसिकांचेर ताचो प्रभाव पडले बगर रावना. आनी हांगाच आमकां एखादी सामर्थ्यवान ताकदिची बायल दिश्टी पडटा. देखीक तांच्या 'सुर्यसांवट', 'दायज' सारक्या नाटकांत अशी बायल नदेरक पडटा आनी मागीर अशा वेळार म्हणन दिसता; बायल ही चडशी शांतीकायेची मूर्त पूण प्रत्यक्षांत अन्याय सहन ना जातकच ती दुर्गेचोय अवतार धारण करता आनी म्हणूनच तिका शांतादुर्गा म्हणटात हें हांगा लागू पडटा. हालींच रंगमंचाचेर आयिल्लें दत्ताराम कामत बांबोळकार हांच्या 'भोगराज' नाटकांत लेखकान बायलांच्या पात्रांतल्यान तांच्या अंतर्मनाक स्पर्श करताना खरें वास्तव दाखावपाचें धाडस केलां तें तोखणाय करीसारखें. म्हाका खात्रीन दिसता, समाजांत बदल घडटले जाल्यार लेखकांची आनी चड करून नाटककारांची आनी सिनेमांक पटकथा बरयतल्यांची ही जापसालकी थरता.

### कोंकणी कादंबरींतली बायल

कोंकणी साहित्यांत कादंबरी प्रकारांत साहित्य उणें आसलें जाल्यारूय तातुंतलीं बायल पात्रां तितलेच जबरदस्त भुमिकेंतल्यान आयल्यांत पुंडलीक नायक हांची 'अच्छेव' आनी दामोदर मावजो हांची 'कार्मेलीन' ह्यो दोन देखी दिवपाच्यो जाल्यार तातुंतले दर एक बायल पात्र सभाव गुणांसयत दाखोवपाक लेखक यशस्वी थरल्यात. ते भायर अशोक कामत आनी महाबळेश्वर सैल हांच्याय कादंबरीनी आयिल्लीं पात्रां त्या त्या काळांतल्या समाजाची गवाय थरल्यांत. हालींच उजवाडाक आयिल्ली मीना काकोडकार हांचे 'वास्तू' कादंबरींतल्या अस्तुऱ्यांचे सभावगूण वाचप्यांक आवडल्यात. स्त्रीवादी प्रवृतीचें लेखन करपी म्हणून म्हजेर छाप पडिल्ले 'निर्बळा'तलें स्त्री पात्र त्या काळाच्या समाजाक फाव तशें दुर्बळ जालां, तर 'भोगदंड' कादंबरींतलें त्या समाजाक योग्य तशें जालां अशें म्हाका दिसता. अर्थात ह्या विशयाचेर संशोधन करतले आपले परीन उजवाड घालतले.

ह्या सगळ्याचो धांवतो आढावो घेतल्या उपरांत एक निश्कर्श काडटना कांय गजाली सांगन दिसतात. अस्तुरी केन्नाच आपल्या अंतर्मनांतल्यो गजाली भायर सांगना. तिचें आपल्या स्वताविशीं मनांत लिपोवन चड आसता. ह्या अस्तुऱ्यांचें अंतर्मन समजून

घेवन तांच्या वेदनांक वाट करून दिवप, हें खरें म्हणल्यार साहित्यिकांचें कर्तव्य थरता. फांतोडेर पांच वरांचेर उठून कामाच्या रगाड्याक लागपी अस्तुरी, घरांत सगळ्यांक च्या–खावपाक दिवन आपलें तशेंच घोवाचें टिफीन भरून उपरांत घोवाचें न्हावप, भुरग्यांचें न्हावप आनी मागीर उरलेंच हून उदक जाल्यार हून उदकान, ना जाल्यार थंड उदकान न्हावन घेवन धांवत पळत बस धरून नोकरे खातीर दीसभर ऑफिसांत त्या कामाच्या रगाड्यांत रावन परत सांजवेळा तीच धांवपळ... घरा येवन जेवण रांद आनी मागीर सगळें निवळ करून जातकच सगळ्यो लायटी वाडोवन दारांक खिळयो लायत येवन हांथरूणाचेर फाट तेंकयता म्हणसर घड्याळांत बारा नक्कीच जातालीं. दम घेनासताना एका स्वासांत पुराय केल्लें हें वाक्य म्हणल्यार अस्तुरेची दमछाट. कोण एखादी सुखवस्तू आसत... पूण बाबडेचीं दुसरीं दुख्खां आसूं येतात. असले वस्तुस्थितिचो परामर्श कोणूय घेत? ही ती खरी अस्तुरी. तिच्या भावनांक वळखूंक शिकपाक जाय. साहित्यिकाचें तें कर्तव्य ही अस्तुरी कोंकणी साहित्यांत येवपाची गरज आसा.

गोंयांत हिंदू समाजाबरोबर कांय प्रमाणांत किरीस्तांव समाजय आसा. तांचे आपले अशे नेम आसात. जोमेरेन अस्तुरेक आपल्या चैतन्याची आनी धाडसाची जाणीव नासली आनी ती ते बाबतींत उलय नासली तोमेरेन साहित्यिकांक हे बाबतींत जाणीव नासली. पूण कांय बायल साहित्यिकांच्या लेखणेंतल्यान हो उद्रेक भायर सरलो तेन्ना थोडीशी शादूरसाण आयली.

गोंयांत मुसलमान समाजय आसा. तातुंतल्या बायलांचे लेगीत अशे वेगळे विशय आनी समस्या आसात. नयना आडारकार आनी माया खरंगटे हांच्या कथांनी ते विशय आयल्यात. खूब आदीं बरोवपी शांता खांडेपारकार हांणीय अशे संदर्भ घेवन कथा साहित्य रचिल्लें.

आनी निमाणे समारोप करतना इतलेंच सांगन दिसता, जेन्ना आमी गुजराती, बंगाली, मराठी, हिंदी अशा इतर भारतीय भासांतलें साहित्य वाचतात, तेन्ना आमकां जाणवता, ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेत्यो आशापुर्णा देवी, महाश्वेता देवी, अमृता प्रीतम सारख्या ज्येश्ट आनी श्रेश्ट लेखिकांच्या साहित्यांत अस्तुरेच्या आवाजाक जागो मेळ्ळा. आमच्या साहित्यांतल्या बायलांच्यो वेदना आनी दुख्खां लागीं लागीं सारखींच आसात. इतलेंच न्हय तर दर वर्सा गोंयांत जावपी आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत इराण, फ्रान्स, इटाली, जर्मनी, कोरीया अशा संवसारांतल्या वेगवेगळ्या राष्ट्रांतले आगळे वेगळे सिनेमा पळयतात तेन्नाय आमच्यो तातुंतल्या बायलांविशींच्यो संवेदना जाग्यो जाले बगर रावनात.

आनी अशे तरेची खरी खुरी अस्तुरी कोंकणी साहित्यांत येवची ही अपेक्षा. गोंय राज्य ल्हान आसलें तरी ताका एक लांब इतिहास आसा. ह्या इतिहासांत रिगून पुराय गोंय शिकून घेतल्यार तरातराच्यो अस्तुऱ्यो सांपडटल्यो. ह्या संशोधनांतल्यान सृजननिर्मती जावपाची गरज आसा. ००० 

लोकवेद

(लेख)

डॉ. पांडुरंग फळदेसाय

# कोंकणी लोककाणयांतली नैतिकता

आपले पुराय जिणेंत काणी आयकल्ली ना असो मनीस मेळप कठीण. काणी मनशाचे जिणेचो सांगात करीत आयल्या. मनशाचे जिणेचेर फावो ते संस्कार करपाचें काम काणयेन केलां. ताकालागून काणी आनी मनशाची जीण हांचो संबंद हो सासणाचो जावन बसला. काणी मनशाचे अणभव आनी कल्पना हातुंल्यान जल्माक आयली आनी साहित्याचें रूप घेवन बसली. लोकसाहित्याचें हें निकटें रूप असंख्य पिळग्यांचे जिबेर घोळयत रावली. मनशाची कल्पकताय केळयत रावली. संस्कृतीची घुडी हुबयत रावली.

संस्कृतीक नदरेन एकेच तरेची मानसीक बांदावळ आशिल्ल्या समुहाची जिवनप्रणाली लोकसाहित्यांत आविश्कृत जाता. ताचे फाटल्यान त्या समूहाच्या अबोध मनाची (collective unconcious) प्रेरणा आसता. (मराठी विश्व कोश खंड 15, पृ. 757) लोककथा, लोकगितां, उमाणीं, गुडां, म्हणी, वाक्प्रचार हें मौखीक परंपरेंतलें लोकसाहित्य. उतरांच्या माध्यमांतल्यान तें येता. म्हण ताका 'शाब्द लोकसाहित्य' वा लोकवाङ्मय (folk literature) म्हण्टात. मराठींतले लोकसाहित्याचे आद्य चिकित्सक आनी अभ्यासक वि. का. राजवाडे हांणी 1925 वर्सा 'लोककथा' हें उतर लोककाणयांखातीर वापरलें. (भारत इतिहास संशोधक मंडळ इतिवृत्त, शके 1837, पृ. 1-7, मराठी विश्व कोश, 15, पृ. 757) तेंच उतर आजमेरेन रूढ जालां. जादू, मंत्रविद्या हें दालन लोकसाहित्याच्या मळार भोव म्हत्वाचें जावन आसा.

**डॉ. पांडुरंग फळदेसाय** : जल्म : 1952, जेश्ट लोकवेद संशोधक. कविता तशेंच निबंद प्रकारांतय लेखन. *'काणी काणी कोतवा'*, *'गोमन्तकीय लोकवाद्ये'*, *'Kaleidoscopic Goa - A Cultural Atlas'* आनी *'Goa _ Folklore Studies'* हीं लोकवेद विशयावयलीं पुस्तकां 'अंतर्यात्रां' हो कवितासंग्रह तशेंच 'झुळूक' हो कथासंग्रह प्रकाशीत. गोंय राज्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : 'सासाय', विद्यानगर, आल्त, तोर्डा, पर्वरी, बार्देस, गोंय 403501, मो. : 9822123030.

(भागवत, दुर्गा, धर्म आणि लोकसाहित्य, मुंबई : पॉप्युलर प्रकाशन, 1975, पृ. 15)

लोकसाहित्यांत लोककथांक, म्हळ्यार लोककाणयांक म्हत्त्वाची सुवात फावता. लोककाणयो ह्यो सगल्यांक आवडटात. पूर्विल्या काळासावन लोककाणी हें लोकांच्या मनरिजवणेचें मुखेल साधन जालां. रातच्या फाविल्ल्या वेळार जाण्टयांकडल्यान काणी आयकुपाची परंपरा कदीम काळासावन चलत आयल्या. आजी वा आज्याकडल्यान नातरांक काणी सांगपाचें अलिखित समीकरणूच भारतीय समाजांत रुढ जालां. कांय गांवांनी काणी सांगपी एक वर्ग आसता. तांकां पुराणीक, भट, भाट, चारण, शाहीर, जोगी, बंदी, सूत, गायक, मेढंगी, जोशी, कथेकार अशीं तरेकवार नांवां आसात. कांय वेळार पोटापाण्याचो वेवसाय म्हण काणयो सांगतात, तर कांय वेळार विधी म्हण काणयो सांगतात. काणयो घटांनी, गावन आनी अर्दी घटांनी मदींमदीं गावन सांगपाची परंपरा कोंकणी काणयांमदीं दिसता.

मनीस समूहान आपल्या सदांचे जिणेंत जें कितें अणभवलें, जे गजालींचो विचार केलो, जें कितें समजून घेतलें, आपल्या चिंतनातल्यान रचलें, सपनां पळयलीं तांचो समूचीत आविश्कार कांय काळाउप्रांत लोककाणयांतल्यान प्रकट जावंक लागलो. ह्यो लोककाणयो प्राचीन काळासावन चलत आयल्यो. मनोरंजन करतनाच काणयांनी दरेक पिळगेमेरेन संस्कार आनी गिन्यान पावयलें. लोककाणयो म्हळ्यार मनशाच्या अथांग आनी कंवळ्या मनोभावनांचो सांस्कृतीक इतिहास.

भारतीय लोकजिणेचेर व्रत-उपास, पूजा-अर्चा हांचो जसो खोलायेन परिणाम जाल्लो दिसता तसोच जात्रा, उत्सव, परबो, हांचोय जाल्लो दिसता. भारतीय समाजमन हें व्यापक अर्थान भावार्थी. अंतकरणांत स्रद्धा आनी भावार्थ दवरून भारतीय आपली जीण जगता. मनशाच्या मनात तरेकवार भाव-भावना थळ-काळ-प्रसंगाप्रमाण उद्भवतात. सूख-दूःख, सेवाभावना, उपकार, भंय, त्रास, करुणा, मोग, माया, वात्सल्य, निती-अनीती आनी ह्या सगल्यांच्या वयर भावार्थ हांचें ठसठशीत पडबिंब लोकजीणेंत दिसता. देव-देवता, सूर-असूर, भूत-प्रेत-पिशाश्च हांचोय लागींचो संबंद लोकजीणेकडेन आशिल्लो दिसता. आजची सांस्कृतीक बांदावळ पळयतगीच ह्यो सगल्यो खबरी आमच्या भारतीय संस्कृतीक एक प्रदीर्घ परंपरा दिवपी थल्ल्यात हें कळटा.

तरेकवार लोकपरंपरांमदल्यो काणयो सांगप आनी नृत्यनाट्य सादरीकरण, हें पुरुश प्रकृतींच्या लिलांची रुपकात्मक अनुकरणां आसात. शेता भाताक आनी पीक पिकावळीक दैवी उपायांनी निर्मणेची तांक हाडप, हो तेफाटलो मुखेल उद्देश आसलो. पूण फुडेंफुडें हें सादरीकरण खूब प्रगल्भ जायत गेलें. ताका लागून तांकां स्वतंत्र रूप आनी अस्तित्व आयलें. काणयांचें आनी गितांचें गायन-कथन म्हळ्यार तीं अभिचार गितां म्हणूक फावतात. (भागवत, दुर्गा, धर्म आणि लोकसाहित्य, मुंबई : पॉप्युलर

प्रकाशन, 1975, पृ. 55-56)

केन्ना केन्ना पोरन्या आख्यायिकांत नवे आशय भरसून नवे व्यक्तीसंबंधूय जुळयतात. प्रचार करप होय धर्मसंलग्न काणयांचो हेतू आसता. हाचें भोव बरें उदाहरण दिवपाचें जाल्यार रामायणाचें दिवं येता. (भागवत, दुर्गा, धर्म आणि लोकसाहित्य, मुंबई : पॉप्युलर प्रकाशन, 1975, पृ. 55-56)

पारंपारीक लोकजिणेचें लोकप्रीय दायज लोककाणयांच्या माध्यमांतल्यान एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावत रावलां. जाण्टेल्यांकडल्यान आमी काणयो आयकत व्हड जाले. असंख्य लोककाणयो एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावत रावल्यो. आजेन नातरांक हें कथामृत पाजयलें. अशें शेकड्यांनी वर्सां चलत आयलें. पूण मनशाची लोककाणयो आयकुपाची इत्सा उणी जाली ना. तान भागली ना. तृप्ती जाली ना. दुसरेवाटेन लोककाणयांचें भांडारूय कमी जालें ना.

लोककाणयांक थळ-काळाची शीम-मेर नासता. ती एखादी व्यक्ती, समाज, जात, धर्म, पंथ हाची मिरास न्हय. ती खंयच्या एकाच वाठारांत बंदिस्त जावन रावंक शकना. मनशाबराबर ती भोंवत आसता. मनीस पावता थंय ती रुजता, फुलता. मनीसजिणेचीं मुळावीं मुल्यां ह्या लोककाणयांतल्यान शिकोवपाचो, रुजवपाचो वावर जालो. तांतल्यान मनीस समाजान शेकड्यांनी वर्सांची वाटचाल संस्कारीत आनी फळादीक केली.

काणी म्हळ्यार कितें, हें सांगतना 'सार सुंदरी' ह्या पुराण ग्रंथांत अमरान म्हळां : 'प्रबंधकल्पनाकथा' हें काणयेचें लक्षण. म्हळ्यारूच प्रबंधेन कल्पना, म्हळ्यार 'प्रबंधस्थ अभिध्येयस्य कल्पना स्वयंरचना'. हाचो अन्वयार्थ असो की, अभिधेय म्हळ्यार सांगपा सारकें आसा ताची रचना आपले कल्पनेप्रमाण करप. कोलाहलाचार्य हाणें अमर आनी नाट्यशास्त्राचो जनक भरतमुनी ह्या दोगांनीय सांगिल्ल्या काणयेच्या व्याख्यांचो आदार घेवन सांगलां, 'कल्पनेन रचिल्ली आनी सत्याचो वांटो आशिल्ली ती काणी. (मांडे प्रभाकर, लोकसाहित्याचे स्वरूप, औरंगाबाद : परिमल प्रकाशन 1978, पृ. 179)

लोककाणयांच्या निर्मणी प्रक्रियेंतल्यो अवस्था :

लोककाणयांच्या निर्मणेंत आनी विकास प्रक्रियेंत पांच अवस्था आसतात. (सत्येंद्र, लोकसाहित्य विज्ञान, पृ. 203-207).

1. पयले अवस्थेंत आदिमानवान सरभोवंतणच्या सैमांत घडपी तरेकवार घडणुकांचे अणभव घेवन ते आपल्या मना-काळजांत रिचयले.

2. दुसरे अवस्थेंत आदिमानवाक आपली शक्त शिमीत, मर्यादित आसा, पूण कल्पनाशक्तीचो आंवाठ मोठो हाची जाणविकाय जाली. सैमांतल्या घडणुकांचेर आपूण कसलोच आळाबंद हाडपाक शकना. ही शक्त आपल्यापरस अमर्याद, म्हण ताणें सैमाक देवत्व आनी अलौकिकत्व दिलें. ताचेय फुडें वचून ताणें सैमीक घडणुकांक काणयांचें रुप दिलें.

3. वयर दिल्ले पयले अवस्थेंतल्या पिरस्थितीक लागून मनशाच्या मनांत भावार्थ निर्मणी जाली. तांतल्यान विधिकथांचो जल्म जालो. दुसरे अवस्थेचो परिणाम म्हण नितीशिक्षण आनी ताचे सांगातान मनरिजवणी केली. तीच मनीसकुळाची गिरेस्तकाय जाली.

4. काणयो मनशाबराबर भोवंडेक गेल्यो. मनीस समूह संवसारांत सगल्या दिकांनी फापसत गेले. वेगवेगळ्या वाठारांत राबितो करून रावले. तांचेबराबर काणयो गेल्यो. आपल्या मुळाव्या आदारापसून तुटल्यो आनी जंय पावल्यो त्या भुगोलीक प्रदेशांत रिगल्यो, रुजल्यो, वाडल्यो आनी तांकां कितलेशे फागूर फुटले. तांचो आंवाठ वाडत रावलो. खूब काळ गेल्या उप्रांत मूळ काणयेचें रुप इतलें बदललें की, तिचो मूळ काणयेकडेनचो संबंद पयसावलो.

5. लोककाणयो एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन मौखिक परंपरेंतल्यान पावत राविल्ल्यो. त्यो थंयच्या समाजमनाकडेन पुरायेन तद्रूप जाल्यो. एकरूप झाल्यो. कालान्तरान लोकअभिव्यक्तीचो आनी सर्जनशिलतेचो परिणाम जावन तांतल्यान नव्यो लोककाणयो आकाराक आयल्यो. तांतल्या कांय लोककाणयांचें रूप मूळ काणयांपरस पुरायेन वेगळें जालें.

**लोककाणयांचो उत्पत्ती काळ :**

शतमानपूर्व चार हजार वर्सां मेरेन सगलें लोकसाहित्य हें मौखिक आशिल्लें. पूण शतमानपूर्व चार ते तीन हजार वर्सांमदीं बरोवपाची कला इजिप्त आनी सुमेरांत प्रचारांत आयली. (Encyclopedea Britanica pp. 310) सगल्या समाजांत कांय अलौकीक दादले आनी बायलो जल्माक आयले. तांचे अलौकीक आनी प्रतिभासंपन्न गूण त्या काळांतल्या समाजाक प्रेरणा दिवपाक, दिशा दाखोवपाक आनी आदर्श घालून दिवपाक कारणीभूत जाले. तातूंत आदिम लोकसमाजांतले वैज, पुजारी-अर्चक, प्रशासक आनी योद्धे आशिल्ले. तांच्या अजापांच्या कर्तृत्वांतल्यान त्या काळांत तरेकवार लोकांकाणयो रचपाचो समाजाक एक भोव बरो प्रेरणास्त्रोत मेळ्ळो. (Encyclopedea Britanica pp. 310) आपणाक जमलें ना तें आपणाली शक्त मर्यादीत म्हण. पूण अचाट, अफाट, अद्भूत आपूण येवजूंक शकतां. हाचो दिश्टावो मनशाक जालो. तांतल्यान दैवी, मानवी आनी अतिमानवी अश्यो रचणुको मनशान आपले कल्पनेप्रमाण मौखिक परंपरेतल्यान प्रचलीत केल्यो.

हें संवसारीक आनी भारतीय लोककाणयांच्याविशींचें विवेचन पुरायेन कोंकणी लोककाणयांक लागू पडटा. आमी लोककाणयेक काणी हेंच उतर वापरतात. हें उतर म्हळ्यार 'कहाणिआ' ह्या प्राकृत रुपावेल्यान संस्कृत 'कथानिका' उतर आयलें. तेंच मागीर देशी नामावलींत 'कहाणी', हिन्दींत 'कहानी' आनी कोंकणीत 'काणी' जालें. 'कहा' ह्या उतरांतूच तिचें मौखीक रुप अभिप्रेत आसा. (भोसले, द. ता. (संपा.) लोकजीवन आणि लोकसंस्कृती, मुंबई : महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती

मंडळ. 2005 पृ. 126)

कोंकणी लोककाणयो म्हळ्यार भारतीय लोककाणयांच्या अतिविस्तीर्ण प्रवाहांतली एक सुरबूस गिरेस्त धार. ती आदिम काळासावन सैमीक घडणुकांच्या कथनान भंय दाखयत आयल्या. देश, काळ, परिस्थितीप्रमाण रूप बदलीत आयल्या. लोकसाहित्याचें मळ गिरेस्त करतनाच ती रानां-मळांनी, भाटां-बेसांनी, दोंगोर-देगणांनी, न्हंयो-समुद्र हांच्या देगांनी फिरत रावली. कोंकणी मनीस गेलो थंय थंय ती पावली. गोंय, कर्नाटक, केरळ, महाराष्ट्र ह्या पश्चिम समुद्रादेगेवेल्या चार राज्यांनी ती रमलीच. पूण ताच्याय भायर जंय जंय कोंकणी मनीस थिरावलो थंय ती पावली, रावली आनी जंय थंय नवें रुप घेवंक पावली. भटकंती हो कोंकणी काणयेचो जिणेधर्म जालो. कोंकणी मनशाच्या वांट्याक आयिल्ल्या इतिहासीक घडणुकांक लागून ही भटकंती कोंकणी काणयेच्या वांट्याक आयली.

कोंकणी लोककाणयेची विविधताय लेगीत तितलीच मनभुलयणी. 'व्यक्ती तितल्यो अभिव्यक्ती' ह्या सूत्राप्रमाण एकेक काणयेची विंगडविंगड रुपांय आमकां दिसतात. गांवगिऱ्या वाठारांत रावप्यांची अभिव्यक्ती गांवगिरी, जाल्यार शारी वाठारांत रावप्याची अभिव्यक्ती नागरी धाटणेची. काणी सांगप्याच्या सभावाप्रमाण ती विस्तृत वा मेजक्या उतरांतल्यान येता. देखीक डॉ. जयंती नायक हाणी गोंय कर्नाटक आनी केरळांतल्या कोंकणी काणयांच्या केल्ल्या संकलन संपादनाचें दिवं येता. गोंयांतली 'आटलाक पेटलाक' ही काणी रंगोवन सांगिल्ली आमी भुरगेपणांत आयकल्ली. तिचो शेवट गोंयांत एकासारखोच दिसता. पूण 'अत्ती आनी पित्ती' हे केरळांतल्या कोची वाठारांत चलत आशिल्ले काणयेचो शेवट वेगळो जाता. गोंयची आटलाक आनी पेटलाक योगायोगान जाल्ल्या (केल्ल्या) आवाजाक लागून वागाक धांवडावन घालतात. पूण कोचींत मिठाच्या दोणांत लिपिल्लीं अत्ती आनी पित्ती वागाचे भकीक पडटात. दिल्लें उतर पाळूंक जाय हो बोध हे काणयेवरवीं दिवपाचो यत्न दिसता. कोंकणी लोककाणयांतली नैतिकता सांगतना एक गजाल मुजरत मतींत दवरपाक जाय; ती म्हळ्यार कोंकणीत भोव बऱ्यो नितीकथा आसात. पूण त्यो कल्पित काणयांची रुपां जावन आसात. कल्पित काणयांचे जे मुखेल स प्रकार आसात, तांतलो नितीकथा हो पयलो प्रकार जावन आसा.

नितीकाणयांचे प्रयोजन हें मनशाक वेव्हारीक नदरेन शाणो करप. दुश्ट आनी धूर्त लोकांचे डाव वळखुवपाइतली शिट्टूकसाण ताचे बुद्धीक दिवप. मनशाचीं जीं धर्म, अर्थ आनी काम हीं मुखेल कर्तव्यां आसात तीं सिद्धीक पावोवप. फावो तें नितीतत्त्व निकट्या उतरांनी सांगचे परस तें काणयेच्या माध्यमांतल्यान सांगल्यार ताचो मनशाच्या मनाचेर भोव बरो परिणाम खोलायेन जावंक पावता. हेंच मुखेल आनी मूळ तत्त्व ह्या काणयांच्या रचनेफाटल्यांन आसा. (जोशी महादेवशास्त्री, (संपा.) भारतीय संस्कृती

कोश खंड 5, पुणे, भारतीय संस्कृती कोश मंडळ 1968, पृ. 142-144) 'काणयांच्या रुपान भुरग्यांक नीत सांगल्या', 'अशें हितोपदेशाच्या आरंभाकूच बरोवन दवल्लां.'

कोंकणी लोककाणयांतली नैतिकता म्हळ्यार तांतलें नितीतत्त्व परिणामकारीपणान प्रकट करतात. सत्य, अहिंसा, नम्रता, सदाचरण, परोपकार, दानीवृत्ती, दया, लोभ, ऋजुता, दिनवासपण, सारासार विवेक, सत्प्रवृत्ती आनी उजू जिणेची देख हीं नितीतत्त्वां कोंकणी काणयांत मुखेलपणान दिसतात. ह्या काणयांचो बोध म्हळ्यार निती, धर्म आनी सदाचरणाक पाळो दिवप. पंचतंत्र, हितोपदेश, तंत्राख्यायिका, सिंहासन बत्तीशी आनी शुकसप्तती हांची निर्मणी नितीकाणयो सांगपाखातीर जाली. तांतले भोव बरे घटक कोंकणी काणयांत भरसून गेल्यात. कोंकणी काणयांत माणसुकीची खर जाणविकाय दिसता. दळिद्री, दुख्खी, कुड्डे, भेड्डे, पांगळे, रोगी आनी जांकां कोणाचोच आदार ना, तांचेकडेन माये-मोगान वागचें. दारांत आयिल्ल्याक रिकाम्या हातांनी परत धाडचें न्हय, असली नीत कोंकणी काणयांत दिसता.

देखीक : कुंडेकुस्कूट, कावळो आनी चिमणी, कोलो आनी कोली, किटूस आनी कीड, सात भाव आनी एक भयण, एकादशीचो कावळो, पिठा बावलें, कोले आनी कुल्ल्यो, टोळंभट, एका जोताबदला बारा जोतां, करचें तशें भरचें, गर्विश्ट उंट, अती आशा पदराक निराशा, अत्ती आनी पित्ती (आटलाक पेटलाक), फुलगें कलवंत आनी खेतें, मी खीर खाल्ली तर बूड घागरी म्हणपी केरळांतली बिकिलीची काणी, खरबशें बरगशें, पडोळ्याची काणी, म्हातारे पोर आनी तागेलें कामत, म्हातारे पोर आनी म्हारू, बेबो जांवय, पातोळ्यांचें झाड अशीं कितल्याश्या काणयांची नांवां सांगूं येत. आतांमेरेन कोंकणी काणयांच्या पुंजावळीचो जो वावर जाला, तांतल्यो काणयो नदरेखाला घाल्यार हाचेपयलीं सांगिल्लीं सगलीं नितीतत्त्वां तांतल्यान केळयल्यांत हें स्पश्टपणान दिसता. मनीस, प्राणी, जीव-जिवाणीं, सुकणी, झाडां-पेडां, राकेस राकशिणी, न्हंयो-बायो-दर्ये हांच्या रुपकांतल्यान ही नैतिकता समाजामदीं संस्कारीत करपाचो वावर कोंकणी लोककाणयेन केला हें व्हडा अभिमानान सांगचेंशें दिसता.

दरेक काणी सांगून तिचो आपरोस घेवपाची प्रदीर्घ कार्यावळ व लेगीत घडोवन हाडप शक्य आसा. संवसारांतल्यो अश्यो नैतिकतेच्या नदरेन रसमिसळ जाल्ल्यो काणयो जळीं थळीं मेळटात. नैतिकतेचो एक मुखेल संदेश म्हळ्यार शिटूकसाण चातुर्य. फावो त्या वेळार तें आपणावंक जाय. नाजाल्यार मनशाची फजेत जाता. हीच देख दिवपी एक कोंकणी लोककाणी संक्षिप्त रुपात सांगून हें निवेदन सोंपोवया.

हे काणयेंत राजांचो उल्लेख येता. पूण हे राजे तांचे कुंवर आनी कन्या ह्यो शेतकामां करपी, धंयां-दुदाचो वावर करपी आनी सगल्यांक वांगडा घेवन गांवराज्य चलोवपी. म्हळ्यार काणयांतल्या राजांची आनी राज्यांची कल्पना ही त्या-त्या काळांतल्या

शेतकामती आनी घोळटीक करतल्या समाजाची आसा, हें घट्ट मतींत धरचें पट्टा. तर काणी अशी आसा :

एक राजा आशिल्लो. ताका सात कुंवर आशिल्ले. सात कुंवरांच्यासवें राजा राज्य चलयतालो. सातूय कुंवर व्हड जातगीच ताणें तांची फावो त्या राजकन्यांलागीं लग्नां केलीं. सातूय कुंवर संवसाराक लागले. घराब्याक आदार करूंक लागले. राजा-राणी खोशी जालीं.

एक दीस सातव्या कुंवराचो मांव राजालागीं आयलो. चार दिसांखातीर आपले धुवेक कुळारा व्हरतां म्हुणूंक लागलो. राजान मान्यताय दिली. बापूय धुवेक घेवन कुळारा आयलो. कुळारचीं सगलीं खोशी जालीं चार दीस जाले, आठ दीस जाले, पंदरा दीस जाले, म्हयनो जालो. तरी ही सून राजागेर परत पावलीना. राजान कुंवराक सांगलें, "तूं वच आनी बायलेक घेवन यो."

कामधंदो आटापून कुंवर सांजवेळार घोड्यार बसून मावोड्या वचूंक भायर सल्लो. काळोख जातां जातां तो मावोड्या पावलो. मावोडेच्या गोठ्यांत म्हशी बांदिल्ल्यो आशिल्ल्यो. ताणें घोड्यावेल्यान देवन आपलो घोडो म्हशींच्या गोठ्यांत बांदलो आनी तो घरांत भितर सल्लो. रातच्या वेळार अचकीत आयिल्ल्या जांवयाची मांव-मांयन सरबराय केली. मेवण्यांनी अपुरबाय केली. दुसऱ्या दिसा बायलेक घरा व्हरपाची मान्यताय घेवन तो न्हिदलो. फांतोडेर वचपाची तयारी करता जाल्यार, गोठ्यांत दूद काडपाक गेल्ले सगले मेवणे 'म्हशीगेर घोडो जाला' म्हण बोवाळ घालतात.

कुंवरान तांकां सांगपाचो यत्न, केलो, पूण कोणूच मानपाक तयार नासलो. बायलेक घोड्यार बसोवन घेवन घरा वतलों, हें सपन पळयत आयिल्लो कुंवर निर्शेलो. दुखेस्त मनान एकलोच घरची वाट चलूंक लागलो.

वाटेर एक मेळ्ळो कोलो. ताणें विचाल्लें, "कितें जालां?"

कुंवरान घडिल्ली खबर सांगली. कोल्यान सांगलें, "भिवं नाका. मांवाक सांग, गांवसभा आपय. हांव येतां तुज्या आदाराक."

कुंवराचे मागणेप्रमाण गांवसभा आपयली. राजान दोनूय वाटेच्या बुदवंतांक मुखार आपयलें. मेवण्यांचो बुदवंत फुडें आयलो. कुंवरान कोल्याक फुडें काडलो. कोलो झेमेत आसलो. मेवण्याच्या बुदवंतान सांगलें, "तिनसांजमेरेन दूद काडून, खावड घालून गोठ्याचे आडांबे लावन जातगीच गोठ्यांत घोडो कसो येवंक फावता? हाचो अर्थूच म्हशीगेर घोडो जालो."

कोलो न्हीद काडटा हें पळोवन बुदवंतान ताका ताचें कारण विचारलें, "कोल्या, असो सामको झेमेता कित्याक?"

'कितें सांगू बुदवंता? राती दर्याक लागलो उजो. सवन रात हांवें तो उजो पालय पालय पालयलो. केन्ना दीस जालो कळ्ळें लेगीत ना. कितें करतलो? आतां सामकी झेम येता."

सगली गांवसभा व्हडाव्हडान हांसली. दर्याक आनी उजो? हो कोलो कोणाक शिंगां लायता? मोठो बोवाळ जालो. तांणी

विचाल्लें, "दर्याक म्हण केन्ना उजो पेट्टा?"

कोलो उठलो. कूय घातली. म्हणूंक लागलो, "म्हशीगेर जर घोडो जाता तर दर्याक उजो पेटूंक कितें जालां?"

मेवण्यांक जाप ना जाली. सगली सभा थक्क. मेवण्यांनी आपली चूक मानून घेतली. घोडो कुंवरा सुवादीन केलो. कुंवर कोल्याक दिनवासलो आनी आपले बायलेक घोड्यार बसोवन घेवन घरा आयलो. सुखान रावलो. (नायक जयंती : संक-संपा. कोंकणी लोक काणयो, नवी दिल्ली, साहित्य अकादमी, 2005)

## संदर्भ ग्रंथ


1. भागवत, दुर्गा. धर्म आणि लोकसाहित्य, मुंबई : पॉप्युलर प्रकाशन. 1975
2. भागवत, दुर्गा : लोकसाहित्याची रुपरेखा, पुणे, वरदा बुक्स, 1977.
3. हुसेन, एस. अबीद : द नॅशनल कल्चर ऑफ इंडिया, न्यू दिल्ली, नॅशलन बुक ट्रस्ट, 2010.
4. भोसले, द. ता. : (संपा.) लोकजीवन आणि लोकसंस्कृती, मुंबई, महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळ, 2005.
5. नायक, जयंती : कोंकणी लोककाणयो, नवी दिल्ली, साहित्य अकादेमी, 2005.
6. नायक, जयंती : गांवरान, पणजी, गोवा कोंकणी अकादेमी, 2005.
7. नायक जयंती : राजरत्नां, पणजी, गोवा कोंकणी अकादेमी. 2005.
8. वाकोडे, मधुकर : (संपा.) लोकप्रतिभा आणि लोकतत्वे, मुंबई, लोकवाङ्मयगृह, 1994.
9. वाकोडे मधुकर : (संपा.) मराठी लोककथा, नवी दिल्ली : साहित्य अकादमी, 2009.
10. वाकोडे, मधुकर - सुषमा करोगल : (संपा.) मौखिकता आणि लोकसाहित्य, नवी दिल्ली, साहित्य अकादेमी, 2008.
11. व्यवहारे, विद्या : लोकसाहित्य लोकसंस्कृती, पुणे, प्रतिभा प्रकाशन, 2002.
12. फळदेसाई पांडुरंग : आटलाक - पेटलाक. पणजी - गोवा, राजहंस प्रकाशन, 1983.
13. फळदेसाई पांडुरंग : काणी काणी कोतवा, पणजी : 1989.
14. फळदेसाई पांडुरंग : गोवा, फोकलोर स्टडीज, पणजी, ब्रॉडवे पब्लिशिंग हाऊस, 2011.
15. दांडेकर, मालती : लोककथा कल्पकता, पुणे, वरदा बुक्स, 1982.
16. मांडे प्रभाकर : लोकसाहित्याचे अंतःप्रवाह, पुणे, कॉन्टिनेंटल प्रकाशन, 1905.
17. एन्सायक्लोपेडिया ब्रिटानिका खंड 24, मिथ अँड मायथोलॉजी, शिकागो, 1985.
18. राव देशपांडे कमलादेवी : 'बा'ल्यो काणयो, पणजी, कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट, 1969.
19. नायक रामचंद्र शंकर : भुरग्यांलो वेद, मुंबै : गोमंतक छापखानो, 1948.


000



ग्रंथदालन

(समिक्षा)

डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार

# वास्तू : नोस्तालजीक यादींचो करंड

कथाकार मीना काकोडकार हांणी कादंबरी बरोवपाचो केल्लो एक यत्न म्हणल्यार 'वास्तू' ही कादंबरी. कथेच्या मळार कोंकणींत मीनाबायन जायती नामना जोडल्या. तांच्या 'सपन फुलां' ह्या कथाझेल्याक साहित्य अकादेमी पुरस्कारय फावो जाला. तेचवरी तांकां नामनेचो 'कथा पुरस्कार' दोन फावटी फावो जाला. माका याद जाता ते प्रमाण ते पैकी एक पुरस्कार फावो जाल्ली कथा 'वास्तू' हे कादंबरीच्या कथानकालागीं सोयरीक आशिल्ली. (2003) 'कथा' आनी 'कादंबरी' हे दोनूय साहित्य प्रकार कथनात्मक जावन आसात. तरीय लेगीत तांचे भीतर एक म्हत्वाचो फरक आसा. आनी तो म्हणल्यार कथेचो जीव ल्हान आसता. ताची व्याप्ती इल्लीशी. स्फुट कवितेवरी. जाल्यार कादंबरी म्हणल्यार गद्यात रचलेलें म्हाकाव्य. मीनाबायक हें खेरीतपण लक्षात आयलें ना काय कितें? अशें कादंबरी वाचले उपरांत जाणवलें. कादंबरीत खुप्पशी पात्रां घाली, खुप्पशे प्रसंग घाले म्हण जायना. तीं पात्रां आनी ते प्रसंग कथानकाचे नदरेंतल्यान आनी तेचपरस 'कथना'चे नदरेतल्यान म्हणल्यार बरोवप्याच्या 'व्हील पॉईंटा'चे नदरेंतल्या अती आवश्यक आसचे पडटात. तशें जालें ना जाल्यार बरोवपी जें कितें सांगूक सोदता ते 'वास्तू' भशेनच मातयेभरवण जावंक कळाव लागना. वंश, काळ आनी थळ हांचो समसमा संयोग जाता काय ना हाची जतनाय घेवची पडटा. बरोवप्याक सादूर रावचें पडटा. मात लेगीत घाळपण घातमारे थारू येता. 'वास्तू'चे संबंदान अशें जालां काय कितें हाचो सोद घेवपाचो हो

**डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार** : जल्म : 1956, समिक्षक, संशोधक. कथा, कविता, नाटक, निबंद ह्या प्रकारांत साहित्य निर्मिती. कोंकणी-मराठी भाशेंतल्यान लेखन. *'क्ष : समिक्षेंतलो'*, *'आदिमायेचे उले'* (कविता), *'बाळकागितां'* (बालसाहित्य), हीं कोंकणी पुस्तकां तशेंच कांय मराठी ग्रंथ प्रकाशीत. 'लक्ष्मणराव सरदेसाई यांची कथा : एक शोध' ह्या ग्रंथाखातीर साहित्य पुरस्कार. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : असोशिएट प्रोफेसर, मराठी विभाग, गोंय विद्यापीठ, ताळगांव, गोंय 403206. मो. : 9421156116.

ल्हानसो यत्न.

'वास्तू'ची कथावस्तू म्हणल्यार तीन पिळग्यांची काणी. एके 'वास्तू'ची काणी. 'दिसपट्टे जिणेतल्यो घडणुको आनी मनांतल्यो भावना ल्हवपीक उतरांनी चितारपी मीनाबायची लिखणी, हे कादंबरीतय वाचप्याक वेगळ्याच वातावरणांत व्हरता, फाटल्या यादींनी घुसपायता. पुस्तकाच्या कवरा भितरल्या पानार हे 'कादंबरी'ची करून दिल्ली ही वळख पटपा सारखीच. पूण...? हो - 'पूण' म्हणल्यार 'फाटल्या यादींनी घुसपवप' चड जालां. आनी हांगाच लेखिकेचो 'व्हीव पॉईंट' शेणला अशें दिसता.

'वास्तू' चे काणयेंत दोन 'वास्तू' वाचप्याक पळोवंक मेळटात. पयली 'मूळ वास्तू' आनी 'दुसरी 'नवी वास्तू-मुकुंद निवास.' तेभायर तातूंत 'सुंदऱ्याकाचो पोवना करण' ही एक आख्यायिका कशी एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगे कडेन पावत आयली, ताची काणीय आसा. 'वास्तू'त बद्द चार पिळग्यांची काणी आयल्या. ते भायर आनीक एक काणी 'वास्तू'त आयल्या. ती म्हणल्यार गिरिबाप्पा आनी आनंद हांची. तीन अस्तुऱ्यांच्यो तीन काणयोय हे 'वास्तू'त आसात. त्यो म्हणल्यार सुंदरें, सुशिला (सोंशाका) आनी मुक्ता. 'वास्तू'तली प्रमुख पात्रां म्हणल्यार सुशिला, गिरिबाप्पा आनी मुक्ता. सुशिला आनी मुक्ताचें रक्ताचें नातें आसा जाल्यार गिरिबाप्पा हो गोकर्णाच्या भटाचो निर्वासीत चेड. गोकर्णा गेल्लो थंय व्हडल्या शणैन, म्हणल्यार मुकुंदान ताचो छळ पळोवन, रामभटाक धा रुपया दिवन गिरी (गिरिअप्पा), ह्या भुरग्याक आपणाल्या घरा हाडिल्लो. एकूण कीतें, तर अशेतरेन ह्या तीन-साडेतीन पिळग्यांची ही कथा. मूळ वास्तू एके तरेन निसर्गीकपणान मोडून पडटा. मातयेभरवण जाता. पूण मुकुंद निवासाचे तशें जायना. ताचो एके तरेन जिर्णोद्धार जाता, एका हॉस्पिटलाच्या रुपान, 'सुशिलाबाय देसाय यादस्तीक हॉस्पिटल' म्हण, पूण हो जिणोद्धार जाता मात्र 'मूळ वास्तू'च्या घट्टाणार. अशे तरेन हें वर्तुळ पूर्ण जाता. मनाचेर नात्यांचो शेळो चडिल्ल्या आनी न चडिल्ल्या वा तेपासून सादूर रावपाचो यत्न करतल्या मनशांची ही काणी. काणी खुबूच दीर्घ जाल्या, कादंबरी न्हय. 'वास्तू'च्या कथानकाचो विचार करीत जाल्यार अदीकची एक गजाल नदरेक येता, ती म्हणल्यार तातूंत आयिल्ले तीन प्रेमविवाह. एक विठ्ठलपूत कांताचो. दुसरो दिगंबर आनी स्वाती. आनी तिसरो मुक्ता आनी उपेंद्र हांचो. 'वास्तू'च्या कथानका लागीं ह्या तीन प्रेमविवाहांचो संबंद कितें? ह्यो तीन उपकथा 'वास्तू'क एक कादंबरी म्हण उंचेल्या पावंड्यार व्हरूंक आदार करतात? करतात जाल्यार कशे तरेन? कितल्या प्रमाणात? आनी करीनात जाल्यार तांचे हे कादंबरीत प्रयोजन कितें?

कादंबरीच्या कथानकावरवीं एक गजाल लक्षात येता ती म्हणल्यार, हे कादंबरीत आयिल्लें कथानक सादारणतायेन सन 1940 ते 2000 ह्या काळांतलेआसूंक जाय. ह्या तेपार खात्यापित्या सारस्वत घराण्यांतले चले भुरगे

मुंबय कामा-धंद्याक वयताले. कांता, दिगंबर हे दोगूय ते पिळगेचे प्रतिनिधी. मुंबयच्या राबित्यात ते जातीभायल्या चलयांच्या मोगात पडटात. घरचे कर्ते पुरुस तांकां घरांत स्वीकारूक तयार नासतात. तांकां म्हणचे परस तांच्या सकयल्या समाजांतल्या बायलांक सून म्हण, तांच्या घरच्यो वांटेकारी म्हण आपणावपाक तयार जायनात. दोनूय पिळग्यांनी हेंच घडटा. त्या तेपार हांगाच्या सारस्वत घराण्यांनी असले घडणुकांचे जाय ते दाखले मेळू येतात. फुडें वचूंक पळोवपी पिळगी आनी आसा थंयच घुटमळत पडिल्ली पिळगी, हांचे मदलें आकांताचें द्वंद्व. होच खरें म्हळ्यार 'वास्तू' चो सभावीक विशय जावंक जाय आसलो. पूण हांव नकळो कित्याक लागून, लेखिकेच्या लक्षात तो आयलो ना. आनी हांगाच हे कादंबरीचो 'व्हीव पॉइंट' शेणलो.

हे कादंबरीत आयिल्लें हें उच-उणाकपणाचे द्वंद्व केंद्र करून कादंबरीचो रुपकार केल्लो जाल्यार एक अप्रतिम शिल्प साकार जावपाचें. पूण तशें जाल्लें दिसना. कारण कितें? लेखिकेचो 'व्हीव पॉईंट'.

हे कादंबरीत जायतीं पात्रां आयल्यात. भुरगीं, दादले, बायलो, म्हातारी, तरणी अशीं साबार पात्रां. पूण कादंबरीतली मध्यवर्ती पात्रां म्हणल्यार गिरीबाप्पा, सोंशाका आनी मुक्ता. ह्या तिगांयच्या वागपा-उलोवपाचे तरेक लागून, सभावाक लागून कादंबरी आकाराक येता. एकूणच कादंबरीत अटीतटीचे प्रसंग तशे चडशे नात. आनी जे आयल्यात तांतूत तिकसाण कमीच.

कादंबरीतले ल्हान-व्हड प्रसंग गुंथून घेवपाचे नदरेंतल्यान गरजेप्रमाण जी निवेदन पद्दत लेखिकेन आपणायल्या ती हे कादंबरीचो प्लस पॉईंट आसा हाकाच दाद दिवची पडटली. कांय प्रसंगानी वातावरण निर्माण करपी काय चित्रणांय बेस बरीं आयल्यात. पूण जाका परिवेश म्हुणू येता अशीं चित्रणां आयिल्लीं जाल्यार दाराक तोरण लागिल्लेवरी जावपाचें. पूण... अशे जायते 'पूण' हे कादंबरीत आसात. पूण तांचेविशीं विस्तारान बरोवप गरजेचे आसा. फुडाराक कोणूय हें कार्य करीत अशी आस्त बाळगून 'वास्तू'ची ही काणी साठा उत्तरी सूफळ संपूर्ण करतां.




वास्तू (कादंबरी), मीना काकोडकार, दुर्गा प्रकाशन, मडगांव - गोंय, 2014, पृ. 312, मोल रु. 300/-
000



ग्रंथदालन

(पुस्तक परिक्षण)

कमलाकर म्हाळशी

# निसण - नवे परंपरेची सुरवात

घराच्या माळ्याचेर चडपावेळार, झाडापेडांचेर चडपावेळार, घर वा गोठो शिंवपावेळार भुरगेपणांत 'निसण' हें उतर अदींमदीं कानांर पडटालेंच. व्हड जातां जातां 'निसण' आमकां कितली उपकरा पडटा आनी वयर चडपाक निसण लागताच म्हणपाचें कळ्ळें. आनीक समजूंक लागतूकच तर 'निमणी यात्रा' निसण नासतना कशीच जायना, हाचेवांगडाच 'बडा बिकट यमघाट' चडून पेल्यान पावपाक निसणीक पर्याय नाच म्हणपाचें होलमलें. हे फाटभुंयेर आर. रामनाथ हाची 'निसण' वाचपाची संद मेळ्ळी. अर्थात, 'निसण' हातांत घेतलेबराबर नामनेचे चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकारांचे कल्पक आनी बुदवंतकायेचे फिशाल चित्राकृतीचें वागतें वाचप्यांक पिसावन सोडटाच. 'निसण'चें मुखचित्र (पयलें, भायलें चित्र), मलपृश्टचित्र (निमणें, फाटलें चित्र) आनी भितरलीं रेखाटनां कविता झेल्याच्या आशयाक फावो तो न्याय दितात. देखून, पयलीं चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार हांकां, उपरांत उत्तम छापणावळीखातीर इम्प्रेशन्स्, बेळगांव हांकां तेच परी प्रकाशक बिम्ब प्रकाशन हांकां मनापासून परबीं फावता.

सप्तपदीच्या ज्यूस्त उरफाटी 'निसण' उतरांची सात पावंड्यांची निसण, कवर पळयलेबराबर मनाक भावता. आमचो 'आंतीक' (खूब आदलो) इश्ट आर. रामनाथ 'मळब रंगमाची' उपरांत कितल्याशाच वर्सांनी 'निसण' घेवन भायर सरून 'मळब रंगमाची' हुंपून आनीक वयर वयर चडपाक पळयता आसत जाल्यार ताका आनी ताचे

**कमलाकर म्हाळशी** : जल्म : 1947, समिक्षक, लोकवेद संशोधक, स्तंभलेखक, अनुवादक, कोंकणी आनी मराठी भाशेंत लेखन, कविता आनी निबंद लेखनय केलां. *'मनीसपणाचो, ताज - जमनालाल बजाज'* (बालचरीत्र), *'ऋतुचक्र'* (निबंद), *'था थैथा'*, *'सांब-शीव'* आनी *'बासंगो राजा'* (नाटक) अशीं कोंकणी पुस्तकां तशेंच तीन मराठी पुस्तकां प्रकाशीत. गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या राज्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय 403 702. मो. : 9326110324.

कवितेक जरूर येवकार दिवंकच जाय. मात 'जिच्या पांयाकडे सर्ग आसता... आवयक आदरान...' अशी ओंपणी करतल्या रामनाथाची नमळाय लेगीत मतींत घेवंकूच जाय. मात हें घेवनूय जाल्यार 'वेगळे जाणविकायेची कविता' हो प्रस्तावनेचो माथाळो आर. रामनाथ हाची 'निसण' कितले खोलायेंतसून वयर सरल्या आनी ती आनीक कितली वयर सरपाक पळयता हाची वेगळी 'जाणवीक' दिता.

हांवें सदचे संवयेप्रमाण पयलीं कविता निखट्यो चाळून पळयल्यो. उपरांत चार पावलां फाटीं सरून 'वेगळे जाणविकायेची कविता' माथाळ्याची प्रस्तावना वाचपाक घेतली. आनी गणिताच्या विद्यार्थ्यान गणितां सोडोवन पळयले उपरांत एकदम उमळशिकेन निमण्या भागांतल्या पानांवयल्यो जापो सोदपाचो यत्न करचो तशेंच हांवेंय केलें. आनी दुबाव खरो थरलो. ज्येश्ट कवी माधवबाब बोरकार हांचीच ती प्रस्तावना. कवितेचो आशय खोलांत वचून सोदून काडपाची अभ्यासकाची आनी उत्तम वाचकाची सुक्षीम नदर जशी कवी माधवबाबाकडेन आसा, तशीच ती नदर 'साहित्य संगीत कला' प्रेमीची आशिल्ल्यान कलात्मक आनी संगीतमय लेगीत आसा हाचो प्रभाव पडलेबगर रावच ना. येवरोपी नाटककार बेकेट, येवरोपी कवी काप्का हांच्या प्रभावान भारतांत कवितेच्यो जाणिवो बदलल्यो, कोंकणी कवितेंत तर शंकर परुळेकार, काशिनाथ शाबा लोलयेंकार, अरुण साखरदांडे आनी आर. रामनाथ हे चार कवी म्हणल्यार एकेच जाणिवेचे चार वेग वेगळे अविश्कार.'' अशें माधवबाब बोरकाराक दिसता. आनी प्रस्तावनेचो निमणो वांटो आर. रामनाथच्या संदर्भात ती वेगळी जाणीव आनी वेगळो आविश्कार अधोरेखित करता.

माधवबाब बोरकार बरयतात - सूख-दूख, काळोख-उजवाड, जल्म-मर्ण हे रामनाथाचे कवितेचे वादी आनी संवादी सूर. ह्या दोन सुरांच्या सुसंवादांतल्यान तांचे कवितेची बंदिश घट्ट विणीची जाल्या. 'मळब रंगमाची' उप्रांत हो 'निसण' सुमार दोन दसकां उप्रांत येता. काळाचो हिशोब मांडल्यार तो खूब उसरांच येता अशें म्हणचें पडटा. पूण ह्या मदल्या काळांत कांयच जावंक ना? हय, खूब कितें जालां. ताची जिणेविर्शींची जाणविकाय अदीक खोल जाल्ल्यान तिचे अभिव्यक्तीक खोलाय प्राप्त जाल्या. आनी तिचेवरवीं कोंकणी कविताय समृद्ध जावंक पावल्या.

म्हज्या मतान रामनाथाचे वेगळे जाणविकायेचे कवितेंत आनीक एक खाशेलें वेगळेंपण आसा आनी तें म्हणल्यार माधवबाब बोरकाराच्या उतरांनीच 'प्रायोगिक मुल्य'. कवितेचो आशय दृश्य रुपांतल्यान वाचप्यांमुखार कसो दवरप हाची देख दिवपाखातीर माधवबाबान चित्रकार पाब्लो पिकासो आनी कवी गिलोमे आपोलिनेर हांचे चर्चेंतल्यान आयिल्ले कवितेचो संदर्भ दिला. आपोलिनेराचे भाशेंत अशी कविता म्हणल्यार Visual Lyricism. हांवें स्वता तांची इंग्लीश कविता

वाचूंक ना वा पळोवंक ना. माधवबाबान बरयल्यात ते मराठी कवी र. कृ. जोशी मात हांवें 'सत्यकथा' ह्या फकत साहित्याक ओंपिल्ल्या मासिकांतल्यान वाचल्यात. तांचे Visual Lyricisam कवितेन तर हांव त्या तेंपार प्रभावित जाल्लों. तांच्यो तसल्यो खुबश्यो कविता हांवें आशयासयत आनी चित्रलिपीसयत वाचल्यात.

आर. रामनाथाची निसण कविता-संग्रहांतली 'निसण' ही अशीच दृश्य कविता, चित्रलिपीची कविता. निसण धरून 'इत्सा', 'एका हुसक्यान', 'तुवें', 'ताची दळिद्रकाय पळोवन', 'खात्री करतां इतलेंच', 'सुखदुख्ख' आनी 'परतावो' अश्यो वट्ट आठ कविता 'निसण' कवितासंग्रहावरवीं दृश्य कवितेचें, चित्रलिपीचे कवितेचें प्रतिनिधीत्व करतात. अर्थात ह्या कवितांच्या माथाळ्यांवयल्यान वा कविता पुराय बरयल्यारूय चित्रलिपीची 'विचित्र' भास सप सप कळपाची ना. घडये आशय कळत, पूण चित्रलिपीचो, दृश्य कवितेचो अणभव घेवपाखातीर 'निसण' सारक्यो कविता नदरेसकयल घालूनच काळजामेरेन आनी मेंदूमेरेन पावोवपाच्यो आसतात. 'देंवपाक', 'उठपाक' सारकीं उतरां सोंपणावरी बरयिल्ल्यान तर कविता चड बरी कळटा. आतां अशें म्हूण आशयाचें म्हत्व अजिबात उणें जायना. 'एक निसण वयर चडपाक सकलूय देंवपाक... आनी एक निसण न्हिदपाकूच उठपाक बिल्कूय न्हय...' ह्या साप्प थोड्या उतरांचे कवितेवरवीं कवी जिणेचें आनी मरणयात्रेचेंय एक अमर सत् कितले सहजतायेन आनी कलात्मक रितीन मांडटा तें अणभवपाक निसण वाचपाकूच जाय.

शंबर पानांच्या शंबर नंबरी 'निसण' कवितासंग्रहांत वट्ट 80 कविता आसात. सूर्यांत विलीन जावन सूर्य जावपाचो हावेस बाळगुपी हो कवी केन्ना वेगळीच सृश्ट निर्मूंक पळयता जाल्यार केन्ना 'सुण्यान फोणकूल उस्तून रोटी खाल्ल्याचें...' सपन चितता, चित्रायता. 'मळबांत काळीं कुपां दाटल्यांत' म्हूण बेजार जाता. केन्ना केन्ना 'एक गांव : निर्मनुष्य असो' कविच्या सपनांत येता. केन्ना तो स्वताच घरभर 'काळोख' करता, 'काळखान काळखाचो काटो काड्टां...' म्हण्टा, गर्भार काळखाचें केन्ना 'अॅबोर्शन' करता, केन्ना काळखांत नाच्च जाता, पूण तशें पळोवपाक गेल्यार हो कवी 'काळोखाचो पुजारी' न्हय, मदींच केन्नाय तरी 'बिण्ण काळोख किण्ण रात. पावलां जड शेणल्या वाट...' म्हणत तो मायेक शरण गेल्ले वरी दिसलो तरी-

*दोळे धाप*
*आनी तुज्यो सगळ्यो*
*आदल्यो वायट यादी*
*आठयत चल*
*दुकां आपशींच तुज्या*
*दोळ्यांतल्यान देंवपाक लागतलीं*
*त्या दुकांनी तूं तें झाड शिंप*

अशें धिटायेन आत्मविश्वासान 'दुकांचें महात्म्य' सांगता. आनी

*म्हाका आतां उठचेंच पड्टलें*
*काळोख पचयत*
*उजवाड पीत*

*जिणेच्या घोड्यार स्वार जावन*
*म्हाका झुजामळार म्हजें झूज झुजचेंच पडटलें*
*म्हाका म्हजें राज्य जिखचेंच पड्‌टले*

अशें स्वाभिमानान म्हण्टा, तेन्ना कवी आर. रामनाथामदलो 'रायटर', 'फायटर' जाता तें पळोवन बरें दिसता. भोव बरें दिसता.

फातराक देव करपाच्या मनीस सभावाचेर जो कवी,

*हां, बरी याद जाली*
*असलोच आनी एक फातोर मात*
*तूं खंयच दवरूं नाका...*

ह्या उतरांतल्यान व्यंगात्म टिका करता, तोच कवी,

*तुमी बिनधास्त रावात*
*जाय जाल्यार सुशेग घेयात सासणाचो*
*फकत तुमी म्हाका सशक्त देव करात*

म्हणत देवत्वाची गरजेची संकल्पना स्पश्ट करता. *'म्हाका एक देऊळ बांदपाक जाय'* म्हणटना,

*म्हज्या घरांत म्हाका*
*एक देव पुजूंक जाय*
*घरांतलीं मनशां देवाभशेन रावंक जाय*
*घरांत देवपण नंदपाक जाय*
*घर देऊळ जावपाक जाय...*

असो हावेस परगटायता. 'वतां वतां' कवी आर. रामनाथ *'लाभूं तुजी सेवा वतां वतां...'* म्हणून गेलो तरी आनी *'तूंच म्हजो राम तूंच म्हजो श्याम'* अभंग रुपान गायलो तरी परंपरेन आयिल्ले अशे भावभक्तीचे बुन्यादीचेर, म्हान आवयच्या संस्कारांचे बुन्यादीचेर भंय भिरांत, दुख्ख, काळोख, पोरण्यो पुरातन रुढी, रीतीभाती हांचे 'राकेस' मारपाक केन्ना स्वता राकेस जावपाक पळयता, जाल्यार केन्ना 'देवाकूड' निवळ करून आमकां सांगता,

*कांय खीणभर देव आनी हांव*
*पुराय एकरुप जातले*
*पोन्नें सगळें पोंदा वचून*
*एके नवे परंपरेक सुरवात जातली.*



**निसण** (कविता संग्रह), आर. रामनाथ, बिम्ब प्रकाशन, आगशी-गोंय, 2013, पृ. 100, मोल रु. 180/-

000

## विंचणार कविता-आकेर नातल्लें झुज!

'प्रकृतिचो पास' कविता - झेल्याखातीर जांका 2011 वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा त्या कोंकणी कवी मेल्विन रॉड्रीगस हांचो 'विंचणार कविता' हो कविता - झेलो. कवीन 'विंचणार कविता' झेल्याखातीर जें सुरविलें उतर बरयलां, तातूंत तांणीच सांगिल्लेप्रमाण 'ह्या आदी म्हजे च्यार कविता संग्रह पर्गट जाल्यात, तरी ते आतां विकते मेळनांत. ते च्यारय संग्रह परत्यान पर्गटच्या बदला त्या संग्रहांतल्यो 'विंचणार कविता' ज्यो वेळा-काळा पर्माणें काव्य रसिकांनी, विमर्शकांनी मांदून घेतल्यो आसात, त्यो ह्या पुस्तकांत पर्गटल्यात.'

'विंचणार कविता' वट्ट 51 कवितांचो झेलो. पानां - 144. 2012 वर्सांतली उजवाडावणी. उजवाडावपी - कविता पब्लिकेशन्स, मेंगलोर म्हणल्यार मंगळुरू, कर्नाटक. विशेश म्हणल्यार, कविता कर्नाटकांतल्या दोनूय लिपयांतल्या वाचप्यांक वाचपाक मेळची आनी कळची म्हूण आसुंये घडये, हो कविता झेलो कानडी (कन्नड) आनी देवनागरी लिपयांतल्यान छापला. हाकाच लागून देवनागरी आनी रोमी लिपयांनी 'पिसोळीं' कवितां झेलो उजवाडायिल्ल्या लोककवी, कवीराय मनोहरबाबांली याद जाली आनी रोकड्योच तांच्योच काळजांत रुजवणां आयिल्लो कांय कवनांवळी ओंठार उदेल्यो-

*कविता काळजांतले गर्भ-कुडींतली देवता*
*काळीज दिल्यारुच दावता*

आतां दुबावविरयत अशें काळीज हे संवेदनशीलतायेचेंच काळीज आसचें पडटा. अशाच काळजाचे कवी मेल्विन रोड्रीगस आपले कवितेसंबंदान बरयतात - एका कवीक आपल्या भोवंतणीच्या गजालीं लागीं स्पंदन करची संवेदनशीलताय आसता. ही संवेदना ताका तवळ तवळ अस्वस्थ करता आनी हे अस्वस्थकायेंतलें सुटका जोडूंक तो चडपडताना ताच्या मनांत-चिंतनां आनी भोगणां उचांबळ जातात. हीं उचांबळ भोगणां - अर्थाभरीत उत्रांक सोधून धांवोन आसतात. एकादावेळा भोगणांची आनी अर्थाभरीत उत्रांची जोडी जाता, तवळ थंयसर एक कविता, कांतार या पद जल्मता.

म्हज्योय कविता हेच प्रक्रियेंतल्यान रूप जोडून आयल्यात. 'वारया उपरांत मनशाक चड गर्जेची वस्त म्हळ्यात उत्रां. उत्रांक उस्वास आसता.' अशी उतरांची म्हानताय गावपी मेल्विनबाब आपले दर एके कवितेवरवीं दर एक उतर कशें मेजून-मापून, जोकून-तोलून, काळीजमायेन घांसून पुसून तरीय बेस्स बरे रितीन चिंतून वाचप्यांमुखार दवरता ताचो अणभव घेवपाखातीर 'विंचणार कविता' दर एकल्यान वाचपाकूच जाय.

*बंदखणिच्या भितर फाल्यां*
*सुटके झंडो उबतलो*
*उजवाड आनी पयस ना*
*सुर्यो फाल्यां उदेतलो*

ह्या आशेच्या किर्णांनी आरंब जातले 'सुर्यो फाल्यां उदेतलो' कवितेसावन-

*देकुन*
*जिवितांत*
*उमे दींवक आशेंवच्या*
*चलियांक*
*एक बरी खबर*
*आज*
*हांव मेल्या उप्रांत*
*म्हजे वोंट*
*म्युसियमांत आसतले!*

अशा उतरांनी 'आशेवप्यांक' धीर दिवपी 'म्युसियमांत' हे निमणे कवितेमेरेन कवी मेल्विनबाबाचीं उतरां वाचतना कवी लेगीत आमकां वाचपाक मेळटा.

सुर्यो फाल्यां उदेतलो, मलेकोडी, गांवच्या पांयां मुळा, मारश्यासाचें मांगणें, भाणशिऱ्यालागीं, दुबाय गोल्डसूख, कायबेव, कोप, म्हज्या मोगाळ कवींक,

मसणाचो गांव, दोरी वोडचो खेळ, एका गुलोबाचें उद्यान, बूसा, प्रकृतिचो पास, आमालांचीं वायनां, कदवळांतलो कवी, एच्चेम्माचीं उतरां, वाट, रेंवेचे कण, झूज, नशिबाची भुक, कोसाळल्लीं बुरुजां, वाग येता, म्हजो गांव, हे रेंवेन, देवा म्हज्या, तेलाचो वेपार, बाळालागीं, गळाय, फिंतां, उडासाची सकत, म्हजें घर, नातीं, रोसा दिसा, ताचें हाचें, रडुं नाका, कोंकणी बाळा, पर्मळाची मर्याद, चंद्राची चोरी, नाक, मर्णाक येवकार, जेजू फाल्यां येता, खुरीस, हांवगो ज्याम जालों, ये मोगा थोडें उलयां, सपणांतुली कविता, सुर्याची सोधनां, गोरवांचें रडणें, हातांत हात धरून, विरह गीत म्युसियमांत, अश्यो वट्ट 51 कविता ह्या झेल्यांत आसात. कविता वाच्चेपयलीं हीं कवितांचीं नांवां म्हणल्यारुच माथाळे वाचले तरी कवीचो प्रादेशिकतायेचो मोग, सैमासंबंदांतलो मोग, वाठाराचो मोग, नातेसंबंदांचो मोग स्पश्ट दिसता. अशें आसुनूय कवितांनी 'विश्वात्मकताय' लेगीत दिसता. देखीक, युगायुगांनी युगां युगांनी

*''मोन्यांनी मोळल्लो*
*सुर्यादेव*
*दोनपारांच्या मोडां मदल्यान*
*मोन्यानींच उलयलो म्हजे लागीं*
*मात्सो मोग वोत म्हजेर*
*हातार तुज्या विशेव घेतां*
*खिणाक वचों संसार रजेर.''*

कवी 'मलेकोडी' वरवीं मंगळुरालागींच्या शांत दोंगराची म्हानताय आनी उपेगीपण तोखेता आनी 'व्याधी म्हजो शमन कर' म्हणटा. 'गांवच्या पांयां मुळां' पावन गांवच्या पांयांर मस्तक दिता. ज्या गांवांत एक आवय-

*पोट मारन भुरग्यांक खावय*
*तोच खरो म्हजो गांव*
*तेच कुशीन मारतां धांव!*

असो 'म्हजो गांव' म्हूण कवी सांगता.

*हे रेंवेन स्वास दिला*
*गांवच्या मरच्या बोडां*
*हे रेंवेन मास दिलां*

म्हणपी कवीच निमणें-

*हे रेंवेन स्वास दिला*
*दितां गळ्या पास घाला*
*हें रेंवेन मास दिलां*

अशी अस्वस्थताय लेगीत उक्तायता.

*हातांत हात धरुन आमी*
*सुखांत आमी दुखां चाक्यां*
*दुखांत आमी सुखां मोक्यां*
*हातांत हात धरून आमी*
*जिण्येंत आमचे मोतियां शिंप्यां*

अशें आत्मविश्वासान मोगिकेक सांगपी कवी नातेसंबंदांतल्या मोगाचे फाटभुयेर जेन्ना 'भाणशिऱ्यालागीं' उलयता, तेन्ना पोरण्या, कसलेंय मोल नाशिल्ल्या भाणशिऱ्याक घोव-बायलेच्या मोगाचो भांगराचो स्टेटस 'म्हज्या मोगाचें भाणशिरें' अशा उतरांतल्यान दिता, तेन्ना कवीची मोग नियाळपाची 'नदर' दिश्टी पडटा. इतलेंच न्हय, जाल्यार कवीचीं 'नातीं' स्पश्ट करतनाचीं चिंतनां-

*दोंगराचीं थानां*
*मळबाचे वोंट*

*चिंतुंक लागले मोग करताना*
*कोण कोणाच्यामू रिणा?*

इतलेमेरेन विशाळ जातात.

मेल्विन रोड्रीगस हो संवेदनशील आनी उतरांचो मोगी असो कवी तर आसाच, ताच्या गझल, कदवळांतलो कवी, एच्चेम्माचीं उतरां चोरी केल्ल्याची कविता ह्या कवितांतल्यान तें जाणवता लेगीत, जाल्यारुय ह्या संवेदनशील कवीचें मस्तक मतबुद्धीसयत गांवच्याच न्हय, देशाच्याच न्हय, जाल्यार संवसारांतल्या घडणुकांक लागून कशें 'चार्ज' जायत आसता आनी कवी त्या संबंदान 'रिॲक्ट' जातनाच कसो अभिव्यक्त जाता तें 'विंचणार कविता' झेल्यांत बेस्स बरें होलमता. देखीक, बूसा (अमेरिकेचे आदले अध्यक्ष बुश हांचेवेली व्यंगात्म कविता), रेंवेचे कण (अमेरिका, रशिया, ब्रिटन, इंडियाच्या राजकी धोरणाचेर भाश्य करपी कविता), झुज (भारत-पाक झूज, काश्मीर प्रस्न आदीं संबंदान टिकात्मक मत मांडपी कविता)

*म्हजे मतिंत नव्यान*
*एक झुज सुरू जाता*
*आकेर नातल्लें झुज!*

ह्यो वळी तर खूबच अस्वस्थ करतात.

कवी मेल्विन रोड्रीगस हाणेंच बरयिल्लेप्रमाण 'जेजू फाल्यां येता' ही कविता ताणें कवीराय मनोहरबाब सरदेसाय हांचे कवितेचे प्रेरणेन बरयल्या. जाल्यारुय कवीची जापसालदारकी फक्त कविता बरोवन सोपना, जाल्यार ताका एक समाजीक बांदिलकी लागता हें सूचक रितीन कवी कवितेच्या निमण्या वळींनी मांडटा, तें दर एकल्याक विचार करपाक लायता, जाग्रुत जावपाक सांगता. देखीक-

*शाणो भुरगो दोळ्यांभायर*
*बसला खेळ खेळोंक*
*खिळे थोडे, मोडवेल एक*
*रिपां खुरीस करूंक*
*जेजू फाल्यां येता पळे*
*बोवश्या ताका मारूंक?*




**विंचणार कविता** (कविता संग्रह), मेल्विन रॉड्रीगस, कविता पब्लिकेशन्स, मंगळूर, पृ. 144, रु. 250/-

000



# ग्रंथदालन

(पुस्तक परिक्षण)

वसंत भगवंत सावंत

## काळमाया : आगळ्या विर्शयावेलें आशयघन नाटक

कोंकणी नाटक संवसारांत विशयांचे नदरेन आगळेंपण दाखोवपी नाटकां खूब उण्या प्रमाणांत दिसतात. 'कुकमादेवीची दिपमाळ' ह्या नाटका फाटोफाट आयिल्लें जयंतीचें दुसरेंय नाटक 'काळमाया' एक वेगळो अणभव दिता आनी कोंकणी नाटक गिरेस्त करपाचे नदरेन म्हत्वाचें योगदान करता.

'काळमाया' नाटकाचो विशय अडेच-तीन हजार वर्सां पयलींचो. त्या काळांत चलतल्या कुटूंब-वेवस्थेंत, स्त्रीप्रधान जावं मातृसत्ताक पद्धतीचो लय जावपाक जीं कांय कारणां जाल्लीं आसूं येतात तांतुतलें एक पटपासारखें कारण घेवन हें नाटक उबें जालां. ह्या नाटकांतल्यान ज्यो समस्या मांडिल्ल्यो आसात त्योच समस्या थोड्या - भोव वेगळ्या रुपांत पूण तितकेच खरायेन आयच्याय संवसारांत दिसून येतात. देखून इतिहासीक फाटभुंयेवयलें हें एक सामाजीक नाटक अशें म्हणू येता.

आदिम काळार मातृसत्ताक समाज वेवस्था चलताली म्हणपाचें समाजशास्त्र सांगता. मानववंशशास्त्र आनी लोकवेदाचो अभ्यास ह्या परिपाकांतल्यान आयिल्लें काळमाया नाटक आदल्या काळांतले वंशपंगड आपल्या चोम्याचें वेगळेंपण आनीक वंशीक शुद्धताय राखपाक कशे सादूर रावताले, चाली, नेम, बंधनां घालून वंशसंकर टाळताले आनी तातूंत जर अपेस आयलें जाल्यार तो पराभव कसो मानून प्रायश्चीत घेतना टोकाचो मार्ग कशे आपणायताले हांचो एक घटनावार क्रम आमचे मुखार दवरता.

**वसंत भगवंत सावंत** : जल्म : 1960, कथाकार आनी नाट्यकर्मी *'निवल काणयो'* हो कथासंग्रह तशेंच *'कीर-मोर'* हो बालकवितांचो संग्रह प्रकाशीत. कला अकादमी, गोंय संस्थेच्या साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : रविन्द्र भवन, कुडचडें, गोंय 403 706. मो. : 9423058318.

काळमाया नाटकांतली म्हालमाय त्या काळांतले संस्कृतीक पंरपरेविशीं भाश्य करतना आमकां दिसता. तांची एक समजणी आसा. हो संवसार जल्माक घालपी, जीव-जिवावळीक आदार आनी पोसवण दिवपी धर्तरीमायेन आदिमायेचो अवतार घेतलो आनी कुळी जल्माक घातली. ही कुळी अखंडीतपणान विस्तारत वचूंक जाय म्हणून तिणें आपले तांकीन एक कन्या जल्माक घातली आनी तिका म्हालमायेचो मान दिलो. ते म्हालमायेन संतत निर्माण केली. एके म्हालमायेच्या अस्ता उपरान्त तिची व्हडली धूव म्हालमायेच्या पाटार बसून परंपरा फुडें व्हरपाक लागली. कुळयेचो विस्तार जातां जातां एक समूह तयार जालो. हेच परंपरेंतल्यान आयजची म्हालमाय जावन आशिल्ली व्यक्तीरेखा काळमाया नाटकाचें मुखेलपात्र. म्हालमायेपरस पिरायेन आनी अणभवान जाण्टी बायल ह्या पंगडात आसूं येता पूण तिका म्हालमायेचो मान फावो जायना. प्रामाणीक पणान म्हालमायेक आदार करप हेंच आपलें कर्तव्य अशी तांची प्रामाणीक मनधारणा. काळमाया नाटकांतलें 'व्हडली' हें पात्र हे रुढीचेर उजवाड घालता.

म्हालमायेचो फुडलो मान जिका मेळपाचो ती तिची व्हडली धूव - कन्या, तिच्या वयांत येवपांतल्यान तिणें उक्तायल्यो भावना ह्या नाटकाचो मूळ गाभो. हे कन्येक फावोसो भरतार सोदून हाडपाची म्हालबाप्पाचेर दिल्ली जापसालदारकी तशेंच ताणें बेरकीपणान कन्येची हत्या करून सत्ता हातासपाखातीर केल्ली मांडणी हो काळमाया नाटकाचो कलाटणी दिवपी भाग.

नाटकाचें कथानक सादारण अशें फुडें सरता.

दर वर्साचे परंपरेक धरून पंगडांतले वीर सावज सोदपाक गेल्यात. पूण तांकां परतुपाक कळाव जाला. आकांतान म्हालमाय आदिमायेक गाराणे घालता तेन्ना वीर सावज घेवन परततात. उत्सवाची तयारी सुरू जातना म्हालमायेक आपली व्हडली कन्या थंय ना म्हणपाचें जाणवता आनी ती उत्सव थंयच थांबयता. कन्या थंय पावता ती वेगळ्याच भ्रमांत. ही कन्या पंगडांतल्या हेर लोकांपरस रुपान आनी आंगलोटान वेगळी आशिल्ल्यान पंगडांत तिचेविशी एका प्रकारची अढी जाल्ली आसता. तिका पिरायेक धरून कुडीच्या सुखाची ओड लागता म्हणून ती म्हालमायेकडेन भरतार मागता. आपणाक पंगडांतलोच बंधव भरतार जाय म्हूण तिणें केल्ली मागणी म्हालमायेचेर आकांत हाडटा. तिका फावो असो भरतार सोदून हाडपाची जापसालदारकी ती पंगडांतल्या म्हालबाप्पाचेर दिता. म्हालबाप्पा परतता तेन्ना ताच्या सांगाताक कन्या ना तें पळोवन म्हालमाय उंचाबळ जाता. आनी जेन्ना तिका कन्येक म्हालबाप्पान पर्वताच्या मुळसांत भुंयारांत दामून मारली म्हणपाची खबर कळटा तेन्ना ती कोपता. कन्येचो घात, म्हणल्यार आदिमायेचो घात कसो तिका दिसता. पयलेच खेपे घडलेले असले घडणुकेन आदिमाया खुबतली आनी अवर्षणां येतलीं, अशें तिका दिसता. जे कुळयेंत म्हालमाय ना ते कुळयेंत आदिमाय ना आनी आदिमाय ज्या थळांत ना त्या थळांत आपणें तरी किद्याक रावूंक जाय अशें खंतीन ती अवतार

सोपोवपाचें चिंतता. पयले खेपे पंगडांतले कन्येचो घात जाला आनी पयले खेपे एका दादल्यान म्हालमायेची आज्ञा मोडल्या ह्या मनस्तापांत ती जमनींत पुरलेलें आदिमायेचें खडग उखलता आनी स्वताचो अंत करून घेता. तेंच खडग मागीर म्हालबाप्पा उबारता आनी मातृसत्ताक कुटूंब वेवस्था सोपून पितृसत्ताक वेवस्था सुरू जाली अशें सुचयत नाटक सोंपता.

ह्या पंगडातलो मुखेल दादलो म्हालबाप्पा, पूण ताका कसलोच अधिकार आसना, ताच्या मताक मोल आसना, फक्त कुसवे फळोवप हेंच ताचें काम आसता. अधिकार जोडपाखातीर ताणें केल्लो विस्वासघात ह्या नाटकाक वृत्तीसुचक सामाजीक संदर्भ जोडून दिता. पात्रांची रचना आनी तांच्या तोंडांतले संवाद नाटकाक पुर्विली फाटभूंय अधोरेखीत करतात. रुक्ष सुत्रान बांदिल्ल्या ह्या नाटकांतलो मृग-मृगिणीचो देखाव हो एक ल्हवपीक पास कसो. काव्यात्म भाव आनी संवेदना निर्माण करपी हो भाग लेखिकेच्या प्रतिभेची गवाय दिता. म्हालमायेच्या तोंडांतले गाराणें, सावजाच्या शिकारे संबंदानचीं वर्णनां, आर्त सुरांत गावपी कन्या आनी बंधव, कामावंत, नागबाळ-नागावंत भयणींचो संदर्भ, अर्दी मर्दी येवपी सूचक गायनां अती निमाणें येवपी पाश्व निवेदन लोकवेदांतल्या प्रभुत्वा वांगडाच लेखिकेच्या साहित्यिक प्रभुत्वाचेर म्होर लायता.

ह्या नाटकांत स्त्रीवादी चिंतन आसा आनी तें रुजयतना लेखिका कशी एकरुप जाल्या तें नाटकांतल्या कांय उतरावळींतल्यान प्रामुख्यान जाणवता. पाणवट्याक पाणुली, चूक उतराबदला चुकी, चूड उतराबदला चुडी, भाल्या बदला भाली, खेळा बदला खेळी, ल्हवे बदला ल्हंवर, मेळी, कन्यिका हीं उतरां नाटकाच्या मुळसुत्राक प्रभावीत करतात. एकेवटेन आवय आनी दुसरेवटेन चोम्याची फुडारीण म्हूण जापसालंदारकी, ह्या मानसीक द्वंद्वात सांपडलेली म्हालमाय, कुडीच्या सुखाची उकतेपणान मागणी करपी जुवान कन्या, कन्येक तिचे बियेडीचो भरतार सोदूंक जाय म्हणून सांगतगीर, 'तशें जाल्यार कन्या ह्या चोम्यांत कशी रावतली? ह्या चोम्याची फुडली म्हालमाय कशी जातली? असो तात्वीक युक्तीवाद घालपी बंधव, मदभारान पिशी जाल्ली कन्या, वंश भश्टून वडयतली म्हणून आपणें तिचो अंत केलो म्हणून सांगपी म्हालबाप्पा ह्या मुखेल पात्रां भोवंतणी घुंवपी हें नाटक बायल मनशेच्या कुडींत जावपी सैमीक बदल आनी नैतिकतेचीं बंधनां ह्या संबंदानच्या प्रश्नांक हात घालता. आपलो कार्यभाग सादोवपाक दादलो खंयच्याय थरार वचून फटींगपणां करपाक शकता अशी समाजमनांत जी समजणी आसा, तिच्या मुळाकडेन हें नाटक बोट दाखयता. कुटूंब वेवस्थेचे स्थित्यंतर हें ह्या नाटकांचे मुख्य सुत्र जरी आसलें तरी त्या अनुषंगान मनीस वृत्तींचे जाल्लें विश्लेषण काळमाया नाटकाक वेगवेगळे आयाम दिता.




**काळमाया** (नाटक), डॉ. जयंती नायक, राजाई प्रकाशन, केपें-गोंय, पृ. 67, मोल रु. 100/-

000

# खांद आनी हेर कथा

## मानसिकतेच्या मर्माचो थाव सोदपी कथा

गजानन जोगाची कथा विशयांच्या वैविध्यतेचे नदरेन भर घालीत फुडें सरत आसा हाची गवाय ताचो 'खांद आनी हेर कथा' हो नवो कथासंग्रह वाचतना मेळटा. दिसपट्टे जिणेंत जीं मनश्यां आमचे सरभोंवतणी भोंवतना आमकां दिसतात तांच्या मनांतलो खंवदळ फावो अश्या वातावरणाचे फांटभुयेचेर तो नेमकेपणान आपल्या कथांनी उकतो करता.

वेंचिल्या पात्रांच्या मानसिकतेचें मर्म वाचप्यांमुखार उक्तें करतना ताची संवेदनशीलता दिसून येता.

ह्या संग्रहात वट्ट बारा कथा आस्पावल्यात. दर एके कथेंत तांच्या पात्रांची मनोव्यथा हेंच मध्यवर्ती सुत्र.

दर एके कथेंतल्या पात्राची पिराय, आस्पत, समाजीक पत, बुद्धीक थर, दुखाची खराय वेगवेगळ्या पांवड्यावेली आसली तरी तांकां खिन्नतायेचो एक समान पदर आसा आनी गुढतेचें वलय आसा.

आपले जिवाभावाचे तीग जाण इश्ट हो संवसार सोडून गेले, आनी आपूण वतलों तेन्ना आपणाक खांद दिवपाक आपलो एकूय इश्ट उरलो ना ह्या हुस्क्यान संभ्रमीत जाल्ल्या सुदामाची मन अवस्था 'खांद' हे कथेंतल्यान आयल्या. आपणाक खांद दिवपाक मनीस सोदीत भोंवतना आपूण मरचे पयलीं आपले धुवेचें लग्न जावंक जाय ह्या चिंतनांनी तो सतरवितर जाता. आपल्या इश्टाच्या सरणाकडेन तो भ्रमीश्ट कसो बसला तेन्ना गांवांत मेल्ले म्हातारेक मसण्णीत हाडटना तिका खांद दिवपाक लोकांच्यो लायनी लागल्यात हो विरोधाभास कथेक प्रभावी आयाम दिता.

घरप्रवेश कथा बँक मेनेजर मल्ल्यामामाच्या चामट्या सभावाची पराकाश्टा दाखोवपी, तेच वांगडा ताची घरकान्न पुष्पाबायच्या भावनांक निन्नळावपी धपको बशिल्ल्यान घोवाविशीं जाल्ल्या परकेपणाच्या उद्रेकी अनुतापाची. घर प्रवेशाच्या दुसऱ्याच दिसा बायलेच्या इत्शेची मातूय पर्वा करीनासतना बंगलो भाडेकाराक दिवपाचे घडणुकेन पुष्पाबायच्या सपनांतलो बंगलो कसो कोसळट्टा हाचे प्रसंगवार चित्रण हे कथेंतल्यान आयलां. वेवहारी वृत्तीन चिड्डून वडयल्ल्या भावनांची व्यथा काळजाक रोमता. एकसुरपणांत जाण्टेपण सारपी भाडेकार जोडप्याची व्यथा 'दोना सिल्वीया' कथेंत मांडल्या. एका काळार मान सन्मान फिदाल्गपण भोगिल्ल्या ह्या जोडप्याचेर आयज भांगर दवरुन रीण काडपाची परिस्थिती आयल्या. तिगां भुरगीं आसात पूण तीं वायट प्रसंगाक लेगीत पावत म्हणपाचें खरेंपण ना अशें परिस्थितींत भाटकान्नीचेर आपल्या घोवाकूच भुरगो कसो सांबाळपाची पाळी येता. आपलें घर, भाटबेसाचो कळवळो, लाड करून वाडयल्ल्या भुरग्यांनी फाट केल्ल्यान जाल्ली मानसीक कुंचबणा, आपूण नागवतां हें जाणा जावनय मानायाक सांबाळून घेवपाची आयिल्ली अगतिकता अश्या अडचणींक तोंड दीत गळसणून गेल्ली दोना सिल्वीया मनांत घर करून रावता.

'दोन दुकां' कथेंत विक्षीप्त सभावाच्या इनासाचें पात्र ताचे घुस्मटीसयत पितारलां.

नेव्हींत बऱ्या हुद्द्याचेर आशिल्ल्या इनासान भ्रश्टाचार उकतो करपाच्या प्रयत्नांत आपणाचेरुच अपशरण ओडून घेतलां, मनाचेर जाल्ल्या परिणामान तो तिरसुवादी जाला.

चड शाणो जावपाक सोदशीत जाल्यार पिसो जातलो म्हणून शिटकावपी इनासाक मानिकोमांत वचचें पडटा. थंयच्यान ताणें बरयल्ली पयली आनी निमणी चीट, उपरोधीक उतरांनीच आपूण मरतगीर फोंडार माती घाल म्हणून केल्ली विनंती आनी आपूण संवेदनशील जायत चल्लां अशी कथा निवेदकाची जाल्ली भावना हे कथेक मानसशास्त्रीय परिमाण दिता.

कोटींच्या घरांत आस्पत आसा पूण मोडपाची वान्सा नाशिल्ल्यान दळीद्री जीण जगपी किणीमामाक निमाणें बेवारश्या भाशेन मरण येता अश्या कथानकाची 'लखपती भिकारी' ही कथा. कृपणतेचो अतिरेक दाखयतना अश्या मनीस सभावाची प्रसंगांक धरून केल्ली विसकटावणी एखाद्या रोगी मनश्याची केल्ली चिकित्सा कशी दिसपाक लागता.

रीण कथेंत पोरसांतल्या कवाथ्यांक आपल्या भुरग्यांच्या रुपांत पळोवपी एका बापायचो कळवळो मन अस्वस्थ करता. वर्सां सरून भुरगीं पयस पावल्यांत, भुरग्यांनी लायिल्ल्या कवाथ्यांचे माड जाल्यात. माडा सांगाता तो भुरग्यांचें सुख अणभवता. अश्या वेळार माड मारचो पडटलो असो संदेश आयिल्ल्यान ताचो मनधीर सुटता आनी झाडांक उदक घालप म्हणल्यार तांचें रीण फारीक करप अशें मानतल्या ह्या कथा निवेदकाचो मानसीक कडेलोट जाता. 'जाप' कथेंतलें शमा विक्षीप्त वागता. तिच्या वांगडा कॉलेजींत शिकपी गांवगिरो तरणाटो तिच्या मोगांत पडटा. पूण तिचेकडल्यान फावोसो प्रतिसाद मेळ नाशिल्ल्यान बेचैन जाता. मोठ्या धाडसान तो जेन्ना तिच्या हॉस्टेलार वता तेन्ना तिच्या न्हयकारांतल्या विक्षिपतेचें गूढ तिच्या व्यंगात आसा हें जाणवतगीर ताचो अपेक्षाभंग जाता.

तुज्या हजार प्रस्नांच्यो जापो दितां म्हणपी बाबू शमाच्या रडक्या हांसपांतल्या एकाच प्रश्नाची जाप दिवपाक पुराय निरुत्तर जाता.

'मो-ग-बी-ग' ही कथा आमच्या मदल्यो अपेक्षा, समजुती, वागणें हांची गुंतागूंत दाखोवपी, एक समाजीक प्रहसन कशी म्हणपासारखी. आपलो चलो मोगांत पडून लग्न जाता म्हूण कळटगीर अस्वस्थ जावपी तरणाट्याची आवय चल्याचें मन मोडप कुस्तार आनी लग्नाक मान्यताय दिली जाल्यार घरांत वादळ उप्रासपाची शक्यताय अश्या कचाट्यांत सांपडिल्लो बापूय चलयेक दिल्लें उतर प्रामाणीकपणान पाळूंक जाय अशी भावना बाळगुपी तरणाट्याची जाल्ली कुंचबणा, आवय नाशिल्ल्यान बापायचे सावळेंत वाडिल्ले चलयेच्या मानसिकतेंत मोगांत पडल्या उपरान्त जाल्लो बदल अश्या पात्रांच्या समस्यांची उकल करपाची जापसालदारकी आंगार पडिल्लो समुपदेशक हांच्या सभावांवांगडाच मानसीक विकृतींचे चित्रण हे कथेंत आयलां.

'लेंगेकारालें जेवण' हे कथेंतय दोन मुखेल पात्रां आसात; जीं दृष्टांतरुपी कशीं दिसतात. जिणेंतल्या क्रूर सत्याक पोटलून

तीं जगत आसात. तीन पिळग्यांसावन चलत आयिल्ल्या खाणावळींतलो लेंगेकार, आपले कडक शिस्तीक लागून पूत घर सोडून गेल्ल्यान घुमो जाला आनी मर्दी मर्दी भ्रमीश्ट जावन पुतावेलो राग आपल्या गिरायकांचेर काडटा, जाल्यार दुसरेवटेन आपलो पूत गिरायक कसो येतलो आनी पाटार बसतलो हे आशेर वाट पळयत बशिल्ली ताची बायल जोतीश्याच्या भरवंश्याचेर निंबून गरज नासूनय खानावळ चलयता. 'टार्गेट' हे कथेंत वरिश्टांनी नेमून दिल्ली मोख गांठपाच्या जंवजाळात घुसपून अपसरण ओडून घेतल्या बँक मॅनेजराच्या अगतीकतेची विसकटावणी आसा. मोठ्या पदार पावपाचें सूख भोगतना सर्तीच्या चेपणाक लागून मनशांती वगडावपाची पाळी कशी येता तें दाखोवपी वितरागांची ही कथा. एखाद्या प्रतिभावंत गावप्याक आपले गाणें आपणासावन पयस वचपाक लागलां म्हणपाची जाणीव जातगीर तिच्यांत जें एक निर्शेणेन भरिल्लें रितेंपण येता तेन्ना तिका बोचपी भावनांचे चित्रण 'मैफल' कथेंत आयलां.

नांव जोडपाचो कैफ देंवपाक लागतगीर अहंगड आशिल्लो कलाकार कसो निन्नळटा ताचें नकसूद विश्लेशण लेखकान हे कथेंत केलां.

एके गायिकेच्या अंतर्मनाचो थाव सोदपी ही कथा आशयाक धरून एक खंतच छेडता कशी जाणवता. हे कथेंतलें वातावरण जुस्ताजूस्त उबें करपाक लेखकाची ह्या विशयावेली अधिकारवाणी उपकाराक थरल्या.

अस्थिरतेच्या श्रापान आपलो नाश करून घेवपी कलाकाराची जिणेकाणी 'विघटन' कथेंत प्रकटल्या. नाट्यकलाकार, नाट्य लेखक, गणीत विज्ञानाचो शिक्षक अशा भोवतासी कलाकारांच्या अधःपतनाच्या प्रवासाची ही कथा. आपले कलेक बंदन पडटा म्हणून ताणे घेतिल्लें पावल ताच्या मानहानीचे माळेक कारण जाता. बायल-भुरग्यांचे नदरेंतल्यान तो पडटा, वेसनाधीन जाता, पेन्शनाचेर आदारुन एकसुरी जीण जगताना ताका मर्णांक वेगोवचें पडटा. श्रीरंग नांवाच्या ह्या पात्राची रंगयाळी जीण कशी बेरंगी जाता ताचो एक बोचरो रंगपट 'विघटन' कथेंत दिसता. हो कथा संग्रह वाचतना गजानन जोग कथेच्या प्रवासांत विशयांचे नदरेन एक वेगळी वाट तयार करतना दिसता. ताच्या कथांनी थळ, प्रसंग, पात्रां, अणभव हांचें अनुरुप वैविद्य केळयल्लें दिसता. बारीक साणेन केल्ल्या चित्रणाक लागून वाचपी तांच्या पात्रांकडेन एकरुप जाता. ताच्या पात्रांक वेगवेगळे पैलू आसात. पूण सगळीं पात्रां खंत, निर्शेणी, दूख, पश्चाताप अश्या बंदनांत घुस्पल्यांत.




**खांद आनी हेर कथा** (कथासंग्रह), गजानन जोग, बिम्ब प्रकाशन, आगशी-गोंय, पृ. 142, मोल रु. 180/-

000

# बायलेच्या सामाजीक वेणांचें दर्पण : समर्पण

बदलत्या कालमानात समाज सुदारत आसा. दादलो आनी बायल हांचे मदलो भेद उणो जायत चल्ला. बायलेक समान अधिकार मेळूंक लागल्यात, तिचेवयले धार्मीक, सामाजीक निर्बंध सदळ जावंक लागल्यात, आपलें म्हणणें मांडपाची तिका संद आनी हक्क मेळ्ळा. तिचें धाडस वाडलां ह्यो गजाली जरी खऱ्यो आसल्यो तरी भारतीय बायल मनशेच्यो सामाजीक वेणो आयजूय उण्यो जायनात हो वास्तवसूर ज्योती कुंकळकाराच्या 'समर्पण' कथा संग्रहांतल्यान उक्तायल्लो दिसता.

आदल्या काळासावन भारतीय बायलेची व्यथा एका थरावीक फास्केंत मांडिल्ली दिसता. कितलोय अन्याय, जांच, अत्याचार मोन्यांनी सोसूनय जी आपल्या कर्तव्यांक पाळो दिता, दादल्या मनश्यामुखार उणाकपण घेवन जगता. घोवाच्या वायट गुणांक लेगीत जी स्वताक मनस्ताप घेवन धांपूक पळयता ती आदर्श भारतीय बायल अशें एक चित्र साहित्यांतल्यान आमी पळयत आयल्यात. सामाजीक, आनी कौटुंबीक जांच हींच बायलेच्या दुखाचीं कारणां असो एक मनसमज भारतीय वाचकांत आसा. पूण सुदारीत समाजांतलेय बायलेक जे त्रास सोंसचे पडटात तांची जायतीं रुपां 'समर्पण' कथासंग्रहात ज्योतीबायन अधिकारवाणीन आमचे मुखार दवरल्यांत.

'पितृवक्ष' ही कतृत्वी दादल्याची कथा आनी 'फांशी' ही ह्या संग्रहातली दीर्घकथा सोडल्यार एकान एक कथा 'स्त्रीवादी जाणीव' सुचीत करता. 'यशोदामिनी' हे कथेंत फुटपाथाचेर भुरगेंपण सारपाची पाळी आयिल्ल्या रेणुकाकडल्यान तिची धाकटी भयण शेणटा. ते खंतीतल्यान भायर सरपाचो उपाय म्हणून तें शिक्षणाचो ध्यास धरता आनी बऱ्या पदार पावतगीर आपले भयणीचो सोद हेंच ध्येय मुखार दवरुन एक अस्वस्थ जीण जगता. यशोदामिनी हे कादंबरीतल्या दोगां भयणींची काणी तिका तिचे जिणेकडेन साम्य दाखयता देखून लेखिकेकडेन ती आपलेपण बाळगून वागता. तिच्या तोंडांतल्यान जेन्ना भयणीच्या तुटातुटीची काणी सविस्तर समजता तेन्ना ती लेखिका आपले परीन तिच्या भयणीचो सोद करता. कथेचो विशय नवो नासलो तरीय वेगळ्या वातावरणाखातीर ती वाचनीय जाल्या.

'बारबाला' ही दीर्घकथा मुंबयच्या बारबालांचे जिणेचेर उजवाड घालतनाच एके सादे, नमळ आनी शिस्तींत पडिल्ले सुंदर तरणे बायलेच्या भोगणारांची व्यथा पुराय तपशीलासयत मांडटा. बारबालांक हाडपा व्हरपाचें काम करपी तिच्या घोवाक बायलेच्या रुपाच्या बळग्यार पयसो जोडपाचो ध्यास लागता. तिच्या मनाआड तो वेगळ्यो वेगळ्यो चाली रचून तिका ह्या वेंवसायांत हाडटाच. बारबालेची जीण जगतनाच तिचे जिणेक कसली वेगळी कलाटणी मेळटा आनी ती कसलो धाडसी निर्णय घेता, तें हे कथेंतल्यान मांडतनाच अश्यां बायलांखातीर कायदो किदें करुंक शकता हाचीय एक झलक लेखिकेन दिल्या. तंत्राचे नदरेन ही कथा मात्शी विस्कळीत जाल्लीशी दिसता आसली तरी झोपडपट्टींतलें आनी डान्सबारांतलें वास्तव वातावरण हे कथेक निश्चितूच वाचनीय करता.

आपल्यो आवडी, इच्छा मारुन

घरच्यांखातीर कश्ट उपसुपी, नोकरी करून घरच्यांक पोसपी मुक्ताकडल्यान सगळे जाण अपेक्षाच करतात. मुक्ताच्या त्यागाची कोणाक पर्वा ना, उरफाटें कुटुंबाच्या अडचणीच्या काळांत घराण्याक काळें पुसून गेल्ली भयण घरच्यांक अपुरबायेची दिसपाक लागता. तिचेकडले दर एके वस्तीचें अप्रूप जाता. निमाणें तिचेर अवलंबून आशिल्ल्या घरच्यां वांगडाच मुक्ताक ह्या नांवघाण्या भयणीचीय जापसालदारकी इच्छेआड घेवची पडटा. मध्यमवर्गीय घराण्यांतल्या एका सोशीक, नोकरी करपी बायलेची व्यथा 'मुक्ता' कथेंतल्यान काळजाक हात घालता. 'आनी हांव हारलें' हे कथेंतले कॉलेज शिकपी तरणाटेक तिच्या सपनाचो अपेक्षाभंग करपी रुपाच्या तरणाट्याकडें लग्न जावचें पडटा. सभावांतली भिन्नता दोगांकूय एकरुप जावपाक बाधीकारक थरता. 'पैज मारता?' ही तांचेमदीं सातत्यान येवपी उतरां तांचे मानसिकतेक सुचीत करतात. एकामेकांकडेन जुळोवन घेवपाच्या प्रवासांत घोवान पैज हारपाची परंपरा चालू उरता. तांचे मदली निमाणी पैज ती कशी हारता तें जाणून घेवपाक ही कथा मुजरत वाचची. 'आभास' कथेंतल्यान एके रोगी, अशक्त आनी मानसीक पिडीत चलयेन आपणा भोवतंणी आपले इच्छेप्रमाण उबें केल्लें भावविश्व उबें जालां. हें कथेंतलें शबाना आपल्या मुखार कल्पनेंतल्यान अडचणी तयार करता आनी तिचे विशीं सहानभूती बाळगुपी इश्टीणीच्या कानार घालता. शबानाच्या दुखाकडेन समरस जावपाक सोदपी ही इश्टीण जेन्ना हुस्क्यान तिचे खबरीक वता तेन्ना शबानाचें खरें रुप नदरेक आयिल्ल्यान तिका बशिल्लो मानसीक धक्को हे कथेंत कल्पकतेन मांडला. हळशिकावण्या वातावरणांत रावपी किडलेल्या सभावांच्या मनश्यांची मानसिकताय हे कथेंत दिसून येता.

घोव मेल्ल्यान देराकडेन अश्रीत म्हणून रावपाची पाळी आयिल्ल्या सुमित्राचो तो देर कसो घात घेता, अगतिकतेन जीण सारतना ती मालकीण जावन भावजयेक कशी कुशी वडयता आनी हक्काची मालकीण आसूनय अश्रीत जावपाची पाळी आयिल्ले वयनीक तिचो पूत बंड करून कसो न्याय मेळोवन दिता, हाची काणी 'चुरिल्ली चादर' हे कथेंत आयल्या. परिस्थितीक लागून मानसीक शक्तीपात जाल्ली बायल संद मेळटगीर दुसरे बायलेचेर कशी जुल्म करता हाचें चित्रण हे कथेंतल्यान आयलां.

आपलोच अहंकार पोशीत रावपाची वृत्ती जायत्या दादल्यामदीं आसता. घरकामाकडेन, कुटूंब-वांगड्यांच्या समस्येकडेन आपलो कसलोच संबंद ना आनी बायलेनच कशेय पद्धतीन ते खातीर जुळोवन घेवचें अशें तिरायपण मिरोवपी दादल्याच्या अहंकाराचो फुटिल्लो बोमाडो 'अहंकार' कथेंत आयला. नोकरी करून कौटुंबीक कर्तव्यांक पाळो दितना धडपडपी बायलेचो अपेक्षाभंग प्रातिनिधीक रुपांत हे कथेंत लेखिकेन मांडला.

वेश्यावस्तींत येवपी गिरायक आपणें पयशे मेजल्या म्हण्टगीर, आपूण आपणाक जाय ते पद्धतीन वागतलो अशे मानसिकतेन वागता आनी तांतुतल्यान जायते पावटी जीवघेण्यो समस्या तयार जातात.

'एड्स'सारख्या पिडेविशीं वेश्या व्यवसायांतल्या बायलांक जाल्ली

जाणविकाय, ते खातीर तांणी समाज-सेविकेच्या आदारान केल्ली जागृताय आनी तातुंतल्यान घडिल्लें मतपरिवर्तन 'संबंध' कथेचो विशय. हे कथेच्या कथाबिजांत म्हणपासारखो दम ना. पूण वेश्यावस्तीचें वास्तवाक धरुन केल्लें चित्रण वाचप्याक एका वेगळ्याच संवसारांत भोवंडावन हाडटा.

फकत बायलांच पतीव्रता आसतात आनी दादले मात छंदी आसतात ह्या समजाक छेद करपी आशयान भरिल्ल्या 'पितृपक्ष' कथेंत, बायल मेल्या उपरान्त दुसरें लग्न करीं नासतना आपले धुवेक आवयची याद जावची ना अशे पद्धतीन वाडोवपी बापायची कथा मांडल्या.

'फांशी' ही समर्पणातली अतिशय सुंदर कथा. एक नामनेचो बरोवपी कादंबरी बरोवपाक अनुभूती गरजेचें अशें मानून फांशीची ख्यास्त फर्मायल्या कैद्याक मेळपाक वता. कायद्याचें बंधन आसुनय बरोवप्याखातीर जेलर धोको पत्करुन ताका कैद्यांचे कुडींत पावयता. थंय ताका ज्या थराराक तोंड दिवचें पडटा ताचें उमळशीक वाडोवपी वर्णन हे कथेंत लेखिकेन तंतोतंत उबें केलां.

आपल्या सभावाक धरून वागतना घरांतले बायल मनशेक कितले त्रास जावं येतात हाची कल्पना जायते पावटी दादले मनशाक नासता. आदल्या काळार जें चलतालें तें बदलत्या काळांत वजें जावपाक शकता, हाची नात नाशिल्ल्या जाण्ट्याची आनी मोन्यानी त्रास सोसपी ताचे सुनेची काणी 'आदलो मनीस, आतांचो मनीस' हे कथेंत आयल्या. दुसऱ्याचेर मोग आसा म्हुणून सांगपी न्हवरो आनी आपणें दादल्याच्या सहवासावीशीं विचार केल्लो ना. पूण आवय बापायच्या खोशयेखातीर लग्न जावया म्हणपी व्हंकल हांच्या तडजोडीन चलतल्या संवसाराची क्लीशट काणी 'अधांतरी' कथेंत आयल्या. आशा, अपेक्षा, प्रेम, सेक्स ह्यो गजाली जिणें आपले जिणेंतल्यान कुशीक वडयल्यात अशे बायलेकडेन आवयचे इच्छेखातीर भुरगें मागपी घोवाक, घरवाली ना आनी भायलीय ना जावन अधांतरी उरपाची पाळी कशी येता तें हे कथेंत दाखयलां.

'द्विधा' कथेंत घोवाच्या दुयेसांत शेणून गेल्या बायलेचें ऑफिसांतले समलींगी आकर्शण आशिल्ल्या इश्टीणीवांगडा रात सारताना जाल्लें मानसीक द्वंद्व आनी निर्धारान तिणें घेतिल्लो निर्णय ह्यो घटना केंद्रबिंदू थरोवन समर्पक रितीन कथेचो विस्तार मांडला.

घरांतल्या कर्तृत्ववान चलयेच्या मोग प्रकरणाक विरोध करतना घराण्याचे प्रतिशठेचो एकांगी केल्लो विचार आनी तातुंतल्यान दोगा जिवांची जाल्ली कुंचबणा 'आत्मसमर्पण' कथेंत आयल्या.

बायल मनशेचे व्यथेचीं रुपां आनी जुस्ताजुस्त रंगयलीं पात्रां 'समर्पण' कथा झेल्याचें वैशिशट्य म्हणूं येता.




**समर्पण**
(कथासंग्रह), ज्योती कुंकळकार, राजाई प्रकाशन, केपें, गोंय, पृ. 156, मोल रु. 190/-)

000

# हांकां आमचीं आगर्ी



## के. के. सुब्रम्हण्यन

केरळचे कोंकणी कवी, लोकवेद संकलक
(मर्ण : 5 ऑक्टोबर 2014)



## डॉ. माधवी सरदेसाय

लेखक, भासाशास्त्री, जाग म्हयन्याळ्याची संपादक

